# इंगळ्यांतलो हिरो

– उदय शेणवी



शेणवी प्रकाशन



इंगळ्यांतलो हिरो

Ingalyantalo Hero
( A novel in Konkani)

कादंबरी


पयली आवृती : १९/१२/२००१

मुद्रण : गौरिशा ऑफसेट,
दवर्ली, मडगांव
प्रकाशन :
शेणवी प्रकाशन,
एल = २७३,
घोगळ, मडगांव, गोंय.
फोन नं. ७५३०८४

मुखचित्र : कु. गौरी ज. शेणवी

मोल : १३० रु.
पानां : १७०
पुस्तक मेळपाचें ठिकाण
: कोंकणी भाशा मंडळ
आकें, मडगांव.



ज्या अंतनीन म्हाका
कादंबरी बरोवंक स्फूर्त दिली
त्या म्हज्या बापाय समान
आशिल्ल्या सर्गस्त अंतनीक
ही कादंबरी वोपतां





गाभोः-

काळ्या कीट्ट इंगळ्यान
नदरेक हीरो पडलो
लख्ख ताच्या उजवाडान
काळोख पैस धाडलो.



# प्रस्तावना

श्री उदय शेणवी हे काणकोण म्हालांतल्या लोलयें ह्या गांवगि या वाठारांतले. तांचे शेत भाण्ण ह्या रानात आसा. शेताकडेन वचून थंयच्या सैमावांगडा कुळवाड्याचे दिसपट्टे जिणेक पारखप तर तांचो छंद.

तांची पयली कादंबरी आवाळें ही कला अकादमीचो पुरस्कार जोडून गेली. उपरांत ताणी अपु ही कादंबरी बरयली आनी आतां तिसरी इंगळ्यातलो हिरो.

हे कादंबरीचो नायक म्हळ्यार स्वत: लेखक एक कुळवाड्याचे रुप घेवन आयला. हो कुळवाडी म्हळ्यार सर्गेस्त बाब अंतन. अंतनीक तशे चडशे कोण रानात राविल्ल्यान वळख नासले, तरी ताच्या कुडिच्या गुणाक उदयबाबान पारखून एका कादंबरिचे रुपान मांडले. अंतन हयात आसतना ताणी ही कादंबरी बरयिल्ली. आज जरी तो हयात नासलो तरी कादंबरिचे रुपान उदयबाबान ताका साचणाचें अमरत्व दिलां.

कथानक सुरू करतना संथपणान तरी कासवाच्या चालीन फुडें फुडें चलयलां. कामतान खंय आनी कसलें बी घाल्लें हें लक्षान उरलें ना तरी रोपो जातकच सगळें होलमता. कादंबरीचें बीज खंय पेरलां हें कळनासतना रोपोच वाचप्यांमुखार दिष्टी पडटा. सैमाचे वर्णन करचें परस सैम सांगप ही कला. भडकपणा सोडून वास्तवतेन मांडणी करप म्हळ्यार कौशल्य.

खांदाक बंदूक लावन वरांची वरां रान माड्डोवप्यान सैम

सांगलो तर तातूंत अजाप तें कसलें ? जें अणभवलें, पळयलें तेंच बरयलें. शारान लोक सैमाक पैसुल्ल्यान पळयतात, सोबितकाय सांठयतात, पूण सैम हो पळोवचे परस अणभवप, भोगप आसता. त्याखातीर धाडस, शिटुकसाण जाय आसता, तरच ताचें खरें पुर्णतायेन मोल कळटा. दर्यो वेल्यान पळोवन खोस घेवप वेगळी आनी तातून उडी मारून ताची खोलाय, खडपां, नुस्त्यान काडिल्ले घास अणभवप वेगळे. जशें दर्याचें तशेंच रानाचें.

ही कादंबरी सैमीक गिन्याना वांगडा लोकजिणेचेर, म्हळ्यार रानातल्या लोकांचेर, तांचो विस्वास, देवस्पण समजुती, गरिबी, धनयावेलो आदर, संस्कार, कष्ट, खोस हाचेंय दर्शन घडयता.

कास कसो करप ताची पथ्यां, त्या खातीर लागचे धाडस, नशिबाचो वांगड हाचो परिचय आपसुकच कादंबरी वाचतना जाता. प्राणी, जनावरां हांच्यो संवयी, वागणूक, खाण, राखण तशेंच रानातली वखदी वनस्पत आनी तांचो दुयेंसाचेर उपाय हाचेर नकळत उजवाड घाल्लो दिसता.

भाशेची शैली हो वादाचो विषय जांव येता, तरी लेखकाच्या भावनांची जो कदर करतलो तो बाकी गौण लेखल्याबगर रावचोना, कित्याक बुद्धीपरस भावना ही उंचेल्या पावंड्याची आसता.

उदय शेणवी हांचो कादंबरी लेखनाचोच न्हय, कथासाहित्य ( Fiction ) प्रकारांतलें लेखन करचो तिसरो प्रयत्न थुळेवपासारखो आसा. हे कादंबरीक जैत आंवडेंवन असलें साहित्य वाचूंक मेळूं अशें मागता.

बरें मागून,<br>
नरसिंह गो. भटगांवकर<br>
सांखळी, गोंय.

# वळख:

'भाण्ण' हे शेताचें नांव, थंय रावताले ते भाण्णकार. लोलयें पोळें पंचायतींत ताचो आसपाव जाता. आमचें शेत भाण्णांत आसा. थंय एक कुळवाडी आसलो ताचें नांव 'अंतन'. तो आमचें शेत रोयतालो. हांव ताका ल्हानपणा साकून पळयत आयलां तर म्हाका ताचे विशिं तशें व्हडलेंशें कांयच दिसूंकना.

हांव कॉलेज शिकतना कारवार आसलों. त्या शारांत म्हजो संबंध लोकांकडेन आयलो, तेन्नाच म्हाका पावला कणकणीं त्या कुळवाड्याची याद येवंक लागली. ताची शिटुकसाण, धाडस, कामाचें कसब म्हाका आगळें वेगळें दिसलें. थंयच हे कांदबरिचो जल्म जालो.

हे कादबरिंतल्यो सगल्यो घडणुको ताच्या हयातींत जरी घडूंक ना तरी थोड्यो घाडिल्ल्यो आसात. एका रानवटी फुलाचो वास शारांत पातळावचो हो एकच हेतू मतींत दवरून ही बरपावळ केल्या. अशे कितलेशेच मनीस आसात ते जिवाचेर खेळटात, तातूंतसून तरतात तरी तांची नामना कोणच करिना. डोंबाऱ्याचो खेळ पळयतकच आमी पांच धा रुपयांची नोट वडोवन मेकळे जातात तरी डोंबाऱ्याक त्या करामतिची सवंय आसता. पूण अशे लोक रानांत सांपडटात तांकां सवंय आसना, कसलो प्रसंग येत हें खबर आसना तरी तातूंतसून ते तरतात तरी एक पैसो तांका कोण दिनात, भौमान तांका मेळना, इनामाची, पुरस्काराची नावांच तांका खबर आसनात. तांका मेळटा ती केल्या कामाची मजुरी. गरीबी सावळेसारखी तांची फाट सोडना.

तो मनीस अजून म्हळ्यार १९९९ मेरेन हयात आसलो. शारातलें कितलेशेच लोक पळोवन म्हाका बरवपाची स्फुर्त दिवंक शकलेना ती त्या रानवटी, अशिक्षीत मनशान दिली. हांगाच ताचे व्हडपण सीद्ध जाता, अशें

हांव मानतां.

वाचकानीं ही कादंबरी वाचून तातली सत्यताय पारखुची. तो मनीस म्हज्या कल्पनेन तशेच वास्तवतेन तुमच्या मुखार दवरपाचो यत्न हांवे केला तातूंत कितलें जयत मेळलां ते तुमीच थारावपाचे.

इंगळ्याक कवडेंचेय मोल आसना. अडाणी, अशिक्षीत, गांवटी मनीस आमी दिसतकच ताका कोळशा सारखो किंकोत लेखतात तरी जसो कोळशा खाणिनच हिरो सापडता तसो ह्या अशिक्षीत मनशांत मोलादीक गुण आसतात, त्याच खातीर सुर्या सारखे ते आपणाच्या उजवाडान उजवाड वाडयतात, तशेंच ते लोकांचेर छापय बसयतात.

अशाच कांय कोळशा मधलो म्हाका सापडिल्लो हो हिरो. प्रथम पुरूषी हांव नायक अशी कल्पना करून ही कादंबरी बरयिल्ली आसा, ज्याका लागून मनातले विचार हांव जाता तितले वाचप्यां मुखार दवरूंक शकलां. भाण्णात आमचे शेत आसा. कादंबरिची बरपावळ करतना अंतनिची भास वापरचे बदला वाचप्यांक समजूचे खातीर सरळ सोपी भास उजार केल्ली आसा. गरज लागता थंयच ताची उतरां घाल्यात, हाची नोंद घेवची. ही कादंबरी मनार ठसची अशें दिसत तर ताणीं भाण्णात वचून मुजरत अनुभव घेवचो आनी कादंबरिची सत्यताय आजमावची, ही नमळायेची मागणी. ही कादंबरी बरवपा फाटलो आनी एक हेतू म्हळ्यार शारांतल्या लोकांक रानातलें गीन्यान आसना, ताची थोडी तरी माहिती मेळची. रान हे अणुभवप आसता पळवप नासता, हेंच सांगपाचे मुखेल हेतू आसा. रान म्हळ्यार गुरू ताचेकडसून खूप कितें शिकूंक येता ह्या खातीर रानां पैसुल्यान पळोवन उपकारचीं नात, तर तातूंत वचून रावचेंच पडतलें तेन्नाच ताचे म्हत्व कळटलें, गिन्यान मेळटलें. तें उभे आसा आमकां दिवंक, तरी घेवंक आम्ही हात फुडें करचे पडतलें, इतलेंच.

उदय शेणवी
एम. ए.




# इंगळ्यातलो हिरो

अचकीत न्हिदेन सोडटकच म्हजे दोळे उघडले. पावसाचो दुसरो थेंबो आंगार पडटकच हांव पयल्या पडिल्ल्या थेंबान जागो जालों हें कळूंक वेळ लागलो ना. उशाकडेन हात घालून फस्क सोदूंक लागलों. हातान हांगा थंय सांसपून पळयतकच फस्क हाताक लागलें. फस्का काडी पेटोवन ती चिमणेक लायतकच चिमणी पेटून म्हजे घरचे सगळें वैभव दाखोवंक लागली. दाराक लायिल्या कवडानसून थंड वारो येतालो तेन्ना चिमणी निमणो उसवास घेता हें पळयतकच हावें भोवारेंन हात धरलो तशी नेटान पेटूंक लागली. रिता गाड न्हिदेंत घोरेतालें तर रेकेल ताच्या कुशीक थार न्हिदिल्लें. रान्नीचे गोबरांत बनें न्हीदिल्लें. ताचो गळो वाजतालो तो आयकून म्हाका दिसलें हिका वाघाची मावशी म्हणटात तें ओगी न्हय. रात कितली उरल्या हें कळूंक घड्याळ नासलें, मळबांत नकेत्रां नासलीं कित्याक तर पावस पडटालो म्हणटकच अदमास घेवंक कठीण आसलें. दिवो पेटत उरल्यार तेल सरतलें मागीर पस.यार वचून हाडचे पडटलें, ओगीच जागरण करून फायदो नासलो असो विचार येतना हांवे हातान दिवो पालयलो. चादर माथ्यावेल्यान घेवून दोळे गच्च धांपले. तरी न्हीद गेल्ल्यान ते परत उघडे जाले. न्हीद ही मनमानी, तिका जाय तेन्ना येतली, म्हाका जाय तर खंय खाचींत वचून लिपून रावतली हाचो नेम ना.

सूं सूं सूं वा.याचो आवाज वाडतच वतालो. रूख राकेसाचो हांसो काडटाले. एक वावटळ घरावेल्यान गेली. तिच्या आवाजावेल्यान तिचो वेग कळटालो. घराक कायंच जावंक ना हाचें समाधान जालें तरी वारो परत परत नेटानेटान व्हांवतालो. भंयामुखार थंडी आफडूंक भियेताली. वावटळ म्हळ्यारच म्हजें मन भियेतालें. वा.यामुखार कोणाचेंच चलना हें म्हाका त्या दिसा कळिल्लें.

अशीच काळखी रात आसली. सांजचो पावस धार तुटय नासताना

लागिल्लो. शेत निकर्तेंच रोवन जाल्लें. हांव तेन्ना ल्हान आसलों तरी जोत धरतालों, पाय म्ह-यांत आसल्यार बैलांचो भंय दिसनासलो. पायचो भार उणो जालो अशें मायन तिळसांजचो येतकच म्हाका म्हणिल्लें, तरी ताचो भार त्या दिसा साकून चडच वाडत वतलो हें तिका खंय खबर आसलें ? सुक्या काड्डुकांक भाजून मटमटीत पेज जेविल्ले. पाय मात्सो विडी ओडून जेवणाक बशिल्लो. दिसभर काम केल्ल्यान म्हजे हात पांय मोडून येताले मागीर म्हाका कायंच खबर ना. ब-या वर राती 'माय गे', 'माय गे' असो आवाज येतकच हांव जागो जाल्लों. बारीक पावस शिडशिडटालो. म्हाका कांयच दिसनासलें "राव गो राव भिवोंनाका" अशे पाय म्हणटालो. हांव दोळे तायट दवरून पळयत तर घराचो वासो तुटून मांयच्या कपलार पडिल्लो. रक्तान तिची साडी, पोलको भिजिल्लो. माथ्याक कोंक जाल्ली थंय पायन हातान चिड्डून धरिल्लें. मांय जमनीर परवूंक लागिल्ली. दिवो पेटयल्यार पावस पडिल्यान रोकडोच पालवतालो. लागीं दोतोर नासलो. पायन मांयक साळिळच्ची धनकुटी झरोवन दिल्ली. तेन्ना तिचें व्हांवतालें तें रगत बंद जाल्लें. ती जेजूक उलो मारताली. वेलें मळब म्हजेर पडलां अशें म्हाका दिसलें. पावसान आमी, आमचो संसार भिजतालो. थोडया वेळान वारो चडच नेटान व्हांवतकच पावसाची कुपां पयस वचून पावस मात्सो उणो जाल्लो. मांय तशीच पडून आसली तिचें धप हालतालें तितलेंच, तोंड बंद जाल्लें. भायर बेबे डरांव डरांव करून तिच्या मरणाचें बेंड वाजयताले. हावें रात रडुनच काडली. फांतोडेर कोलो हुयेली मारून वयर शिमे मेरेन पावतकच बंद जाल्लो. पाय तोंड धुतकच केलमेतिगेर गेलो आणि ताका हाडटकच ताणें म्हळें,

"अंतन सूर्य उदेता मेरेन ती उरची ना तेन्ना दोतोराक हाडून फायदो ना."

केलमेतीन सोय-यांक कळयतकच ती दुकां गळोवन गेली. दुसरे दीस इंतेर करून पाद्रीक हाडून तिका शिमीतेरींत व्हेली. पायन मात दोन दीस मेरेन कांयच पोटान घेतलें ना. अशे तरेन वावटळेन म्हज्या मांयक व्हेली. आतां वाऱ्याचो नेट उणो जाल्लो, पावसाची चिंटी पडनासली. चादर आंगावेली काडून वडयली. कवड हळूच कुशीन काडून दवरलें आनी भायर माणाय घेवन बसलों.

खिणा खिणान काळोख कमी जायत वतालो. तशे घरा मुखावेलें नदरेंत भरतालें. पणसाच्या आळीवेल्यान पावसाचें उदक ट्प ट्प सकल पोंदाक पडटालें

तर शेतांत उदक भरून मेरे वेल्यान दुसऱ्या कुणगेन पडटना आवाज करतालें. धनयाल्या तोंडा सामकाराक आशिल्लें घर हळू हळू नदरेंत सारखें भरतालें. ताच्या सोप्यार दिवो दिसतालो त्या वेल्यान व्हनी उठल्या आसतली अशें म्हाका दिसलें.

उठून शेतांत गेलों. गोठयांत गडगडेचो आवाज येतकच म्हजी नदर खिणभर गोठयाचेर खिळळी. रातचे वावटळीन तो शाबूत आसलो हें पळोवन बरें दिसलें. आंगणांत चिरचीर जाल्लो. घोट घेतना दांत थंड उदकान शिणशिणटाले, तांबयान उदक भरून तो दाव्या हातान घेवन हांव घरा फाटल्या झीलींत गेलो.

रिकामो तांबयो केळी पोंदा दवरून हावें हात पांय धुले आणि घरा भितर सरलों. रिता म्हज्या जागीन उठलें आनि रान्निकडची मडकी घेवन उदक हाडूंक गोठयाकडल्या वाटेन कोटंब्याक चलूंक लागलें. खारजानसून उदक व्हांवतालें तरी झरीचें उदक पिवंक खावंक वापरताली. दोन मडक्यो हाडल्यार दिसभर आनीक उदक हाडचें पड नासलें. न्हावंक, आयदना धुवूंक, कपडे उमळूंक खारजातलें उदक मेळटालें. जरी तातूंत पत्रो येतालो, थारवतगच वेलें बरे उदक मेळटालें. रात्रींतलो गोबोर हातान कुशीन काडून दवरलो. रातची हुनसाण सकाळ मेरेन आसली. हात तसो भाजनासलो तरी हुनसाण जाणवताली. म्हज्या काळ्या हातार धवो गोबोर उठून दिसतालो. फस्कान चुडट्यो पेटोवन च्याक दवरलें. रान्नी वेले कुड्याचें पान घेवन तंबाखू शेकोवन तातूंत घालो आनी विडी ओडून कानाक लायली, म्हणसर रिता आयलें आनी मडकी दवरून तें भायर गेलें. थोडे च्या पुरते पावशेरभर दूद काडून बाकी पाडकांक पिवंक तार्णे सोडिल्लें.

"रिता रातीं केसो वावटळ येयील्ली गो, म्हाका भिरांतेन न्हीद पडोंक ना. तूं मात मेल्ल्या मड्यासारखें न्हिदून आसलें."

"हांव कोटंब्याक उदक हाडूंक गेल्लें तेन्ना थिंगा चार पांच रूख उमटून पडलेले देकले, केशे पडले ते म्हाका आतां कळळें. वोंवळीचो वाटेवयलो रूख खारजान पडला. उदक आडवलां"

"बरें हांव चयतां कितें जालें तें " म्हणत हांवे कोनशाची कुराड खांदार वडयली, रीतान दिल्ली च्या उब्यानींच पिलों. तसो उक्त्या पांयानी चलूंक लागलों. पायांत जोतीं घाली नासतना रानांची रानां माड्डोवंची सवंय म्हाका आसली. मिसाक, पसऱ्यार वतना हांव जोतीं घालतालों. जोतें पायांत घाल्यार झरता, परत

परत जोतीं घेवची तांक म्हज्यांत नासली. केन्नाय चुकून कांटो लागलो तरी बाबळीच्या कांट्यान तो कांटो काडटालों. मातयेन, फातरान चलून म्हजे पांय घट्ट जाल्ले. आतां हांव आंब्यापोनसून वतालों. आंबो तिसालान लागतालो तरी दोनशें तरी करेल ताका लागतालेच. लागताना मांगूस लागिल्ल्यान व्हनयेक विशेक तोरां व्हरून दिल्यार ग्लासभर लोणचें ती करतकच दिताली.

सूर्य उदेवंक थोडोसो कळाव आसलो तरी सगलें सैम वळखूंक येतालें. दावे वटेन शेता देगेर किटुरां सकाळ जाली म्हणून सांगतालीं. म्हाका ताच्या सांगण्याची गरज नासली ताचे पयलीं हांवच जागो जाल्लों. शेतां भोंवतणी वंय आसली तरी मदीं म्हाका वंयेक खाणू पडिल्लें दिसलें. वंयेचे कडेन वचून पळय तर केलमेतिचो बैल रोप खातालो. 'वाघ धरूं ' असो धेंगसो घालीना फुडें तो म्हज्या ताळ्याक वळखलो आनी आयिल्ल्या खाणवानसून चोरासारखो भायर सरूंक लागलो. तेन्ना लिपून रावन हांवे कुराडिचो दांडो फाटीर मारलो. ताच्या गळ्यांत दावें आसलें, रातचो तो दावें तुटोवन शेतांत सरलो हें तेन्ना कळ्ळें. खाणूं सारखें लायलें आनी लागसल्ले कणेरीचें काटयेचें शितें वंयेचेर दवरून हांव कुराड घेवन चलूंक लागलों. मदीं जमनीर ल्हानशा फोंडकुलांत रातच्या पावसाचें उदक पडिल्लें आसलें. त्या फोंडकुलाचें उदक खदळ जाल्लें. तें रीताचें काम आसतलें हें कळूंक वेळ लागलोना. आतां वाऱ्यान मात्सो नेट धरिल्लो, तरी पावस पडपाची चिन्नां दिसनासलीं. मनशाच्या माथावेल्यान केंसासारखी शेताची रोपां वाऱ्यार तकली बागयतालीं. एक बोर मदींच वाटेर येताली, तिका भायल्यान भोंवताडो घालून हांवें फुडली वाट धरली. ह्या शेतांत बोर आशिल्ल्यान ताका 'बोरी 'खांडी' तर ताच्या सकयल आंवाळयाचें झाड आशिल्ल्यान 'आंवाळ खांडी' तर ताच्या सकयल 'हुऱ्या खांडी' म्हणटाले तरी थंय हुरो नासलो. धनी म्हणटालो ताच्या बापाय मुस्तीक एक हुऱ्याचें झाड थंय आसलें. वाटेन चलतना एक दिवोड वाटेवेल्यान फुडें वचून बोडूक वयर करून रावलो आनी म्हाका पळयतकच पत्र्यान नाच्च जालो. खांदार कुराड आशिल्ल्यान वाग जरी येता तरी म्हाका भंय नासलो वाट फुडें पडंग शेतांत देंविल्ली. थंय पावतकच म्हाका मातयेचें ल्हानशें घोडे दिसले. त्या जाग्याक खुटये आरंव म्हणटात. त्या सुवातीचेर हांव केन्नाच वचूंकना. धनी गांवकाराक आफोवन जोगण घालतालो. गांवकार पयस पोळयान रावतालो

तरी केन्नाय जोगणेक सांगल्यार येतालो. जोगणेक गांवकारान सोळा बुडकुल्यो तळयाच्या उदकान भरून शीत शिजोवपाचें आनी गोसायान कोंबे मारपाचें शास्त्र आसलें. पायन मरचे पयलीं म्हाका सांगिल्लें, " अंतन खुटी देवीक तुज्या मनान ना तर मानूंक जायशें ना तरी तिचेकडेन सांबाळून वाग. तिची सेवा केल्यार वायट न्ही." हें तिचेंच स्थळ ह्या खातीर मादाळे वचून कुमारा कडसून जोगण हांवच हाडटालों. लाकडां जोगणे दीस हांवच व्हरून घालतालों. कामाखातीर म्हाका शिताचीं चरवणां (बुडकुले) धनी दितालो. आज घरांत सात आठ बुडकुले आसले ते खुटयेचेच. थंय एक स्थळाचो सोरोप आसलो, सामको हळदुवो. हळदी कोराचो तरी लांडो. तें खुटये आरंव सोडून तो चडसो खंयच वच नासलो. म्हाका तो खुबशे फावट दीस, तरी तो दाव धरी नासलो. एक दीस तिळसानचो म्हजो पांय ताचेर पडिल्लो तरी ताणें घांस मारलोना वा दाव धरलोना. फोसकार मारून गेलो तितलोच.

आतां हांव कोटंब्याकडेन पावत आयिल्लों. सुर्याचीं किर्णां झाडाच्या तकलेर पडिल्लीं. म्हजें लक्ष ताबडेंशें पानासारखें दिसतल्या माट्टिचेर गेलें तर शेक्रुं त्या वताक शेकतालें. मनीस पल्लेक शेकता तर हें वताक शेकतालें. तें तशें पेलतडेन आसले म्हाका पळोवन तें थंयच रावलें. शेक्रुं मनशाक पळयतगच धांवता एखाद्रो मनीस आपल्याक धांवल्यार पळयत म्हणून थंयच दपटता. फुडें रूमडाचें झाड आसलें, रूमड उदका शिवाय वाडना. कोटब्यांक तर वर्सभर उदक फाल्त जायना आसलें. का-या पोनांनसून वतकच कोटब्यांची झर सापडली. काळे पाषाणी फातर तांतूनसून व्हांवताली ती धवी झर. पावस पडिल्ल्यान दोंगरानसून व्हांविल्लें उदक एकठांय जावन झरीनसून व्हांवतालें. वयर नदर मार तर चार पांच रूख उमटून पडिल्ले. थोड्यांच्यो तेंगश्यो पिळून सकल पडिल्ल्यो. हांगाच कोबड्यांच्यो तकल्यो कापून वडयतात तशी रुखाची गत वावटळीन केली. बोणकीचीं झाडां उसासारखीं झरीच्या दोनूय वाटेन वाडिल्लीं. बोणकीक पणसा सारखीं मोठीं फळां आसलीं तरी तीं खावपाचीं न्हय. बोणकीचें झाड जळवाक वा मदेराक उपकारना तरी निवेलकोणी सारखें गच्च वाडटा आनी कांटे आशिल्ल्यान वंयेक उपकारता. ताच्या म्ह-यांत वचप म्हळयार संकष्ट येतालें. ताचे ते कांटे केन्ना आंगाक तोपत सांगू नजो. झरीच्या उदकान तोंड धुलें आनी

पाशाणार कुराड पाजूंक लागलो. त्या आवाजान कुल्ल्यो बिळांत गेल्यो. गिमाळो सोपतना हे झरीचे उदक कमी जाता तरी खावंक मेळताले. गिमान भाण्णांतली गोरवां ह्याच झरीचे उदक पितात.

झरीचे उदकाबरोबर हांव चलत रावलो, तेन्ना खारजान पावलों. वोंवळीचो रूख मदींच पडून ताळयानी खारजातले व्हावंते उदक आडायिल्ले. कुराडेन हांव त्या रूखाचे खांदे मारून वडंवक लागलो. कुराड रूखार मारतगच आवाज बरोच पैस आयकूंक येतालो. खांद्याची चार कण्णा, चार मेडी काडल्यो. कुंब्याच्या झाडाच्यो साली काडून पास केले आनि तांचे वझे बांधून माथ्यार घेतले, कुराड थंयच रूखाच्या ढोलिन घालून दवरली. वज्याची सवंय ल्हानपणानसून आशिल्यान तशे ते जड लागना आसलें तरी वजें माथ्यार आसतगच ते बेगीनच वडवपांचे ह्याखालीर झपाझप पावलां हांव मारूंक लागलो. आता तर सगल्याक वतच वत जाल्लें. बेदु रूखार कवडो 'कुर्र कुर्र' करतालो. येतना हांव सकल्या वाटेन आयिल्लों, वतना वेली वाट हांव चलतालों. जीन्या झोंपाकडेन पावतगच "फट् फट् " असो पाखांचो आवाज करून हडुयो जांभळीचेर वचून बसल्यो आनी " शिव् शिव् शिव्" अश्यो शिवोण्यो घालूंक लागल्यो. त्यो शिवभक्त आसूंक जाय अशें मनान आयलें. तांचेवेली नदर काडून हांव घर लागीं करतालों. गोंडयामची गोरवां चरूंक वतना वाटेर सांपडलीं. गोरवांच्यो वांटो आनी मनश्यांच्यो वाटो वेगळयो. गोरवां झाडां=झोंपानसून घसटत वतात, तीतलें तांचेवेलें मुस पैस धावतांत. काब्रो पायापोंनची जमीन बरगून धेंकार दितालो. "वाघ धरूं" असो धेंगसो घालतगच तो आपली वाट चलूंक लागलो. मळावेल्या म्हयच्या रूखार गीद वतांचें न्हाण न्हातालों. पोंनसून गोरवां वा अंतन वचूं ताका तांचें पडून वचूं नासलें. ऋषी सारखो ध्यानाक बशील्लो. किडुरां जळामळाक हुडतना दिष्टी पडतालीं. शेंड्डो काजुच्या झाडार तांबडें बोंडूक वयर काडून आसलों. म्हजी सुलूस लागतगच तो मात्सो फुडें गेलो. वाघ आनि शेंड्डो ह्यातून जमीन मळबाची फरक आसता. वाघ मनशाची सुलूस लागतगच ससासारखो भिवन धांवता तर शेंड्डो मनशाची सुलूस लागतगच शिंवा सारखो तायट सवन रागान पळयता. इतल्यान पत्र्यावेल्यान शीळ्ळी धांवली. रानचो पावस पडिल्ल्यान अळामळाक उदक दिसतालें. कुंडग्यानी उदक भरून सकल पडतना खोळो खोळो आवाज येतालो.

केलमेतीच्या खोपटातलो धुकट वयर कुपासारखो उफेत मळबान वचूंक पळयतालो. वाटेवेल्या झोपांक हात लायतगच पटापट ओथांबे पडताले. वत पडतगच झाडांवेले थोडे थेंब हि-या सारखे चकचकतालें. म्हाका दिसलें "हीं खरी मोतया जावपाची, कितलें बरे जाता आसलें. मनशांक दिसता तशें खंय जाता ? तशे जाल्लें जाल्यार सगळे जेजू सुवातेर पावता आसले." घराकडेन पावतगच हांवे खांदावेले वजे आंगणान वडयले. त्या आवाजान रेकेल 'पाय' म्हणत भायर आयलें.

"माय खंय गो ?"

"गोरवां राखूंक गेल्या"

"गोरवां खंय व्हरता म्हणताली "?

"वंडगाळी शेतान"

"बरें आसा. "

अशें म्हणत हांवे घरान आसली कोयती घेवन आंगणान गेलो. मेडी मापान कातरून तांका तोका कांडूक लागलो. रेकेलान उभे रावन मेडिक धरलें. तवशिणिची वाल व्हड जाल्ली, तरी माटोव नाशिल्ल्यान जमनीर लोळताली. माटवाबगर तिका वाडूंक मेळना, वाडल्या बगर तवशी कशी जातली ? म्हाका दिसलें रेकेलाक असोच माटोव करून दितगच हांव मेकळो. हांगा तें वाडूंक शकचेना. घरामुखार ल्हानशें कामत आसलें. घोसाळी, पडवळी, मिरसांगो, कोकणदुदी, वाल, भेंडे असलें उत्पन्न कामतान काडतालों. माकड वोळे चुकोवन येताले ह्या खातीर रेकेलाकडेन एक घुमट दिल्लें. तें वडयतगच माकड पेंस "कल्ले मळार" धावतालें, तरी दनपारचें, सांजे केन्नाय येतालें. आंगणान रावल्यार कामतार नदर पडताली. लागसल्ली झाडां, रूख मारिल्ले म्हणतगच माकडांक जमीनी येल्यान येवंक बरेंच कुस्तार जातालें तरी खाणाच्या आशेन ते येतालेच. रेकेल तशें कामताक पातें नासले. जेवण लेगीत आंगणान हाडून जेवतालें.



# मनजात

मनजातिचेर म्हजो पुराय विश्वास. "दोन गोटे खावंक घाल्लो कुत्रो परतुचोना, तरी ताट वाडिल्लो मनिस परतून पळयत म्हणून सांगु नजो." एक कुत्रो, दोन मांजरां, विशेक गोरवां तर पांच कुकडां हांचो सांभाळ करतां. तांचे पसून म्हाका येनावळ आसली.

कापिटल (कुत्रो) आंगान तांबडो आसा तरी सोंडयेन काळो. रातचे खंय सट् आवाज जाल्यार सगले भाण्ण हालोवन सोटतालो. सकाळ जावचे पयलीं तो धनयागेर वचून खावन येतालो. आमगेर ताका सकाळचो उपासच करचो पटतालो. तिळसानचो धनयागेर गेल्यार बऱ्यावर राती येउन मागीर न्हीदतालो. सकाळचो गोरवां बरोबर वता तो सांचो येतालो. माकड कामतान तो आसल्यार येनासले, हे जरी खरें आसलें तरी तार्चे मन घराकडेन लागनासलें. सांखळेन बांधून दवरल्यार रागान पायानी माती काडून व्हड फोंड करतालो. ना ना तरेचे आवाज काडटालो, होंळम घालतालो. माकड तो आसल्यार चडशे त्या वाटाराक येना आसले.

कापिटल म्हाका अचकित सांपडलो. तेन्ना पोर्तुगीज गोयंचेर राज्य करताले. हांव गांवकारागेर धनयांल्या जोगणेचो रकाद घेवन गेल्लो. पोळ्यां रस्त्यार पावतगच थंयच हांव सावळेक आंब्या पोंदाक बसून येतल्यो वेतल्यो गाडयो पळोवंक लागलों. ईतल्यान पोळ्यानसुन एक झीप मडगांव वतल्या रस्त्यावेल्यान नेटान गेली. मोण्णार पावंक त्या झीपीनसून कितें तरी पडिल्लें दिसलें. झीपीन एक चालकच आसलो. त्या झीपीच्या आवाजाक ताका कांयच कळ्ळेना, वचून पळय तर कुत्र्याचे पील पडिल्लें. हावें धरतगच घास मारूक येवंक लागलें, घुर्घुरूंक

लागलें. ताका घेवन हांव गांवकारागेर गेलो. धनयाचो रकाद दितकच,

"अंतन हे पील जातीन बरेशें दिसता. तुका रानान कित्याक ? वाघ घेवन वचत, हांगा दवरता तर दवर. "

म्हाका तें खरेंच दिसलें. भाण्णान व्हेल्यार वाघूट येउन केन्ना व्हरत हें सांगु नजो. हांगा आसल्यार केन्नाय वर्सातल्यांन एक फावट नदर पडतली, असो विचार करून गाावकारान दिल्ली च्या पिवन हांव भाण्णात आयलों. म्हयन्या भ-यान जोगण आसली. त्या दिसा गांवकार ते पील घेवन आयलो आनि म्हणूंक लागलो,

"अंतन हे पील रातीन भोकत आसता त्या आवाजान न्हीद लागना. तुझे पिल ते तुकाच बरें."

अशें म्हणत गांवकारान तें कुत्र्यापील म्हज्या आधीन केलें. गांवकारान सांगिल्याप्रमाण दोन चार राती ताणें म्हाका न्हीद दिलीना. पाचव्या राती हांव घरान न्हिदील्लों. चार दिसांचें जागरण दोळयान सांठून आसलें. कुत्र्यापिलान बारावर राती मेरेन म्हाका दोळो लावंक दिलोना. सारखे 'भोक् भोक्' करत रावलें. मागिर म्हाका इतलो राग आयलो, हांव उठलों, चान्ने पडिल्लें. कोयती घेतली, कवड काडून भायर गेलों. तें पील म्हाका आंगणान सांपडलें. हावें ताका घट धरलें. पोनान एक लाकडाचो कुडको घेतलो आनि ताचो कान धरून कानाचो कुडको काडलो. त्या सरशीं तें पेंव पेंव करूंक लागले. म्हाका ताची काकुळत आयली. हांड्याकडलो गोबोर ताच्या कानाचेर घालो तशें रक्त थांबलें. ताका तसोच घेउन रावलों. कुत्र्याक ख्यास्त दिवंक जाय जाल्यार कान कापून दिवपाची, मार दिलो म्हणून तांका ती याद उरना. हतयाक लेगीत शीटकावंक कानार मारतात, तशेच कुत्र्याक. म्हज्या मांडयेर तें तशेच पोटली करून रावलें. ताचो कान कापलो हांचे म्हाका वायट दिसलें, तरी कान कापून जाल्लो. ताचेर विचारं करून फायदो नासलो.

सकाळीं रीत उठून पळयता तर हांव हातुणार नासलों. तें भायर येउन म्हाका उठयलो, तेन्ना हांव जागो जालों. हावें म्हळें,

"हरशे हें पील न्हीद मोडतालें तर आज तुवें न्हीद मोडली."

पील मांडयेर थार न्हीदिलें. म्हज्या आंगार रगत पडिल्ल्यान हांव न्हावन

मेकळो जाल्लों. सदांच रातचो काळखान हांव न्हाता म्हणतकच न्हीद बरी पडता. त्या दिसा मेरेन तें रातचें चडशें भोकना जालें. कोणी मनीस घराकडेन आयलो तर भोकून कळयतालें. कॉफी रंगाचो म्हणून रीतान ताचें नांव 'कापिटल' दवरिल्लें. बनें खायना, जेवीना जातगच हावें ताची शेपटी कापील्ली, मागिर तें खावंक जेवंक लागिल्लें. शेपटी कापीना तर तें कांटेता, खाल्लें आंगाक लागना.

कापिटल धनयाले आनी म्हजें अशी दोनय घरा सांभाळतालो. तो दिशीं दिशीं वाडत आसलो. आतां ताका भाण्ण पावनासलें. तो कल्ल्यां, देवशे तळयेक, सुपा गुड्येर, व्होंद्यार वतालो. घरा येतना शेपटी सकल घालून आपली चूक मानून घेतालो. म्हजी नदर त्या धनया घरासकयल्या पिंपळारूखार पडता ताचे मूळ दिसना तरी वयलो भाग नदरेन भरता, केलमेतिच्या घराकडेन एक पिपळ तर वयर कोटंब्याक एक अशे तीन पिपळ. पायन म्हाका म्हणिल्लें,
"बोरीकडेन आनिक एक पिपळ आसलो तो मेलो, भाण्णाची ते शिम थारायतात."

एक दिस सकाळचो च्या पितगच हांवे आंगणान येवन हात वयर करून आळस झटकिलो. शिमेवेल्या पिपळार माकड 'हुप हुप' करताले. ताळये कणकणीं भोवंन खांदे हालयताले. म्हाका ते जरी सारखे दिसनासले तरी आवाजा वेल्यान कळताले. घेघीं "चींक चींक" करीत खळावेली पोल उस्तीतालीं तर घुडांतल्या कोब्यांन नुकतोच साद घाल्लो. घुडाचे दार काडतगच कुकडां खळाच्या दिशेन 'कॉक कॉक' करून वचूंक लागलीं. शीं तशे खायना आसलें. शेत कापिल्ल्यान सगलें भाण्ण मळ कशें दिस. रीत मडकी घेउन कोटंब्याक वचूंक भायर सरील्लें तर अजून रेकेलाची न्हीद जावंक नासली. धनयाच्या घरानसून धुकट वयर मळबाक वेंग मारतना दिसतालो. तो वाऱ्यार धोलतना दिष्टी पडतालो.

बोरीकडेन चितल कुलयतना आयकतालें. तें वयर रानांन वतालें जांवये. मनान आयलें बदूंक भरून फाटसून गेल्यार मेळत घडये. हांव भितर घरान सरलो मात. इतल्यान "पॅव पॅव" असो आवाज कानार आदळलो. बंदुकेक हात घालो तो फाटी घेतलो आनि परत घरा भायर आयलो तर कापिटलाचो आवाज वळखूंक वेळ लागलोना. तसोच उघडया पायांनी हांव धावलो. मेरेन वतना तोल सांभाळचो पडटालो, शेतान देंवल्यार चरमा पांयान लागतालीं. कुंब्या कडसून वतना म्हाका काटी लागली ती काडता म्हणसर पॅव पॅव असो आवाज वाडलो.

वंयचो खूट काडून हातान घेतलो आनी धांवलो. कपिटल चिंचेपोंदाक पडिल्लो. चार पांच कुत्रे एकठांय जाल्ले. हावें खुटान एकटया फाटीर धपको दितगच बाकी कुत्रे धावले. माकड तेंगशेर वचून आसले. पोनाक आमुरपिक्यो चिंचो पडिल्ल्यो. कापिटलाची स्थिती रान्नीन न्हिदील्ल्या मांजरा सारखी जाल्ली. पायानसून रक्त व्हांवतालें, ते जमिन भिजयतालें. हावें ताका उखलून पोटाकडेन धरलो. रक्त पडल्यार काष्टेशिवाय आनिक कांयच आंगार नाशिल्यान भिजपाचो प्रस्न येना आसलो. काष्टी तांबडया रंगाची म्हणतगच दाग उठून दिसचो नासलो. कापिटल म्हाका पळोवंन दोळे धांपतालो. पयलीं सारखो रड नासलो. म्हाका पळोवन ताका धीर आयील्लो. ताका घेउन येतना वाटेर हांव ताचेर फडफडतालों,

"कित्याक गेल्लो त्या व्हड कुत्र्या वांगडा ?"

तो मोनो कितें जाप दितलो ? रेकेल आंगणान आसले, तें धावतच आयलें.

"कितें जालें पाय कापिटलाक ?"

हावें म्हळें,

"मोरोंक गेल्लो थींगा, आपुण केदो आसा तें पळयनासतना झगड्याक धांवता. "

रीत मडकी भरून येतना दिसलें.

"माँय बेगीन यो, कापिटलाक चोय कितें जालां तें ?"

कापिटलाचें रक्त पुसून ताका आंगणान तण घालून न्हीदयलो. रीताक च्या करूंक सांगली. हातान कोयती घेउन हांव भायर सरलो. भिण्डी फोंडयेचे माथोटेर तोडुचे झाड आसलें. कापिटल दोळयामुखार येतालो. कांरव बरेच वाडिल्लें. वाट काडत वतना तें आंगाक लागतगच खाज येताली. व्हळती मर्दी व्हांवताली तरी पावसा ईतलो नेट नासलो. पावसान ती हांसता तर गीमान रडता. आतां म्हाका लाडुतळयांतलें शेत लागलें. झाडाच्यों सावळ्यो शेतान पडिल्ल्यो. सुर्य वयर येता तशी ती आपलें आंग चोरत रावता हे हावें सदांच पळयिल्लें. वतान खवणकवडे चरताले. म्हजी सुलूस लागल्यार ते रावचे ना हें म्हाका खबर आसलें हे खातीर हांव झाडा आडसर घेवन पळयतालों. शेताच्या कोनशाक दोन कुटट्रीं चरतालीं. तीं चरतां चरतां रानान गेलीं, घाडये म्हजी सुलूस तांका लागली आसतली. चानी बडयेव्हेल्यान वतना म्हाका दिसली. खिणा खिणान वत शेतान आपलें जाळ





फापशितालें. हावें आडसर सोडलो आनी पावलां फुडे वडयलीं. मुंगूस शेताच्या मेरेर कितें तरी सोदताले, ताका पळवन खवणकवडे हुडून गेले. म्हाका त्या मुंगसाचो राग आयलो. म्हजी नदर केळा रूखार गेलीं, तर हड्डयो ''भुर भुर '' करून उडत फळां खाताल्यो. थोडी फळां झडतगच तांचो पत्र्याचेर पडून ठ्प ठ्प आवाज येतालो. केळारूखार दोन कुटुंबे ''कुटुंब कुटुंब'' असो आवाज करताले तर तांबडी शेपटी खांद्यावेल्यान सकल वडवन शोक्रां तांची फळां खातालीं. बारीक शेवणी जळामळाक उडतना दिष्टी पडटालीं. सैमाक पारखूंक ताचीं पथ्यां पाळची पडटात. आपुण तांका दिसपना, उलोवपना, कसलोच आवाज करपना, बारीक साणेन ताळये कणकणीं, फातरा कणकणीं, मातये कणकणीं सोद घेत रावप. रानान वतना धवशें शर्ट वा खलसांव घाल्यार ते प्राण्यांच्या नदरेन भरता. हांव काष्टे शिवाय कांयच घाल नासलो हाची म्हाका सवंयच आसली शिवाय कातीन काळो म्हणतकच कोणाच्या नदरेन भरपाचो प्रस्न येना आसलो. म्हाका शोक्रांन केन्ना पळयलो कोणाक खबर. तें खावड सोडून शेपटी हालयत ''टंक टंक टंक'' करत धावलें, फाटोफाट दुसरें धांवलें तें पळोवन हड्डयो ''भुर'' करून एकेच खेपो उडून गेल्यो. ना म्हळयार कुटुंबे थंयच रावन वयर सकयल पळयताले. खरें तशें पळोवंक गेल्यार कुटुंबे पोपटा सारखेच दिसतात. पांचवेचार, तरी हांची चोंच हळदुवी आसता. पोपट उलयतात तर कुटुंबे एकच आवाजान रडतात. कुटुंब्याचो आवाज आवाठ भरून वता तर पोपटाचो लागींच पावता. पोपटाची चोंच तांबडी, पोपट सुंदर तशे शिटुक. केळारूख फळेवन अर्ध्यावयर काबार जाल्लो. हांव आतां त्या रूखाक सोडून फुडे देवणशी देवंक लागलो. थंय एक ल्हानशें तळें आसलें. तळ्याचे उदक खदुळ दिसतालें. रातचो कोण तरी येवन उदक पिवन गेला हे कळटालें. बारिकसाणेन पळय तर वाघाचे चपके त्या ओल्या मातयेचेर दिसताले. म्हाका वाघाचो तसो भय दिस नासलो. ''ते तशे आंगार उडनात. ताचे वाटेक वतना सांभाळून वचप'' हे म्हाका पायन ल्हान आसतानाच सागिल्लें. वाघ खंय गोटेलो तरी नदरेक पडप कठिण. हांवें कोनली भर उदक काडून तोंडार सारयलें आनी हात पांय धुवन घेतले. उदक थंड आसलें. गोरवां तोंड लावन उदक पियेतात तशे हांवे धोपरां जमनीक तेकवन हात घट् फातराक धरून उदकाक गोरवां सारखे तोंड लावन घटाघट तें पियेलों. जनावरां सारखे तोंड लावन

पिल्यार उदक बाधना हातानीं उदक घेवन पिल्यार बादता असो एक समज म्हज्या मनान घर करून आसलो. जनावरांक थंडी सहसा जायना तर मनशाक थोडें उदक पियेल्यार लेगीत थंडी जाता. बरें दिसलें खरें तरी हात पांय गळतात कशे दिसून जाम जालों. थोडो वेळ हांव बसलो. म्हजी नदर का ऱ्याच्या रूखाचेर गेली लाडवाएदी फळां सकल पडिल्लीं. तीं कोणच खायनात. आंबो आनी कारो, दोनय रूख, तरी एकाचे फळ सामके कडू तर दुस ऱ्याचे गोड. आंब्याचो रोपो, कलमां आमी लायतात तर का ऱ्याचे झाड दिसल्यार जळवाक मारतात. लागसर धव्या पाषाणाचो वांटकुळो फातर नदरेक पडलो, लाडवा सारखो वाटकुळो. असले वाटकुळे फातर थंय जळामळाक दिसताले. पायन म्हाका सांगिल्ली याद जाली.

"अंतन लाडवा सारखे फातर थींगा आसात देखून त्या तळ्याक 'लाडुतळे' म्हणटात".

त्या तळयासकयले शेत 'लाडुशेत' म्हणून वळखताले. गांवकार जोगण घालतना त्या तळयांतलो फातर व्हरून खुटयेकडेन दवरून देवसपण करतालो. वर्सान वर्स नवो फातर तो दवरतालो. खुटयेकडेन वांटकुळया फातरांची रासच जाल्ली. झाडाव्हेल्यान पिकी पानां वाऱ्याल्हारा कणकणी निखळून सकयल जमनिर पडटालीं. तळें व्हावतालें तरी शेता मेरेन ताचें उदक पावनासलें, आनी म्हयन्या भितर तें आटपाचें. हातान आसली कोयती हावें तीं त्या पाषाणाचेर घासून धार काडली. कोयतेचे थोरूं फुटील्लें तरी तशेंच बांधून गरज करतालों. बसल्यार बसुनच उरतलों हे खातीर पांयार पेज दीत हांव उभो जालों, आतां म्हाका मात्सो चलूंक नेट मेळो. थोडोसो विसव घेतल्यार परत कामाक नेट येता हाचो अणभव आसलो. धा-पंधरा मिनटां चलतकच "भेंड्या फोंडयेक" पावलों. हें रान 'रानभेंड्याचे राज्य'. वाटेर येतात ते खांदे कोयतेन मारत हांव चडती चडूंक लागलो. वेल्या देगेक घोडुक, नाणो, तोडु असले वेंग पावनासले रूख आसले. करमलाची पानां हाता एदी आसतात ती काडून हांवे तोडू रूखाच्यो कोयतेन साली काडल्यो. करमलाच्या पानांनी घालून कुंब्याच्या पानांनी बांधल्यो. वेल्यान देवतकच 'विट्टें' लागलें. उदक माय तापलो तरी फाल्त जायना, सामकें थंड वातावरण. विट्टेनसून गेल्यार लागीं पडटलें शिवाय वाट निवळ आसतली, असो विचार करून सालिची पुडी, कोयती घेवन वीट्टयान देंवलो, [illegible] लापून गोरवां उडी घालून





येतात. भाण्णातसून सोडिल्ली गोरवां फाटी फुडे पळयनासताना वीट्टयान येतातच. तरी वाघांचो भंय खूब. खंयचो वाघ केन्ना ह्या शेतान देवत हे सांगु नजो. विशेक तरी गोरवां हया वीट्टयान मारल्यात. म्हज्या यादीक सात आठ गोरवां मारील्ली. शेतान चिखल आशिल्ल्यान पांय परत परत बरेच भीतर वचून चिखलान भरताले. इतल्यान म्हजी नदर शेताच्या कोनशाक गेली, तर तांबडेशे किर्ते दिसलें. दोळे तायट धरून पळे तर कांयच नासलें. मनांन वाघाचे विचार आशिल्ल्यान घडये भास जालो आसतलो. वत बरेच पडिल्लें. भीरमुटयो पुरूस भर उभारेचेर पासयो मारताल्यो. आतां शेत काबार जावन रान लागिल्लें. पावलां वडवन घर लागीं करतना कापिटलाची याद जाताली. इतल्यान आमचीं गोरवां ओळीन तकली हालयत शेण करत येतना दिसलीं. तानून तर म्हाका पळयतकच 'हांबो' करून प्रस्न विचारलो 'खंय गेल्लो ?' म्हणून! फाटल्यान रीत आसले.

"इतु कळाव कित्याक जालो बचकभर साली हांडूक ? पेज वाडून घे काड्डुक भाजून दवरलां. "

अशे म्हणत तें गेलें. कोटंब्याक पावलो तर वावटळीन विट्टयावटेन आसले सात आठ रूख हुमटावन वडयील्ले, तशेच कोटंब्यासकयले वडयल्ले. खारजांनसून उदक व्हांवतालें तरी नेट नासलो. रोकडेंच शेतान पावचे पयलींच जिरतालें. नाण्यारुखार बळारी बशिल्ल्यो गोरवाजागीन त्यो वयर बसल्ल्यो आसतल्यो. इतल्यान एक दिवड नागीण खुटयेकडसून वयर कोंटब्याक गेली. हांव जाम जाल्लो नातर तिची खबर घेवपाचो. वाटेर मदी मदी शेण पडिल्लें तें चुकयत घरा पावलों. आंगणान कापिटल पोटली करून म्हजी वाट पळेतालो.

रेकेलान म्हळें

"पाय जेयता, पेज न्हिवत घालुं ?"

"घाल गो, हात पांये धुवोन येतां."

चलिल्ल्यान जाम जाल्ल्यान पोटाक भूक लागिल्ली. सकाळी च्या पिवन घरा गेल्यार तिळसानचो घरा पावलो तरी म्हाका भूक लागनासली. तरी घरा आसल्यार दोन तीन फावट पेज जेवल्याबगर राव नासलों. थोडे गोड तशेच कळकी कोंम्यो, तोडु साली वानार वांटल्यों आनी आळेण कशें तें गंद केले. काड्डुक तोंडाक लावन वाटयांतलीं पेज रोकडोच जेवलों, निशें पितकच थाकाय

भरली. कापिटलाच्या पायांक दात लागिल्ले. विखमोगरे मूळ त्या फाडाक झरोवन लायलें, उपरान्त तोडुसालीच्या वखदाचो लेप लायलो आनी बतरान तें घट्ट बांधलें. दोन कोंड्याच्यो बडयो हाडून त्यो पांया एदयो कापून वखदा सयत बांधल्यो. कापिटलाक पेज ताज्या माळटयान घाली. त्या कोंड्या बडयांच्या आधारार उभो रावन तो पेज खावंक लागलो. तरी ताका त्रास खुबच जाताले. धनी येसो येतना म्हाका दिसलो. हांवे घरान वचून माणाय हाडली आनी आंगणान दवरली.

"यो धनयां बैस माणाय दवरल्या."

"अंतन म्हाका वेळ ना कापिटलाच्या खबरेक आयिल्लों. हे पांच रूपये घे मादाळे वचून मलम हाडून लाय."

"धनयां तेका वखद आतांच लायलां फाड भाजून येतलो ना तर मलम हाडतां."

"अरें, पांय बरो जाल्यार ते पांच दोतोरा फी समजन् ते तुकाच आस्."
अशे म्हणत तो खुटयेकडेन वचूंक लागलो. पिरायेन चाळीशेक वर्साचो जायत, कष्ट तशे काडूंक जमनाआसले तरी व्हनी कष्टांक बरी आसली. तागेर दोन वर्साचो बाबु आसलो, नांव म्हाका येना, चडशीं बाबुच म्हणटालीं. रेकेल ताका धनयागेर वचून हाडटालें, ताका खेळयतालें, वर-दोन वरां दवरून पावयतालें. व्हनयेन धाडुना तर थंयच ताचे बरोबर खेळटालें. धनी येसो सकाळचो येवन बाबुक दुध व्हरतालो. ताचे पयलीं दुध काडल्यार रेकेल बाटलेन दुध घेवन धांवतालें, दुध व्हेल्यार पोळया कुडको ना तर भाकरे कुडको ताच्या हातार पडटालो. एक दीस न्हिदून रावल्यार ताका कांयच मेळ नासलें. आमगेर निकटीच्या, खावंक कांयच कर नासलीं.

"धनी येउन गेलो ?"

अशें तें उठतकच विचारतालें. तिळसानचे चिमणेल सोपतकच ताका धनयागेर चिमणी दिवन चिमणेलान भरून हाड म्हणून धाडटालों तेन्ना धनयांगेर वचप ताच्या जिवार येतालें.

धनी येसो म्हाका फाटल्यान खुटये कडेन पाव मेरेन दिसलो मागीर झाड आडसाक येतकच दिसना जालो. पायन म्हाका येशाचो बापुय, भीकाजीचो सगलो इतिहास सांगिल्लो तर येसो म्हजे बरोबरचो म्हणटकच येशाक हांव सारखो

वळखतालो. भिकाजीचेच हे सगले भाण्ण. सगली एक कुंब बियाची म्हळ्यार णव्वद हजार चौखंड मिटरांची जमीन तशेच ताचे दुप्पट वयर रान. भिकाजी कष्ट करपी मनीस. चार खंडयाची जमीन ताणें आपणेच खणून केल्ली. तो मात्सो तापट आसलो. येसो एकच पुत, ताचें घर लोलयें आसलें तरी भिकाजी भाण्णातच शेत करून रावतालो. ना म्हळ्यार परबां कणकणी लोलयां वचून येतालो. भिकाजी मनान उदार आसलो तरी तितलोच कडक आसलो. म्हज्या पायन तीन खंडयांचे शेत भिकाजी कडसून खंडाक करून घेतिल्लें. बारा खंडी खंड भिकाजीक खळार मोजचो पडटालो ना तर तो मारूंक येतालो. पिक जांव वा ना जांव ताका ते काय लाग नासलें. कितली पिक चड जाली ती ताच्या ती दोळ्यान वच नासली. खंड दितकच दुसरे दीस वचून भात मागल्यार तो ना म्हणी नासलो. तो वालो न्हेसतालो. माथ्यार शेंडी दवरतालो. अनवाळे कडक आसलें. दनपारचे पुजा करचे वेळार जाप दिल्यार ताचे पित्त खवळटालें. खुटी देवीक जेवण दाखवन तो कावळ्याक घालून जेवतालो. कावळयानी जेवण उष्टाय मेरेन तो थंय बसून रावतालो. कुत्रो ताका तोंड लायत म्हणून वयर फातरार केळी पानार घालून दवरतालो. ताची बायल येसो सात वर्साची आसतना मेली. भिकाजीन येशाक लोलयें शाळेंत घालो. येसो शिकूंक हुशार आसलो तरी आवयचो भय नाशिल्ल्यान आपणाक जाय तें करतालो. तवनास पोरांची संगत लागतकच शाळेक दांडी मारून तो गड्डयानी खेळटालो. चौथी मेरेन येसो शिकतकच पांचवेक तो नापास जालो तेन्ना भिकाजीन ताका भाण्णात हाडून घरकामाक दवरलो. येसो हिशबाक बरो आसलो. पटापट हिशोब करतालो. भिकाजी तसो ताजेर लक्ष दितालो. आवय ना म्हणतकच ताचे लाड करतालो. भिकाजी नुस्तें, मटण खाय नासलो, वा आफड नासलो. जरी येसो म्हजे बरोबर नुस्तें धरूंक येतालो तरी तो खाय नासलो. नुस्तें धरपाची ताची उमेत अजून मेरेन कमी जावंक नासली.

येसो तातया इतलो धवो आसलो, तरी मोटवो. व्हलतेरान बशिल्ल्यान पोंग पडटालें, तरी धाडशी आसलो. भिकाजीक सर्पान घास मारलो तातुनच तो वरा भितर सोंपलो. येशाक कसलोच आधार नासलो. शेत पिकयतलो म्हळ्यार एकटो किर्ते करतलो? ताका एक सोयरीक आयली. तो मादाळे वचून लग्न जावन आयलो. सात आठजाण बरोबर आसले. म्हाकाय ताणें आफयील्लो. व्हनी आनी

येशाचें तशें पट नासलें. दोघी जाणां भुरगींच आसलीं. येसो अठरा तर व्हनी सोळा वर्साची. वीशेंक वर्सानीं तांगेर चलो जाल्लो. येसो वेळार आपलें शेत पेरून घेतालो. कामाक आफयल्यार म्हजें काम दवरून वतालों. तशी खाणा जेवणाक ताची बारीकसाण नासली. दिसोडो दिवन वेल्यान नाल्ल दितालो. हांव पादेशिर आशिल्ल्यान ताका दुखय नासलो. केन्नाय तंबाखू तर केन्नाय पैशे मागल्यार ना म्हण नासलो. ताची नाडी खंय आसा हें म्हाका खबर आसलें. दोन गजाली सांगल्यार तो फुलतालो, मागीर कितेंय मागल्यार ना म्हण नासलो. आपूण उपाशीं रावलो तरी मागिल्ले ना म्हण नासलो. पुण ताच्या रागाक दोळे उर नासले. एक फावट हांव ताचे कडेन फट उलयलो म्हणून ताणे म्हाका लाथ मारून धडेवेल्यान तळ्यांन वडयलो. उदकान पडिल्ल्यान म्हाका कायच जालें ना. तरी रोकडोच ताणे म्हाका तळ्यान उडी मारून वयर काडलो. ते मेरेन ताचे कडेन हांव फट उलयनासलो. धनी म्हणतकच ताका मान दिवंकच जाय. धप् करून माकडान वेदू रूखा वेल्यान माटी रूखार उडी मारतकच म्हजी तंद्री भंगली.

सुर्य माथ्यार पावत आयिल्लो. रीत रातभर वण वण फिरता आसतलें असो विचार मनान येतकच हांव वंडगाळीचे वटेन चलूंक लागलों. वत कितलेंय जरी पडिल्लें तरी झाडांच्या पोनानसून वतना सावली आशिल्ल्यान तितले लागनासलें. गोरवां लाडु तळयानसून फुडें गेल्यात हे वाटेर पडिल्ल्या शेणाच्या थाप्यां वेल्यान कळटालें. आतां शेतान फक्त वतच आसलें. चलपाची सवय आशिल्ल्यान चलप म्हळ्यार उसवासा इतली सोपी गजाल दिसताली. वत पाचव्यां झाडांचेर पडिल्ल्यान पाना चकचकीत दिसतालीं, तें पानावेल्यान परत दोळ्यान मारतालें. वझ्या वेल्यान फुडें वतकच थोडेशे मळ लागलें. तें चलतकच थोडेशें रान, ते माड्डीतकच हांव वंडगाळी पावलों. दाव्या वटेन वडाचो व्हडलो शेतान पाविल्लो रूख आसलो. सगली धा खंडी बियाची जमीन, तरी आतां ती पडिंगच आसली. सातोणाचो माडा इतलो उभार रूख आपले हात सकल बागोवन मोतयां सरपळयो सोडटालो. ताका लागून चिचेरूख तरी ताका फुलां येवचे पयलीं पाना माकड बुड्डून खातालें म्हणतकच चिचो जायनासल्यो. वेल्या वटेन घोटीण तरी घोटां जावंक माकड दिना आसले. मादाळेचे कोणय पावल्यार तोरांच काडून व्हरताले. ना म्हळयार हावें दोन फावटी ल्हानशी तोरां व्हरून चेपणा घाल्लीं. आषाढ आंबो माया म्हयन्याक

चवंरता आनी पावसान आषाढ म्हयन्यान पिकतालो. आषाढान चडसो आंबो आसना ताचें तें खाशेलेपण पळोवन जाणटेल्यानीं ताका 'आषाढो' नांव दिले आसतलें. माकड तो पिकतकच वयर चडून तर थोडे सकयल जमनीर बसून आंबे खाताले, ते ताळयेर उडी मारतकच थोडे पिके आंबे झडटाले, ते सकयले माकड खाताले. शेतान गोरवां खंयच दिसलीना म्हणतकच हांवे उलो मारलो,

'रिता '

'ओ '

असो आवाज वंडगाळीचे झरीकडेन आयलो. गिमान लेगीत वंडगाळीन पांचवो चरव आसतालो. झर आटिल्ली म्हाका याद जायना. झोपानसून वाट काडीत हांव झर लागीं करतालो. झरीकडेन वतना दोन माड लागले. खेतीं तांका बोंडे येवंक दिना आसलीं. म्हणतकच नाल्ल कशे जातले ? गेल्या पावसान हांवे वयर चडून कणेरीची काटी मीटरभर माडाक मदीं बांधील्ली. खेती रूखावेल्यान माडार उडी मारत म्हणून लागसल्ले खांदे मारून वडयिल्ले. तेन्ना नातलां कडेन आठ नाल्ल मेळिल्ले. कणेरिची काटी लागतकच खेती वयर चढूंक शकनासली. खरे पळोवंक गेल्यार वंडगाळीचो धनी रामचंद्र आसलो तरी ताणें शेत सोडिल्लें. खेत्यानी बोंडे खावचे परस हावें नाल्ल खाल्यार बिघडले खंय ?

रामचंद्राक वंडगाळ सोडूंक एक कारण आसलें. वंडगाळीचे चारी वटेन रान, झरीचे पावसान भरपूर उदक, काळी पिकाळ जमीन, तरीं सावदांक पिके वेळार राखूंक जाय आसलें. कीर, चानयो, कवडे, माकड, धुकर सगळेच बाधताले. रामचंद्रान विशेक वर्सा वंडगाळ रोयील्ली. तरी ती रोयल्यार पावसान थंय गोरवां व्हरूंक मेळ नासलीं. हांव विट्टयान गोरवांक सोडून वंडगाळी रामचंद्रागेर गेल्यार रामचंद्र कितेय खावंक हातार वडयतालोच. गेल्या आठ वर्सा फाटी तो हें शेत रोवंक आयील्लो. दनपारचो वेळ आसलो. पोळें साकून वंडगाळी पाव मेरेन ताका अकरावरां जाली. येतना ताणें बैलाचें जोत हाडिल्लें. वडापोंदाक ताणे बैलांक बांदिल्ले आनी घरच्यान हाडिल्लें जेवण जेवंक बशिल्लो. दनपारचें कड, उदेंतिवटेन ताची फाट आसली. रातचो तो धनयागेर न्हिदूंक वचपाचो, म्हज्या गोठ्यान बैल बांदपाचो. अर्धे जेवण जेवन जाल्लें. उदेंतिवटेन एक वाघ केन्ना शेतान देंवलो तें कळचे पयलीं ताणें बैलाक धरून थंयच ताची मान मोडली.

ताका फाटीर मारून झरीकडेन वतना रामचंद्रान पळयलो. रामचंद्राची वाच्या बसली, दोळ्याकडेन काळोख आयलो, आपणाचेर झोपय घाल्यार बैलाजाग्यार हांवच वचपाचों अशें ताका दिसलें. ताका घुवंळ आयली तरी थंय कोण आसलो ? दुसरो बैल सामको भयान थरथरताले. थोड्या वेळान रामचंद्राची घुवंळ गेली. अर्धे शित तशेच पानार आसलें. ते जेवीन अशें ताका दिसना जालें. बैलाचें दावें काडल्यार तो वाटावतलो असो विचार मनान येतना परत वाघ झरीकडसून येतना ताका दिसलो. कंरंणाय मारतलो म्हळ्यार वाच्या बशिल्ली, शब्द तोडां भायर सुट नासलो. इतले मजगती तो सामकोच उडयो मारत बैला म्हऱ्यान पावलो. तांबडे आडवे पांट, तोंडानसून व्हावतें रक्त, लांबयेक बैला परस चड तर दोळ्यान घारसो. रामचंद्र ताका पळय रावतना ताणें दुसऱ्या बैलाची मान मोडून थंयच ताचो गळो फोडून रक्त पियेलो आनी वडापोनाक बैलाक वडवन तो परत आयील्ल्या वटेन झोपानी नाच्च जाल्लो. रामचंद्राचो आवरो उडील्लो. धनयांगेर तो तसोच आयलो, तो पिश्यासारखो जाल्लो. दुसरे दिस ताणे हळू हळू ही गजाल म्हाका सांगिल्ली. पांच दिसानी चलूंक जातकच तो पोळ्यान गेल्लो तो परत वंडगाळी आयलोचना. वंडगाळी वडच चड आसले म्हणून 'वंडगाळ' नांव पडला आसतलें. ती घडणूक हांव विसरून वडवपाचो यत्न करतालों. तरी थंय पावतकच रामचंद्राची म्हाका याद जाल्याबगर राव नासली. वाघाच्या भयान हावें म्हयनो भर जरी वंडगाळी गोरवां व्हरूंकना तरी मागीर म्हाका भंय सोडून व्हरचीच पडली. केन्ना वाघ येत हाचो नेम नासलो हें जरी खरें आसलें तरी देवाचेर भरवंसो दवरून तो येवचोना अशे चितून हांव गोरवांक व्हरतालों. तो वाघ खंय गेलो तें म्हाका खबर ना तरी ताणें दिसान मादाळे पाडूक मारिल्लें, हावें आयकल्लें. सैम, जनावरां हांका सोडून आमी खंय वतले आमी लेगित तांचेच. येत्या त्या वेळाक तोंड दिवन फुडे वचपाचे, त्या वेळाक भीत भीत दीस काडप न्हय. मनीस एक ना एक दीस सोंपतलो तरी पोकरी जावन जगपापरस तायट मानेन जगल्यार कितें वायट ?

आतां हांव वंडगाळीचे झरीकडेन पाविल्लों. गोरवां झाडाच्या सावळेन गोठेल्लीं. म्हजी जाग येतेकच ताणी तोंड म्हज्या वटेन केलें आनी रवंथ करूंक लागलीं. रीतान म्हळें,

"तूं येयला न्हूं, हांव वैतां."

अशें म्हणत तें बडी घेवन वाटेन चलूंक लागलें. मळबानसून विमान आवाज करून गेलें. खळ खळ आवाज करीत झर व्हांवताली. तो आवाज त्या रानाची शांतताय बिघडायच्या बदला ताची गंभीरताय वाडयतालो. पांचव्या माडाच्या चुडिताचेर बशिल्लें धवें बकें उठून दिसतालें. चिंचेची तांबडी, धवी फुलां पैसुल्ल्यान दिष्टी पड. जीन्या झोपांक फळां पिकील्लीं. ती पयलीं तन्नी आसतना पांचवीं दिसतात तर पिकतकच निळीं जातात. जळामळाक थंडायेक मुयाच्यो रांगो चलताल्यो. झाडाचे ताळे मोडून ते जमनीर दाळून हावें ताणून दिलें. न्हिदे खातीर न्हय तर विसव मेळचे खातीर. बसल्यार जरी शीण कमी जातालो तर न्हिदल्यार चड बरें असो हावें विचार केलो. म्हजी नदर गोरवांचेर पडटाली. मदीं मदीं झेमडी येताली तरी न्हिदेआदीन जावंक हांव सोदी नासलो. कूस परत परत परतितालों. उदारो न्हिदतकच म्हाका शींक आयली. आतां माकड कीच कीच करुन झाडार नाचताले. ते वंडगाळिचे माथोटेर जायत असो अदमास हांवें बांदलो. दुकर, वाघ पळयतकच माकड कीच कीचतात तर कुत्र्याक पळयतकच हुपयेतात हे म्हाका खबर आसलें. हळू हळू गोरवां उठून उबी रावतालीं, तांची सवंयच तशी एकटें करता ते पळोवन बाकीचीं करतात. आतां सगलींच उबीं रावतकच हांवय कितें घडलां तें पळोवंक उबो रावलों. तीं वाटेन चलत वंडगाळीचे शेतान देवलीं. माकड किच किचपाचे थांबिल्ले. वत मोव जावचे पयलीं गोरवां उठली कशीं हाचे म्हाका परत परत अजाप जातालें. ती शेतान मदीं राविल्लीं तरी चर नासलीं. काब्रो मोठया मोठयान धेकार घालतालो. हावें शेताच्या कडावळीक सगल्याक, मदीं शेतान रावन नदर मारून पळयली तर कांयच नासलें. सगल्याक शांतताय आसली. गडगडेचो आवाज चरतना येता. गोरवांचेर मोनेळ कशी पडिल्ली ? लागसल्लो तोणो हातान घेवन मेरेर बसलो. वत खरें तर म्हाका भियेतालें. हांव ताका भिये नासलो. वारो व्हांव नासलो. सगलीं गोरवां पडतेंतिवटेन तोंड करून आसलीं. ना म्हळयार वडाचीं पिकीं फळां मदीं मदीं पत्र्यार पडिल्ल्यान आवाज येतालो, हे खातीर गोरवां त्या दिशेन पळयतालीं जावये असो तर्क हावें केलो. माडाच्यो चुडत्यो मात्सो आवाज करताल्यो, तितल्योच.

तानू मात्शें चरत फुडे वतकच म्हजी नदर वडा फाटल्या कुंब्या रूखार

पडली. चारी वटेन कारंव आनी मर्दी तो रूख आसलो तरी वडावटेन चडशें कारंव नासले. वडा पोंदाक खंयचेय झाड वयर सरना. वड आपुणमात हाताचो आधार घेवन बटु वामना सारखो सगली जमीन हडप करूंक पळयता. भिरंड आपुण वाडली तरी आपल्या पोंदाक झोपां वाडवन आवय सारखी जतनाय घेवन वयर काडता, आपुण मात तशीच किडकिडीत. वड कोणाकच आपल्या म्हयान वाडूंक दिना तरी आपुण वाडत रावता तोही शेंकड्यानीं वर्सा. सामको आपस्वार्थी, जायना जाल्यार बडयांचो आधार घेता. म्हजी नदर कुंब्या रूखा पोंदाक थांरली. तांबडे कशें जमनिर दिसले. कुंब्याचीं पाना पिकतगच तांबडी जातात तशें ताचो आकार बरोच व्हड आसता. हे म्हाका खबर आसले. काब्रो शेपटी सकल देवन धेकार घालपाचो बंद जाल्लो. सगलीं गोरवां कुंब्या सामकाराक पळयतालीं चरपाचें ती विसरील्ली. कुंब्याचें पान म्हाका फुडे येता कशें दिसलें. हावें आंवडो गिळळो. ते पान जावचेना असो दुबाव मनान येतालो. म्हणसर कारंव हालून तांबडे पाडूक कशे कोणतरी वडाकडेन पावलें. दोळ्यार हात आडोत हांव पळय तर तो दाणयारी वाघ. ताची ती उग्रताय दोळ्यान धर नासली. वडा पोंदाक येवन तो तकली वयर करून कुत्र्या सारखो बसलो. म्हजे कडेन बंदूक आसल्यार गजाल वेगळी आसली. म्हजेकडेन फार पेट नासली बंदूक आसली ती हावें हातान घट धरिल्ली तरी उबो रावपाचे हावें मनातलें काडून वडयलें. खीणभर वातावरण शांत आसलें. इतल्यान वंडगाळीन कोण तरी मनीस येतना खोकलो. ताचो आवाज आयकून वाघ हळू हळू चलत शेतान पावलो. आतां वाघ गोरवां मधसून वाट काडीत तकली सकयल घालून चलतालो. म्हाका किर्ते करचें तें कळ नासलें. एका धोराक तरी जीव व्हगडावचो पडटा अशें म्हाका दिसलें आतां तो म्हजे वटेन येत तर तोणो ताच्या तकलेर घालपाचो मागीर किर्ते जाता तें जावं अशें हांवे ठरयील्लें. म्हाका रामचंद्राचे बैल मारील्ली याद जाली. जागो तोच, वेळ तोच आसलो हावें खुटयेक मनानसून उलो मारलो. हया विचारान आसतना वाघ केन्ना उर्देतिवटेन आसल्या झोपांनी पावलो हें म्हाका कळेंच ना. इतल्यान मादाळे वचपी मनीस शेतान पाविल्लो. ताका तांतले कांयच खबर नासले. म्हाका ताका पळयतकच धीर आयलो. गोरवां जीभ भायर काडून भंय उक्तायतालीं. तर थोडीं थरथरताली ती मोनी जात उलेतली कशी?

हावें ताका म्हळें,

"आतांच वाघ गोरवां मदसून गेलो कोणाक कांयच करू ना"

तो म्हणूक लागलो,

"तुझे नशीब बरें. वाघ मनशाक भीता, म्हज्या खोकलेचो आवाज आयकतकच कोणी तरी मनीस येता हें तेका कळळें, म्हण्‌ तो थंचो उठलो, तेका तान लागली आसतली म्हण्‌ तो वयर असोच झरीकडेन गेलो, ताने मुखार वाघ भुकेचे चितीना, तान भागतकच घडये तो परत शेतान गोरूं मारूंक येवंक शकता."

म्हाका तें खरेंच दिसलें. हावें तोण्याचो भंय दाखवंन गोरवांक भाण्णाची वाट दाखवली, चलपाचे त्राण लेगीत तांच्यान नासले इतलीं तीं भीयेल्लीं. त्या मनशान वडयील्लें विडयेचे पोतेर थंयच धुकटेत आसलें. हांव परत परत परतून फाटी पळयतालों. लाडु तळयान पावतकच गोरवां तळयान वचून उदक पिवंक लागलीं. चरपाक ताचें मन लागना जालें. एका संकष्टातल्यान वाटावले भाव तांच्या दोळ्यानी दिसताले. उदक पितकच तीं तुरतुरीत भाण्णात पावलीं. रीता गडगडेचो आवाज आयकून गोठयाकडेन आयलें.

"आज बेगीन येयलीं गोरवां, वेळ धारेक वचोंक कळाव आसा".

हांव घरान सरलों तर रितान तांका पडिंग्या शेतान व्हरून घालीं. बळयां शेतान सोडतकच तीं भुकेन चरूंक लागलीं. दारांमुखार आबोली फुलिल्ली ती रेकेल चोबलान काडटालें.

हांड्या पोनां उजो पेटटालो. कुड्या पानार तंबाख्‌ घाल्‌ हावें विडी बांधली आनी पेटटी कोलती घेउन हांव धनयाच्या घराकडेन वचूंक भायर सरलो. केन्ना ही गजाल ताका सांगिनशी जाल्ली. व्हनी भितर रांदताली.

"व्हनये च्याचो घोट ताळ्यार पडटलो ?"

"अंतन तुका आमी च्या फाल्त करतात रे ? "

अशें म्हणत तिणें आयदन धुलें तो आवाज म्हाका आंगणान आयलो. येसो तांब्याची घाघर खांदार मारून खुटये कडसून येतना दिसलो. म्हणसर हांव विडी ओडूंक लागलों. खांक येतकच हांवे विडी जमनीक लावन पालवयली आनी कानाक लायली. कोलती सकयल आंगणा मेरेर दवरली आनी तोंडान आयील्ली थुकी पुच्चकरून थुकून मेकळों जालों. देवशे तळयेक आशिल्लें शिक्याचे घर

आंगणानसून दिष्टी पड. पावसान तण वाडतकच तें दिस नासलें. चिचे पोंदाक आशिल्लें गुरवाचे घर मात दिसनासलें. इतलें लागी आसलें तरी तें फोंडाक आसलें तर शिक्याचे पलतडेन पांचशेक मिटराचेर आसलें तरी उबारेर आशिल्ल्यान दिष्टी पडटालें. व्हनयेन वांयगीणीचे खुटें, मिरसांगे मोळे, कांद्यापात, शेवतीं असलें रोयील्लें. मशींग बरोच व्हड जाल्लो तरी माकड नदर चुकोवन ताचे खांदे मोडटालेच.

येसो आंगणान पावत आयील्लो,

''अंतन आज गोरवां बेगी कशीं आयलीं ?''

''भाटकार सगलें सांगता, बस.''

म्हणसर व्हनी म्हणूक लागली,

''अंतन, त्या मेडिवेलो ग्लास काड.''

हार्वे ग्लास काडून विसळून दवरलो. तिणे च्या रकयली, म्हणसर येसो घागर भितर दवरून व्हलतेरान बसलो. घराकडेन च्या केली तरी व्हनयेची च्या ती च्या. तिची सर कोणाक येना आसली. हांवे सगली गजाल येशाक सोल-मीठ लावन सांगली.

''अंतन वाघ तो थंयच दपून रावत, वंडगाळी बेगीन गोरवां चरवाक व्हरूं नाका. म्हयनो भर तरी वचुंदी.''

हांवे मान हालयली. च्याचो ग्लास रिकामो जाल्लो, तो धुवून हार्वे मेडीर व्हरून दवरलो.

''अंतन अदुंवर्साक रोकडीच जोगण घालून व्हडयल्यार बरी. वाघ चवताळल्यार एक गोरूं दवरचो ना.''

''भाटकार तुका जाय तेन्ना घालया.''

''अंतन गांवकाराक फावता तशी आयताराक घालया. पैश्यांची व्यवस्था करता. पाडो पाडपाचो आसा, सोळा नाल्ल लागतले ते मेळटले. देड खंडी भात कुंभराक काडून दवरलां ते व्हरून दी ताका. जोगण ताची केल्ली आसतली. खुटयेची सासाय व्हड म्हणून वाघान गोरवांक तोंड लावंक ना. ना तर रामचंद्राची पर्वा करी नासतना म्ह.यान येवन कशे बैल माल्ले ते खबर आसा मरे? रामचंद्र बाबडो संसाराचो कायमचो उठलो.''

रीत हय हय करून गोरवांक गोटयाकडेन हामुडटालें, ते म्हाका दिसलें. वेळ धारेक गेल्लो. सुर्य तांबडेगुंज दोळे वाघासारखे करून भेष्टायतालो. झाडांच्यो सावल्यो शेतभर लांबच्यो लांब पडिल्ल्यो. देवशे तळयेनसून केलमेत गोरवां घेवन येतना दिसतालो.

''भाटकार येतां.''

म्हणत हांवे घराकडली वाट धरली. घरा पावसर रितान गोरवांक दावीं घाल्लीं. काळोख जायत आयील्लो. रेकेल फस्क घेवन गेलें. हांड्यात हात बुडवन पळय तर उदक खतखतित जाल्लें. बोडावेल्यान तांबयान उदक घालतकच शीण कमी जावन तोडांनसून 'हा' शब्द फुटटालो. शाबू नासलो, गोबरानच आंग घासपाचें. न्हातकच दुसरी काष्टी मारून भिजील्ली खुटाचेर सुकत घाली. रिता, रेकेल आनी हांव सगली सायबीण मांयक रोजार करूंक लागलीं. रितान कोटंब्याक वचून पाच खडपी कुल्ल्यो हाडिल्ल्यो ताचे हुमण केलें. हुमण केल्यार तें उकड्यांचे शित करतालें. मटमटीत जेवण चल्लें. हातूण रेकेलान घालून दवरिल्लें. तें म्हजीच वाट पळयतालें. आंगावेल्यान चादर घेवन हांवे न्हिदेक आपणायली. फाटल्यान रेकेल, रीत केन्ना न्हाली, जेवलीं तें मात म्हाका खबर ना. चान्ने आसल्यार जेवतकच त्या उजवाडाक बसून कातरां म्हणटालो ना तर ना.

म्हयन्या भितर कापिटल चलूंक धावूंक लागलो. म्हाका तो पाते नासलो. पाय धावतना मात्सो ओडटालो तितलोच. रेकेल ताका धरतालें, न्हाणयतालें, बांधतालें. ताच्या तोंडान बोटां घालतालें तरी तो चाब नासलो. पिके वेळार शेतान राखणे खातीर हांव माळो घालतालों, तेन्ना माळ्या पोंदांक कापिटल बसून म्हजी तशेच शेताची राखण करतालो. कापिटल तसो मायेस्त तरी रागीट आसलो. हांव खंय गेल्यार तो फाट सोडी नासलो तरी ताका पळयतकच कुत्रे ताच्या आंगार धांवताले, तेन्ना झगडे सोडवपाचें उपदव्याप म्हाका फुकट्यान काडचे पड. चडसो खंय वतना फाटी येता तर ताका परत धांवडायतालो ना तर साखळेक बांधून भायर सरतालो.

पंधरा वर्सा फाटली गजाल. जोगण हाडूंक हांव कुंभारागेर वच तर तो कुमार मेल्लो. ताचो पुत सामको बेबदो. कुमराकडेन एक भरपाची बंदूक आसली. फावता तेन्ना तो कासाक वतालो. मागीर म्हातारपणाक ताच्यानी जायना जालें. बंदूक तशीच पडून आसली. कुमराचो पूत म्हणूक लागलो,

"अंतन, बाबाली बंदूक आसा. तीन खंडी भाताक विकता. जाय जाल्यार व्हर."

म्हजे कडेन खंडी भर भात आसलें. दोन खंडी भात येशाकडेन मेळ्ळे. सगले तीन खंडी भात दितकच ताणें बंदूक दिली. ती बरी आसली. नवो दस्तो, दाट नळी, बंदूक खांद्याक लावन हांव आलमीस्त्रादोरा (मामलेतदार) म्हऱ्यान गेलों. ताणें बंदुकेची लांबी मेजून ती बरोवन म्हजें नांव, नामो बरोवन लीशेंस (लायसन) दिलें. चाप सारखी पड नासली, ती मेस्तान सारखी करून दिली. येसो हुशार आसलो मटण खायना तरी कासाचो शोकी. म्हाका तशी कामा फुडे उसरपत मेळ नासली. येशान ती बंदूक धुली. लोलयां एका कासादोराक दाखवन ती कशी वापरपाची ती समजून घेतली. बंदूक तागेरच आसताली. येशान म्हाका नेम कसो धरप, निशाणी कशी लावप, फार कसो भरप हें सगलें समजावन सांगिल्ले. म्हजे कडेन बंदुकेची दारू, मुळसांव हाडूंक पैशे नासले. येशाक कासाचो शोक आशिल्यान तो दारू, मुळसांव हाडून दवरतालो.

चवतिकडले दीस आसले. पावस पडल्यार पडलो नातर वत पडटालें. बोणकी व्हळयेक हांव काब याक सोदूंक गेल्लो. गोरवां विट्टयान चरतालीं, काब्रो खंयच दीस नासलो. काब्रो बैल एकमुळो आसलो. बरो चरव आसा थंय वचून एकटोच चरपी. तिळसान जाली तरी गोठ्यान वचूंक आडेवेडे घेवपी. ताच्यो खोडी, आवडी म्हाका परीचयाच्यो आसल्यो. वीट्टें सोडून हांव मळा वेल्यान 'वाघा फातर' हुपून बोंडकी व्हळयेची वाट धरली. 'वाघा फातर' आठ मीटर उबार आसलो. व्हाळांतलें उदक पिवन जेन्ना गोरवां विट्टयान येवंक धड चडतात तेन्ना वाघ मोठे गोरूं खंचे ते पळोवन फातरावेल्यान मानेर उडी घेवन गोरवांक मारतालो. हया खातीर थंयसून वतना येतना वाघा फातरार नदर मारून वच्चे पड. बोणकी व्हळयेक व्हळते दोनी धडांनी गच्च बोणक वाडिल्ली म्हणून त्या व्हळतेक 'बोणकीव्हळी' म्हणटाले." बोणकी व्हळयेक लागून फोंड आसा थंय उदक सांठवलें आसता, देखून चरव व्हडलो वाडटा. तो खावंक गोरवां खंयसुनय उडी घेताली. व्हळतेन ल्हान व्हड पाषाणी फातर आसले. उदक रात दीस व्हांवत राविल्ल्यान ताचेर शेळो माणिल्लो. व्हळतेनसून पाय सांभाळून वडयत हांव त्या फोंडाकडेन पाव तर थंय काब्रो चरतालो. म्हजेर ताची नदर पावना फुडे तो

आडवाटेन विट्टयान गेलो. त्या फोंडा म्ह ग्यान म्हाका चिखलान पिसयेचे पांय लागिल्ले दिसले. उदक पिवंक तशेच रातचो चरव खांवक पिसय येता आसतली हें म्हाका कळूंक वेळ लागलोना. परत हांव आडवाटेन काब्र्याच्या फाटल्यान विट्टयान येतना म्हज्या फाटल्यान कापिटल येतालो तो वाट सोडून धांवलो आनी पैस रावन आपली तकली हालोवूंक लागलो. ताची नदर सकयल्या देगळार आसली. हांव हळू कापिटला म्ह ग्यान वचूंन तो खंय पळयता थंय पळोवंक लागलो तर काळोसो फातर कसो दिसलो. वत ताचेर पडिल्ल्यान तो चकचकता कसो दिस. तरी तो मात्सो वयर सकल जाता कसो ? असो प्रस्न म्हाका पडलो. हांवे मनान थारायलें किर्ते जाता तें जांव लागसरलो फातर त्या फातरार मार तर ताचेर तो बसतकच डूप असो आवाज आयलो. फातरार फातर बसल्यार फुटपाचो ना तर उसळपाचो. म्हणसर गार चारी पांयानी घोलान वता तें दिसले.

"छु! कापिटल"

म्हणतकच ताचेर उडी मारून तोंडान धरले फातर लागिल्यान तें निर्णेले जावये. मागीर हांवे वचून ताका धरून वयर हाडले. कापिटल म्हज्यान वडयतकच तें पांय हालयतकच कापिटल घास मारून चाबडावंक लागलो. सकल पडिल्ल्या रक्ताचे कापिटलाचे तोंड बंद करून नाकान वास दिलो. तिळसानचो घरा येतकच हांवे ताचे चामडें सुरयेन सोडोवन काडले. वयर माटवार वताक वडयले. घुमटाक लावंक जातलें असो मनान विचार केलो. मांस वेगळे काडले आनी हाडां काडून कापिटलांक घालीं. रेकेलाक धनयांगेर वचून मसालो हाडूक लायलो. रितान भाकऱ्यो केल्यो. कांदे हांवे सोलून दिले. रेकेलान मसालो हाडतकच तो तेलान भाजून काडलो. मटण जाता मेरे रातीची बारा जावन गेलीं. उपरान्त मटण खावन आम्ही न्हिदलीं.

'अंतन'

असो कोणेतरी उलो मारतकच हांव जागो जालो. कवड काडून भायर यो तर येसो दुधाचे आयदन घेवन उबो आसलो.

'बस'

म्हणत हांवे रिताक उठयलें. रितान दूध काडून हाडून पावशेर भर येशाक दिले. गाराचे माटवार वडयील्लें चामडे पळोवन धनयान म्हळें,

"कितेंरे अंतन खंय सापडलें ?"

हावें म्हळें, "बोणकी व्हळयेक."

तो तुरतरीत चलूंक लागलो. ताच्या घरान बाबु रडिल्लो आवाज येतालो. ताचे काळिज कळवळलें आसतलें हें ताच्या चलण्यावेल्यान कळटालें. कापिटल माटवा पोंदाक रावंन गाराच्या चामडयाक पळोवन जीभ चाटटालो. माटवार आशिल्ल्यान तो बापडो कितें करतलो ?

रातचे केल्लें मटण थोडे आसले तें म्हाका पानार घालून एक भाकरी दिली. तें खावन च्या पितकच भायर यो तर कापिटल पांयाकडेन घुटमळटालो. रातचे गाराचे मांस ताका आवडलां आसतलें. म्हणतकच तो आज परत म्हजे बरोबर रानान वचूंक सोदतालो जावये. काल बोणकी व्हळयेचे माथोटेक एक भिल्लमाड हांवे पळइल्लो. घराच्यो कांबी बरगेल्ल्यो. घर पावसान गळटालें. ह्या खातीर या वर्सा तरी कांबी मारून वेल्यान चुडटा सोडल्यार गळपाचो तितलो हुसको नासलो. भिल्ल माड धडेर आशिल्ल्यान मारूंक बरो आसलो शिवाय तांचें पोंद खणून काडल्यार दोण करूंक येत असो विचार करून हांवे कुराड, खोरें, पिकास भायर काडली.

"रिता गोरवां रानान व्हर म्हाका दोण, कांबी करपाच्यो आसात."

"पेज शिजोवन दवरतां, येता तेन्ना वाडून घे."

रेकेलाकडेन खोरे दिले आनी दाव्या खांद्यार पिकास, कुराड दवरून हांवे वाट धरली. कापिटल रेकेलाफाटल्यान वतालो तर फुडे हांव चलतालो. वत आंगार पडिल्ल्यान खोस जाताली. गोरवां सोडटनां शिक्यान घाल्लो साद सगल्या भाण्णभर पातळळो. रेकेल हळू हळू पावलां वडयत येतना हांव म्हज्या चालीन फुडे पाविल्ल्यान म्हाका रावचे पड, रेकेल म्ह यान पावतकच हांव परत चलतालों. खोरे ताका बरेंच जड लागिल्ल्यान परत परत तें जमनीर दवरतालें,

"पाय, म्हजे पांय भरोन येतात, हांव वयता."

"राव गो, पावलीं."

अशें म्हणत ताका हांव आफयतालो. कोंटब्याची घाटी लागतकच तें सामके जाम जाले. कापिटल वास काडत वतालो. तो गार खंय सापडटा हें पळयतालो जावये. ताका तान लागली जावये तो वाट सोडून झरीकडेन उदक

पिवंक गेलो. वाटेलांगीं शींगासयत गोरवाचीं कवटी पडिल्ली. मनान आयलें वाघान गेल्ल्या भर पावसान बैल मारिल्लो ताची ती गवाय जावन आसतली. वाटेर मदीं सातोणाचो रूख आसलो. बारीकसाणेन पळय तर ताच्यो कोयतेन काडिल्ल्या सारख्यो साली गेल्ल्यो. मेरवाच्या ना तर चितळाच्या शिंगाड्यान शींगाक खांज येता म्हणून आपलीं शिंगा रुखाक मारलीं आसतलीं. धुल्लांन गेथां मोठीं लागिल्लीं दाग मेळटाले, त्या कोतान तो चितळाचो नातर मेरवाचो शिंगाडी आसतलो, हातून म्हाका दुबाव दिसनासलो. भेक्रो झाडाक आपली शिंगा मारता तरी तो इतल्यो रूंद साली काडूंक शकना. इतल्यान नाण्या रूखावेल्यान बोटभर सांग सकयल पडली. बारीक बारीक कुडके करून ती सांग फोडून खाल्ली हें काम शेक्राचें आसतलें अशे मनान येतनाच लक्ष वयर गेलें. म्हज्या जागीन शेक्रूं नाण्यारूखारवेल्यांन जांभळीरूखार आपल्या गोटेरान गेल्लें. हातभर लांब चानयेसारखे तरीं वेल्यान तांबडे तर सकयल्यान हळदुवे, शेंपटी हातभर, दिसूंक तशे सुंदर. शेक्रूं इतले हुशार आसता हे म्हाका केलमेतीन म्हणिल्लें. गोटेर वयर झाडाचे तेंगशेक करता कोणी थंय पावचोना म्हणून त्या खांद्याच्या तोकार आपलो पानानी बडयो घालून गोटेर करतात. गोटेर पोदांक बंद आसता कित्याक तर मनीस आपणा सकयल्यान पळयत हाची तें जतनाय घेतात तर वयल्यान गोटेर उकतो आसता ते पावसान भिजता. पावस, वत उपकारता तरी मनिस नाका असो ताचो समज आसतलो. चानी काळी वेतभर तरी त्याच जातीन तें पडता. गोटेरान आपली शेंपटी गुटलावन भितर सरले. कापिटल ताका पळोवन भोकूंक लागलो. सगले रान त्या आवाजान जागे जातालें. बोणकी व्हळयेक वचूंक कोटंब्याच्या माथोटेन देवल्यांर रोकडो पावता आसलो तरी वाट सामकी कांटेरी म्हणतकच विट्टयाच्या शेतान वचूंन परत फेरो पडलो तरी कांटे लागचो भय नासलो. पिकास, कुराड घेतिल्ल्यान दावो खांद चुरचुरूंक लागतकच उजव्या खांद्यार घेतली. रेकेलाक म्हळें,

"चेडवा तुका पुरो जाला जाल्यार हिंगा खोरे दवर आनी तूं चल" रेकेलान खोरे विट्टाच्या शेतान दवरले तशे तें चलूंक लागले. म्हाका मात्शे पुरो जाल्ल्यान हांव थंय बसलो. कापिटल म्हाका पाते नासलो. दोन कीर एका सुक्या बडयेर बशिल्ले म्हज्या नदरेक पडले. बोणसां फळिल्ल्या पारये रूखार कॅर कॅर

कॅर करून रडताली. तांची ती बोट भर लांब धवी चोंच बक्या सारखो आकार पळोवन म्हाका वीट आयली. सैमान सुंदराकाय थोड्यांकच दिल्या, तर थोड्यांक कुरूप करून वडयल्यात. बोणसांक त्या कुरूपतेचे पडून वचूंनासलें. रानवटी कोंबो पळयतनाच तानभूख न्हिवता. चितळाच्या आंगावेल्ये ठिपके कितले सोभीत रांगोळी घाल्ल्याचो भास जाता. शोक्राची शेपटी, कोंब्याचो शेक्रो, मेरवाची शिंगा, साळळीचे कांटे, कवडयाचे मानेवेल्यो चिटयो, गोगलगायच्या फाटीवेले वाटकुळें घर, वाघाच्या आंगावेले पट्टे, रंगयाळ्या पक्षाचे ते रंग, गव्या रेड्याची बाबगली शिंगा सगलेच ओडलायणें. आतां म्हजो शिण बरोच उणो जाल्लो. एका हातान खोरे आनि पिकास, कुराड हांचे वजन बरेच जड जाल्लें. विट्टयानसून वाघाफातराकडसून हांव बोणकी व्हळी लागी करतालो. वाटेर झाडाचे खांदे आशिल्ल्यान परत परत बाग घेत वच्चे पड, तर फुडे बोणक आशिल्यान तिच्या काट्यांक सांभाळचे पडटाले. पायां पोंदाक वाटेर बारीक-बारके पाषाणी फातर आशिल्ल्यान तोल सांभाळून चलचे पडटाले. खांदार आयदां आसली म्हणुनच तोल सांभाळूक कठिण जाताले. मदींच पायाकडेन घुटमळिल्ल्यान तिडक येताली. इतल्यान बोणकीन आशिल्ली पिसय धांवली ती मात्शी नदरेक पडली तितलीच. वचून बोणकीन पळयतर तीची गोठण आसली. पिसय सोशापरस मोठी टुणटुणीत आसता. आंगार चानयेसारखे काळे पट्टे आसतात. दिसान तिका मारप खुपच कठिण. तिका गेंथा आसतात. कापिटल तिच्या फाटल्यान बरोच धावन गेलो तरी पिसय कऱ्याक चुकयताच. ब-या वेळान जीभ भायर काडत तो आयलो.

भील्लमाड म्हाका दिष्टी पडलो. हालीच ताका फळां आयील्ली तरी ती जून जावचीं आसलीं. फळां तन्नी आसतना पांचवी दिसतात, जून जातकच हळदुवी दिसतात, उपरांत काळीं जातात. जून जातकच काटांदोर येवन रातची फ्रळां खाता. त्या वाठाराक तो आसल्यार पिकतकच फळांच्या वासार ताका कळटा. भील्लमाड देगेर आशिल्ल्यान एकेवटेन खंणल्यार रोकडीच ताची मुळा मेळतली हें लक्षान आयले. कापिटल झाडा पोनांक गोटेवन जीभ भायर काडून नाकपुड्यान उसवास घेतालो. कुराड घेवन हांव मुंळासाकून कमरभर वयर भील्लमाड मारूंक लागलो. म्हाका पायची याद आयली. म्हजे मन फाटी गेले. पायचो घरा मुखावेलो भिल्लमाड मारतकच हांवे कांबी काडिल्ल्यो आनी दोणान तोरां चेपणेक घालचे

बदला पायकच घालचो पडिल्लो. हांवे ते दुःख गिळील्ले. विचार करून दुःखा गळयत रावप म्हळयार पोकरी पणाचे लक्षण, कामां थंयच उरतली, जीवाक मात वित्राग. हावें ती याद विसरावन वडयली मागिर केन्ना येता तेन्ना येवंन दी. आता म्हजे काम उरपाचे, हांव तट्ट करून उठून शेवटून कुराड भिल्ल माडाचेर मारूंक लागलो. भिल्लमाड भायल्यान नाल्ला सारखो घट तरी भितर सामको कातले सारखो मोव. कुराड मारपाची म्हाका ल्हान पणासाकून सवंय आसली. खोट खोट आवाज सगल्या बोणकी व्हळयेक पावतालो. वेळ धांवतालो. वरां भितर भिल्ल माड कापून हांवे देगे वयर वडयील्लो. खंचे वटेन खाप घाल्यार रूख कसो पडता हें म्हाका कोणेच सांगूक नाका आसलें. दिसान फावता तेन्ना कोयतेन वा कुराडेन रूख हांडचे पडताले. भिल्ला रूख तसो बरोच जुनट आशिल्ल्यान कांबी चड तेप काडतल्यो हातून दुबाव नासलो.

तान लागतकच थोडें उदक पियेलो. आड पडिल्ल्या भिल्लमाडाच्यो कांबी काडूंक लागलो. दनपर जावंन गेल्ली. पोटाक भुख लागू नासली. गोरवां कडेन गेल्यार दिसभर उपास काडून सवय आसली. आता भिल्ल माडाची मुळां पिकासान खण्क लागलो. पिकासाच्या पातयेन मुळां काप्क बरे जाताले तर दुस ऱ्या कोच्यावाटेन खणूंक बरे जाताले. देगेर अशिल्ल्यान माती खणतगच आपसुकच वेल्यान सकल पडताली. इतल्यान आवाज आयकून शिक्यान गोरवां बोणकी व्हळयेक घालून तो फुडे आयलो. शिको पन्नाशेक वर्साचो तरी लोकान चड मिसळनासलो. आपले कितेंय काम आसल्यार म्हगेर येतालो ना तर तोंड दाखयनासलो तरी हांव फावता तेन्ना तागेर वतालो. गेल्यार विडी दिल्या बगर राव नासलो. देवशेतळी ताणे खंडाक केल्ली. पिकेक तशी व्हडलीशी बरी नासली तरी कष्ट काडल्यार कितेंय तरी मेळटाले, आनी उपाय नासलो. लग्न जातगच बायल रोकडीच मेल्ली. तो एकटोच देवशे तळयेक दिस काडटालो. तो तसो भियेनासलो. दोळे भितर गेल्ले, बारीक तरी काटक आसलो. मानाय घेना आसतना पांच खंडी बीयाची जमीन तो एकटोच रोयतालो. घर आपुणच शिंवतालो. भिल्ल माडाक पळोवन म्हणूंक लागलो,

"अंतन हायें हो आज फाल्या मारचो ठारायल्लो. म्हाका चार कांबी जाय आसल्यो."

''शिक्या तुका कांबी दिता तरी ही मुळां मारून भिल्ल माडाचे पोंद तुवं काडून दिवचे पडटले.''

ताणे वेळ केलोना पिकास घेवन खणूंक लागलो. वेळ धारेक पावचे पयली ताणे पोन खणले. आयदां थंयच दवरून आम्ही दोघानी ते पोंद खांद्यार मारून म्हज्या घरा कडेन हाडून वडयलें.

''चार कांबी व्हर तूं.''

अशें म्हणतकच तो चलूंक लागलो. तो आमगेर च्या पिना आसलो. रितान गोरवां बांधिल्ली. थोडेशे भात वानार घालून ते मुसळान कांडटाले. रेकेल रान्नीर आदन दवरून उजो पेटयतालें. भायर हांड्यांत उदक तापिल्लें.

''पाय नीस घे''

म्हणतकच हांव तो घटाघट पियेलों. रीत म्हणूंक लागले,

''आज काब्रो आनी तांबो झगडून घेताले. काब्रो वंडगाळी झरीकडेन पडलो तरी तांबो तेका सोड ना, फाटीर एक तोणो घालतकच धांवलो.''

''रिता तांबो मालकि याद, हांव ना म्हणून तेणे मस्ती केल्या आसतली.''

दिसभर काम केल्ल्यान आंग मोडून येताले, गरम गरम उदक न्हातकच शीण बरोच उणो जालो. म्हणसर भाताचे तांदूळ जाल्ले. सुपान घेवन तें कुंडो भायर वडवंक लागलें. तांबडे तांबडे तांदूळ ताणे एका राशीक घाले. रेकेलान आटवो हाडून तो भरून कुळण्यान ते धुवन रान्नीवेल्या सळसळत्या मडकेन ते तांदूळ घालूंक लागलें. उदकाचे थेंब उज्यार पडतकच चंव चंव आवाज जातालो. तसो उजो मंद पेटटालो. आवा न करताले ते आदन तांदूळ घालतकच थप्प जालें. जांव मनिस वा निर्जीव वस्त तोंडान पडटकच थप्प जाता, ना तर बडबड चालूच उरता, हो तर नेम.

''पाय मुडयांतले भात काडचे पडटले. उकडिल्लें भात सोपलां.''

''फाल्या उगडास कर काडून दिवन वैतां.''

मुडो वयर फळयेर दवरील्लो. मुडो कसो बांधप हे म्हाका शिक्यान शिकइल्लें. तण दाट पातळावन मागीर मदी भात घालून तो व्हाया पासानी वाटकुळो बांधपाचो. तणान आशिल्ल्यान भात सळसळीत बरें उरता ना तर थंडाय लागल्यार ते इबाडता. पिकेर चार पांच मुडे बांधून दवरप मागीर जाय तेन्ना एक

एक मुडो फोडून ते भात व्हडल्या मडकेन घालून उकडप. चार वतां सुकतकच ते परत साकान घालून दवरप. लागता तेन्ना रीत ताचे तांदूळ करतालें. रेकेलाक भात आसडूंक कळटाले तरी कांडूक कळनासले. कांडतना वानाच्या कोनशार ताचे मुसळ बसताले आनी कुडके वचून ती माती तांदळान भरसताली. रीत तशें हुशार आसलें कुळारा ती शेत करतालीं, म्हणटकच ताका काम शिकोवंक नाका आसलें. पेजेर म्हाका दुध जाय आसलें तरी मीठ नाका आसलें. येशागेर हांव दुध घाल्ली पेज जेवतालो ती सवंय आसली. रिता, रेकेल मीठ घालूनच पेज जेवतालीं. दुध तांका आवड नासले.

दुसरे दिसा उठतकच हांवे मुडो फोडून तीन सुपां भात मडकेन घालें. रेकेलान उजो पेटयलो. कापिटल उजाक शेकूंक बसलो. गोरवांची दावी काडून ताका कोटंब्यानसून वाटेन आमुडली. कापिटल सांगाताक आसलो. विट्टयान पावतकच शेतान वाघाचे चपके रेब्यान उदेल्ले दिसले. वाघ थोड्या वेळापयलीं विटयानसून गेला हे कळळें. ताचो मांग घेत गेलों तर तो फुडे बोगळांन देविंल्लो. गोरवांक विट्टयान चरोवंक तसो भय ना अशे मनान आयलें. भील्ल माडाकडेन पावंक शीको तोंडान वीडी धरून आयलो. दोघी जाणानी भील्लमाडाची कांबी रोकड्योच काडल्यो. दोघ जण आसतकच काम रोकडेच जाता. एकट्याक बरोच वेळ लागता. धा-बारा कांबी वालीन बांधून माथ्यार दवरून हांवे घरची वाट धरली. गोरवां शेतान चरतालीं. घरा येतकच पेज रान्नीर शिजतना पळयली. रेकेल लांब दांड्याच्या दवल्यान भात मडकेतलें चोब्यान उपशितालें. आंगणान काल ताणे रातचें शेण काडिल्लें ते सुकील्लें. वत सगल्या आंगणान पडिल्लें. एक कावळो पैस पणसा खांद्यार बसून रडटालो. भात उकडत घालतकच कावळयांक कशें कळटालें कोण जाणा? ते उपसुचे पयलीच हाजीर जातात. पेज शिजूंक वेळ आशिल्ल्यान हांव परत बोंडकी व्हळयेक वचूंक भायर सरलो. पिकास, खोरें, कुराड सगलीं आयदां घेवन आयलों. आंगणान भात सुकतालें. वाटलेन पेज न्हिवताली. रेकेल बडी धरून कावळयांक भंय दाखयतालें. गाराचें चामडे वतान सुकून सामके कटकटील्लें. पेज जेवतकच बारीक कोयतुलान तें दोण हांव उपसुंक लागलो. मधलो घीर तसो मोव आसलो तरी भीतर पावतां पावतां हात तळाक पाव नासलो. रिताक गोरवां राखूंक धाडलें आनी हांव दोण उपसुवचें काम करूंक

लागलों. वत बरेच निबर आशिल्ल्यान दोण हांवे पणसा पोनाक सावळे खातीर व्हेलें. एक तांबयो भर थंड उदक घेतलें. तान लागता तेन्ना हांव तें पियेतालों.

येसो मेरेन म्हजेवटेन येतना पैससुल्ल्यान म्हाका दिसलो,

"अंतन कसलो खटखट रे ?"

"दोण उपशीतां तोरां चेपटेन घालूंक."

"खंय सांपडले ?"

"बोणकी व्हळयेक."

"बरें आसा तरी आनिक एक पावसाळो गेल्यार बरें रूंद जाता आसले."

"कोणाची नदर पडल्यार हाताक लागचेना म्हणून हांवे तो भिल्ल माड मारलो."

"अंतन कांबीवजे बरें आसा मरें, कांबी बयो काळ्यो कुळकुळीत जून आसात."

"धनया घराची कांबी बरग्यो जाल्यात पावसान भंय दिसता. मागीर कांबी मारून केलमेतीकडसून सारखे घर शिवून घेता."

"बरें रे."

म्हणत तो वयर कोटंब्याक गेलो. खोटो खोटो असो आवाज येतालो ताचे वेल्यान हें काम येशाचेंच, रूख मारता आसतलो असो विचार मनान येवन गेलो. मदीं घाम येतालो तो तुवाल्यान पुसतालों. कापिटल धनयां फाटल्यान गेला आसतलो असो तर्क केलो, कित्याक तर तो थंय दीस नासलो.

सुर्य पिंपळा सकयल पाविल्लो. काब्र्यान पैस धेकारो घाल्लो आयकूंक येतालो. दोण कोरांतून जायत आयील्लें तरी पोन थोडे कोरातपाचे आसलें. येशाचे कोयतेचो खटखट बंद जाल्लो. वारो व्हांवतकच शेतान आसलो पत्रो उबून वयर येतालो. दोळयान कोयर वचत म्हणून हात धरलो. शिल्ली भित भित दोणाच्या कोयरान भितर सरली. सारोळी पैस शेतान बशिल्ली. माकडाची जाग नासली. मेस्त पक्षी आंब्यार आपली चोंच मारून तो सुकला तर पळयतालो. रेकेलान भात चोब्यान भरून घरान व्हरून घालें. हांड्याक उजो पेटतालो. व्हनयेन सुकत घाल्ले कपडे भितर व्हेल्ले. सुर्याची किर्णा भेदभाव केल्या सारखी झाडाच्या तकलेर तर गोठयाच्या थोड्या कुडक्यार, तर वेल्या शेतान अशीं पडिल्लीं दिसतालीं.

सावळयो आपलो शेक सगल्याक गाजयताल्यो. केलमेंतिच्या घराकडसून कळकी चिमटावेल्यान धुकट वयर येतना दिष्टी पडतालो तरी तो गोठयाकडेन घाल्ल्या पल्लेचो काय घरातलो हें कळ नासलें. म्हजें हात दिसभर काम केल्ल्यान मोडून येताले तरी हांव ताची पर्वा करी नासतना तळ उसपितालो. गोठयाकडलो आंबो निकतोच चवरूंक सोदतालो जावये. एक हळदुवो झेलो दिसतालो. पारये रूख फळांनी भरिल्लो तरी पिकूंक आनीक सात आठ दिस वचूंक जाय आसले. येसो घरान सरतना दिसलो तरी कापिटल दिसुनां. मनान आयलें खंय भोवंत आसतलो. म्हजी कुंकडा गोठया कडसून बोरीकडल्या खळार वतालीं. खळार पडिल्लें भात खावंक ती धांवतालीं. मेस्त पक्षी उडून वेदु रूखार गेल्लो. कवडे पैस शेतान चरताले तर खिणाखिणाक भाण्ण काळे चादर पांघुरतालें. तान लागतगच हांव घरान भितर सरून मडकेंतले उदक पियेलो, आनि भायर यो तर खळावेली पोल विस्कटावन कुकडां भाता आशे सोदतालीं. परत परत पायानी पोल आपल्या फाटल्यान वडवन चोचीन एक दोन मेळटा तें आशे खातालीं. पिलां कोंबयेन उस्तीतगच तांतून किर्ते मेळता तें सोदताली. तांका पायांनी उस्तुंक जमनासले. कोंबो मदी कोंक कोंक करतालो तरी तो तशे कित्याक करता हें कळनासलें. म्हजी नदर ताचेर खिळुनच आसली. खीणभर कुकडांचे तें तांबडे धवे मातयेकोरी कोर पळोवन भाण्णाचे तें अलंकार काय असो भास जातालो. दोळया पाती हालचे पयलीं कोल्यान एक पिल तोंडान धरले. हांवे धांव मारलो. मोठयामोठयान हुयेली मारत खळाकडेन धांवलो. वेल्यान रेकेल गोरवां घेवंन येताले. कोलो वेल्यान जाग येतकच गोठयाकडसून येवंक लागलो. हांवे ताचेर पैस दिसतनाच फातर मारला. ताका तो लागुं ना, तरी ताका किर्ते तरी आपल्या म्ह यानसून गेले तें पळोवंक पील सकयल दवरलें, इतल्यान हांवे उडी मारली ती पळोवन तो पीलाक सोडून धांवलो. पील हातान घेव पळयत तर लीप बरें आसलें. ताणे ताच्या पाकाटयाक धरील्लें. मनान आयलें कोलो पाकाटयाकच धरता. जर हे पाकाटे कातरून वडयत तर तो कसो धरतलो ? दुसरे दिसा सगल्या कुकडांचे पाकाटे कातरून वडयले. ते दिसा' मेरेन कोलो तांच्या वाटेक गेलो ना.

धर्मान हांव किरिस्तांव आसलों. जेजुचेर म्हजो भावार्त आसलो. कसल्याय आकांताक ताका उलो मारल्यार तो पावतालोच. तिळसानचो रोजार करना तर

म्हाका सुख लाग नासलें. किर्ते तरी, खंय तरी चुकिल्ल्यासारखें दिसताले. कोकण्याच्या देवाक भज नासलो. तरी खुटी देविचेर विस्वास दवरतालों. तीसालान जोगण घालतना एक कोंबो सांगणेचो पाय दितालो तसो हांवय दितालो. तरी सांगपाची गजाल म्हळयार खुटी देविक मारिल्ल्या कोंब्याक रूच आस नासली. ही गजाल येशाक सांगतगच ताणें म्हळें,

"खुटयेन उष्टो करतकच ताका रूच खंची आसतली ?"

म्हाका जाप नासली. नातलांक एक कोंबो मारल्या बगर म्हजे फॅस्त जायनासलें. नुस्त्या बगर जेवण जेवप म्हळ्यार संकष्ट येतालें. तशें केन्नाय चुकून शिवराक धनयागेर जेवतालों. ना अशें न्हय. व्हनी पायस, खीर परबां कणकणीं करताली ती दीताली ती जीबेर उरताली. रीताक खीर तशी करूंक येना आसली. पावसान सावें नुस्ते गीमान माजाळे गेल्यार खारें नुस्तें मेळटालें. कोंबी तांतयां घालताली तेन्ना रेकेलाक चार पांच उकडून दिवन बाकी माजाळे व्हरून विकल्यार, तंबाखू, नुस्ते तशेंच घरान सामान हाडूंक मेळटाले. एक मात कुकडां आंगणान घाण करतालीं. पत्रो उस्तीवन वडयील्यान सगल्याक जातालो. तरी कुकडांक तशेंच कापिटलाक घंरान घेना आसलों.

माजरांचे नांव बनें. कुळणें उगडें आसलें तरी तातूंन तोंड घालचो धीर ताका जायना आसलो. एक दिस नुस्त्या कडी कुळण्यान आसली ती ताटली वडवन बन्यान खाली तेन्ना ताजेर अशें थापट मारले ते जन्मभर ताका पुरो. परत कुळण्यान तोंड घालपाचो धीर ताका जालो ना. मांजरावासाक हुंदराचो आवाज घरान येना आसलो. तरी बने किर्तेय भायर मेळळे तर घरान हाडून खातालें. मांजराक खंचोय जीव खेळोवन खेळोवन खाल्याशिवाय गोड लागना जावये. हुंदिर मेळ्यार खेळोवन खेळवन तें खाता. गेल्या म्हयन्यात ताणें एक मांवडळ जीतोच घरान हाडलो आनि ताका तें खेळवंक लागलें. पैस दपून रावतालें, तो वचूंक लागतकच ताचेर झोपय घालतालें. अशे तरेन वरभर खेळोवन ताका ताणें मारलो. पळोवन म्हाका वीट आयली. भंय मनान दाटलो. एक दिस तर तें तोंडान कवडो धरून घेवन आयलें. तेन्ना म्हाका अजापच जालें. तो कवडो जीतो आसलो. ताका मारून आमी भाजून खालो. बनें तशें हुशार आसलें. रातभर जागरण करून जीवाणें येत हाची राखण करतालें. म्हज्या उशाकडेन ब.यावर राती मेरेन बसून

रावतालें.

म्हजो एक बैल आसलो, ताचें नांव 'राम'. पाय आसतना तो ल्हानसो पाडो आसलो. 'राम' नांव ताका पायनच दवरिल्लें. तो मिरगार शेत रोयतना आफयनासतना शेतान वचून रावतालो. रातभर तो रानान वचून चरतालो तरी सकाळीं जोत बांधचे पयलीं शेतान हाजीर. तो पेंड, कुंडो खायना आसलो. नव शिक्या बैलाक तो रोकडो साद करतालो. मात्सो फुडें गेलो तर शींग मारून ताका ताकीद दितालो. आतां तो म्हातारो जाल्लो. तुमकां सांगल्यार फट दिसतलें, ताका आमी उलयील्ली भास कळटाली. दिस मेजूंक येताले. "चल रे रामा धनयागेर वचुन शेत रोवन आठ दिसानीं यो" म्हळयार णव्या दिसा घरा हाजीर. ताचे दांत पडिल्ल्यान पालो खावंक जायनासलो. तो अशक्त जाल्लो. गेल्या मिरगार तो शेतान वचून रावलो. नांगर ओडपाक ताच्यान जायना जालें तेन्ना ताका दात्याक बांधलो. कितलो खोशी जालो तो! ताचे उपकार हांव ह्या जल्मान तर फेडूंक शकचोना. काम म्हळ्यार ताची जीण, जगप जावन गेल्लें. धानयांचो आदर, कष्टी, वैरागी अशे कितलेशेच गुण रामा सारखे ह्या रेड्यान म्हाका दिष्टी पडटाले. तो सामकोच हाडकुटो जाल्लो. सकाळी शेपडेक हात घालून उठोवचो पडटालो. तो दिसभर गोटेना जालो. गोटेल्यार ताच्यानीं उठूंक नजो आसलें. आपल्या धनयाक त्रास अशें तो चितता आसतलो. म्हातारो जालो तरी शेण मेळतालें, शेतान शेण नातर पिक खंयचे येतलें ? रामाक जीवाणे चाबलें जावये. सकाळी उठून पळय तर तो घट्ट जाल्लो. तोंडाक दात लागील्ले दिष्टी पडटाले. दोळे खड्डेक व्हरून हात पांय ताणून आमकां तो कायमचो सोडून गेल्लो. ताच्या फोंडार त्या दिसा सावन हांव अजून मेरेन ताच्या यादेस्तीक मेणवाती लायतां. ताका बांधता तें दावें गोठयान तशेच दवरलां. ताचे संस्कार बाकी गोरवांचेर जावचे हो हेतु.

एक दीस हांव गोरवांक घेवन कारयेमळार गेल्लों. बरोबर कापिटल आसलो. दनपार जाल्ली. माडभर उबार रूख ताचेर बळील्ल्यो वाली. वाट तशी मळील्ली नासली तरी अदमासान कळटाली. सुरंगीचे रूख आशिल्ल्यान सुरंगाचो वास वाठारान भरिल्लो. बारीक मुस सुरंगीरूखार ताळये कणकणी उडटना दिसताले. धाकटीं किटुरां चींव चींव करून म्होंव खातालीं. सुर्याची किर्णां गच्च

झाडांनी सकयल जमनिमेरेन देवंक शक नासलीं. माती चिकचिकीत ओलसार आशिल्ल्यान पायांक परत परत दसताली. मिरवेली जळामळाक दिसताल्यो. कोणे त्यो रोयील्ल्यो कोण जाणां ? तरी त्यो तिखट लागिल्ल्यान कोणच खायना आसले जावये. वाटेर वतना मर्दी मर्दी रूख पडिल्ल्यान तांचेर चडून वच्चे पड. जळामळाक पत्रो पडिल्ल्यान तांचे वेल्यान वतना हत्ती चलिल्ल्याचो आवाज येतालो. म्हज्या फाटो फाट गोरवां येतालीं. काब्रो मर्दी मर्दी धेकार घालतालो तर तांबू हांबेताली. म्हज्या कपलार घाम परत परत येतालो. सकयल फोंडयेक कोण तरी रूख मारतालो जावये. पैस कुराड सुक्या लाकडार बशील्लो आवाज येतालो.

इतल्यान कापिटल वाट सोडून सकल धांवलो. कारंव खुबच वाडिल्ल्यान तशें पैसुल्लें दिस नासलें. कापिटलाचो भोकिल्लो आवाज येतालो. ताळो सराटून तो एक सारखो भोकतालो. हांव वाटेरच रावन तार्चे तें भोकप आयकतालों. तो कितल्या पैस आसत, कसो गेल्यार बेगी पावतलों हाचो अदमास बांधतालों. वाट सोडून भितर कारवांत सरप जीवार येतालें. तरी तो कित्याक भोगता तें म्हाका कळूंक जाय आसलें. हांवे हातान आसली बडी वडयली. आंखडेक लायील्ली कोयती काडून हातान घेतली. तसो भोकपाच्या आवाजाच्या दिकेन भितर सरलों. कापिटल मेळटा थंयसून घुसून गेल्लो तरी म्हज्यानी भीतर सरूंक जायना आसलें. कोयतेन कारंव, खांदे कापत वाट करून भितर सरतालों. कारंव आंगाक घस्टतगच खाज येताली. पाया पोंदान पत्रो आशिल्ल्यान म्हजे पांय फातराच्या कडेर पडून फातर उमथून पडलो तसो हांव जमनीर पडलों. हात जमनीर तेकयीतल्यान मार लागलोना. कापिटल एक सारखो भोंकतालो. वतना वालीचो आधार घेत रूखाक घट्ट धरून वच्चें पड. माकड झाडांवेल्यान उडी मारून म्हाका पळयतगच दुसऱ्या झाडार धांवक लागले. त्या सरशीं झाडाचीं पीकीं पानां सकयल पडूंक लागलीं. थोडी झोपांचेर, तर थोडी कारवांचेर तर थोडी जमनीर पडलीं. किनळाचो रूख धव्या फुलांनी चंवरीलो दिसलो. वाटेर जीवाणें आसत हाचो भंय दिसतालो. फुडे एक व्हड फोंड कसो आसलो तातून झाडां नाशिल्ल्यान देवंक बरें जालें तरी ओलसाण आसली. वेल्या वटेन कापिटल शेपटी हालोवन गोडका पोंदाक भोकतालो. हांव म्हऱ्यान पावतकच तो पायानीं माती उस्तील्ल्या सारखी करूंक लागलो. थंय बसून पळय तर एक मोठें बीळ आसलें. बीळ मळीलें.

सकयल गोडकाचें मूळ आसलें. ताचेर बारीक नाकटां लागील्लीं आसलीं. ती गारांची हें म्हाका पळयतनाच कळळें. कापिटलाक गाराचो वास येवन तो भोंकतालो हे कळूंक वेळ लागलोना.

गोरवांची जाग घेतली आनी ती वाटेर चरतात हाची खात्री केली. कापिटलाक धेंगसो घालतकच तो कुशीन सरलो. लागसर मेळटा त्यो सुक्यो बडयो सोदुन हाडल्यो. घोला तोंडार दाळून दवरल्यो. फस्क हाडूंक नासले, कित्याक तर विडी ओडूक तंबाखू नासलो. लाकडां भोरो मादाळे व्हरून दिवन च्या सामान, तंबाखू हाडूंक जाय आसलो. आज वतलों फाल्या वतलों अशे एवजून दीस गेले तरी मादाळे वचप घडलें ना. तशी विडी बेकार आसल्यार म्हाका जाय आसली. कामात आसल्यार विडी लाग नासली. आतां उजो खंयसून हाडतलों. भाण्णात वचून येतलों म्हळयार वर भर तरी जाय. म्हाका सट्ट करून याद जाली. पासय मारून दोन कुपातराचे धवे फातर हाडले. गाळये झाडाचेर बारिकसाणेन पळय तर थंय पन्नो शेवण्याचो घोंटेर आसलो. चडशीं शेवणीं गाळये रूखारच आपलो घोंटेर बांधतात. गाळये झाडाक बरेच लांबशे कांटे आसतात हे खातीर तांची राखण जाता आसतली. तो घोटेर शेवण्यान बारीक कापसा सारखो काथो हाडून केल्लो. तो त्या सुक्या लाकडाचेर दवरून हावें कुपातराचे फातर दोनी हातान धरुन मोठयान मारले, तरी उज्याकेण त्या घोटेरार पडुंना. परत चार पांच फावट ते कुपातर घसटयतगच सट करून तो घोटेर पेटलो. रोकडोच सुको पत्रो घालो म्हणतकच उजो नेटान पेटूंक लागलो. ताणें सुक्या बडयांक पेट घेतलो. झाडाचे ताळे मोडून आयणो करून ताणें वारो त्या बीळान घालूंक लागलो. अर्ध्ये वर जालें तरी गार भायर येना जाले. म्हजे हात भरून आयले. कापिटल पैस रावन सगले पंळयतालो. आनी थोडीं लाकडां हाडलीं, आनी परत ताळे मारून धुकट परत बिळान घालूंक लागलो. थोडो जरी धुकट भायर गेलो तरी बरोच भीतर वतालो. गार भायर येना कशें हो प्रस्न म्हाका पडलो.

हावें तो जागो बरो करून तपासलो, तर कोंडील्लो धुकट एका बुराकानसून भायर वतालो. तो बुराक ल्हान आसलो तरी धुकट खुबच भायर वतालो. फोंडान ओली माती आसली ती हाडून त्या बुराकार थापली तसो धुकट वच्चो बंद जालो.

परत नेटानेटान हांव ताळे हालोवंक लागलो. वर भर गेलें तरी गार भायर येना. मनान आयलें गार भितर आसत नासत, आसल्यार येवपाचें. तरी कांपिटलान वास काडिल्लो तो वोगी जावचोना. एखाद्रे भितरच गार मेल्यार, भायर कशें येतलें ? बीळ कितलें भितर आसा हाचो अदमास बांधप कठीण आसलें. म्हाका किते करचें ते कळना जालें. आशा पेट्टाली, पालवताली. यत्न हावे सोडूं नासलो. तरी आतां हांव बरोच जाम जाल्लो. पाड पडूं ते गार अशेच दिसलें. तरी इतल्या केल्या कष्टांचेर उदक सोडूंक म्हजे मन तयार नासलें. इतल्यान त्या गोडका मुळाचेर मात्सो विसव घेवंक बसलो. म्हजी नदर थंय ओबां रूखार बळील्ल्या मिरवेलिचेर गेली. पांचव्यो पांचव्यो सांगो लोबकळतना पळोवन मनान आयलें, ह्यो काडून उज्यान घाल्यार कशें ? हया विचारान म्हाका थारो दिलोना रोकडोच थंचो उठलो. मिरवेलिच्यो सांगो तोडून उज्यान वडयल्यो. म्हजी आशा मात्शी परजळीत जाल्ल्यान हातान ताळे घेवन नेटान परत परत वावडूंक लागलों. त्या मिरयांचो वास म्हज्यानी कसोच घेवंक जायना जालो. परत परत खोकली मारूंक लागली. मनान आयलें गाराक अशीच खोकली आयल्या बगर रावचीना. तो ही जीवच न्हय. पांया कडेन काटमुयो आसल्यो दिसता, एकटेन आपलो प्रताप दाखयलो. तेन्ना कळ्ळें हो जागो तांचोच म्हणून. काटमुयों रांगेन वताल्यो. त्यो तशो आपुण जावन दुसऱ्याच्या वाटेक वचनात तरी तांच्या वाटेक जाणा वा नकळत वचत तर त्यो तोडकायल्या बगर रावनात. हावें म्हजे पाय फाटी घेतले. गार तर नाच्च तरी प्रसाद म्हाका मेळिल्लो. काम करून करून हांव बरोच जाम जाल्लों. बरे सांगतलों कोणाक ? हावें सकली माती हाडून ते बीळ पुरवयलें. बरोच वेळ बसुन सुशेग घेतलो. बऱ्या वेळान उठून गोरवांची जाग घे तर आवाज नासलो. हातान आसली कोयती घेवन वाटेर यो तर सावळेक गोरवां गोठेल्लीं. हांव ना म्हणतकच त्या रानान फुडे वचपाचें धाडस ताणीं केलेंना आसतलें. म्हाका येतना पळोवन ताणीं खोशेचो उसवास सोडलो आसतलो.

हांव परत बिळाकडेन आयलो आनि माती काडली तरी गाराचो पत्तो नासलो. बिळान पळयल्यार काळोख गुप्प आसलो. हात हळून घाल तर थोडोच वतालो. झाडाचीं पाना लांबशीं लांबशीं दाळीं, ताची चूड केली. उज्याचेर धरून पेटयली आनि हळूच बिळान घाली तर त्या उजवाडान मात्शें काळेच अशें मीटर

भर भीतर कितें तरी आसलें. बडी घालून खात्री केली तरी एखाद्रे पाषाणी काळो फातर जायत असो दुबाव गेलो. वेळ धावंतालो. सुर्य आतां अस्तंमतीवटेन बावगल्लो. वेळ काडून उपकार नासलें. कापिटल तर पोटली करून सावळेक म्हजी मजा पळयतालो. हाताली कोयती सुक्या लाकडार मारून हावें पारमो केलो. तोंक बरें दवरलें. जीत्या लाकडा परस सुके लाकूड घट्ट आसता. पारम्यान बिळावेली माती खणूंक लागलो. माती तशी भुसभुशीत आसली तरी मदीं फातर सांपडल्यार शाणपण चल नासलें. मोव मेळता थंय खणूंक लागलों फातर आसल्यार तो चुकोवन कुशिनसून खणूंक लागलो. तरी बीळ तें फुडे बरेच सकयल गेलें. हातभर खणतगच म्हज्यांनी जायना जालें. परत पत्र्याची चूड करून पेटोवन पळय तर गारच कशें दीस. बिळान व्हडलोसो धुकट नासलो. जाता तें जावं म्हणून हावें दावो हात हळूच बिळान घालो. जीवाणें आसल्यार घास मारीत म्हणून भंय दीस. चाबल्यार दाव्या हाताक चाबूं असो हावें विचार केल्लो. सायबीण मायक हावें उलो केलो आनि जे हाताक लागता तें धरून काडून भायर वडयलें. थंड-थंडशे गार भायर पडटनाच कापिटलान धरलें. धुकटान जीवाणें आसल्यार मरतलें असो मनाचो समज हावें करून घेतिल्लो. कापिटल गार चाबडांवक लागलो. रागान तो परत परत ताका घास मारतालो ताची ती मजा हांव बरोच वेळ पळयत रावलों. घुं घुं आवाज करून ताचेर घास्तार जातालो. घ्स करून रूखाचो सुको खांदो सकयल पडलो. खांदो बरोच बरगेल्लो. त्या आवाजान गाय हांबेवंक लागली. कापिटलाच्या तोंडाचें गार काडून घेतले. एका वालीन बांधले आनी एका तोणक्याक बांधून तो खांदार घेतलो. गार फाटल्यान हुमकळटालें. कापिटल फुडे चलतालो. कोयती आंकडेन घाली आनी आयील्ल्या वटेन वचूंक लागलों. तोणको वतना झोपाक लागून अडकतालो तेन्ना परत फाटी पावल वडवन तो सोडोवन घेवचो पड. रोकडोच हांव वाटेर पावलों. गोरवां वाटेरच गोठेवन आसलीं. 'चलात घरा' म्हणतकच तीं उठली. म्हजी भास तांका कळटाली काय ना तें म्हाका खबर नासलें तरी तीं उठून चलूंक लागलीं, हांव तांका चुकयत फुडे गेलो. सुर्य बरोच आड जाल्लो. म्हाका चलप म्हळ्यार जीवार येतालें. तरी चलल्या बगर घरा कसों पावतलों? हे ही म्हाका खबर आसलें. वारो मात्सो व्हांवतालो तरी तसो आंगाक लाग नासलो. झाडाचे शेंडे हालिल्ल्यान वा

ऱ्याची ल्हारा येता हें म्हज्या परिचयाचें आसलें. बेंक बेंक करून भेक्रो सक्रयल फोंडाक आवाज करतालो तो म्हज्या जागीनच जावये. गार आशिल्ल्यान म्हज्या पावलांक उमेतीन नेट येतालो. गोरवां परत परतून वंडगाळीच्यान व्हरचे परस विमनागाळीच्यान पलतडेन वतकच वज्ऱ्यावेल्यान लाडुतळयान पावतली असो विचार करून हांव विमनागाळी देवचें थारायलें. आतां देवंती लागिल्ली. वाटेर ताजीं का ऱ्याची फळां पडिल्लीं दिसलीं. वयर पळय तर माकड म्हाका पळयताले. हांव चलत रावलों त्या सरशीं ते काऱ्यावेल्यान उडी मारून एका फाटोफाट घोडका रूखार चडले. खुर्र खुर्र करून खेतीं आपलो राग उक्तावन दाखयतालीं. हावें तशें तांका कांयच करूं नासलों. आतां हांव विमनागाळीचे शेतान पाविल्लों. शेत खंयच्या मुस्तीन रोयील्लें कोण जाणां? शेतां मदीं किनळ, माट्टीचे रूख बरेच मोठे जाल्ले. शेतान तर्शी ओलसाण आसली. एक पणसा रूख वाडिल्लो. तरी ताका कुवले येवचे पयलींच माकड रूच घेवन मेकळे जाताले. शेत सरतना चौकोनी घरा घटण कशें आसले. पयलीं थंय एक कूळ घर करून आसतालो अशें पाय म्हाका म्हणीं. शेताच्या कोनशाक एक फोंडकूल आसलें. गोरवां तानेल्ल्यान त्या फोंडकुलातलें उदक पिवंक लागलीं. उदक खंय आसा तें तांका सांगचे पडना. शेतान पांचवो पालो बोटभर वाडिल्लो. म्हज्या खाडा सारखो, म्हजे खाड काळें तर पालो पांचवो इतलेंच. गोरवां सदांच चरतकच पालो वाडूंक पावना. गर्भ शेळ आशिल्ल्यान पालो मर नासलो. जिवाणी उदकांक लागून केन्नाय देवंल्या बगर राव नासलीं. माया म्हयन्याक लेगीत पाचवो चरव दिसतालो, जरी फोंडकूल सुकलें तरी. माया म्हयन्यान तो चड पांचवो जावन नदरेन भरतालो. वत ताका बावोंक तर गोरवां मारूंक शकनासली. सैमान उपद्रवी जीव निर्मिले तरी तांका मारुंक दोतोर निर्मिल्यात. किट्टी हें बक्याचें खाण. त्यो काडतगच गोरवांक सू जाता देखून ती आपलो कान जाय तसो बक्यांक दितात. तान भागतकच तीं थंयच चरूंक लागली. एक चानी गोरवां चरता थंय येवन भीत भीत ताचे वांगडा हांगा थंय धांवूंक लागलीं. पैस कुटंबो रडतालो, सांज जाली अशें तो सांगतालो. एक बकें येवन बैलाचेर बसून ताच्या कानातल्यो किट्टी खांवंक लागलें. बैल ताका जाय तसो कान बावगोवन आसलो. ताच्या भयाची पर्वा करी नासतना बकें नेटानेटान किट्टी खाताले. शेतानसून थंड थंड वारे येतकच आंगार झेल चडता

कसो दीस. पाचवें शेत, काळशें फोडकुंलातलें उदक, अमुरपिकी झाडाची पानां थोडयाच वेळान काळखान बुडपाचीं आसलीं. हावें गोरवांक दबवन वाटेक लायलीं. बकें उडून वयर का ्या रूखार वचून बसलें. चानी नाच्च जालीं. गोरवां मान हालयत वळीन भाण्णाची वाट चलूंक लागली.

वज ्यार पावतना थंय वेल्यान घा ्याली गोरवां देवताली. काब्र्याचे आनी ताच्या बैलाचे झगडें लागलें. बैल झगडतना कोणाकच आयकना घा ्यान धेंगसो घालतकच ताचो बैल मात्सो फांटी सरलो. म्हणसर काब्र्याक बडी मारून हावें पैस धाडलो. व्हळतेन लान्ह लान्ह शे पाषाणी फातर आशिल्ल्यान गोरवांक तांचे वरसून चलतना त्रास जातालो. लागसर बोंणक वाडिल्ली. पांचवे पणसा आकाराची फळां मदीं मदीं आयील्ली दिष्टी पडताली. हांव फाटल्यान चलतालो, खंय चुकून गोरूं आसल्यार? हो हेतू. खांदावेलो तोणको बरोच जड जालो तो दुस ्या खांद्यार घेतलो. मात्शे वजे कमी जाल्ल्यासारखे दिसलें. खांद कड्डल्लो. गार घट्ट जायत आयील्लें. कापिटल मदीं मदीं नाच्च जातालो. ब ्या वेळान परत दिष्टी पड. गोरवां फाटी चलील्ल्यान धुल्ल उबील्लो नाकान, दोळयान वतालो. तोंडावेल्यान हात पुशीत हांव चलतालो.

लाडुतळयान पावता मेरेन सुर्य उदकान उडी मारूक तांबडया दोळयानी पळयतालो. उदकान बुडतकच हो राग विसरतलो आनि खोशेन दोंगरानसून हासत येतलोच हाची खात्री आसली. सदांच हांव ताका बुडतना तशें उदेताना पळयतालो. रीतान ''यो घे.'' असो घाल्लो साद आयकतकच गाय हांबेली आनि फुडे चलूंक लागली. परत रितान साद घालुना कित्याक तर ताका तांबू गायन परत साद दिल्लो. सैमाक मोनेळ पडिल्ली. सकाळची ताची उमेद, नेट, सुंदरकाय वत येतां येतां उणी जायत वता. सांची ती दर्याक परती भरती आयील्ल्या सारखी आपली आस्तूक वाडयत रावता. मनिस आनि सैम हांची सोबीतकायेची तुळा करूंक उपकारना. पीराय वाडता तशी मनशाची सोबीतकाय घटत वता तर सैम आपली सोबीतकाय ऋतु प्रमाण बदलीता, तरी पावसाक सैम दोनी हातांनी येवकारता तो ही हांसून ताजो टटटटीत जाता. पाचवों हासों हासतां तो ही वर्सा कणकणीं. मनिस जाणतो जाता तसो हासो उणो जायत वता. पावसाक येवकारची तांक ताची क्षीण जाता, होच दोघां मधलो फरक. सैम आंग झडयतनाच आंकरेचे सपन

बाळगून आसतां, हेच ताचे गूट.

गोरवां गोठयान गेली. हांव घराभितर सरलो. चिमणी रान्नीर पेट्टाली. गार वयर खुटयेक हुमकाळावन हात पांय धुले. काळोख जावन थोडो वेळ आसलो. हांड्याक उजो पेट्टालो. कापिटल जाम जावन आंगणान बशिल्लो म्हणसर रीत आयलें. गार पळोवन खोशी जालें. रेकेल तर कात्रां म्हणूंक लागील्लें. केळी पानां काडली आनि गार ताचेर दवरून सुरयेन ताचे चामडे सोडवंक लागलो. गारा वासान खयं तरी भायर आसलें बनें धावतच आयलें. रीत तांदूळ दात्यार दळूंक बसलें. रेकेलाक म्हळें,

" रेकेल धनयागेर वचून मसालो मागून हाड."

तें गेलें. केलमेती चेडो येवन उलो करूंक लागलो.

"तीतीव तीतीव किर्ते कोत्ता ?"

मनान आयलें गार मारला तें हाका कळलां आसतलें म्हणून तो तिळसानचो आयला आसतलो.

"यो रे ही शागोती मनकुट्यार बडवन बारीक कर."

अशें म्हणतकच तो आयलो आनि ती बारीक करूंक लागलो. हांवे भायर वचून हांडयातलें उदक हात बुडवन पळयलें, ते तशें न्हांवपा इतलेच गरम आसल. हांवे न्हावन घेतकच व्हडलो वालो घेवन पुसूंक लागलो, म्हणसर रेकेल मसालो घेवन आयलें. केलमेती चेडयान शागोती बारीक केल्ली. दोन हाताचीं बक्कां मारून ताका दिली. तो म्हणूंक लागलो, "दोन तीके कुडके दिल्यार जाताले." खरे तर हांवेच ते धनया कडसून मागून हाडिल्ले. तरी ना कशे म्हणटलो. ताका दोन कुडके दिले, तो शिवोणी घालत वचूंक लागलो. रीताचे दळून जाल्लें. रेकेलाक मसालो भाजून ताका वानार वाटूंक लायलो आनी आपूण बाणशिरे घेवन ताचेर पीठ थापून भाक यो करूंक लागलें. तव्याचेर परतितकच तें उज्यान ती वडवन करंड कशे फुलयतालें. रेकेल मटणाच्या आशेन नेटानेटान तुपो वानान फिरयतालें. हे ताच्या जातल्या आवाजवेल्यान कळूंक वेळ लागलोना. हावें कांदे शिंदून दवरले. रान्नीर वयर कांद्याच्यो दोन चुडयो गेल्या मायाक बांधून दवरिल्ल्यो. एक सोपत आयील्ली. कांदे तुटयतना म्हाजो हात फाटी सरतालो. येता

तो माया म्हयनो त्या कांद्यानी काडूंक जाय आसलो. भाकऱ्यो भाजून जातकच रितान तोपान कांदो घालून तेल थोडे रकोवन तें तळशिवंक लागलें. एक भाकरी घेवंन ताचो एक एक कुडको काडून तोंडान वडवंक लागलों. रीत तोपान तेल रकयता तशे चंद्र चान्ने सगल्याक रकयतालो. भाकरेचो कुडको तोंडान गोळयतकच बरोच गोड लागतालो. सुको भाकरेचो कुडको खावप म्हळ्यार म्हजो नेण्टेपण साकन् शोकच म्हळ्यार जाता.
"थापिल्यो भाकऱ्यो" अशें त्या भाकऱ्याचे नांव कित्याक तर पोंदान लाटफळें दवरून वयर बाणशिऱ्याचेर ठप ठप हात मारून भाकरी करप म्हळ्यार पीठ थापटावप देकून ताका हें नांव थापिल्ल्यो भाकऱ्यो आमीच घाल्लें. तव्यार भाजतकच त्या कोळशांचेर दवरून फुलवप. केन्ना दात पडत म्हणून सांगू नजो मागीर भाकरी कशी खातलों ? मटणाचो वास आंगणान पाविल्लो. पोटान दंत बोब मारताले. नुस्ते जरी खालें तरी मटणाची सर येना. धनयांगेर तिळसानचो तुळशी झोपाकडेन दिवो पेट्टना म्हाका दिष्टी पडटालो. तीं देवा कडेन कितें तरी आवाज करून म्हणटाली. म्हाका ताचो अर्थ कळ नासलो. शिक्यागेर कुत्रो भोकतालो, तो त्या थंड वेळार लागसरच भोकता कसो भास जातालो. कुंब्याकडेन रानशिपाय कींक कींक करून रडतालो. रान शिपाय बरोच शिटुक आसता. कोणी दिसतकच सगल्या जिवांक तो शिटकायता. हुडून बोब मारत रावतात. जीव तो रडतकच शादूर जातात खरे. कापिटल गारांची हांडा केळी मुळांन वडइलीं ती चाबडायतालो. गारा चामडे वयर वेदुचेर सुकत वडयीलें. दिसभर काडावडी काडिल्ल्यान जाम जाल्लों. उबो रावचे परस आंगणाच्या मेरेर बसलों. भाकरी थोडीशी आसली गोठयान खोटो खोटो असो परत परत शिंगा आपटल्लीं आवाज येतालो. शेतान लागसर किड रडतना आयकताली.

वाघ देवशे तळयेक घुर्र घुर्र करून घुरकितालो तो रोकडोच बंद जालो. एक तर तो बगळाची देंवती देवलां आसतलो वा रडपाचो बंद जाला आसतलो हे म्हाका कशें कळतलें ? वाघ चडसो फातोडेर घुरकिता, तिळसानचो तसो घुरकिना. गोठयान शिंगाचो आवाज त्या वाघाच्या घुरकण्यान बंद जाल्लो. चान्ने गडद जायत वताले. भाण्णार शांततायेची सया हळू हळू माणटाली. म्हज्या पांयार मुयो चडल्यो त्यो हावें फाफडून वडयल्यो. म्हजी घेतिल्ली भाकरी केन्नाच

सोपिल्ली आनिक एक गरम गरम खावची अशें दिसले तरी म्हजी पावलां घरान गेली नात. आंगणान पासयो मारूंक लागलो. कात्रां म्हणूंक म्हाका ताळो नासलो हें खातीर मनातल्या मनाक इत्रुजाची कात्रां म्हणूंक लागलो. "तांबडी कोंकारी अंतनी बायन न्हाताली". वेदुची पानां मदीं मदीं ठ्प करून जमनीर देवतालीं. शेळाव आयलो तरी सोसूंक जातालो. हांड्यातलें उदक हात बुडवन पळयत तर कडकडीत जाल्लें. माथ्यावेल्यान गरम उदकाचें तांबये ओत्तगच सू जालें. शीण झडून गेलो. शाबु हाडची आस्पत नासली. गोबोर आयदनाक सारयतात तसो रिटो आंगाक सारोवन हांव न्हालो. सायबीण मांयक रोजार केली. रेकेलाक न्हीद येताली. केलमेतिगेर उलवट आयकूंक येताली. धनयांगेरची न्हिदिल्लीं. कवड लावन घेत हांव मटणाचेर ताव मारूंक लागलो. रेकेल रोकडेच उठले. तीख तीख अशे तें म्हणटालें. मीठ कमी जाल्ल्यान मटण तीखट मारता आसतले, थोडे मीठ वडयतगच तिखटसान कमी जाल्ली. रीतान केन्ना मटण खाल्लें तें म्हाका खबरच ना. हांव रोकडोच न्हीदे आधीन जाल्लों.

चानी, किर, साळोरी, खेतो सारखे प्राणी मनशाळतात, तरी ती सैमांची आंगा, अलंकार, तांका सैमाकडसून काडून घेवन उघडे करप, म्हळ्यार सैमाक नागवप अशें म्हजें मत. हांव असल्या प्राण्याक धरचे परस सोडून दितालों, पोस नासलो. म्हजो पाय म्हाका सांगी,

"अंतन, तुका कुडिन बंद करून दवरल्यार तुकां कितें जातलें तशेंच तेंका जाता, झाडा झोपार उडपी रानान भोवपी प्राण्याक बनखण कित्याक? बनखणीन तें दीस कंठीतात तर भायर तेंचे दीस आपसुकच वैतात."

पायर्चे म्हाका पट्टालें. आवाज जातकच गोठणीवेल्यान सशाचे धांवप, फातोडेर रान कोंब्याचें सादेवप, वेळ मेळटा तेन्ना चितलाचें कुलेवप, आंब्या रूखार बसून कोगळेचे गावप, मध्यान राती वाघाचे घुरकप, अपरात्री घुघमाचे रडप, पिके वेळार कवड्यांचे उलोवप, रातचे रांतकिड्यांचे सुरेवप, दुखतकच सर्पाचे फोंसकारप, फळेल्या रूखार हड्ड्यांचे शिवणेवप, भयान माकडाचे हुपेवप, सकाळचे कुट्ट याचे कोंकारप, भेक्र्याचे भोकप, मेस्त पक्षाचें लाकूड कोरांतप, भोव याचे रडप, मुसांचे गुणगुणप हावें अणभविल्लें. ते प्राणी आपणाक जाय तशें सैमान वावुरतात. ते जल्मल्यातच उकत्या सैमान तर तांका बणखण कित्याक ?

म्हाका तो पावसाळी दिस यादेलो. दोन दिस सेगीत पावस पडतालो. जळामळाक वेतभर तायखिळो किल्लल्लो. कोलेकांद्याचे (रानवटी कांदे) रोप हुमटून पळय तर ताका धवे कांदे आसले. कोलेकांदे हे तोंडान घलपाचे न्हय. नाव जरी कोलेकांदे आसलें तरी ते कोल्ले खायनात. 'कोलेकांदे बरे जाल्यार कोले ते सोडचे नासलेत. गोठ्ठाल्ली उज्यागाडयेसारख्यो जमनीर भोवताल्यो. तांबडयो देवगाई म्हळ्यार दोंभळया आकाराच्यो मुयो चरताल्यो. त्यो देवाच्यो असो समज आसा. रेश्मी वस्त्र तिकतिकता तशी तिकतिकसाण तांच्या फाटीर दिसता. हरयाळी जिवाणें चिवंरीचेर दिसलें. ते पाचव्या रुखार दिसप कठिण. गोरवां रानात भितर सरूंक तयार नासलीं. परत परत गोठ्यान येवंक सोदतालीं. दीस रात गोरवांक गोटयान बांधल्यार गोठ्यान चिकचिक जावन निसरट जाता हया खातिर बडयेचो भय दाखोवन विट्टयान व्हरून सोडलीं. विट्टेच्या शेतान उदक बरेंच आसलें देखून गोरवांक तोंड बुडोवन चरव खावंक जायना आसलें. ती झोपाची पानां चाबडांवक सोदताली. म्ह ्यान वाघ पावलो तरी पावस पडत आशिल्ल्यान वळखूंक जायत म्हणून सांगू नजो आसलें, वाघ असल्या पावसा भायर सरपाचें धाडस करत हें सांगू नजो. खुटी देवीक जोगण घाल्ली म्हणतकच हांव बिनधास्त आसलों. कोटंब्याची झर न्हयचे सारखी व्हांवताली. घो घो उदक व्हांविल्ल्यान रातीन खंय कुल्ल्यो, पिट्टोळ मेळत हातून दुबाव नासलो. रातचो पावस वतलो अशें चिन्ह दीस. कांबळ भीजील्ल्यान बरीच जड लागताली. वावझडीं सरशीं तोंड भिजतकच कुडकुडो खाल्ल्या सारखो जातालो. वाट सारखी दिष्टी पड नासली. वाटेर उदक आशिल्ल्यान वाटे कुशीन वतना वालीक लागून मदीं मदीं पांय अडकतालो. काटयेक कांबळ लागली तेन्ना म्हाका रावचेच पडलें. कांबळ काट्याक लागील्यान हळुच फाटी सरतकच कांटे सुटले. बाग घेत वतना झाडाचे सावळेन जमनीर कांयच दिष्टी पड नासले. केन्ना घरा पावतां अशें म्हाका जाल्लें. इतल्यान ल्हानशे वांटकुळे कुपातराचे फातर दिसले. तांचेकडेन लक्ष दिवंक म्हजे कडेन वेळ खंय आसलो ? पांय चिखलान भरले तरी फोडकुलांतल्या उदकान धुतकच निवळ जाताले. मळबान नदर मार तर काळखी दिष्टी पड. पावस कवळया कवळयानी येतालो. वारो आयल्यार पावस पैस वता हो अणुभव म्हजो. तरी वारो पावसा भयान खंय तरी दडी मारून आसलो जावये. पावलां पैस पैस जाता तशीं

वडयत हांव घरा पावलों.

काफिटल पोटली कसो पांय एकठांय करून तोंड लिपवन भितोडेन सुकतडाचेर न्हिदून आसलो. रीत, रेकेल रान्नीकडेन शेकतालीं. घराभितर ओलसाण आयिल्ली मुयो आसऱ्या खातीर हुंबऱ्याच्या खाचीनसून भितर घरान वताल्यो. चिचेरूखार माकड साधू सारखे ध्यानाक बसून पावसाचे कर्तुब मोन्यानी, हालनासतना पळयताले. सुकणीं केन्नाच घोटेरान गेल्लीं. तिळसान जाल्या कायना हें कळूंक घडयाळ नासलें. पणसा पोंदाक तऱ्याचें पानां तकली वयर काडून पावसाक येवकार दितालीं. पणसा वेल्यान ओथांबे पडटात ते त्या पानांर पडील्ल्यान काफिटल भाकरेच्या कुडक्याक पळोवन तकली हालयता तशीं तीं हालयताली. वाळटी पांखा फुलोवन हुडतना दिष्टी पड. पावसाची वावझड भीतर घरान पावता म्हणून हावें कवड लायलें. पावळयो पडता तो आवाज येतालो. मदीं मदीं चुडतांनसून थेंबे पडटाले. हावें तंबाखू इंगळयार शेकवन, कुडचा पानान घालून विडी वळून, पेट्टे कोलतेक लावन विडी ओंडूक लागलों.

रान्नीर उदक भरून दवरिल्लें. सळसळतगच रितान तांदूळ धुवन तांतून घाले. पेज रट् रट् शिजताली. म्हजी विडी घोट मारता तितली सोपत येताली. उज्याच्यो किट्टी बऱ्योच वयर वताल्यो तरी चुडतांक लागपाचो भंय नासलो. ओल्या चुडतांक उजो पेट कसो घेतलो म्हणन् ताचेर व्हडलें लक्ष दिवंक नाका आसलें. आतां म्हजे आंग विडयेन आनि उज्यान हून केल्लें. रान्नी वयर आशिल्ल्या ल्हानश्या जतेलानसून गोरवां मात्शीं गोटयान वतना दिसलीं. रीत दावें घालूंक पावसान वचूंक तयार नासलें. हांव पावस आंगार घेतिल्ल्यान भायर सरूंक म्हाका तशें जीवार येना आसलें. पावस आतां बरोच कमी जाल्लो, तरी पातळ पडटालो. गोठयान वच तर सगलीं गोरवां आपआपल्या दाव्यार वचून उभीं आसलीं. दावीं गळयान घालून हावें बीड्डी लायली. तानू अजून येवचे आसलें. पाडूक परत परत हांबेतालें. फाटी येता आसतलें तरी पाडाकाच्या हुस्क्यान ताणें येवपाचें अशें हावें चितलें. थोडोवेळ रावलों तरी तानुचो पत्तो नासलो. बरें आनि थोडोवेळ गेल्यार काळखान रातचो खंय सोदतलो ? फावट पडल्यार पडूं अशें चितून हांव कांबळ घालून चलूंक लागलो. गोरवांचो माग घेत ''तानू योघे'' ''तानू योघे'' असो उलो मारतालों. रातचें तानू उरल्यार वाघ येत तर अशें नाका ते विचार

तकलेन येतालें. वायट विचार काडून वडयले तरी ते तितल्याच नेटान परत येवन मनात घर करताले. उलो मारीत हांव कोटंब्याची झर हुपून वयर पावतर म्हाका 'हांबो' अशी जाप मेळ्ळी. त्या आवाजाच्या दिकेन वच तर तानुचो पांय वालीक घुस्पल्यान तें फुडे येवंक शक नासलें. वाल ताच्या चारी पायान घुस्पल्ली. म्हाका पळोवन तें तशेच ओगी रावलें. फातरार वाल दवरून ताचेर फातर मारतकच वाल तुटली. तशे तानू फाटीफुडे पळय नासतना धांवतच गेलें. हांव फाटल्यान येतालो. म्हाका त्या कुपातराच्या फातराची याद जाली. थंय पावतकच ते घरा व्हरया, अशें हावें चितलें.

रोकडोच हांव थंय पावलों कुशीक नदर मार तर ते बोटभर उदकान कुपातराचे फातर आसले. हावें ते हातान काड तर तीं तातयां. रानटी कोंबयेचीं धवी फुल्ल तांतया. गांवठी तातयां परस मात्शी मोठीं. एका हातान एकेक धरून घरची वाट धरली. दोळे चोळीत वाटेर पळयत हळू हळू वतालो. पावस बरोच कमी जाल्लो. ना म्हळयार मदीं मदीं मळब गळटालें. उदक खळखळत व्हांवन कमी जातालें. पायां पोनची वाट आशिल्ल्यान पर्वा दिस नासली. पावसान जळामळाक उदक भरिल्ल्यान जिवाणीं वाटेर उरपाचो भंय नासलो. आंगणात पावतना कापिटलान भोकून येवकार दिलो. कोंबयेचो घुड उक्तो आसलो. घरान वचून पेट्टी चिमणी भायर हाडून घुडान पळय तर कोंबो, कोंबी दोळे धापून बशिल्लीं. तातयां व्हरून हावें रवाण्याक बशिल्ल्या कोंबये म्ह्यान दवरलीं.

सात दिसांनी आपल्या तांतयां बरोबर तिणें तीं रानटी तांतयां उबयलीं आनी पिलां भायर सरली. हळूहळू कों कों करित ती कोंबडी तांका भोंवंडेक व्हरताली. रातची घुडान येतकच फुडले दार हांव वेल्यान घालून तें बंद करतालों. अशेच दिस वताले. म्हयन्यान त्या दोनी तांतयाचे कोंबे जाले. हें तांच्या पाखां वेल्यान कळूंक लागलें. कशें तर गावठी कोंब्याक वा कोंबयेक तरातरांची पांखा येतात तर रानटी कोंब्याक धवीं काळी अशी दोनच तरेची पांखा आसतात. तर कोंबयेक पिंगट आनि काळी पांखा आसतात. सगली पांच पिलां आसली तातले तीन कोंबे तर दोन कोंबयो. रानटी दोनय कोंबे. विस्कुटना पाय चड नेटान वावुडटाले. खावप ताचे गांवठया परस जलद आसलें. मनशाची सुलूस लागतकच ते पैस वताले तर गावठी कुकडां खाणा आशेन म्ह्यान येतालीं. कापिटलांक तीं आपल्या कुंटूबातली

दीस ह्या खातीर तांच्या वाटेक तो वच नासलो, शिवाय म्हजो ताका भंय आसलो ती गजाल वेगळी.

सात आठ म्हयन्यान एक दिस तो रानटी कोंबो रातचो घुडान आयलो ना. आंब्या झाडारच रातचो रावलो. फातोडेर तो आंब्या वेल्यान 'केव' 'केक' 'केक' करून मात्सो मात्सो साद घांलूक लागलो. हांव उठलो हळू घुडाचे दार काडले. सगली कुकडां भायर सरलीं. हावें आंगणान हाडून भात थोडे वडयलें. तें खावंक तीं एकठांय जाल्ली आनि आशे खांवक लागलीं. हावं हळूच म्ह ्यान गेलो वतना बुटी व्हेली. तो आंब्यावेलो कोंबो सकलाक देवन आशे खावंक लागलो. हावें बुटी अशी वयर धरून ताचेर घालून सोडली. सात आठ दिसांनी जोगण आसली. ताका बुटयेनच खाण घालतालों. घोसायांक सागून ताका शिमेर मारलो आनि रक्त थंयच वडयलें. घोसांय म्हणूक लागलो ह्या रक्ताक पिवन वाघ, कोलसुणे, म्हारू तुका पिडचेना. ते खोशी जावन शिमे भितर येवचे नात. मागिर केलमेतीक आफोवन ताचें मांस रानले. तर दुसरे दिसा दुसरो कोंबो पणसाचेर तिळसानचो वचून बसलो. 'बा' 'बा' करून आफयलो तरी येना जालो. जेवतकच हांव हळूच निसण घेवन गेलो. पात पणसाचेर चढून कोंब्याक घट् धरलो. ताचें पाय बांधून ताका घुडान घालून दवरलो. सकाळीं रीताक म्हळें,

''आगो हो कोबो व्हरून कुळारा दिवन यो''.

चिपळयांन तांचे कुळार आसलें. रेकेलाक सांगाताक घेवन तशेच कोंबो हातान धरून तें वंडगाळीनसून चलत गेले. दुसरे दिस तें रेकेला बरोबर आयलें. येतना सुके नुस्ते कुळारच्यान ताणें हाडलें. रीत कुळारा वर्सासून एक फावट बी पावल्यार पावतालें. जर तर कोंबो ते राती धर नासलो तर साद घालून भुर करून रानान हुडून गेल्यार हाताक खंय मेळटा आसलो ? रानटी ते रानटीच! बाकी गावंठी कुकडां वचनात हे हीं तितलेंच खरे. रानटी प्राण्याचेर रानाचे संस्कार जातात तर गांवठी मनशाळिल्ल्यान तितले शिटुक आसनात, मनशाक ते भिनात. रानटी प्राणी आपली राखण आपुणच करतात. केन्ना कोण मारत हे सांगू नजो. पावलां कणकणी तांका शादूर आसचे पडटा. मनशाचो तशेच हेर प्राण्यांचे तांका भय आसता. मात्सो आळस केल्यार जीव व्हगडावचो पडटाच. राखण तांका उपजतच देवाची देण आसता. जशे जशे प्राणी मनशाळतात तशे तशे तें आपले

गुण व्हगडायतात. भित्रे, परांवलंबी, आळशी, मवाळ जातात. मनशाळतकच ते परत रानान रावन राखण, खाण असल्यो गजाली करूंक शकनात. मनीसय तसोच रानानच रावल्यार रानाळता, कुर, काटक, धाडसी, शिटुक जाता, ताका मनशान रावंक आवडना. रानटी प्राण्याबरोबर आशिल्ल्यान ताका तेच मनीस कशे दिसतात आनी खरे मनीस राकेस कशे दिसतात.

घरा फाटल्यान एक वेदुचो रूख आसा. पायन तो धा वर्सा फाटी बोडकिल्लो. आतां ताका मेडी, वाशे बरेच आयील्ले. शिवाय बारीक लाकडां मेळटलीं असो विचार करून सांचो हातान कोयती घेवन ताचेर चडलो. तांबड्यो मुयो ताळ मूळ आसल्यो ह्या खातीर आंगाक चिमणेल सारयलें. चिमणेलाच्या वासाक मुयो येनात. वेदू रूख हाणूक बरो. चार पांच घाव घालतकच खांदे सकयल पडटात. अर्ध्यो रूख बोडकावन जातना 'ठो' असो आवाज जालो. वेळ धारेक वचूंक थोडो कळाव आसलो.

''अंतन, योरे यो! ''

असो धनयान घाल्लो साद हावें आयकलो. रूख बोडकुपाचो थंयच दवरून हांव कोयती हातान घेवन देवंलो. आंगार रुखाच्यो बारीक साली पडिल्ल्यो त्यो हातान काडून वडयल्यो आनी आवाजाच्या दिकेन झपाझप चलत रावलो. येशाच्या घरा फाटल्यान चीचे रूखाच्या सकयल्या पोवड्याक सात माड आसले. थंय 'खेर्र' 'खेर्र' असो आवाज येतालो, रोकडोच हांव चिचेरूखा सामकारा पावलो. तेन्ना माडा पोना बंदूक घेवन येसो दिसलो. धायेक पावलां मारतकच त्या माडाच्या ओळीकडेन पावलो. खेतीण माडांपोंदाक पडून आवाज करताली तर तीचे ल्हान पील तीचे म्ह ऱ्यान उभें आसलें. आवय केन्ना उठून आपणाक पोटाक लावन वयर झाडार व्हरतली हाचो तें विचार करतालें जावये. पुण त्या पिलाक खंय खबर आसली आपली आवय केन्नाच परत उठचिना ती.

''अंतन त्या पिलांक तूं व्हर आनि जगता तर पळय. मारचोना म्हणटालो तरी किर्ते करू, माडांक बोंडो येवचे पयलीच तोपून वडयतात. एक नाल्ल अजून पळयलोना. कितले फावट धांवडावन घाली तरी परती येतातच. दिसभर हांगाच बसल्यार म्हजे पोट कशें भरतले. खेतीणीक हांगाच फोंड काडून पुरता, म्हणतकच माडांक सारे मेळतले.''

हांव तें खेते घेवन घरा आयलों. रेकेलाक खेळूंक एक वांगडी मेळ्ळो. आपुण च्या पिनाआसतना, भाकरी खायना आसतना तें पयलीं त्या पिलाक खावन उरल्यार आपूण खातालें. पयली पयली भिल्ल्या सारखे तें वागतालें तरी मागीर मागीर ताका आपल्या कुटुंबातलीच कशी दिसूंक लागली. रेकेला बरोबर तें रातचे न्हीद. व्हड जाता जाता तें झाडांनी भोवंक लागले. फळां पानां खावन रातचे तें घरान येताले. मागिर चार म्हयन्यानी ताका खेत्याचो पंगड मेळ्ळो आनि तें तांचे बरेबर गेले तें परत आयलेंच ना. ना म्हळ्यार आमची याद येतकच तें एक दिस आयील्लें, तरी उरील्ल्या खेत्यानी ताका परत पंगडान घेतनाच ताच्या आंगार वचून ताका धुकलून जमनीर वडयलें. ते मेरेन त्या पंगडा भायर वचूंक भियेवंक लागले तरी तें म्हाका सामके विसरू ना. केन्नाय वंडगाळी तर केन्नाय कोंटब्याक हांव दिसतकच तें म्हज्या लागसर येवन खेर्र खेर्र करतालें, आनि खंचेच खेतें तशें येना आसलें ताचे वेल्यान तेंच खेतें तें जावंक जाय. फुडल्या उजव्या पायान तें मात्शे कुडटाले. ते दिसा माडावेल्यान सकयल जमनीर पडतना ताच्या उजव्या पायाक मार लागील्लो.

खेतिणीक मारत साकून खेतीं माडाकडेन येना जालीं. धनयांक नाल्ल मेळूंक लागले. खेत्याक म्हगेर खाल्ली याद आसली. तें लागसर येतकच ताच्या दोळयाची दुकां व्हांवताली. तीं पळोवन म्हाका ताच्या आवयक मारिली याद जाल्या बगर रावनासली. डोंबारी लोक त्या खेत्यांक कशे सतायतात आनी आपलें पोट भरतात हें हावें माजाळे एक दिस पळयील्लें. मारा भयान तें खेतें खुणयता तशें काम करताले, एखाद्रे राग आयल्यार घास्तार जातालें. तरी धनयांक घास मार नासलें. रानटी जीव जावन सोशिक. डोंबारी खेत्याकच व्हरतात, माकडा पिलाक व्हरनात. माकडा पील सांगता तें आयकना. ताका सांगिली कसरत करूंक जमना.





# कास

गोरवां घेवन हांव एक दिस लाडुतळयांनसून वतालो. 'कुहू' 'कुहू' असो आवाज आयकतकच त्या दिकेन पळय तर पारये रूखार कोगळयो बसून फळां खाताल्यो. बारीक किटुंरा मदीं मदीं दिष्टी पडटाली. म्ह.यान पावलों तरी त्या कोगळयो फळां खायत आसल्यो. फळां खातना घोसाचीं थोडी पीकी फळां सकयल पत्र्यार पडटकच आवाज येतालो. तो येतकच त्यो गाताल्यो. थोड्यो काळ्यो तर थोड्यो शिब.यो. रूख तसो चड वयर नासलो, तांका पळयत रावतकच म्हाका वेळ कितलो जालो कळळोच ना. गोरवां लाडु तळयानसाकून वंडगाळी पाविल्लीं. वत जरी पडिल्लें तर चान्न्यान भोविल्ल्या सारखो वताची पर्वा करीनासतना भोंवपाची सवंय म्हाका आसली. येशान खेतीण मारली, तशी कोगळ्यो म्हज्यानी मारूंक जावच्योना ? असो प्रस्न म्हाका पडलो. मनान एक फावट खंचोय विचार घर करतकच त्याचोच ध्यास घेवपाची वायट सवंय म्हाका आसली. म्हजें मन कामात लागना जालें, परत परत दोळया मुखार कोगळ्योच दिसताल्यो. सपनान तर एके राती हावें एका फाराक आठ कोगळ्यो मारल्यो कशो दिसल्यो. तेन्ना हावें सपनानच म्हळें,

" पुंजाय कोगळयो ना तर हुडून वैतल्यो"

म्हजे शब्द रिताच्या कानार पडून तें जागें जाले तशें म्हाका उठोवन म्हणूंक लागलें "सपनान बडबडटा काय कितें ?" म्हजी म्हाकाच लज जाली. हावें म्हळें रिता फाल्या गोरवांक चरवंक तूंच वच म्हाका मादाळे काम आसा.

"बरे हायें ना म्हळां तुका, तूं काम करून यो, हांव वैता."

अशे रितान म्हणटकच म्हाका बरें दिसलें.

सकाळी उठून येशागेर गेलों. बंदूक मागली. ताचे कडसून कशी धुवची,

तीर कसो धरचो सगलें शिकून घेतलें. ताचेकडेन फार भरपाचें सामान तशें चड नासलें. घरा येतकच हावें गज काडलो आनि पळयलो. एकेवटेन तोंक आसलें तर दुसरेवटेन गुळो कसो आसलो. त्या मोठया वटेन बतर गजाक बांधून हावें नळी उदकान धुली. नळये तुंबार बोट धरून वेल्यान बतर बांधिल्लो गज घालो कीं उदक तुंबानसून शेवटून पड. परत उदक घालून हावें दारवेची काळी माट काडून वडयली. मागिर धवे उदक येतकच नळी लीप जाल्या हाची खात्री जाली. ती वताक दवरून हांव कुराड घेवन खलसांव, खोमीस घालून भायर सरलो. रानातल्यान वतना नदर पडता थंय लाकडाचो सुको कुडको पडला जाल्यार पळयतालो. विट्टयाच्या माथोटेर एक नाण्याचो सुको कुडको नदरेक पडलो. ताच्यो कापटयो फोडल्यो. फोटता फोटता दांडयानसून कुराड शेवटून भायर पडली ती कावारी मारून घट केली. थांबनासतना कुराडेन फोटतकच कापटयांचे वजें जालें. लागसल्या वालीन बांधून कुराड रूखा पोकळेन दवरून हावें माजाळेची वाट धरली. माथ्यार भोरो आशिल्ल्यान सावळी मेळळी तरी माथ्यार वजें आशिल्ल्यान खरस रोकडी येताली. बोगळान पावतकच भोरो वयर फातरार दवरलो म्हणतकच परत माथ्यार घेवंक सोपें असो विचार केलो. विडयेचे थोटूक आसलें तें चार पांच घोट मारतकच सोपलें. बोगळान वांयगण रोयीलें, हात भर पाचवें रोप वाडिल्लें. उदकाची तुटवण पडना तर भात येवजिल्लें जावंक हुस्को नासलो. शांबा तें शेत रोयतालो, तें सावकारालें शेत. सावकार मुंबय गेल्लो. तो गावान येना आसलो. आतां शांबाच त्या शेताचो धनी जाल्लो. शांबाची जाग नासली. हांव तसोच वाटेन म्हाल रस्त्यार पावलो. आतां म्हज्या चलपान नेट आयील्लो. पोटाक भूक लागील्ली. म्हाका शेटीचें च्या चे दुकान दिष्टी पडटाले. रस्त्यावेल्यान बशी, गाडयो धावतकच धुल्ल उबून आंगार पडटालो. माजाळे पेडाकडेन बाजार भरील्लो. म्हाका पळयतना शेट येवन म्हणूक लागलो,

''अंतन हिंगाच वडय भोरो.''

रूपया भर कमी दिलो तरी पैशे रोकडोच हातार वडयतालो. स रूपया ताणे हातार दवरले. च्या मिसळ तागेरच खाली. दारू दोन ओंस, अर्ध रात मुळसांव घेतले. वोंसभर तंबाखू घेतलो. नुस्ते आसले तरी पैशे काबार जाल्ले. शांबा दिष्टी पडलो, तो केस मारूंक गेल्लो. ताचे केस मार मेरेन रावलो. मागिर

आमी उलयत येवंक लागले. पावसगत कशी आसली, उदक कितलो तेप शेताक मेळत, सावदां कशी पिडतात, असले विषय. बोगळान पावतकच तो थंय शेतान भितर सरलो आनि हांव भाण्णाची वाट जड मनान चलूंक लागलो.

घरा पाव मेरेन सान जायत आयील्ली. नळी सुकून सळसळीत जाल्ली. ती दस्त्यान घालून वेल्यान तीन कट सोडून घट्ट केली मागिर दस्त्यान गज घालो. बंदूक घरांत व्हरून कोनशाक दवरली. रातची म्हाका न्हीद पडुंना. कोगळ्यो केन्ना मारतलों अशें जाल्लें. आतां बंदूक आनी फाराचे सामान आसलें. रातीन जागो जाल्ले फावट बंदुकीचेर नदर मारून ती थंय आसा हाची खात्री करतालों.

सकाळी उठलो. निकटी च्या घेवन आंगणान आयलो. सोण्णाचो कातो घेतलो. दारू बाटलेन घाली. मुळसांव डबयेन घाले. धापणेभर नळयेनसून दारू वेल्या बुराकानसून सोडली. मागिर काथ्याची बंदुकेच्या नळयेच्या मापाची गुड्डी केली आनि गजान वेल्यान बडयली. परत धापणेभर मुळसांव सोडले आनि परत काथ्या गुड्डी करून मुळसांवाचेर तेकयली. चाप वयर काडून तुंबान पळयत तर दारू आयील्ली. पत्र्याचो कुडको कापून ताचे तुंबा मापाचें केप केले. फस्का काडये गंधक घालून फस्काचें कागद काडून परतें घालें आनि हळू चाप तुंबार दवरलो. कापिटल तें सगलें पळयताले. खांदार बंदुक दवरून सामान एके पिशवेन घालून हांव घरा फाटल्या वाटेन चलूंक लागलो. थंडीचे दिस तरी बंदूक हातान आशिल्ल्यान थंडी खायना आसली. कापिटल फाटल्यान चलतालो. सुर्य उदेतालो. पैस कोंबो साद घालतालो तरी थंय पाव मेरेन सो साद घालत हें सांगू नजो आसलें. म्हजीं धांव पारये रूखाकडेन आसली.

म्हजी नदर वयर माट्टी रूखार गेली तर थंय शाक्रूं माट्टीचे कातरे खातालें. हरवे सोदील्ल्याक पिकें मेळचे अशे म्हजे जालें. म्हाका पळोवन तें खांवचे बंद जाले आनि खांद्यार पोट तेकोवन थंयच दपटलें. खांद्यासकयल हळदुवी शेपटी हुमकळटाली. माट्टी पोनान कात्र्याचे बारीक बारीक कुडक्यांची रास पडिल्ली. हांव शोक्रा पोनान गेलों. ताचें तोंड तितलेंच दिसतालें, बाकि आंग ताणे खांद्यार लिपयील्लें. तोंड भायर घाल्लें ते म्हाका पळवंक आसतले. आपूण कोणाक दिसचें न्हय म्हणून माजरां सारखे ताणे दोळे धापून घेतले आसतले तरी कान शेळावन तें म्हजी जाग घेताली जावये. तें रूखार आशिल्यान हांव हांगा थंय भोवतना

आवाज जालो तरी ताका तो तितलो वयर आयकूंक येना आसलो जावये. गळयामेरेनचो भाग ते खांद्याभायर घालून आसलें. ताची शेपटी वाऱ्यान हालताली. पैस कोगळांचो आवाज येतालो. कापिटल सावळेन बशिल्लो. केन्ना त्या शोक्रार फार मारून सकयल वडयतां अशें म्हाका जाल्लें. शोक्रा पोनाक रावलों. पयलोच फार म्हणतकच हात मात्शे कडकडूंक लागले. आतां 'ठो' असो आवाज जातलो ह्या विचारान हांव मात्सो भियेलो तरी शोक्राक पळोवन हांव सगले विसरलों. बंदूक खांदाक लायली. चाप वयर काडली आनि हांव जोखूंक लागलों. घोड्याचेर बोट आसलें. मात्सो घोडो ओडून घेतलो आनी मात्सो ओडटकच फार पेट्टलो हे म्हाका खबर आसलें. तेन्नाच तुंबावेले केप सकल पडलें. हावें हळू घोड्यावेले बोट काडून बंदूक खांदावयली सकल घेतली. केप जमनीर पड्यापोना गेल्लें सोदून काडले तरी तें लायतना तुंबान दारू दिसना जाली. सामकी वयर जोखील्यान दारू थोडी पडली आसतली. परत हावें पिशवेन आसली दारवे बाटली काडून थोडी दारू घालून तूंब भरलो. केप तुंबार लायले आनि सुतान बांधले. परत बंदूक जोखली. बंदुकेचे फुडले तोंक तशेच फाटल्यान चापीकडेन एका वळीन हाडलीं आनी शोक्राचे तोंड त्याच वळीन हाडूंक लागलो. बोट घोड्यार आसलें. तीनी एका वळीन जातना घोडो ओडटलों इतल्यान पायांक काटमुयेन घास काडलो. हावें बंदूक जोखील्ली सकयल घेतली, काटमूय मारली. आतां कितेंय जांव फार मारून सोडटलों अशेच हावें थारायलें. बंदुकेचो पांय खांदाक लायलो, दस्तो पोल्याक लायलो, दावो दोळो धापलो. खीणभर उसवास कोंडून धरलो. म्हाका एका दोळ्यान शोक्राचें बोडूक दिष्टी पडटालें. थोडो वेळ केल्यार शोक्रूं धांवतले मागीर दिसचें ना अशे विचार मनान येताले. 'पाव तूं खुटये' अशें मनान म्हणत जेजूक उलो मारलो आनी घोड्याचेर आशील्लें बोट ओडून मेकळों जाल्लो. म्हाका फुडलें कांयच खबर ना दोळे उघड तर हांव जमनीर पडिल्लों वेल्यान बंदूक तर ताचे वयर शोक्रूं धडपडटालें. हांवे शोक्रूं वडोवन बंदूक कुशिक दवरता म्हणसर तें हळू हळू सरपटत कुंब्या झाडाच्या घोलीन गेलें. उठलो तर ताची शेपटी भायर दिसताली. कापिटल धावतच गेलो आनि शेपटेक घांस मारलो. ती तुटली शोक्रूं घोली भितर गेलें. शेपटी आसल्यार हात घालन्

ओडल्यार मेळपाचें ती संध कांपिटलान वगडायील्ली. म्हजो खांद बरोच दुकतालो. हांव जयता म्ह.यान पाविल्लों तरी जयत म्हाका मेळ्ळू नासलें. कापिटल घोली भायर भोकतालो. कुंब्या झाडाक वयर खंयच व्हडलो बुराक नासलो, म्हणतकच शोक्रूं वेल्यान वच्चे ना हाची खात्री आसली. लागसल्लो फातर सोदूंक लागलों. वाटेर एक पाषाणी फातर आसलो तो बोडार घेवन हाडलो. लागसल्ले ताळे, पानां त्या घोलीचे तोंडार घालून ताचेर गच्च फातर धापलो. म्हजे जयत एका वेताचेर जरी आसलें तरी ते मेळोवंक खटपट आसलें.

बंदुकेन परत फार भरलो ती व्हरून घोलीकडेन दवरली. एखाद्रें जर ते धावत तर फारान मारूंक जातले हो हेतू. हांव जाम जाल्लों. मन उतावीळ जाल्लें तरी तें सगलें मनावयले चेपण काडून हांवें घरची वाट धरली. कापिटल थंयच आसलो. वत बरेंच रकरकतालें. गोरवांचो आवाज पैस येतालो. वाटेर पत्रो पडिल्ल्यान हांव चलताना मोठयान आवाज येतालो. पत्र्याच्या आवाजान एक गोठणीवेलो सोसो उठून उभोच वाटेन धावंक लागलो. हांवे म्हळें राव थोडे दीस तुजो समाचार घेता. बंदूक आसल्यार फार मारपाचो तरी बंदूक आसल्यार तो एखाद्रे नदरेक पडना आसलो जावये. बंदूक नासली म्हणून तो झेत मारतालो. फिडकी मारून धांवतना ताचे कान वयर काडिल्ले दिसताले. रोकडोच तो खंय नदरेआड जालो ते कळळेच ना. आंब्या ताळये कणकणी गुडयो उबारील्यान ताका पळयतकच हळदुव्या दोंगराचो भास जातालो. कोंसबा रूखाक तांबडी कोमरी दिसताली. सावरीची बोचकभर कोन्न्यां सारखी फुलां गुलाबी धवींशी पळोवन मनान येताले ह्या फुलांची तोखणाय कोणेच गायलीना तरी सात आठ कावळे आपले परीन गावन तांची तोखणाय करताले. सांवरीक आंगार कांटेच कांटे आसले तरी फुलां आशेन माकड त्या रूखार झोपय मारल्या बगर रावनासलें. मन खोशीन भरील्ल्यान पैस आसलें घर केन्ना लागी केलें ते कळेंच ना. कुकडां शेतान रूखाची सावळी पडल्या थंय आशे वेचताली.

घरान रेकेल नासले खंय गेला आसले ? रान्नीर पेजेचो बुडकुलो खतखतालो. तिचे सकल केलमेतिची उलवट आंयकूंक येताली. वारें जमनीवेलो पत्रो उबयतालो तरी पांचवी पानां उबवपाची तांक ताच्यान नासली. येसो खोटो खोटो करून किते तरी हाणतालो. मडकेतले थंड उदक पियेतकच बरें दिसलें.

बसपाक म्हाका वेळ नासलो. निशण्यार कोयती पाजली, तसो चलूंक लागलो. वाटेर कापिटल येतना दिसलो. म्हाका पळयतकच तो परत लाडु तळयान वचूंक लागलो. मनान आयलें शोक्रूं एखाद्रे फातर वडवन वचूंना न्ही ? म्हज्या चालीन आपसुकच ह्या दुबावान वेग घेतलो. खर्शेत हांव त्या माट्टी रूखाकडेन पाव तर फातर तसोच आसलो तें पळवन जीव मडकेन पडिल्ल्याची खोस जाली. आतां ती घोल खंय मेरेन आसा हाचो अदमास घेतालो. माट्टी रूख बरोच मोठो, तसोच तो उबार आसलो. चार मीटराचेर सकल ताका बाग आसली. बागी मेरेन पोकळी आसत काय ताचे पयली आसत हाचो अदमास बांदूक जायना आसलो. कोयतेन रूख वाजोवन पळय तर पोकळी बरीच वयर आसा हाचो अदमास आयलो. कोयतेन रूखाक बुराक मारूक खापावंक लागलो तर कोयती रूखाक चाब नासताना उसळटाली. आतां कुराडी शिवाय बुराक मारूंक जावचो ना अशें चितून हांव विट्टेची वाट चलूंक लागलो. माथोटेचेर पावतकच काल लिपोवन दवरील्ली कुराड रोकडीच मेळळी. तीं हाडून माट्टी रूख खापावंक लागलो. रोकडीच पोकळी मेळळी. मागिर वेतभर बुराक जातकच पळय तर पोकळी वयर मेरेन आसा. शोक्रूं दिष्टी पड नासलें. शोक्रूं वयर वचून रावतलें हे म्हाका खबर आसलें. हावें हळूच पोकळेन वेल्या वटेन हात घाल तर केस कशे हाताक लागले. शोक्राची ती लांडी शेपटी जावंक जाय हे सांगचेली गरज नासली. हाताक थोडे रक्त लागील्लें. फातर हाडून ताचेर उभो रावलों आनी हात जाता तितलो भितर घालो. शेपटी मुठीन मेळळी तरी शोक्रूं ओडल्यार येना जालें. मागिर हावें फातर धुकलून वडवन पांय वयर धरून हातार तोल सांभाळून झेल मारूंक लागलों. शोक्राची नाकटां इतली घट्ट झाडाक धरतात हांचो अणभव म्हाका येतालो. तेन्ना म्हज्या वजनान शोक्राचे पाय सुटले आनि ते बुराकानसून शेपटे सयत भायर आयलें तें इतले बेगी येतशे दिसूं नासलें. म्हजो तोल वचून हांव पडलों आनी शोक्रूं हातानचें सुटून हळूहळू वचूंक लागलें. हांव उबो रावता म्हणसर ते दोन मिटरांचेर पावलें. आतां किर्ते करतलों ''कापिटल छू '' अशें म्हणटना कापिटलान ताचेर घुरी घाली आनि ताका धरलें, तशें दावे उजवे वटेन फाफुडलें. हांवे कापिटलाक दबकायलो तो धांवलो म्हणसर शोक्रूं काडून पिशवेन घालें. अशे तरेन मोठया यत्नान हांवे कासाचें पयलें जैत मेळयलें.

कुराड, कोयती, शोक्रूं घेवन हांव घरा आयलो. दनपार जाल्ली. सांवरी झाडार कावळो कांव कांव करतालो. तांका काळ वेळाचें भान आसना. सुरी पाजुन शोक्राचें वेले चांमडे सोडोवंक लागलों. तें सोडोवंक इतलें कठीण सांगपाक जायना. रेकेलान पेज शिजयील्ली. ताका शोक्राक धरूंक सांगले आनी चामडें सोडयलें. परतें करून तें मेडिर सुकत वडयलें. हाडा मनकुट्यार बडवन दिलीं. रेकेलाक ती बारीक शीन म्हणून सांगले. पोट फोडून भितरलें सगलें गायरीन व्हरून कापीटला आधीन केलें.

म्हाका मासाची गोडी लागली. कापिटल तर म्हाका पाते नासलो. वता थंय येतालो. दोन दिसांनी बंदूक घेवन हांव गोरवांक फुडे घालून फाटल्यान वतालो. लाडू तळयान पावतना कोगळेचो आवाज आयकलो. बंदूक घेवन हांव रोकडोच त्या दिकेन धांवलो. पत्र्याचेर पाय घालतना कांटो लागून भितर मोडलो. तो काडपाचो सोडून हांव कुटत कुटत पारये रूख लागीं करतालों. कोगळ्यांनी झडयील्ली फळां सकयल पत्र्यार पडून टप् टप् असो आवाज येतालो. म्हाका कोगळ्यानी खंयसून तेळ्ळो कोण जाणा, भर्र भर्र करून त्यो एका फाटल्यान एक उडत उडत विट्टयान गेल्यो. पारये रूख अर्दो फळांनी झडिल्लो. थोडी फळां पिकची आसली तरी थोडी पिकील्ली. हांव पोंदान भोवतालों, इतल्यान पानां आडसाक आसली शिब्री कोगळी उडून गेली. म्हाका पिकसांव जालें. पयली पळयल्यार तिका मारपाचो. खंय लिपून आसली कोण जाणा ? रानटी जीव बरेच चतूर आसतात आपली राखण करूंक तांका सांगचे लागना. खावड खंय मेळटली हे तांका खबर आसता. ते उपाशी पडनात, ते एकचारान रावतात देखून आपली राखण ब.या तरेन करूंक शकतात. उडटना, धांवतना ते आवाज करून आपल्या वांगड्यांक शिटकायतात. मनशाक दिसल्यार तें लागी रावनात. मनीस आपलो दुस्मान हें तांका कशे कळटा कोण जाणा ? हे खातीर कासादोर हो सावधा परस शिटूक, आंगान बारीक, कानानी बरो, नदरेन तीक्ष्ण, तर काळजान निबर, तशेंच वेळाचें भान आशील्लो जाय आसता.

'सशाच्या' कासाक वतना वाघाची मुस्तायकी जाय हीं पायचीं उतरां म्हाका यादेली. कासाक वतकच कसलो प्रसंग येता हे सांगूक नजो. आपणे त्या प्रसंगाक तोंड दिवपाची तयारी दवरची पडटा. गर्बगळीत जावंक फावना. अशा

विचारान आसतना दोन कुंटुबे येवन पारये रूखार बसले. कुटुंबे हांव खायना म्हणतकच मारून फायदो नासलो. जे जीव खायना तांका मारप ना. मारलेच जाल्यार ते उपद्रवी आसूंक जाय आता तर कुटुंबे म्हाका पळवन उडून वतले अशें समजून लागसर आशिल्ल्या कुंब्याच्या झाडाचो आडोस घेवन लिपून बसलों. पांचवे चार कुटुंबे पाचव्या पानाच्या पारये रूखार दिसप बरेच कठिण. नदर तायट दवरून परत परत तांचे कडेन पळयतालो तरी दिसप कठिण जातालें. आता ते फळां खावंक लागिल्ल्यान थंची पानां हालिल्ल्यान तें थंयच आसतले हाची खात्री जातालो. तें म्हजे विरूद्ध दिकेक आशिल्या ताळ्यांचेर फळां खाताले. कितले शिटूक मर्दीच खावपाचे रावताले, कोण येना हाची खात्री करून परत फळां खाताले. इतल्यान बारीक शेवणी येवन बसली. हांव तांची मजा पळयत आसलो. गोरवांचे म्हाका भान नासले. पाया पोंदाक मुयो आसल्यो तो जागो सोडलो आनि मात्सो फुडे वचून बसलो. वयर झाडान माटव घाल्ल्यान हांव तांका कोणाक दिष्टी पड नासलो. इतल्यान एक शील्ली म्ह यानसून गेली. सुर्य बरोच वयर आयिल्ल्यान पानां वेल्यान जमनीर दंव झडतालो. वारो आतांच सुटिल्ल्यान तो दंव रोकडोच पडटालो. म्हज्या आंगार दोन थेंबे पडतकच म्हाका शीं खाल्ल्यासारखें जालें.

बसून बसून वाज येता म्हणून हांवे वच्चे थारायलें. इतल्यान एक काळी कोगळी येवन बसली. म्हणसर सात आठ कोगळ्यो आयल्यो. म्हाका दिसलें फळांची याद जातकच त्यो खांवक आयल्यो आसतल्यो. पयल्याच फाराक शोक्रूं मारून हांवे बोंडी बरी केल्ली. कोगळी मारतलो अशें म्हाका मनानसून दीस. इतल्यान एक शिब्रि कोगळी पारये रूखाच्या म्हज्या वटेन आशिल्ल्या खांद्यार बसून हेवटेन तेवटेन पळोवंक लागली. म्हाका तिणे तेळ्ळो आसतलो. हांव हळू झाडाच्या आडसाक रावलो आनी बंदुकेची चाप वयर काडली. बंदूक खांद्याक घट लायली. म्हजे हात पाय थरथरूं लागले. पयल्या फाराचो भय वचूं नासलो देखून हात पाय थरथरताले. नेम धरलो घोड्याक बोट घालें, एक दोळो धांपलो आतां बंदुकेचो फुडलो मुद्रो, कोगळी आनि फाटलो मुद्रो एका वळीन आयिल्ली. उसवास कोडलों, बंदूक स्थिर आसली. बोट ओडटलो इतल्यान कोगळी वेल्या खांद्यार बसली. थंय नेम धरता मेरेन ती फुडल्या खांद्यार, पानान दिसना जाली.

हांव जोखतां मेरेन कोगळी एका जाग्यार रावनासली. शोक्रूं स्थिर एकाच जाग्यार आसलें देखून ताचेर तीर धरूंक म्हाका बरें जाल्लें. एक काळी कोगळी बरीच फुडे आसली बंदूक खांदाक लावन हांवे तिका लागी करचे खातीर एक पावल फुडें घालें, ते पत्र्याचेर पडून चर्र् असो आवाज जातनाच भुर्र करून कोगळ्यो उडून गेल्यो. बरो वेळ तांची वाट पळयत रावलों तरी तांचो पत्तो नासलो. भोंणसां मात कें कें करून येवन बसली. तांची ती बोट भर हळदुवी चोंच, काळो धवो रंग बक्यासारखो आकार पळोवन सैमाची विद्रुप निर्मणी अशे दिसलें. सुर्य माथ्यार पाविल्लो तरी पोती रीकामीच आसली. गोरवांची याद जाली तसो हांव ताचो मांग काडित वचूंक लागलो. वाटेर कितेंय दिसल्यार मारतलो अशें थारायलें, तरी कांयच मेळळे ना. बंदूक खांद्याक आसतकच वाट चलूंक उमेद येता कास मेळूं वा ना मेळूं. बंदूक नाशिल्ली तेन्ना कितलेशेच फावट कोंबे म्हाका दिसल्यात पूण आज एक लेगीत दिसनासलो. वंडगाळीचे झरीचे उदक पिवंक ते येताले. म्हाका याद जाली ती त्या गेल्या माया म्हयन्याची.

असोच दनपारचो वेळ, मायाचो म्हयनो गोरवां झरीचे उदक पितकच शेतांतल्या वडापोंदाक गोठेल्ली. हांव झरीचे उदक पियेवन फातरार बसलों. झरीकडेन उदकाची थंडाय आशिल्ल्यान बरें दीस. झर तशी व्हडलीशी व्हांव नासली तरी झर फुडता थंय हातभर उदक आसले, तितलेंच. गोरवां उदक पितकच थोडें कमी जाल्लें तरी वर भरान परत फोंडकूल भरतालें. वैल्यावटेन थोडी बोणक आसली तरी सकयल्या वटेन जिन्याची झोपां दिष्टी पड. फुडे शेत लागतालें. जिन्याचे सुके पान काडून हांवे बलसान आसलो तंबाखू घालून विडी बांधली. फस्क पेटोवन विडी ओडटलों इतल्यान बोणकी कडल्या दिकेन सरांव जावंक लागलो. हावें विडी, फस्क सकयल दवरलें आनी हातान तोणो घेतलो. कोणी जांव पयलीं आपली राखण करूंक जाय. सरांव लागी लागी येतालो. सरांव व्हड जनांवराचो न्हंय हें ताच्या आवाजावेल्यान कळटालें. बरें बाग घेवन पळयल्यार तो जीव धांवतलो हाची ध्यास्ती म्हाका आसली. बोणकी कडसून फुडे येतना म्हाका एक रानटी कोंबो दिष्टी पडलो. फाटल्यानसून दुसरो कोंबो ताचेर चोंच मारतालो. तो दुसरो परत ताचेर चोंच मारतालो. दोघी जाण परत परत जमनीर पडतालें. परत उभे रावन झगडताले. सामके जाम जाल्लें. ते त्या

फोंडकुलाच्या दिकेन वताले जावये. झगडून झगडून तांका तान लागिल्ली जावये. हांव हळूच फातरा आडसाक रावलों. ते उदक पिवुंदी अशें हावें थारायले. ते दोघी जाण सामकेच जाम जाल्ले. एकमेकांक चोची मारील्ल्यान रक्त व्हांवतालें. दोघीजाण सारखेच आशिल्ल्यान तांचे झगडें बरेच जाल्लें. आपली हार मानूक तांतलो एकटोय तयार नासलो. हांव तांची ती मजा पळयत रावलो. ते फोंडकुलान देवन उदक पियेले. म्हणसर तोणो घेवन हांव तांचे म्ह याान फोंडकुलान वयर पावलो. उदक पितकच ते दोघी जाण फोंडकुलानसून वयर सरतना हांवे एकाच तोण्यान दोघी जाणाक मारले. ती एक संध म्हाका जीणेन पयलेच फावट चुकून मेळिल्ली. दोघांचे झुंझ आनि तिस याचो फायदो जाल्लो. आज तशीच एक संध येता काय ह्या विचारान आसतना घ्स घ्स असो आवाज जालो. हांव शादूर जालों म्हणसर एका पायान कुटत कुटत एक दुकर येवन त्या फोंडकुलान गोठेलो. हांवे बंदूक जोखली तरी म्हज्या लक्षान आयलें, फार मुळसावांचो आसा ताणे कोगळी वा शोक्रूं मरत तरी दुकराच्या कातीक ते मुळसांव तोपचे नात, शिवाय फारान दारू कमी आसली. बंदुक जोखून परत हांवे सकयल धरली. दुकर बिनधास्त त्या फोंडकुलान लोळतालो. बरे मुळसावांचो फार मारून तो जख्मी जालो तर आंगार धावन येत तर म्हाका सोडचो नासलो. दुकराक फार मारून वडवपाचो. जख्मी करून दवरल्यार ताचे इतलो भिरांकुळ प्राणी आसना. केलमेंतिचो पाय कर्नाटकान मल्लापुरा वतालो. दोन महीने गिमान रावन काम करून मिर्गार पैशे घेवन येतालो. पावसाळो ताच्या तकलेर पेज नासताना वतालो. ताणे म्हाका दोन वर्सा फांटी सांगिल्ली एक गजाल यादेली. केलमेंतिचो पाय पीटर मल्लापुरा भटागेर कामाक गेल्लो. दिसभर कुळागरांन खणपाचे, माती भरपाचे, आडे बांधपाचे असली कामां. पयले दिस कवाते रोयले तर दुसरे दिसा दुकरान खाले. भटान तें सकाळीं पळयले. ताका दुकराचो राग आयलो. रातचो पीटर जेवण करून जेवन रोकडोच न्हीदलो. णवांक सुमार भटान ताका उठयलो. पळय तर भट बंदूक घेवन उभो आसा. भटान बरोबर यो म्हणना फुडे पीटर ताचे बरोबर कुळागरान गेलो. कवाथे पुरील्ले त्या एका नेमान ते दोघीजाण बसले. पिटराक न्हीद येताली, तो केन्ना न्हिदलो तो तें ताका कळ्ळेंना. 'ठो' असो आवाज जातकच तो उठलो तर भट थंय नासलो. दुकर पडून धडपडतालो. पीटरान ताका पळय तर तो रेड्या एदो





आसलो. खिणभर ताका दिसलें भटान दुकर समजून रेड्यार फार मारूं ना मूं ? तो उभो रावतकच ताका शिंगा दिसुना म्हणतकच तो दुकर हे कळळें. तो तसोच लंगडत लंगडत तीन पायानीं कुळारानसून वयर रानान गेलो. थोडयावेळान भट बंदुकेन फार भरून यो तर दुकर नासलो. पिटराक शेळो घाम सटील्लो. जर तर तो दुकर ताचेर धांवन येता तर नेमानसून वयर येवंक लेगित ताका मेळचे नासले. दुसरे दीस एक राखणो गोरवांक घेवन रानान गेल्ले कडेन दुकरान ताका पिसडून पिसडून, वेत वेत, कुडके करून वडयिल्लो. राखणो जेन्ना सकाळी गेल्लो तिळसान मेरेन येवुंना तेन्ना ते भटा म्ह यान आयले. भटान घुलो घेवन वडयल्यो आनी थोड्यो काडून म्हळें तो राखणो जीतो ना. ताका भविष्य कळटालें जावये. तिसरे दिसा भटान कारतोशिची बंदूक हाडून रूखार चडलो आनी दुकराचेर अकरा फार मारून त्या मनशा सारखो ताका फारांनी पिंजून वडयलो. भट रागान तांबडो जाल्लो. मांस कोणेच खालेंना. नेमान हाडून दुकराचे सगलें मांस त्या नेमान घालून नेम पुरवयलें. पिटरान वचून पळय तर राखणो वळखूंक मेळ नासलो. सांगाडो आसलो आनि जळामळाक मासाचे कुडके पडिल्ले ते एकठांय करून ताका अग्नी दिलो. जखमी जाल्लो दुकर नाका, जखमी वाघ परवडलो.

हे घडणुकेची याद जातनाच मजी तंद्री भंगली तर फोंडकुलातलें उदक लोळून लोळून दुकरान खदळ केल्लें. इतल्यान रानातलो शिपाय (शेवणें) रडलो, ते सरशीं दुकर केन्ना उठलो आनी धांवलो तें कळळेंच ना. सपनान आशिल्ल्या सारखो हांव जागो जालों. बंदूक घेवन शेतान यो तर गोरवां चरतालीं. शिपाय व्हडा व्हडान चित्कार घालून उडटालो. घार बरीच सकयल्यान घिट्टयो घेताली. बिमोतरी शेतान आडव्यो तिडव्यो विमाना सारख्यो फिरताल्यो. शेतातले दोन टोळ म्हज्या आंगार उडून बसले हात लायतकच गेले. किरकिरो पैस सुक्या बडयेर बसून किर्तें सोदतालो देव जाणा. कावळो आपली चोंच आपुणच बशिल्ल्या बडयेक घसटितालो. वडांची फळां फट् फट् असो आवाज करून पत्र्यार उडी घेतालीं. वंडगाळी पांचवो चरव आशिल्ल्यान गोरवां खोशेन शेपडी हालयत चरताली. मर्दी मर्दी नाकपुड्यान व्हडान उसवास सोडटालीं. तांची खोशी ती हालतल्या मानेवेल्यान आनी शेपटेवेल्यान स्पष्ट कळटाली. साळो यो गोरवांर येवन बसताल्यो, शेपटी मारतकच वा आंग हालयतकच टूक टूक करून हुडून वताल्यो

तरी निर्लजा सारख्यो परत येवन बसताल्यो. कावळयांची जाग जरी नासली तरी एक धवो बगळो पैस चिखलान एका पायार उबो रावन ख्यास्त भोगतालो.

वाऱ्याचे ल्हार तशे येना आसलें, आयलें तरी झाडांची पानां हालोवन वतालें. लाकडां वजे घेवन कोण तरी वाटेन वतालो. गोरवांक वाटेन आमडून हांव ताकतिकेन लाडुतळयान आयलो. पैसुल्यान पारयेरूखार पळय तर कोगळ्यो उडटाल्यो. पत्र्याचो आवाज करीनासतना तशेंच रूखाचो आडोस घेत लागीं करूंक सोदतालों. इतल्यान गाय हांबेली तरी कोगळ्यो हुडून वचुना. कुंब्याचो रूख म्हाका म्हजे आंग लिपोवंक बरे पडलो. कोगळ्यो फळां खातना ताळे हालताले. बंदूक वयर काडून चाप ओडीर दवरलो आनी उजव्या हाताचें बोट घोड्यार दवरलें. तीर काडूंक लागलों तर मनान दुबाव येवंक लागलो कोगळी पडत काय वचत? शेवटाक कितें जाता तें जावं अशे थारायलें बंदूक एका झाडाच्या केलक्यार दवरली. म्हजे हात पांय मात्शे थरथरताले ते खातीर बंदूक हालताली. आतां ती थीर आसली. कोगळेर तीर धरलो तर थंय ती आसा कांय ना हो दुबाव येतकच हावे दोनय दोळयांनी पळयली. म्हणसर ती फुडल्या खांद्यार गेल्ली. एक एक कोगळी आतां विरूद्ध दिकेन वताली. म्हजी संध हुकतली हाचो म्हाका हुस्को जालो. एक दोळो धापुन उसवास कोडूंन जाता तें जांव अशें चितून घोडो ओडलो. फार फ्ट ठो असो जाल्ल्यान फ्ट जातनाच कोगळी पैस गेली आनिक मागीर थंय फार गेलो. फार गेलो तशेच कोगळी गेली. वेळ गेलो हाचें म्हाका पिकसांव जालें. आतां किटुरां मात आसलीं, कुटुंबे लेगीत हुडून गेल्ले.

हावें परतो फार भरलो. सुर्य धारेक वचूंक थोडो वेळ आसलो. लाडु तळयान वत पड नासलें तरी थेडो उजवाड आसलो. आंयडो घोटत हांव कोगळेची वाट पळयतालो. पाल चुकचुकली. रातकिड निकतीच रडूंक लागील्ली. गोरवां गोठयान पावतलीं असो तर्क हावें केलो. गाबत्यान होडयेन रावन जाळ दर्यान वडवन नुस्त्याक तातून बंध करचे तशे मळबानसून कांबळ घालून सगलें रान आपल्या ताब्यान रात घेवंक पळयताली. पोतयेन कांयच पडुना हाची खंत म्हाका जाताली. पांय मुयेताले. पारये रूखाक पळोवन पळोवन दोळे मोडून येताले. वाऱ्यान पाना हालील्ल्यान पारये रूखार कोगळ्यो बसून तो हालता, काय वाऱ्यान हालता हे कळूंक मार्ग नासलो. लागीं गेल्यार कोगळ्यो म्हाका पळोवन

येवच्योना हे वता इतलें खरें आसलें. केन्ना घरा वचून न्हातलोशें जाल्लें. शेवणीं घोटेरान वतना चींवकारतालीं. तर माकड वेल्यान घ्स करून दुसऱ्या झाडार उडी मारताले. म्हजी नदर थंय पडटनाच घस् करून पारये रूखार एक कोगळी येवन बसली. म्हाका बंदुकेचो फुडलो मुद्रो सारखो दिस नासलो, तरी आनिक वेळ गेल्यार कोगळी दिसची नासली. फार मारून सोडलो. सगल्या रानान ताचो आवाज खीणभर पातळ्ळो. कोगळेक कितें जाले तें कळेंच ना. ती वेल्या खांद्यार वचून बसली. बंदूक खांद्याक लावन हांवे घरची वाट धरली. पांया पोनची वाट आशिल्ल्यान काळखान लेगीत चलूंक कठीण नासलें. म्हजो फार फुकट गेल्लो.

घरान पावल घालतनाच रेकेलान म्हळें,

"पाय कितें मारलें ? दोन फार आयकल्ले एक सकाळीं, तर एक आमोरेचेर आता."

"फार मारले ते दोनय चुकले फुकट दारू मुळसांवाचो इबाड जालो."

रीत म्हणूक लागलें,

"पैर तुवें मेल्लें शोब्रूं भारलें दिसता. तुझो कास आमकां पादेशीर करतलो."

हावें मोन्यानी सगले आयकून घेतले.

दुसरे दिसा परत बंदूक धुवन सुकत घाली. येशाक सगली गजाल सांगली. तो म्हणूंक लागलो,

"अंतन दपटल्ल्या शोक्राक कोणय मारता, तरी धांवत्या शोक्राक, उडत्या कोगळेक, चरतल्या कवड्याक मारप भव कठीण त्या खातीर तुका पयलीं तालीम करची पडटली."

अशें म्हणून ताणे एक कात्याचे मोठें फळ हाडलें. म्हाका बंदुकेन तीर धर म्हणून सांगलो आनी ताणें ते फळ शेवटून जमनिवेल्यान मोखून मारलें. हांव जोखत रावलों. फार मारूंक सोदतालो म्हणसर फळ पयस पावलें. दोन फावट फळ वडयतकच हावें फार मारलो तरी फळाक लागुना. मागीर चौथे फावट बंदुकेन एकच गुळो घालून उसळत्या फळाक फार मारून दोन धेकलां केलीं, तेन्ना म्हाका येशान म्हळें,

"तूं व्हडलो कासादोर जातलो."

म्हजी उमेद मळबाक तेकली. बंदूक खांदाक लायतकच रान भोंवता तें

कळ नासलें. फार मारूंक मेळूं वा ना मेळूं तरी कासाची उमेत कमी जायना आसली. तान भूक लेगीत लागना आसली. पांय चलपाचे काम वाजेनासतना करताले. बंदूक खांदाक नासत तर लाकडां वतकच हांव रोकडोच जाम जातालों. मनशाची उमेद ही ताच्या शक्ती परस चड आसता देखून तो तांक पळयनासतना काम करता. कवडे शेतान चरतना कितलोय लिपून गेलो तरी त्या शीटूक कवड्यांक रोकडें कळटा. कोटंब्या रानाचे वटेन आशिल्ल्या रूमडी कडल्या कुणगेन कुकडां देवतालीं. तरी हांव थंय पावता मेरेन ती केन्ना वतात हें कळ नासलें. एक दिस लोळत गेलो तरी ती रावलींना. तीं सकाणीं तशेंच सांची येतालीं. गोरवांक सोडचे पयली हांव एक पासय मारून येतालो. एक दीस म्हजी सुलूस लागल्यार दोन दीस मेरेन ती शेतान चरूंक देवनासलीं. सांची आयल्यार येताली तरी चडशीं पोटाभुकेन सकाणचीं येतालींच. कुकडां परस आपणे शादुर जाल्या बगर तांका मारूंक जावचेंना हे म्हाका कळ्ळें. फातोडेर हातांन बंदूक घेवन हांव त्या कुणगेच्या लांगी बसलो. बरोच वेळ बसलो. परत परत त्या कुणगेन कुकडां देवल्यांत काय म्हणून पळयतालो. धा वरां जाली तरी कंकडां येवंक नात. बसून राविल्ल्यान ताणी म्हाका खंयसून पळयलो कोण जाणा ? हांव घरा आयलो गोरवांक सोडलीं आनी असोच वचून पळय तर कुकडां अकरांक चरतालीं. हावें बंदूक घरा दवरिल्ली. धावतच बंदूक घेवन वच तर कुकडां शेतांत नासलीं. शेतांत कुकड मारप म्हळ्यार विडी ओडपा इतलें सोपें न्हंय हे म्हाका कळ्ळें.

असोच दनपारचों गोरवां घेवन कारये मळार गेल्लों. कापिटल फाटल्यान चलतालो. तो धांवलो आनी फोंडयेत वचून भोकूंक लागलो. हांव धांवत गेलों पळय तर कापिटल तोंड वयर करून रूखार पळोवन भोंकतालो. हांवे सगलो रूख बारीक साणेन पळयलो तरी कांयच दिस ना जालें. कापिटल परत परत वयर पळवन भोंकतालो. म्हाका दुबाव गेलो. लागसर एक व्हडलो उबार फातर आसलो. ताचेर वयर चडून पळय तर रूखाच्या खांद्यार शोक्रूं पोट तेकोवन वोगी आसलें. खांदो रूंद आशिल्ल्यान तें पोंदानसून दिसनासलें. फातरा वेल्यान मात्शें दीस. पाषाणी फातर सामको सुळसुळीत. दोन पांय दवरूंक जायत इतलोच जागो. कापिटलाच्या जागीन ते सामकें खांद्याक चिकटून आसलें. तें

दपटल्यान केन्ना धांवत म्हणून सांगू नज आसलें. शोक्रूं पळयतकच ते केन्ना मारून पोतयेन वडयतलों अशें म्हाका जाल्लें. वतार ते कुकमा कोराचें चडच उजळ दिसतालें. बंदूक घेवन हांव फातरार चडलों. पोती जमनीर दवरली. चाप वयर काडून तीर धरलो, उजव्या हाताचे बोट घोड्यार दवरलें. इंच भर उबारेन शोक्राचो भाग दिसतालो. कापिटल पोंदान रावन जिबली चाटटालो. हांवे उसवास थोपोयलो, दावो दोळो धापलो. शोक्रूं मेल्यासारखें खांद्यार पडून आसलें. इतल्यान म्हज्या फाटल्यान स्‌र स्‌र स्‌र असो सरांव जावंक लागलो. तो सरांव कसलो, हें कळल्याशिवाय हांव फार कसो मारतलों ? एखाद्रे वाघ जाल्यार पयलीं फार ताचेर मारचो पडटलो असोच विचार मनान आयलो. झील हालताली तरी ती पोंदान म्हणतकच व्हडलें जनावर आसचे ना. जनावर वतना वयरसून झील हालता. हांवे बंदूक फिरयली. तसो फाटी पळोवंक लागलो. सरांव म्हज्या वटेनच येताले. कितेंय जांव हांवे बंदूक त्या वटेन धरली. तो सरांव आतां सुमार विशेक मिटराचेर येतालो, म्हजी उत्सुकताय तेंगशेक पाविल्ली. केन्ना हांव फार मारन अशे जाल्लें आनीक दोन मिटर फुडें येत तर फार मारूंक मेळटलो अशी हांवे एवजण मनानच करून दवरली. आतां सरांव मात्सो मात्सो मंद गतीन फुडें येतालो. हाचेवेल्यान म्हजी सुलूस ताका लागली आसतली. कितेय जांव फार मारून सोडतलो अशेंच हांवे थारायले. म्हजी नदर पाना आडसाक आशिल्ल्या शेकऱ्याचेर गेली. पांचव्या पानान तें तांबडे भील्ल शेकर बरेच उठून दिसता म्हणसर कापिटलान ताचेर झोपय घाली. कोंबो उडून गेलो म्हाका पिकासांव जाल्लें. हांवे मान घुंवडायली तर कापिटल पोंदचो वतकच शोक्रूं मेल्ल्यासारखे आशिल्लें तें धांवक लागलें. त्या म्हयच्या झाडावेल्यान किनळाच्या रूखार उडी मारतना हांवे बोट मारून सोडलें तशी बंदूक रिकामी जाली. धुकट खिणभर मळबान उबलो आनी हांव तोल वचून फातरावेल्यान सकयल पडलों. म्हाका तो लाडुतळयातलो शोक्राक मारील्लो दीस यादेलो. ते दिसा हांव पडतकच शोक्रूं पडिलें तर आज शोक्रूं खेक खेक करून शेपटी हालयत हळू हळू किनळाचेर गेल्लें. म्हज्यानी उठू नजो आसलें. कापिटल भोकतालो सगल्या आगांक पत्रो माती लागील्ली. ती फाफडून वडयली. पांय बरगल्लो. मात्शे रक्त पातेतालें. मनीस पडल्या बगर शिकना. हाचे फुडें फार मारतना पांया पोंदाक कितें आसा ते पळोवन मागीर फार मारपाचो, ना तर

म्हजोच कास जावपाचो हें कळळें. कोंबडो गेलो तो गेलो, फार फुकट वचून शोक्रूंय गेल्लें. जालें तें जालें आतां फुडें कितें जाता तें पळोवपाचें. मनिस त्रास काडल्या बगर शिकूंक पावना.

पोती काडली. बंदूक पळयली तर दस्त्याक वेर गेल्ली. नळयेन बोट घाल तर माट लागली. वेल्यान फूक घालून नळी निवळ केली. मागीर दारू घालून गजान गुड्डी घट्ट मारली. वेल्यान मुळसांव घालून परत गुड्डी ताचेर तेकयली. तुंबान दारू घालून केप लायलें. कुटत कुटत हांव वाटेर आयलो. कापिटल बरोच फुडे भोकतालो. मर्दी वाटेन वचूंक लागलो तर म्हजी नदर वाटे कुशीक आशील्ल्या वाली रूखार गेली. वाली रूखार वयर एक खांदो उबार गेल्लो. सुमार माड भर तो वयर आसलो त्या धव्या अर्जुना रूखार काळे किते तरी आसले. हावे बारीकसाणेन पळयलें तरी कळना जालें. सकयल वाली बळील्ल्यो. म्हाका कितें ते ध्यानान घेवंक जाय आसलें. हांव हळू वाटेन त्या रूखा पोंदासून दुसऱ्या दिकेन वचून पळय तर काळो वाघ रूखाच्या केलक्यान आपली तकली घालून सुस्त न्हीदला. म्हाका अजाप जालें. काळो वाघ रूखार इतल्या वयर चडलो कसो ? बरे त्या केलक्यार तोल सांबाळून न्हिदलो कसो ? काळो वाघ हो भिरांकूळ आसता हें खबर आसलें. वेल्यान लेगीत म्हजेर उडी मारल्यार हांव ताका ह्या फारान मारूंक शकचो नासलो. शोक्रूं फार मारील्लें गेल्लें थंय एदो व्हडलो वाघ कसो मारतलो ? म्हाका ताचो भंय दिसून हांव झापाझप पावलां वडयत वाटेन चलूंक लागलों तर कापिटलाचो आवाज फोंडयेन येतालो. त्या दिकेन हांव गेलों. वाटेर कांट्यावाली आसल्यो. त्यो पांयार ओडून रक्त व्हांवक लागलें. वाट भीतर वतकच सारखी नासली. बाग घेवन वच्चे पड. मर्दी वाट मेळनासली. कारंव दाट आशिल्ल्यान फुडे वचूंक जायना आसलें. न्हिदून पोट घसटीत वच्चे पडलें. शेवटाक फोंडयेन पाव तर एका करमला रूखापोंदाक रावन कापिटल वयर भोंकतालो. चारी वटेन हावें त्या रूखार पळयलें तरी शोक्रूं दिसना जालें. बारीकसाणेन पळय तर एक घोंटेर दिसतालो. त्या घोटेरान तें शोक्रूं गेलां आसतलें असो हावें तर्क केलो. कापिटल ओगीच भोकचोना हाची म्हाका खात्री आसली. हावें ताळयो मारल्यो, बोवाळ केलो, शिटयो मारल्यो तरी घोटेरानसून कोणच भायर येना. मागीर बंदूक सकयल दवरली आनी फातर मारूंक लागलो.

तरी तो घोटेर खुबच वयर आशिल्ल्यान म्हजे फातर ताचे म्ह ्यान पावना जाले. आतां किर्ते करचे ते कळना जालें.

लागसल्लो एक फातर घेवन हावें करमलाच्या खोडार मारलो. तरी घोंटेर तसोच आसलो कोणी आसल्यार हालपाचो. फातर एक सारखो रूखार मारत रावलों तेन्ना घोटेरान सून दोन सुकीं बारीक शिरपुटां पडलीं. तांचो घोटेर ल्हान ल्हान शिरपुटानी ताणींच केल्लो आसता. वा ्यान ती पडुना अशें म्हाका दिसलें तरी एखाद्रे चुल्न वा ्यान पडली आसतलीं अशेंय दीस. गोरवांचो आवाज, माग नासलो. तांचेकडेन वचूंक जाय आसलें. तरी शोक्रूं सोडूंक जिवार येतालें. सुर्य माथ्यार पाविल्लो. बंदुकेन फार आसलो,

"पाव तूं जेजू."

घोटेरान फार मारलो तर शोक्रूं आसल्यार पडतलें ना तर फार फुकट वतलो असो विचार केलो. तरी कापिटल वयर पळय राविल्ल्यान फार फुकट वच्चो ना हाची खात्री आसली. बरें घोटेराक मारतलो तर खंय म्हणून मारप हो ही प्रस्न आसलो. शोक्रार शेपटेर फार पडल्यार तें मेळचे ना धांवतले हे हांव जाणा आसलो. बरें पोंदानसून मारल्यार घोटेर खांद्यार आशिल्ल्यान सगलें मुळसांव खांद्याक लागून शोक्राक लागचे ना, हे ही कळटालें. आतां किर्ते जाता ते जावं अशे हांवे थारायलें. घोडका रूखार एक बरीच मोठी वाल वयर गेल्ली. पोती हांवे सकयल दवरली. बंदूक खांदाक लावन हांव त्या वालीर चडूंक लागलो. चार मीटर वयर वतकच घोडकाचो खांदो आड गेल्लो ताचेर बसलो. करमला वेलो घोटेर पळोवंक लागलो. खांद्यार रावन फार घोटेरान मारपाचो असो हांवे मनान बेत केल्लो. तरी वरां पयली हांव फातरावेल्यान पडिल्लो हाची याद पायानसून व्हांवता तें रक्त परत परत करून दितालें. बरें खांद्यावेल्यान फार मारून शोक्रूं पडपाचे सोडच तर हांवच पडत हाचो म्हाका भंय आसलो. इतलें करून शोक्रूं तातून आसत हें सांगू नजो आसलें. आतां वयर खांद्यार इतल्या कष्टानी चडिल्लोच आतां किर्ते जातां तें जावं दुबाव तरी मनातलो काडून वडवचो आनी घोटेरान किर्ते आसा तें पळोवचें अशें एवजून हांव खांद्याच्या मदीं रावलों, थंयसून वाल वयर रूखार गेल्ल्यान एका हातान तिका वेंगायली आनी घट्ट रावन घोटेराच्या मदीं तीर धरलो. खांद्याच्या वेल्या वाटेचो अदमास मेळटालो. मनान येवंक लागलें

तो वाघ वासान म्हज्या फाटी लागून वाली वेल्यान चडून येना मूं ? कितें जाता तें जावं खिणभर उसवास कोंडून धरलो आनी फार मारून सोडलो. म्हजो तोल वचूंक हावें वालीक मिठी मारली. बंदूक कशी बशी सांबाळून धरिल्ली, भुरगीं घसरगुंडी वेल्यान सर् करून सकल देंवतात तसो हांव देंवलो. शोक्रूं हळू घोटेरानसून भायर आयले. बंदूक पैस व्हरून भरून हाडली तरी शोक्रूं थंयच आसलें. तीर धरून फार मारलो. ते पडूंक येता म्हणसर ताणे कूस परतून तोल सांवरलो. फुडे तो खांदो सोपिल्लो. दुसऱ्या रूखार वचूंक मेळनासलें. वचपाचेंच तर फाटी परतून वचूंक जाय आसलें. म्हजो फार ताका लागिल्लो ना तर तें धांवपाचें. कापिटल ताका पळोवन भोकत आसलो. हावें परत ताचेर फार सोडलो. तरी तें तशेच. पोटानसून ताच्या रक्त गळूंक लागून पत्र्यार पडटालें. परत फार भरून परत एक फावट मारलो तरी तें थंयच. म्हजेकडेन आतां एकच फार बंदुकेन भरिल्लो आसलो आनीक दारू नासली. मुळसांव थोडे आसले तितलेच. थंयच बसून रावलो. हळू हळू तें परततालें आनी खांद्याच्या धडेर पावलें. पळय तर ताचें पोट फुटून आंतडी भायर आयिल्लीं. तीं आपल्या हातान तें भितर घलतालें तरी तें सकयल पडनासलें. हळू हळू तें परतलें आनी फुडले पाय ताचे खांद्याभायर पडले तरी फाटल्या पायाची नाकटां घट्ट धरून तें हुमकळतालें. किते करतलो ताका पळयत रावल्या बगर गत्यंतर नासले. थंयच बसून रावलों शोक्रान दोळे धापले. इतल्यान नेटान वारो सुटलो, वावटळ कशी. रूखाचो तो खांदो हाल्लो तशें शोक्रू द्व्ब् करून पडलें. कापिटलान ताका चांबडायलें. ताच्या कातीक ताचे दांत रोम नासले. शोक्रूं पोतयेन वडवन हावें घरची वाट धरली. कारयेमळ काडटकच एक तळी लागता थंयसून पडगें शेत हुपून हांव वजऱ्यार पावत आयलो. दावे वटेन वाट गेल्ली ती वंडगाळी. गोरवां वंडगाळी आसतलीं असो विचार म्हज्या मनान आयलो. काब्र्यान साद घालो. हांव काब्र्याच्या सादाक वळखतालों. दिसलें दुसऱ्या बैला बरोबर झगडी करता आसतलो. आतां बरीच देवणशी आसली. करड मदीं मदीं वाडिल्लें. दोन तेलकवडे भुर्र करून हुडून फुडे वाटे कुशीन बसले. हावें पोती सकयल दवरली. पांचवे कॉफी रंगाचे, पारव्या एदे ते तेलकवडे मान हालयत चरतालो. तांची ती तांबडी चोंच दोळयान भरताली. ते हळू हळू फुडे वताले तसों हांव वतालो.

कापिटल येत तर तो ताकां धांवडावन घालतलो हाची ध्यास्ती आसली. हावें फाटी पळय तर तो पोतयेचो वास घेतालो. तो येवचे पयलीं फार मारूंक जाय आसलो. पाया पोंदाक करड आशिल्लें. देवती बरीच आसली. कवडे तर फुडे फुडे देवणशेचेर वताले. बंदुकेचे वळिन फुडे येतकच हावें फार मारलो मात, हांव दोन लांगो मारून सामको व्हळतेन पडलो. बंदूक एकीकडेन वाटे कुशीक पडील्ली तर एक कवडो थंय पडून फाकां हालयतालो. म्हज्यानीं उठूंक जायना आसलें, तशेंच उसवास घेतना त्रास जातालो. जाता नजो करून हांव उबो राव तर वज याच्या रानानसुन थेरयाचे पेडावण चाका सारखे माथोटेवेल्यान येवन व्हळतेन पडलें. पांच मीटराचेर तो आसलो. फाराच्या आवाजान थेरयान वेटोळे चक्रा सारखे केला आसतले आनी तो व्हळतेन मीनटां भीतर जीव वाटावंक आयला आसतलो. शोक्रूं पोतयेन, कवडो वाटेर तर थेरयो व्हळतेन म्हजी वाट पळयताले. म्हज्यानी पावल फुडें वडोवक जायना आसलें. व्हळतेन थोडे उदक सांठून आसले ते तोंडार लायतकच हुषारी आयली. आतां पयलीं थेरयाक धरपाचो अशे येवजून थंय यो तर थेरयो घोलान वतालो. हात घाल मेरेन तो भितर गेलो मागीर हांवे कवडो घेतलो आनी पोतये म्ह याान यो तर पोती नासली.

''कापिटल येव घे''

अशे म्हणतकच तो धांवत आयलो. ताणे ती खंय तरी व्हेली आसतली. हांव थंयच बसून रावलो. कापिटल परत हळू हळू झोपांनी वचूंक लागतकच ताचे फाटल्यान हांव गेलों तर ताणे पोती झाडापोंदाक व्हरून शोक्रूं भायर काडून चाबडायील्लें. हावें धेंगसो घालतकच तो थंयच बारीक दोळे करून बसलो. शोक्रूं पोतयेन घालून हांव बेगी बेगी कवड्या म्ह याान येवन तो भितर घालो. ह्या बोवाळान दारवेची बाटली आनी मुळसांवाचो डबो खंय तरी पडलो.

पिशवेक बुराक जाल्लो तातुनसून कवडो पडचोना हाची हांव जतनाय घेतालो. आडवाटेन रिकामो बंदूक, पोती घेवन खोशेन तरी म्हात्सो त्रासान वंडगाळी पावलों. सुर्य बरोच सकयल देंविल्लो. रूखाच्या सांवळयानी शेत धांपिल्ले. रानाचो शिपाय किवंक् किवंक् करत किळांच मारून गेलो. वंडगाळ गंभीर तशीच शांत जायत आसली. बर्के वयर झाडार बशिल्लें. गोरवां नासली म्हणतकच ती भाण्णात गेली आसतलीं. जड पावलांनी भाण्णाची वाट चलतालों.

आंग बरेंच दुखताले तरी जयत मेळिल्ल्यान ताचे व्हडलेशे दीस नासलें. पोती बरीच जड लागताली. लाडुतळयान पावतकच पयलीं पारये रूखार कोगळ्यो आसात तर पळयल्यो. कोगळ्यो सोड किटुरां लेगीत नासलीं. झाडा पोंदाक दोळे ताणून पळवन पांय घालचो पड. बंदूक खांदाक लायील्ल्यान थंय खांद चुरचुरतालो. विडी ओडपाची तल्लप घरा वचून भागावप, नातर आनीक वेळ जातलो आसलो. वाटे वेल्यान घुडूक करून कितें तरी उडी मारून धांवले. दिसलें चड करून पिसय जातली. कित्याक तर ती दिष्टी पडूना. पिसय धांवतना आवाज येता तरी ती इतली नेटान धांवता की दिष्टी पडप कठीण. सोसो जाल्यार आवाज येतकच पळयल्यार दिसता, एखाद्रे ताच्या काना वेल्यान तो रोखडोच दिसता आसतलो. ते कितें ते पळोवंक म्हाका वेळ नासलो. धुल्लाचो कोर बुंडर्तेतिवटेन मळबाक सारयील्लो. बांगडे चड पडतले, गाबीत खोशी जातले अशें मनान आयलें. गोठयाकडेन पल्ली धुकटेलताली. रीत गोरवांक बांधून येताले.

''पाय पोतयेन किते हाडलां?''

''चय गा.''

अशें म्हणत ताचेकडेन पोती दिली. शोक्रुं आनि कवडो पळोवन तें खुश जालें. च्या घेतकच शोक्रुं सोडवंक बसलो. कवड्याची पाखां रोकडीच काडून जातलीं. शोक्राचे मास करप कष्टाचे, तशेच किटकिटीचे काम. रेकेलाक कवड्याची पाखां काड म्हणून सांगलें. रीत म्हणूक लागलें,

''आंग खंय बरगलें ?''

''कारये मळार.''

''बरें न्हावन घे, तेल लायता.''

वर भर लागून हावें मांस बारीक केलें. रितान कांदो तळसून तें घालें. फाल्या ताचें मटण करपाचें थारायलें. बंदुकेची नळी धुवन रान्नी म्ह ग्यान सुकत दवरली. तेल लायतकच मेल्ल्यासारखी न्हीद पडली.

सात आठ दिसांनी हावें दोन भोरे माजाळे व्हरून दिवन दारू, मुळसांव तशेच फोडां म्हळ्यार चण्या आकाराचे मुळसांव हाडले. पावस काडून ओडून पडटालो. शेत पयलीं धनयाले रोवन दितकच हांव म्हजे शेत रोवंक मेकळों. सुर्य उदेवचे पयलीं जोत येशाक शेतान व्हंरूक जाय आसलें. बैलांक तोच खावड

दितालो. वेळ जाल्यार विचारल्या बगर राव नासलो. तरी दनपारचीं बारां जातकच जोत सोडूंक सांगतालो. च्या, खावंक मदीं दितालो. विडयेक ओंसभर तंबाखू पैलींच काडून दितालो. जोत हांवच फुडे धरून तो म्हज्या फाटल्यान आपलें जोत घेवन येतालो. जोताचे पैशे जरी दिलेना तरी मदीं उसने तांदूळ, नाल्ल मागल्यार ना म्हण नासलो. कोटंबो तोच रोयतालो, कित्याक तर पावस पंधरा दीस गेलो तरी उदक झरीचे मेळटालें. तरी कोटंब्याचे शेत पैस पडिल्ल्यान माकड, कवडे, दुकर असलें सावद खुबच बादतालें. रेकेलाक तो दिसान नदर दवरूंक सांगतालो. जमीन कोसून जातकच दातो घालो आनी रोव मारील्लो. त्या राती एका दुकरान येवन त्या शेतान गोठण मारून आडवो उदारो लोळून एका कुणगेंची सामकी वाट लावन वडयिल्ली. येशान म्हाका तें दाखयलें आनी परत दातो ओडून रोवंक सांगलें. त्या राती परत दुकरान गोठण मारली. येसो म्हणूक लागलो,

''अंतन बंदूक आसून कसलो फायदो ? पयलीं बंदूक नासतना असलो अच्छेव दुकरान करूं नासलो, पळय मारूंक मेळटा तर''.

ते राती बेगीन जेवलों. बंदुकेन फार भरून पांच फोडां घालीं. शोक्रां मारली तसोच दुकर मारपाचो. शोक्रां तरी ल्हान तीर काडूंक कठीण, दुकर आंगान मोठो आसता. भायर आंगणान यो तर काळखी बरीच आसली. चान्ने चार वरांनी सुमार येतले, असो अदमास आसलो. न्हिदल्यार न्हिदून पडटलो अशे येवजून विडी ओडूंक लागलों. कापिटलाक दोरयेक बांधलो, ना तर तो फाटल्यान येत तर दुकराक धांवडायतलो. बरोच वेळ आंगणान बसून चान्न्याची वाट पळयत रावलों. चंद्र उदेलो, तशें ते मात्शे दिसूंक लागलें. हळू हळू पावलां वडयत खुटी देवीकडसून तेळूंक लागलो. दुकर हे तशे हुशार, शादुर, भीत्रे, रागीट आसतात हें म्हाका पायन सांगिल्ले. फुडे कोटंब्याक नदर पडटाली. दुकर येवन लोळतकच वचपाचें अशें थारायले आनी थंयच बसलो. जांभयो येवंक लागल्यो. दुकराचो पत्तो नासलो. आतां येतलो, आतां येतलो अशें दीस. रानान फ्ट फ्ट अशी पिकीं फळां झडतकच आवाज येता तो दुकराचो कसो दिसलो. तरी ब ऱ्या वेळान कळे तो फळांचो म्हणून. लागसर हुंदीर लेगीत सरसरल्यार दुकराचो भास जातालो. वार्गोळी म्ह ऱ्यानसून उडतालीं, तेन्ना तांच्या फांखाचो आवाज येवन दुकर आयलाच कसो दीस. बरें त्या आवाजान दुकर आयिल्लो आवाज वळखूंक जायना इतलो

नेटान तांचो आवाज जातालो. रानान घ्स करून खांदो मोडिल्ल्याचो आवाज जालो तरी मागीर कसलोच आवाज नासलो. दिसलें एखाद्रे सुको रूखाचो खांदो मोडून पडलो जायत. पावस भरूक लागिल्लो. हावें आसरण्याक कांयच व्हंरूक नासलें तरी तो शेनतकच लेगीत भिजचे पयलीं घरा धांवल्यार पावतलो हाची खात्री आसली. बरे हांव भिजलो म्हणून बिघडचे नासले तरी बंदूक भिजल्यार फार कसो पेटटलो ? लागसर एक रोयण आसली, तातुनसून सोरोप येना मूं ? बरें आयल्यार त्या हळदुव्या चान्न्यान दिष्टी पडप कठिण आसलें. दिसान सगलें सारखे स्पष्ट दिसता तरी रातचें अदमासान ठरवंचे पडता. दोळे परत परत ताणून हांव त्या कुणगेन पळयतालों. रात सोपून सोप नासली. शीक्याचो कुत्रो भोकतालो तो कानार मारतालो. घुघुम पैस देवशे तळयेक रात जागयतालो. बोवुल पक्षी नीर्शेणेचो आवाज काडटालें. खूब वेळ काळखान पळयकग मागिर माजरा सारखें सगलें दिष्टी पडटा हे हांव अणभवतालों. बंदूक हातान धरल्यार सट् करून पडत आनी फार पेटत म्हणून सकयल दवरली. पाय मोडून येतकच हळूच हांव लागसल्ल्या फातरार वचून बसलो. रात सोप नासली दुकर तर दिष्टी पड नासलो. एखाद्रे वाघ रानानसून येना मूं ? असो दुबाव मन उक्तायतालें. वाघ आयलो तरी फार आसा अशी मनाची समजूत काडटालों. न्हीद येना आसली तरी दुकर येना म्हणून वाज येतालो. दोळे तायट दवरून हांव परत परत थंय पळयतालो. इतल्यान घस् घस् आवाज करून रूमडी पोंदानसून कितेंतरी येतना दिसलें. काळसो दिसतनाच हावं बंदूक घेवन व्हाळानसून ती कुणगी लागीं करूंक लागलो. केन्ना फार मारतलों अशें म्हाका जालें. व्हाळानसून वतना धोपरभर उदकानसून वच्चे पडलें तरी हांव गेलो. आड्या म्हयान पावतकच बंदूक फुडे करून तकली वयर काडून शेतान पळोवंक लागलों. वीशेक मिटरांचेर तो लोळटालो. हावें बंदूक खांदाक लायली तीर धरलो घोड्याचेर बोट दवरलें. तरी मनान आयलें इतले पैस फोडां लागचीना मात्सो लांगी येतकच फार मारल्यार बरो. संध बरी आयिल्ली तरी पैस रावन फार मारल्यार दुकर फार घेवन वचपाचो भंय. हांव आसा हें ताका खबर नासलें म्हणतकच तो लोळत लोळत आड्या कडेन येतकच फार मारल्यार पडटलोच हें हांव एवजितालो. तो थंयच लोळटालो. हांव बारीक साणेन तो कितें करता तें पळयतालों. तो हळूच उठून मेर खणूंक लागलो. दुकर सोंडयेन

मेर खणता तरी हो माथ्यान खणटालो. मातयेचे धिपळे वडयतालो. म्हाका अजाप जालें. इतल्यान ताचे माथ्यार धवसो चांद कसो दिसलो. ताका सुलूस लागून तो वयर मान काडून पळयतना म्हाका शिंगा दिसलीं. रोकडीच हावें बंदूक फाटी घेतली. चाप तुंबार दवरलो. म्हाका याद जाली शिक्याच्या रेड्याक चांद आसला तो.

''खंय तो तो.''

म्हणना फुडे तो म्हज्या उतराक वळखून धांवलो. व्हडल्या संकष्टानसून वाटावलों. हाचें समाधान जालें. हात पांयाक थरथरो भरिल्लो. आतां म्हाका दुकर लेगीत नाका जाल्लो. मनान म्हळें,

''जेजुनच आज पातकातलो वाटयलो.''

बोट ओडल्यार अनर्थ जावपाचो. जीणभर खत उरपाचे.

दीस जावंक तीन वरां आसत. चान्ने मात्शे पडिल्लें. सगले शेत दिसतालें. झाडानसून धुकट सुट्टील्लो. शेता भायर नदर मार तर धुकटा शिवाय कांयच दिसनासलें. तो झाडांचो उसवास हें म्हाका खबर आसलें. हावं व्हाळानसून वयर आड्यार चडून येवचें थारायलें इतल्यान 'हुंक' असो दुकराचो वयर माथोटेर आवाज जालो. आतां तो दुकर हांगा लोळूंक येतलोच अशें म्हाका दिसलें. घस् घस् जातालें वोंवळी वयर चाराचो रूख आसलो. माया म्हयन्यान ताका चारां जा[illegible]न झडील्ली. पोंदाक पडून ती सुकील्लीं. पावस व्हडलो पडू नाशिल्यान तीं [illegible]वर पडून आसलीं. कुटूम कुटूम करून चाराच्यो बियो फोडून गर खातालो [illegible]ये. आवाज बरोच व्हडान येतालो. चाराची बी फोडूंक हातोडी मारची पडटा [illegible]गा हो दातानी फोडटालो. चारा भितरलो गर खुबच सुवादिक आसता ही गजाल [illegible]री. तो चारा रूख नासलो जाल्यार तो रोकडोच शेतान येवपाचो. रेड्याक हांव आतां विसरिल्लों. तरी दुकर सारखो पळयल्या बगर मारचोना अशें हावें चितिल्लें. ''कुटूम'' ''कुटूम'' असो आवाज परत परत येतालो, हाचे वेल्यान तो दुकर थंय आसा हें सिद्ध जातालें. म्हजी न्हीद आतां सामकी गेल्ली. उबो रावन फाटी कोणो मोडून आयील्लो. बारीक पावस शेनूंक लागलो. तूंब हावें वयर पान दवरून धापलो ना तर केप शेळेल्यार फार पेटचो नासलो.

झीळमीळ जायत आयिल्लें. कुटूम कुटूम आवाज बंद [illegible]

पऱ्याचो आवाज म्हजे वटेन येतालो. दुकर आतां वोंवळी कडसून खारजान पाविल्लो. खारजांतले उदक पिवन तो हेवटेन तेवटेन तेळून आपल्या मनातलो दुबाव काडून उडी मारत शेतांत आयलो. शेतांत चिखल आशिल्ल्यान तो तातूंत गोटेलो. हावें ताका शिगांना हाची खात्री केली. ताची शेपटी पळयली तर ती वेतभर आसली. तोंड खुबच लांबट, तशे ताचे कान दिष्टी पडले, हाचे वेल्यान तो दुकरच. चिखलाना लोळतकच सामको हळदुवो जालो. झीळमीळा वेळार तो स्पष्ट दिसूंक लागलो. लोळटना तो सट करून उबो रावलो हाचे वेल्यान म्हजी ताका सुलूस लागली जातली असो दुबाव म्हाका गेलो. हावें बंदूक पयलींच ताचे वटेन धरिल्ली. तीर धरून चाप वयर काडील्लोच. "पाव जेजु" म्हणत घोडो ओडून सोडलो. तसो तो चड पैस नासल्लो, स मीटराचेर सुमार आसतलो. आतां सगलें स्पष्ट दिसतालें. फार मारतकच तो परतून सकयल पडलो. म्हाका दिसलें तो मेलो म्हणून. हावें बंदूक आडयार वडवन शेतान उडी मारून म्हऱ्यान गेलों. म्हणसर हालत आसलो दुकर हुंक करीत उबो जालो. आतां तो म्हाका मारल्या बगर रावचोना अशें येवजून हावें ताचो फाटलो उजवो पांय दोनी हातांनी घट
धरलो. दुकर तसो बरो आसलो तो म्हाका तोंड आं करून खावंक येवंक लागलो. तो घुंवता तसो हांव घुवंक लागलो. हावें व्हडान म्हळें,

"रीता कुराड हाड."

म्हजो उलो रीताक आयकूं वा ना आयकूं हावें ताका उलो मारील्लो. तें सकाळी हरशे उठून कोटब्यांक उदक व्हरूंक येताच.

दुकर धांपेतालो तरी तोंड आं करून म्हजेर परतो परतो येतालो. ताचो एक पांय वयर धरिल्ल्यान ताका धावंक वा फिरूंक बळ मेळना जालें. तरी तो बलिष्ट आशिल्ल्यान दोनी वटेन एक फावट दाव्यान तर दुसरे फावट उजव्यान घुंवतालो. म्हज्या दोळयांन काजुले आयले. ताच्या फाडानसून रक्त व्हावंन म्हजे हात रक्तान ओले तांबडे जाले. तो आडया कुशीन वचूंक तोल मारतालो तरी हांव ताका शेता मदीं दवरूंक पळयतालो. आडयाकडेन गेल्यार म्हाका फिरूंक संध नासली. एक एक खीण म्हाका वरा सारखो दिसतालो. म्हणसर रीत कुराड घेवन धावत आयलें. ताका मार म्हणून सांगपाचे त्राण म्हज्यान नासले. तोंड म्हजे

सुकिल्लें. ओंठ थरथरताले. हात ओलसाणेन निसरताले. तरी केस अशिल्ल्यान सुळसुळ नासले. म्हाका आनीक दुकराक पळोवन रिताक कळळें. म्हजो जीव धोक्यान आसा तो. आपूण अस्तुरी हे विसरले. ते ताच्या फाटसून गेलें. तो मान दाव्यावाटेन करून ताका खावंक वचूंक लागलो. म्हज्या हातानसून तो सुटटा अशें म्हाका दिसलें. तेन्नाच रितान कुराड ताचेर घाली, ती ताच्या तकलेर लागली. तो बयलट करून सकयल पडटा म्हणसर हावें पाय सोडून दिलो आनी कुराड घेवन ताचे मानेर मारली. तो थंयच वळवळटना हावें चार पाच फावट कुराडेन घाय घालून मान वेगळी केली. रीत आडचार चडून राविल्लें. म्हाका घुवंळ येवन हांव थंयच पडिल्लों. दुकराचे धूड मात्शे मात्शे हालतालें. रितान दोळयांक उदक लायतकच सावशिद जालों. बैला एदो दुकर पडिल्लो. ताका मारिल्ल्या खोशे परस म्हजो जीव वाटावलो हाचें म्हाका चडच समाधान जाल्लें. रितान म्हळें,

"हांव येना तर तूं कितें कोरपाचो ?"

हावें म्हळें,

"रिता येता त्या वेळाक तकली वापरपाची तर वाट मेळटा."

हांव ताका ते कुणगेनसून धडेर येवन सकल्या कुणगेन वेल्यान वडवन आडचार चडपाचो, तो आडचार चड मेरेन त्या रूमडीचेर चडल्यार तो वयर कसो रूमडीचेर चडता आसलो ?

"सायबा भोगोस पुरो तो कास जिवावेलो, डोंबऱ्या खेळा सारखो."

घरा आयलों. च्या पितकच भंय गेलो. केलमतीक बरोबर घेवन तो दुकर थंयच कापलो. शंभरेक वाटे लायले. रिताक फाटलो दोको कापून मावोडचा व्हरून दिवंक सांगलो. दुकराचें शीर हाडून सायबीण माय फुडें दवरून मेणवाती लायल्यो. आज म्हजी 'भोवंडी' जाल्ली. ज्या सावदाक गेथां आसतात ताका मारल्यार 'भोवंडी' जाली म्हणटात. चितल, मेरूं, दुकर वा पिसय हांका मारल्यार भोवंडी जाता. साळळ पिसये परस व्हड आसली तरी ती मारल्यार भोवंडी जायना कित्याक साळळीक गेथां आसनात. बंदुकेन दारू घालून मुळसांव घाल नासतना पोको फार मळबान सोडलो हाका 'पासणी' म्हणटात. केलमेतीन आनी हावें सायबिण मांयक रोजार करून म्हळें,

"आज थोडें फाल्या चड! "

करमला पानांचेर बचकभर मांस घालून कोष्टो बांधल्यो, म्हणसर दनपार जाल्ली. रीत दोको कुळारा दिवन आयिल्लें. सगल्यो कोष्टो बुटयेन घालून ताका मादाळे व्हरून विक, येतना मसालो, दारू, फोडां, मुळसांव, केपां, तशेंच ताका कापड हाड म्हणून सांगलें. हांव सामको जाम जाल्लों. पेज जेवलो. रेकेलाक म्हळें गोरवांचेर मात्शें लक्ष आसूं आनीक हावें ताणून दिलें.

भोवंडी जातकच ताच्या तिसरे दिसा 'शेळी भोवंडी' काडपाची चाल आसा. चड करून शेळे भोंवडेक परत भोंवडी जाता हो समज म्हजो खेत्री नाशिल्यान हांव 'परमेश्वर भोंवडी' करतालो. म्हळ्यार परमेश्वराचें नांव घेवन फार मारपाचो. खऱ्या भोंवडी केल्यार खुबच बंधना पाळची पडटात. येशाचो खेत्री आसलो ताच्या नावार भोवंडी करत तर येशाक व्हरून सावदाक पडिल्ले कडेन सुरी लावची पडटा आसली. अदिपरस 'परमेश्वर भोंवडी' बरी, तरी खेऱ्याचेर जाता तशी रोकडी रोकडी भोवंडी परमेश्वराची जायना. दुसऱ्या रातीन न्हिदील्ले कडेन म्हाका एक सपन पडलें. कोटंब्याच्या माथोटेर एक भिंडी रुख आसा, ताचे फुडे देवणशेर एक मनशाइतलो उबार पाषाणी फातर आसा. ताच्या सकल्या वटेन एक काऱ्याचे खोड पडिल्लें आसा. त्या खोडापोंदाक गोठणीर दुकर गोठेला.

''चल उठ मार फार''

अशी उतरां कानात पडतकच म्हाका जाग आयली. रातचीं बारा जावन गेल्ली आसतलीं. हांव जागो जातकच उठून बसलों. अशें सपन कशें पडलें ? ह्या विचारान हांव आसलो. सकाळीं उठून येशागेर वचून ताका त्या सपनाचो अर्थ विचारलो तेन्ना ताणें म्हाका म्हळें,

''अंतन तुझो परमेश्वर रक्ताक तानेला, हाचे पयली खऱ्यान दिसान सपनात वचून कासादोराक उठोवन अमूक जाग्यार वचून फार मार म्हणून सांगून दुकर मारिल्ले आसात, तरी तुझो परमेश्वर जावन लेगीत इतलो कडक आसा हाचें अजाप जाता. तुका सपनात दिशिल्ल्या त्या खोडाकडेन वचून पळय थंय दुकर आसतलोच आनी फारान तो पडटलोच असो म्हजो भावार्त.''

घरा आयलो चडशी दारू आनी सात फोडां घालून गजून फार भरलो. कापिटलाक व्हेल्यार तो दुकर आसल्यार ताचेर उडी घालून धांवडायातलो असो

विचार करून ताका दोरयेक बांदून दवरलो. च्या पिवन भायर सरलो. जखमी दुकर भिरांकूळ आसता हें म्हाका ते दिसा कोटंब्याक कळिल्लें. खरें म्हळ्यार म्हजो दुसरो जल्मच जाल्लो. तरी ते दिसा मेरेन "हांव कासादोर" अशी म्हजी भावना जाल्ली. किर्ते जावं हावे जीणेन येवन भोवंडी केली. मांस लोकांक खावयील्लें तशेच शेताचे जावपी लुकसाण थोडे तरी थांबयिल्लें, हाचो म्हाका अभिमान दिसतालो. जिवाचेर खेळ्या बगर जीणेक रूच येना. जीणेन आयलो गेलो कांयच करूंना तर ताका अळणी जीण अशें हांव समजतां. मनीस तसो कायमचो खंय आसता ? संकष्टाच जीण घडयतात. खेळांत जयत हार आसताच तरी खेळ्या बगर जयत कशे मेळोवंक येता ? अशे विचार मनान येतना हांव कोटंब्याक पावलो रानावटेन दुकरांची ताजी गेथां लागिल्लीं दिसलीं. पावस पडपाची चिन्हा नासलीं. वेळ उदेलो तरी शेतान वत पडचें आसलें. झाडां शेंडे निकतेच तिकतिकीत दिसताले. म्हाका पळोवन कणेरी पोंदा आसलें मुंगूस धांवले. तें धांवले म्हणून दिसलें ना तर तें खंय दिसपाचें ? कोटंब्याची चडटी चडून हांव माथोटेर पावलों. उर्देती वटेन विट्टें तर दाव्या हाताक लाडुतळें आनी उजव्या हाताक कोटंबो तर बुडर्तेतीवटेन म्हजें घर. कांटेरी झोपां, उबार फातर मदीं मदीं लागताले. मनान भंय, उमेद आसली. चडटी केन्ना लागली ती कळळीच ना. म्हजी नदर भिंडी रूखाक सोदताली. माथोट सोंपली तरी भिंडी रूख नासलो, हांव निर्शेलो. सपन सगले फट अशे दिसूंक लागलें, परत फिरून माथोट चलूंक लागलों. गेले वटेन परत येतालों. येतां येतां वडा रूखा आडसाक भिंडी रूख दिसलो. हांव ताच्या म्हत्यान गेलों. तो लाडुतळयावटेन आसलो. थंयसून पळय तर उर्देती वटेन मनशा इतलो उबार पाषाणी फातर आसलो खरो. बाकी फातर ल्हान आसले. तसोच देंवतकच एक सुकें काऱ्याचें खोड आड पडिल्लें आसलें. आवाज करनासतना पैसुल्ल्यान ताच्या पोंदाक पळयलें. कांयच सारखे दीस नासलें. बरें म्हत्यान वचून पळयल्यार दुकर जागीन उठून धांवतलो. हांव त्या पाषाणी फातरार राव तर खोडा पोंदाक काळेशें किर्ते तरी लांबशें आसलें. एखाद्रे पाषाणी फातर न्हंय मुं ? असो दुबाव मनान आयलो. फार मारपाचो, पाषाणी फातर जाल्यार फार फुकट वतलो, ना तर दुकर पडतलो असो विचार करून माजरा पावलांनी पत्र्यार पांय दिना आसतना हांव लागीं गेलो. दुकराचें तोंड खंचे वटेन ते कळ

नासलें तरी देवणशेवटेन ताची शेपटी आसतली असो तर्क करून वेल्यावटेन आशिल्ल्या तोंडार जोखून फार मारून सोडलो. तें काळशें हालुना वो धावुना. म्हणतकच पाषाणाकच फार मारला जायत. पैसुल्ल्यान ताचेर फातर वडय तर टूप करून ताचेर फातर थारलो. पाषाण तर तो फातर उसळून भायर पडपाचो. वचून पळय तर सात आठ वझांचो दुकर गोठणीरच मरून पडिल्लो. शेळी भोंवडी जाल्ली. रिताकडेन कोष्ट्यो दिवन सगल्या गावान फुकटच वांटल्यो. एक दोको मादाळे व्हरून घरान सामान हावेंच वचून हाडलें. ते दिसा मेरेन म्हजो परमेश्वराचेर विश्वास बसलो.

धनयाली जमीन रोयतकच म्हजी हावें रोयली. मात्शी मागूस जाली. मागूस जाल्यार मागीर उदकाची तुटवण पटता. पावस मागूस पडल्यार पीक बरी येता. शेत रोयतकच हांव मेकळों. घरा मुखार कामत केल्लें. रेकेलाचो तसोच कापिटलाचो दोळो चुकोवन माकड दनपारचे कामतान भरून मोळे बुड्डीताले, तवशीं खावन नासधूस करताले. एक दीस दनपारचो जेवणाक वच नासतना वेदू कडेन बंदूक घेवन रावलों. कोणाची जाग ना अशी पळोवन माकडां पंगड हळू हळू कामता वंयेचेर येवन बसलो. हावें दोघ जाण मुद्र्या मुखार येतना बोट ओडून सोडलें ते दोघय थंयच पडले. बाकी माकड केन्ना गेले हें कळेंच ना. दोघी जाणांक वेदू रूखाक वालीन हुमकळावन दवरले, चार दिसांनी सगल्याक घाण सुटली. माकड त्या घाणीक लागून त्या वाठाराक येना जाले. सात आठ दिसानीं तांतलो एक माकड वालसुटून सकयल पडलो. वाल तशीच झाडार आसली तरी तीची गांठ सुट्टीली. तिका "जमिनवाल" म्हणतात. ती जमनीरच वाडता. वयर आसली, झाडार चडिल्ली वाल कुरकुरीत मोडता तरी जमनिवेली वाल तशी मोडना. बरीच घट आसता, गांठ घाली तरी तशीच घट्ट उरता, सुटना.

शेत थोडें पिकिल्ल्यान कापून गुडव्याक घाल्ले तरी घरा मुखावेले तशें पिकूं नाशिल्ल्यान आनीक आठ दिसांनी कापचे थारायील्लें. घरा कडल्या शेताक जाग आशिल्ल्यान तितलीं सावदां येना आसलीं. पुनवेक दोन दीस आसले. फातोडेर थोडी काळखी येताली तरी रातभर चान्ने मळबांनसून कोटंब्याच्या झरी सारखे व्हांवताले. भाण्ण सगलें शांततायेन न्हिदील्लें. गोठयान लेगीत गोरवांचो आवाज नासलो. बंदुकेन फार भरून हावें ती कोनशाक उबी दवरिल्ली. केप

शेळेत म्हणून रान्नीचेर गरम साणेक दवरिल्लें. म्हाका कशी जाग आयली कोण जाणा? म्हजे दोळे उघडले माथ्याक घेतिल्ली माणाय (पाट) हावें सकल ओडली आनी दोळे उघडले, जनेलानसून चान्नें येताले. विजेचो उजवाड घेवची तांक म्हज्यान नासली तरी सैमान म्हाका उजवाड धाडिल्लो तो ही दोळ्यांक त्रास जायना असो. इतल्यान आवाज 'खट्' असो जालो. कापिटल हरसो सरर आवाज जावचे पयली भोकता आज कित्याक भोकना अशी दुबाव म्हज्या मनात येवन गेलो. म्हणसर परत खट् आवाज. हांव उठून बसलो तर फर् फर् असो वेदू रूखाकडेन आवाज येतालो. वेदुची पाना झडून पत्रो पोंदान जाल्लो ताचोच तो आवाज हे कळटालें. म्हाका दिसलें चड करून दुकर माकडाची हाडां फोडता जावये. किर्ते जांव हावें पळोवपाचें थारायलें. हाडां गोरवां लेगीत खातात हें म्हाका खबर आसलें. तरी रातचीं गोरवांक बांधील्ल्यान कशीं हाडां खावंक येतली? तरी दावें तुटोवन मस्ती बैल आसल्यार हाडां खाल्ल्या बगर रावचोना. गोरवां जांव वा दुकर कोणाचेय गोरूं आसल्यार भितर शेतान वचून भात खाल्या बगर रावचेना. कोणय जावं ताका धांवडावचो पडतलो असो विचार करून हावें हातूण सोडलें. रेकेल, रीत थार न्हिदिल्ली. थंडी मात्शी आसली. रांदनीवेले केप तुंबार लायलें, आनी कवड काडून भायर आयलों तर कापिटल भिवन हांड्या पोनाक आसलो. इतल्यान परत खट् जालें. घराक उजव्यान घालून झोपांचो आडोस घेत बंदूक हातांत घेवन वाटेन एक एक पावल वडवंक लागलो. वेदुरूख तसो विशेक मिटरांचेर आसलो. दपत दपत बाग घेवन वतालों. दुकर वा गोरू दोना भितर खंचे तरी एक जनावर जातले. हे ताच्या मदीं मदीं येवपी सरांवा वेल्यान कळताले. पांच मिटर वतकच हांव रावलो. परत खट् सर सर आवाज जालो. आवाज जातना त्या आवाजाक हांव लागीं करतालो. मात्सो लेगीत दुबाव वचत तर दुकर रावचोना हें म्हाका खबर आसलें. हांव जाता तितली ताका म्हजी सुलुस लागची न्हय म्हणून जतनाय घेतालों. आतां गोरूं जाल्यार म्हजो आवाज आयलो तरी वच्चे ना हें खबर आसलें. आवाज हांव फुडे वता तितलो चडच फुडे वतालो. चान्ने बॅटरी घाल्या सारखे म्हाका सगलें दाखयतालें. मनान कसलो तो आवाज जाणून घेवपाची उमळशीक लागिल्ली. आतां हांव वेदुच्या आडसाक ताच्या पोंदाक पाविल्लो. रातची माकड कुशिल्ली घाण घेउं नजो जाताली. थुंकूक

लेगीत मेळना जाले. थुकल्यार आवाज येतलो आनी जनावर सटकतेलें. बाग घेत हावें झिलीनसून पळयतर ह्या रूखा पोंदाक माकडाचे हाड कोण तरी फोडतालो. ह्या रूखा पोंदाक सावली आसली. हे खातीर कोण म्हणून कळ नासलो. तसोच बारीक साणेन पळय तर रेड्या आकाराचो आसलो. म्हजेवटेन ताची फाट आसली. शेपटी वेतभर म्हणतकच म्हाका तो दुकर हे कळूंक वेळ लागलो ना. एखाद्रे लांडो बैल आसल्यार ? हांव शिंगा आसा तर पारखुंक लागलो. काळोख आशिल्ल्यान शिंगा आसात कायना हाची खात्री करप कठीण आसलें. बरें सगलें पारखिता म्हणसर दुकर जाल्यार रावचोना. दुकर बुद्धिन मंद जरी आमी समजतात तरी तो तितलोच शादूर आसता. आपली राखण कशी करची तें ताका खबर आसता. चाप वयर काडून खापार दवरली. खांदाक बंदूक लावन दस्तो पोल्याक लायलो. तीर धरलो तरी धा बारा मीटरांवेलो दुकर फार मारलो तरी पडत सांगू नजो आसलें शिवाय ताची शेपटी म्हजे वटेन आशिल्ल्यान वर्म म्हाका मेळूं नासलें. फुडले तोंड वा मान मेळ्याबगर फार मारून फुकट आसलो. तो म्हजी सुलुस लागून वा हरसोच जायत धोको घेवंक सोदी नासलो जावये. राना वटेन तोंड करून आसलो. कोणे घात घेतलो तरी रानान धांवक मेळटले हो ताचो हेतू जायत. म्हाका त्या दिसाची याद जाली. दुकर जखमी जाल्यार चडच प्रभिरांकूळ जाता हे ताका फार मारतना पड सारखो मारूंक जाय. हांव बंदूक तशीच धरून झील सोडून वेदू पोंदाक माकड हुमकळायील्लो थंय पावलो. माजरा पावलांनी गेलो तरी दुकराक कळ्ळयाबगर रावले ना. ताणे मान वयर करून म्हजे वटेन दोळे वाटारले. सोंडी लांबशी आसली. धोर जाल्यार तोड मोठें आसता. शिंगा तर दिष्टी पडलीं ना. आतां तो शादूर जाल्लो जावये. ताणें खाण सोडिल्लें आनी तकली वयर काडिल्ली. नाक पुड्यान तो वास घेतालो जावये. म्हजो वास ताच्या नाकान वच्चे पयलीं फार मारूंक जाय आसलो. तीच संध साधून हावें मानेर बंदूकेचो फुडलो मुद्रो येतकच बोट ओडलें. सुर सुर सुर जावन कॅप पेटून दुकर म्हजेर उडी घालतना ठो असो आवाज जालो. ठो जातकच खिणभर दुकर रावलो म्हणसर हावें बंदूक जमनिर वडयली आनी उडी मारून माकडा बांदिल्ल्या वालिचीं दोन्ही पोतां एकच खेप धरलीं म्हणसर दुकर म्हजेर धावन आयील्लो. हावें हुमकळ मारून पांय वयर काडले. ताचे केस म्हज्या पायांक लागले. तो इतलो

नेटान म्हजेर धावून आयील्लो, ताचो तोल वचून तो वेदूक आपटलो आनी ताचें हीचण वेदू सालीन गेले, म्हणसर हावें धरील्ल्या वाली वेलो खांदो कर कर करून बाग घेत सकयल येवंक लागलो. इंच भर मोठया खांद्याक हावें माकड बांधिल्लो. माकडाचे वजन तो खांदो घेवंक शकलो तरी म्हजे वजन ताच्यानी पेलचे नासलें. हावें दोन्ही पांय वयर धरले तरी खांदो मोडून पडल्यार दुकर म्हाका जीवो सोडचो नासलो, हे म्हाका खबर आसलें. हावे पांयाक झेल दिवन बयलट करून खोडाक घट्ट धरलें. दुकर म्हजो वास घेत रूखाचे साली हिचणा मारून काडटालो. वेंग पावनाशिल्लो तो वेदू रूख तो सकल वडवंक पळयतालो जावये. म्हजो राग तो रूखार काडटालो. इतल्यान रितान 'कापिटल छू' म्हणना फुडे कापिटल भोकत धांवलो. कापिटलाक पळोवन दुकर ताचेर धांवलो आनी ताका ताणे हिचण मारलें. पॅव पॅव करून कापिटल थंयच पडलो. म्हणसर रितान डबो बडयलो. त्या आवाजान दुकर रानान धांवलो. आतां चान्ने नासलें काळखी पडिल्ली. पैस घुघुम ह् ह् ह् करतालो. कापिटल थंयच पडून आसलो. म्हाका सकयल देवचें धाडस जायना आसलें. परत जखमी दुकर येत अशें दिसतालें. वतना ताणे बंदूक हुऱ्या रूखा पोंदाक सोडयेन धुकलून व्हेली. रीत हातान चिमणी घेवन आयलें म्हणसर हांव देंवलो. कापिटलाक उखलून घेवन घरा आयलों. दुकराचे हिचण कापिटलाक तांस मारून गेल्लें तशें भीतर लागूं नासलें. बंदुकेन ऐन वेळार घात मारिल्ल्यान हांव संकष्टान पडिल्लों. तरी तातुनसून वाटविल्लो ही गजाल वेगळी. कास म्हळयार जीव घाण दवरून केल्लो खेळ. एक तर आपलो जीव व्हगडावप ना तर दुसऱ्याचो जीव घेवप. हे म्हाका पटलें. ही घडणूक साचणाची काळजार उरली.

शेत कापून जाल्लें. एक दीस सांचो कोटंब्याक उदक हाडूंक वतना भुर्र करून शेतानसून कुकडां हुडून गेलीं. दुसरे दिस पैससून म्हळयार खुटये कडसून हावें कोटंब्याक सुर्य धारेक पावतकच पळय तर धा बारा कुकडां चरतालीं. सकाळी ती चरून वतकच हावें सगल्या कुणगेन सान्न मारून आडचावटेन उबी चिरोणी मारली. सात्र मारून एकठांय केल्ले भात त्या चिरोणेन घालें. सांचो खुटयेकडसून सुर्य धारेक वचपाची वाट पळयत रावलों. सदांच सुर्य धांवता, तर आज तो जाता तितलो धारेक वचूंक वेळ काडटालो. निकतीच तांबुडसाण मारत

आयिल्ली. पैस रानात कुंटूंबो टोक् टोक् करून सांज जागयतालो. शेतान एक सारखे पैसुल्ल्यान लेगीत पळयल्यार कुकडां मनशाक पारखीतात हें म्हाका खबर आसलें. हळू तकली वयर काडून हांव पळयतालों. सुर्य धारेक गेल्लो. वत शेतान नासलें. हावें हळुच नदर शेतान मार तर धा बारा कुकडां चरतालीं. हांव तसोच सकयल्या शेतान देवन व्हाळान फातरार पांय दीत गेलो. आड्याचो आडोस आसलो. व्हाळान उबो राव तर कुकडां चिरोणेचे दोन्ही वटेन रावन भात खातालीं. कुणगेन आसले आशे हावें सान्नीन एकठांय करून चिरोणेन घाल्ल्यान तांका आशे चिरोणेनच मेळटाले. सगल्यांच्यो मानो चिरोणेन आसतना हावें चिरोणेन फार मारून सोडलो. पांच कुकडां पडलीं. दोन कोंबे तर तिन कोंबयो. कुकडाच्या तकलेक वा मानेक एक मुळसांव लागल्यार तीं पडतात. पाखांक पांच पांच मुळसांव लागले तरी ती हुडून वतात. तांचे वर्म जाणून घेवप गरजेचे. तकली चलयल्यार कमी खर्चान चड जीव तेही एके फावटी मारूंक जातात हे सिद्ध जालें.

श्रावणातले दिस आसले. पावसाची दडक येता सर नाच्च जाताली. गोरवांक चरव सगल्याकच मेळटालो. पावस कमी आशिल्ल्यान बंदुकेत फार भरून ती खांदाक लायली. कांबळ खांदार वडयली. कापिटलाक घरा कडेन बांधून दवरलो. लाडू तळयानसून वजयार वतालो. इतल्यान एका केळा रूखार ताळये कणकणीं हड्ड्यो 'शीव शीव' करून शिवोण्यो घालताल्यो. खावडीर आसतकच मनीस लागीं पावलो तरी त्यो हुडून वचनात. सुलूस लागली तर वेल्या ताळयेर बसून फळां खातात. फार मारल्यार एकच हड्डी पडटाली. हावें ताळी मारून तांका धावडायल्यो. त्यो हुडून गेल्यो. पन्नाशेक हड्ड्यो आसल्यो. केळा रूखा पोंदाक वचून रावलों. बंदूक तेंगशेर जोखून धरिल्ली. वरभर वतकच भर्रर करून त्यो हड्ड्यो तेंगशेर एकच फावट गसपाक करतना सात आठ हड्ड्यो म्हज्या मुद्रेक आयल्यो. तेन्नाच हावें फार मारून सोडलो. डप् डप् करून पांच हड्डयो पडल्यो. फळेल्या रूखार फळांच्या गोडयेन हड्डयो परत परत येतातच जरी तांका मनीस आसा हें कळळें तरी. एक गजाल खरी, कुकड मात सामकें शादूर मनशाचो दुबाव लागल्यार केन्नाच शेतान देवना मागीर कितलीय भूक लांगू. कवडे कुकडा सारखेच एक फावट उठतकच परत सहसा शेतांत खावडीक

बसनात. तकली उजार केल्ली ती फळादीक ठरिल्ली.

कवडे मारप खुबच कठीण काम आसलें. मात्सो जरी आवाज जालो तरी हुडटाले. पावलां वाजय नासतना गेलो तरी जमनीर पडिल्ल्या पावलांचो आवाज तांका कळून ते ती कुणगी हुपून रोकडेच दुसरे कुणगेन पसार जाताले. तांका मारूक हावें तकली उजार केली. बोरीकडेन गुडवें घाल्लें. बोरीचीं पानां गच्च तशेच कांटे म्हणतकच तातून तांची राखण बरी जाता. देखून ते परत परत खंय हुडले तरी बोरीचेर वताले. शेतान चरतना ते फार लावन घेनात अशें कळतकच हांव बोरी पोंदाक बसलो आनी केलमेतीक शेतान वचून कवडे चरतना हुडोवन घाल म्हणून सांगले. गुडवें आडसाक आशिल्ल्यान हांव तांका दिष्टी पड नासलो. कवडो हुडतकच बोरीचेर येवन बसतना हांव फार मारून वडयतालों, अशे हावें एका दिसाक सात कवडे सात फारांक मारले. कवडे भव शिटूक. तांका मारूंक आपणे तांचेहून शिटूक जावचे पडटा हेंच खरें. एका कवडयाक सुलूस लागत तर सगल्यांकच शिटकायता. कवडो हो उमेदी आसता. सकाळ सांज गायन केल्या शिवाय ताका चैन पडना. कुर्र कुर्र असो ताचो आवाज आयकून कानाक थंडाय मेळता हें खरें. आवाज हेच रानाचे अलंकार आसतात ताचे खातीर तांची सोबिताकाय वाडटा, चैतन्य फापसता तेंच सुखदिर्णें आसता. कवडो मारतकच कोणाकय कासादोर म्हणूक हरकतना अशें म्हाका येशान म्हळें.

धनयांकडसून पावती मेळील्यान म्हाका खोस भोगली.

एक दिस गोरवांक घेवन वतना वजऱ्यार म्हाका एक शोक्रूं घोटेरान वतना दिसलें. गोरवांक थंयच सोडून हांव घरा आयलों आनी बंदुकेन फार भरून घेवन गेलों. शोक्राचे तोंड मात्शें घोटेरानसून दिसतालें. हावें फार तोंडारच मारून सोडलो तर एका फाटल्यान एक अशीं दोन शोक्रां सकयल पडली. मारिल्लें एकाक तरी पडलीं दोन. हावें जरी एका शोक्राक घोटेरान वतना पळयील्लें तरी ताचे पयलीं घोटरान एक गेल्लें जावंक जाय, असो तर्क हावें केलो.

शेतान उदक नासलें म्हणून खारजान उदक सोडूंक कोटंब्याक गेलों. माकड किच् किच् करताले. हांव हळूच वयर गेलों तर माकड घोडका रूखार रावन सकयल पळयताले. म्हजें लक्ष सकयल गेलें तर एक काळो वाघ म्हाका पळोवन घुर्र घुर्र करूंक लागलो. हांव गेल्या पावलांनी परतलों. खारजान उदक

सोडनासतना घरा आयलो. हांव काळ्या वाघाक थर्त भियेतालों. घरा आयलो तरी किच् किच् चालू आसलो. दुसरे दिस सकाळी उठून उदक हांडूक हावेंच वचपाचें थारायले. कोटंब्या लागी पावलो तर माकडाचो किच् किच् चालूच आसलो. हांव तसोच मडकी घेवन कोटंब्यात पावलों. म्हाका पळोवन माकडान दुसऱ्या झाडार उडी मारूंक करतना तो सकयल पडलो, तेन्नाच काळया वाघान ताका वेल्या वयर उडी मारून धरलो. ताका तोंडान घेवन वाघ विट्टयान वतना म्हाका दिसलो. माकड फातरा सारखे हात पांय तशेच तोंड हालयनासतना झाडार बशिल्ले. किच् किच् आवाज नासलो. मरणाच्या भयान तांका किर्ते करचे तें सूच नासलें. मरणाच्या भयान ते पयली जरी आवाज करताले तरी मागीर मरणाची खात्री जातकच तांची वाच्या बंद पडिल्ली. मडकेन उदक भरून घेवन हांव घरा आयलों. येशाक ही खबर सांगतकच ताणें म्हळें,

"अंतन वाघ रातभर माकड आशिल्ल्या झाडां पोंदाक गोटेतात, तांची साकनळ वाजील्ल्यान माकडांक न्हीद पडना. माकडांक जागरण सोसना. सकाळी दुसऱ्या रूखार उडी मारतना तांचो तोल वचून ते पडतात."

म्हाका येशाचे ते पटलें. रीताक म्हळें,

"आगो विट्टयान आज गोरवां व्हरूं नाका, थंय काळो वाघ आसा वंडगाळीत व्हेल्यार जाता."

विट्टयानसून वंडगाळी वाघाक पावंक धा मनीटां लेगीत नाकात तरी विट्टयान व्हेल्यार तो मारतलो. आयजच कित्याक व्हर तो गेला हें खबर आसतना.

भातांची कणसां तांदळेलीं. दोनराती दुकर आयिल्लो. भातांची कणसां चाबडावन वडवन गोठण मारून भाताचो इबाड, खावचे परस चड करून गेल्लो. बुजगावणे लावन लेगीत ताचो उपयोग जावंक नासलो. पावस सांचो पडून गेल्ल्यान रातचो पडपाचें चिन्ह नासलें. बंदूक भरून घेतली. सामानाची पोती घेतली आनी रानानसून दुकर येतात त्या वाटेर वचून पळयलें. लागसर आंबो आसलो ताच्या पोंदाक कांबळ घालून आड पडलों. देवणशें वेल्यान दुकर येतना पैस आसतना आवाजावेल्यान कळतलें हाची खात्री आसली. रात खीणा खीणान वाडत आसली. पैगीणचे देवते देवळाकडेन दसऱ्याच्या गोंधळाक वाजतालें तें

आयकूंक येतालें. शीक्यागेर जाग नासली तरी केलमेत सकयल्या पोवडयाक माळो जागयता तें मदीं मदीं आयकतालें. दुकरान लुकसाण केल्ल्यान तांचेर म्हजो राग आसलो. ताका मारल्या बगर तो वच्चो नासलो. रानावटेन कान शेळायले तर कोणच नासलो. बसून रावल्यार दुकर येना ना तर येता अशें मनान आयलें. दोळे जेमताले तरी हावें ताचेर कान ओडून न्हीद पैस धाडली. हांव आंब्याच्या बुडतेंती वटेन न्हिदिलों, कित्याक तर थंय मेकळ आसलें, उदेंतीवटेन झोपां आसलीं. हाताचे उशें करून दोळे धापले तरी न्हीद येना. आतां गोंधळाचो विशेक किलो मीटरां वेलो आवाज बंद जाल्लो. कितलो वेळ जाल्लो कोण जाणा. आंब्याच्या वेल्या सालीचे ल्हानशे कुडके आंगार पडतकच म्हजे दोळे उघडले तर रूखार काळेंच कितें तरी माकडा सारखे हालतालें. इतल्या रातीन माकड कसो येतलो असो दुबाव म्हज्या मनान उक्तायलो. माकड रातीचे झाडार रावन न्हीद घेतात हें खबर आसलें. शेपटी बरीच मोठी खांद्यावेल्यान सकल दिसली. शेपटे तोकार खुबच केस आसले. म्हाका दिसान पळयील्ल्या काळया वाघाची याद जाली. तशीच हाची काळी शेपडी आसली. आतां हांव संकष्टांक सांपडिल्लों. बोब मारल्यार तो आंगार उडटलो, बरें बंदूक काड मेरेन तो उरलो तर ? फार मारलो तर फारान काळो वाघ उडटा हें म्हाका येशान म्हणिल्लें. शिवाय हांव पोंदाक आशिल्ल्यान फार लागलो तरी जीव वतना म्हजेर पडल्यार बुड्डील्या बगर रावचोना. अशे मनान विचार येतना, हावें दोळे धापून न्हिदेचे सवंग घेतलें. न्हिदील्या मनशा वाटेक वाघ वचना अशें म्हाका पायन एक फावट म्हणिल्लें. जेजूक मनानसून उलो मारलो आनी ओगी रावलों. वेल्यान उदक कशें म्हजेर धारेन पडूंक लागलें. पावस नासतना उदक कशें? तरी हांव आंग हालय नासतना तसोच रावलों. वाघ मुतता आसतलो, बरें केपार मुत पडल्यार फार शेळेतलो हाचो भंय. एक एक खीण हांव जीणेतलो मेजतालो. मरण वयर तीन मीटरांचेर आसलें. हावें दोळे धापिल्ले उघडू ना. इतल्यान घप् आवाज जालो. तो देवतना आंब्याची दोन पाना झडून म्हजेर पडलीं. न्हीद भया मुखार नाच्च जाली. ताचो गळो वाजतालो, हाचे वेल्यान तो वाघ हाची खात्री जाली. उदेंतिवटेन तो चलत मागीर वाटेन गोटयाकडेन वचूंक लागलो. बेगी बेगी हावें बंदूक हातान घेतली. फार पेटूं वा ना पेटूं घोडो ओडपाचो थारायलो. म्हणसर तो बरोच फुडे पाविल्लो. हांव

फाटल्यान वचूंक लागलो. बंदूक खांदाक लायिल्ली. गोठयावटेन गेल्यार तो गोरवांक मारत अशें समजून फार मारून सोडलो. वाघ परतलो आनी उत्तर दिकेन उडी मारून गेलो. इतल्यान दुकर केलमेतीच्या शेतान खातालो, अचकित वाटेन आयलो आनी फारा भयान वाटेर हांव आशिल्ल्यान फुडले दोके म्हजेर दवरून उबो रावलो. एक अरिष्ट गेल्ले तर दुसरें तयार जाल्लें. त्या वाघाक केल्ले वरी हांव तसोच तायट उबो रावलों. मात्सो हालल्यार लेगीत तो म्हाका दवरचोना हे खबर आसलें. म्हज्या परस तो धा पटीन तरी बलिष्ट आसलो. तो फातर समजून भांभावून म्हजें दोकें दवरून उभो रावला आसतलो.

इतले मजगतीं तांणें आपलें दोकें काडले आनी सकयल जमनिर दवरले, हूंक करून धांवलो. हांव मरणांतलो वाटावलों. ज्याचे खातिर हांव जागरण करतालो तो म्हज्या हड्डयार येवन हात लावन सुशेगाद गेल्लो. कास ही संध केन्ना येत आनी केन्ना वचत सांगू नजो. घडटा तेच प्रमाण मानचें पडटा. आपल्या हातांतल्यो त्यो गजाली आसनात. नशिबाची साथ जाय आसता ना तर कासदोराचो कास जावंक वेळ लागना. चलतना जिवाण्याचो पांयाकडलो चाबत म्हणून भंय तर जखमी दुकर आंगार उडत म्हणून भिंरात. फार मारील्लो वाघ जखमी जायत तर मनशाक जीवो सोडचोना. कास करप म्हळ्यार आपली जीण घाण दवरप तरी तातुनच जिणेची गोडी आसता हें विसरून फावना.

उजवाडूंक येतालें तेन्ना केलमेत म्हज्या घराकडेन येतना दिसलो. आठ वरां मेरेन न्हिदुन रावपी आज इतले सकाळीं कसो ? अशे मनान येता म्हणसर तो आंगणान पावलो.

''अंतन कितें सांगू काल धनयालो पाडो देवशे तळये उदक पितना वाघान मारलो.''

''खंचो रे, तो तांबडो ?''

''हय अंतन, तोच तो म्हाल पाडो.''

म्हाका वायट दिसलें. म्हज्या हातान वखद वाटून ताका थापून ताचें किवण पडिलें बरें केले. म्हज्या उतराक तो वळखून पैसुल्यान हांबेवन जाप दितालो. कितलो मायेस्त गुणी कष्टी तो. त्या वाघाक मारूंकूच जाय, म्हजो जीव जरी गेलो तरी उपकारता असो मनान निश्चेव केलो. बंदूक उदकान धुवून घाली. दारू,

केपां वताक तापत दवरलीं. वाघाक मारल्या बगर च्या लेगीत घेवचोना अशें थारायलें.

सांचो चारांक सुमार बंदुकेत चडशी दारू घालून वेल्यान सात फोडां सोडली आनी गच्च गुड्डी लायली. फाराचें सामान घेतलें. कोयती पोतयेन घाली तसो देवशेतळये वाटेन चलूंक लागलो. बडक खावंक वाघ रातचो येताच हो अणभव आसलो. तेन्ना माची करून रातचो बसपाचो हावें थारायले. शिक्यागेर माची करूंक कण्णां मेळटली तरी दोरी मेळत सांगू नजो. 'जमीन वाल' काडून बांधपाची अशे येवजून हांव झपाझप पावलां वडयतालो. व्हाळ हुपून हांव पलतडेन गेलो. बारीकशी वाट वयर देवशेतळयेन गेल्ली. शोक्रुं माट्टी कात्रे खावंक गुंग जाल्लें तरी ताका फार मारल्यार वाघ लागीं आसल्यार फारा आवाजान येवचोना. ते शोक्रुं पोशील्या कोंबये सारखेच, जाय तेन्ना येवन मारून व्हरपाचे कात्रे काबार जावचे पयलीं. आतां हांव देवशेतळयेचे झरीकडेन पाविल्लों. सोदतां सोदतां 'घुंवं' असो मुसांचो आवाज आयलो. झरी वयर फोंडकुलान तकली फोडील्लो, हात पांय ताणील्लो, पाडो पडिल्लो दिसलो. तांबड्या पाड्याची वाघान विटंबणा केल्ली. म्हजी तिडक मस्तकाक मारली. आतां म्हजो भंय गेल्लो. वाघाची दशा पाड्यासारखी करतलों इतलेंच म्हाका दीस. तांबड्याची जीभ गालांनसून भायर पडिल्ली पळोवन ताची काकुळत आयली. उदक पिवचे पयली मारचो काय उपरांत, मन म्हजें दुबाव उक्तायतालें. थोडोच वेळ आसलो. त्या वेळान तिळसान जावचे पयलीं माची घालूंक जाय आसली. लागी ल्हान ल्हान झाडां आशिल्ल्यान माची घालूंक मेळनासली. सात मीटरांचेर एक कोसंबाचो रूख आसलो. वयर चारेक मीटरांचेर आडवो खांदो गेल्लो. खांदो वेतभर आसलो ताका लागून आनीक एक खांदो बारीक आसलो तर मदीं कळी घाल्यार आधाराक उपकारतलो अशें म्हाका सकयल्यान दिसलें. आतां वयर वचून पाड्याकडेन वाघ येत तर मारूंक जाता जाल्यार पळोवया, वेल्यान जोखूंक कशी अवकण मेळता ती अजमावया, अशें चितून हावें पाती सकयल दवरली आनी खांदाक बंदूक लावन गुरजाचेर पाय दिवन वयर चडलो. आडव्या खांद्यार पावतकच हावें सगल्याक नदर मारली. माची घाली तरी वाघाक लागीं जाल्ल्यान वास येतलो अशें दिसलें. आतां दुसरो रूख पळोवचो असो विचार करून हांव रूखा वेल्यान

देवंक सोदूंक लागलो. इतल्यान कट् करून एक सुकी बडी मोडिल्लो आवाज आयकलो. शिल्ली नातर हुंदीर आसत अशें म्हाका दिसलें. इतल्यान हळदुव्या कोराचो काळया पट्टयाचो वाघ वास घेत गाळयेच्या झाडाकडल्यान येतालो. खीणभर म्हज्या दोळया कडेन काजुले चमकले. रातीन वाघ येवपाचो, उजवाड आसतना कसो आयलो हाचें अजाप जालें. तरी हो विचार करपाचो वेळ नासलो. म्हाका सूड घेवचो आसलो. म्हणसर तो झाडा आड गेलो. हावें चाप वयर काडून खांद्यार घट्ट बसलो तर दुसऱ्या खांद्यार पांय तेकयले. हांव पडचोना हाची जतनाय घेतली, वाघ तसो विशेक मीटरांचेर आसलो. तो येतना झाडानसून वास काडत येतालो. पऱ्याचो आवाज लेगीत तो कर नासलो. इतल्यान कारंव हाल्ले आनी तो मात्सो झळकलो. तोंड ताचे म्हजे वटेन आशिल्लें. आनीक फुडे येत तर तो पातेवचोना कित्याक वारो म्हज्या उलट दिकेन व्हांवतालो. वास ताका येत तर संध मेळचीना. शिवाय जखमी जालो तरी परतो फार मारतलो अशें येवजून जेजूक रोजार करून हावें ताच्या तोंडार तीर धरलो. तो घारशा दोळयानी म्हाका तकली वयर करून पळयतालो जावये. तरी तेन्नाच हावें फार सोडून बंदूक रिकामी केली. फार इतलो व्हडलो जाल्लो, त्या आवाजान म्हजीं कान कवडां बसलीं. त्या फारान म्हाका हालयलो. म्हजो तोल वचून पडता काय अशें दिसतना हांवे कोसंबा रूखाक मिठी मारली. म्हजी बंदूक हातानसून सुटून खांद्यार झिरकली. आतां हांव निःशस्त्र जाल्लों. सकयल देवल्यार वाघ खाल्याशिवाय रावचोना. बरें आतां तो मात्सो पैस आसलो. थोड्या वेळान जर रूखा पोंदाक येत तर हांव सकल कसों देंवतलो, हात पांय थरथरतना हांव गोळ घेत सकयल देवलों. बंदूक, पोती घेवन शिक्या गेर चलूंक लागलों. भयान ओठ सुके जाल्ले, तर पांय घालता थंय पड नासले. हांव हांव करून तो त्या झिली भर लोळूंक लागलो. म्हजे हात पांय अजून थरथरताले. पेलोभर उदक पितकच म्हाका बरें दिसलें. फार भरून बरोबर शिक्याक घेवन हांव बंदूक खांदाक लावन परत त्या रूखापोनांक हळू हळू येवंक लागलो. खंयच आवाज नासलो, इतल्यान वाघ म्हजे आंगार आयलो. शीको तें पळोवन घरा धांवलो. थंयच कळक आसली. हांव कळकीक भोंवताडो घालूंक लागलो. तर तो म्हज्या फाटल्यान हळू हळू येतालो. मदीं सकयल पडटालो तरी परत उबो रावतालो, उडी मारूंक केल्यार परत पडटालो.

हांव तसोच उबो रावलों आनी बंदूक जोखली. म्हणसर म्हजी बंदूक पळोवन तो झरीकडेन सकयल धावलो. झरीचे उदक पिवंक लागलो. झरीचे उदक पितना मारीनात तरी ते पथ्य हांवे पाळूंना. ताच्या तकलेर तीर धरून फार मारलो. तो थंयच उदकान पडलो. सगलें उदक रक्तान तांबडे जालें. फाटीक कळकिचे कांटे लागिल्ले, थंय चुरचुरतालें. शिक्यान आनी हावें ताका ओडत झरीनसून वयर काडलो. तिळसान जाल्ली. पाड्याची घाण येताली. मेल्ल्या वाघाक हात लांवंक भंय दिसतालो. आमी दोघायनी ताचें चामडें काडलें. केलमेतीक मांस जाल्यार व्हरून खा म्हणून सांगलें. त्या चामड्याची लांबाय आनी म्हजी लांबाय सारखीच आसली. चांमडे पळोवन येसो म्हणूक लागलो,

''अंतन ह्या वाघान कितली गोरवां मारल्यात कोण जाणां, जितो आसल्यार तो आनीक कितलिशींच मारता आसलो देव जाणा. तुवें ताका मारून बरें काम केलें.''

तें चामडे सुकतकच हांव हातुळूंक घेता. जेन्ना जेन्ना हांव ताचेर न्हिदतां तेन्ना तेन्ना ती घडणूक म्हज्या दोळया मुखार रावताच.

रीत चिपळ्यान गेल्लें. चिपळेकार थंचो सावकार. तांच्या कानार म्हजी वदंता पडिल्ली. एका वाघान चिपळेन अच्छेव वडयिल्लो. दिसाक एक बैल नातर बोकडो मारतालोच. रानान कांयच मेळना जाल्यार गोठयान येवन मारतालो. आठ दिसांक ताणे तीन बैल आनी पांच बोकडे मारिल्ले. सावकारालो पाडो ताणे दोन दिस फाटी मारिल्लो. एक दिस ताणे मनशाचेर घुरी घाल्ली. ताणे वाघ येता तो पळोवन बांयन उडी मारली, तसो तो बुडून रावलो. वाघान बांयन
पळोवन तो ना अशें समजून तो चलूंक लागलो. रिताक ह्यो गजाली कुळारा आवयन सांगल्यो. चिपळेकार भयान शेतांक, भाटांक वचूंक भिवंक लागले. रिताक पळोवन सावकारान म्हळें,

''रिता अंतनीक घरा वचून धाड काम आसा.''

रितान येवन म्हाका रकाद दिलो. सांचो रोकडोच भायर सरलों तो सावकारागेर गेलो. ताणे म्हळें,

''अंतन तुझी खबर आयकली हे खातीर रकाद धाडलो.''

''ही पळय विदेशी दोन नळयांची कारतोशीची बंदूक आनी ह्यो फोंडाच्यो

विदेशी कारतोशी. हो कपलदिवो, सेल भरील्ले आसात. बल्ब दोन चडावत आसात. तेन्ना वाघाक कितेंय करून चार पांच राती मोडून मार.''

''सावकार म्हाका कारतोशीची बंदूक मारूंक येना.''

''अरे भरपा बंदुके सारखीच, हीका कटकटना, ही पळय. ''

अशें म्हणून ताणे ती मोडप आनी घडप कशें तें दाखयलें. मागीर चाप वयर काडून भरपा बंदुकेसारखी मारप. हे दोन घोडे. फुडलो उजव्या नळयेचो तर फाटलो दाव्या नळयेचो. तीर भरपा बंदुके सारखोच काडपाचो. जाय जाल्यार कारतोश बदलूंक मिनटां भितर जाता. बंदूक घेवन हांव मावोड्या गेलों. मेवणो आसलो. तिळसान जाल्ली. आतां दुसरे दीस वाघाची खाण खूण घेवचें थारायलें. सावकारान म्हजेर विश्वास दवरिल्लो ताका पाळो दिवचो आसलो ना तर लज. हांव भायर सोप्यार न्हिदलों ब ऱ्या वर राती बैलाचो आवाज आयकलो आनी नाच्च जालो. मागीर वाघ घुरकिवंक लागलो. मनान आयले रातीन वच्चे तर मेवण्याक कसो उठयतलों ?

दुसरे दिस सकाळचो मेवण्याक घेवन वयर गेलों. बरोबर बंदूक घेतिल्ली. वयर मळार घाणी पडिल्ल्यो. चार पांच गोरवांचे सांपळे पडिल्ले. बैल सोदत फुडे वच तर तळपार एक सावकारालो पाडो मारिल्लो. मेवणो ताका रोकडोच वळखलो. गीध त्या बडकांचो पारो करत समाचार घेताले. कावळे एका बडकाचेर बसून आसले. आमकां पळयतकच तें कांव कांव करून हुडून लागसल्ल्या रूखार गेले. रान शिपाय किळांच मारल्या सारखे जीवाच्या आकांतान माथ्यावयर येवन रडटाले. आमी थंय पाविल्ले तांका नसाय जाल्ली आसतली. तळपार तळप काटया शिवाय कांयच नासलें, तरी तळप सोपतकच झोपां तीही रंजणीची दिष्टी पड. घाणीन रावंक जायना आसले. मेल्ल्या पाड्याक पळोवन चुरचुरे पडले. मेवण्यान म्हळें,

'' कुनयाद सावकार नदर लेगीत घालूंक येयलोना हेजेर. ''

वाघान ताका ओडत दक्षिणदिकेक व्हेलो. त्या कोतान वाघ दक्षीणे कडसून येतालो हे कळटाले. पाड्याचे रगत तशेंच पडत गेल्लें. बाकी बडकां लेगीत तेच वटेन चड खाल्ली. ताच्या हागवणी वेल्यान तो चड व्हड आसा अशें दिस नासले. तळपार सोदतां सोदतां एक घोलशी सांपडली. थंय लिपून रावल्यार

पाडो खुबच पैस जातलो. हे खातीर पाड्याच्या दोक्याक धरून आमी ताका पंधरा मीटरांचेर हाडलो. बरें, त्या घोलीन एकटोच रावंक शकतालो. म्हाका दिसतालें त्या वाघासारखो हो दिसान सट् करून येत म्हणून. हांव कारतोशी घालून तसो तयारेन आसलों. वत कातीर चुमचुमतालें. चुन्नाचे झाड धव्या चुन्नानी भरून आमकां पळयतालें. हावें ते बावगोवन चुन्ना पटापट तोंडान घालीं आनी बियो भायर थुकून वडयल्यो. जीभ दाटेली. घोलीन रावन कारतोशीची बंदूक जोखली तर अवकण बरी मेळटाली. बसूंक एक व्हडलो फातर हाडून दवरलो. अस्तंतिवटेन घोल आसली तरी वाघाक ह्या घाणी मुखार म्हजो वास येवचोना अशें येवजून तोच जागो बरो अशें थारायले. घोणी वयर घीट्टयो घालतना दिसताल्यो. आमच्या जागीन माथोटेर कोंबो साद घालतालो. रंजणीची नीळी जांभळी फुलां पांचव्या पानांनी उठून दिसतालीं. भाण्णात रंजण नासलीं, तळपांकडेन ती आसता जावये. आतां आमी घरची वाट धरील्ली. मेवण्यान म्हळें,

"कुनयाद एक सांगोतां. वाघीण बरीच पेरीग आसोता. एक फावट हांव माजाळे साकून येतालो. दनपारचो वोगोत. बोगळाच्या माथोटेर पावतकच जाम जावन बशिल्लों. इतल्यान म्हजी नदर शेतांत गेली. शेत दोनशें मीटरांचेर आसले. तांबडेशे किते दिसोता म्हणून चोय तर, एक वाघीण तीन पिलां घालत गेली. परत रोकडीच ती फाटी परतून येतना तिणे निमणें पील तोंडान धरून खालें मागीर तिणें मधलें खालें. म्हणसर पयलें पील लोळत खंय तरी झोपान पावले. तिचे तोंड म्हाका सारखे दिस नासलें. ती परत फुडें धावली, आनी परती फाटी येयली. मागिर ती तशीच गोठेली. थोडया वोगतान आपल्या पिलाक पोटा पोंदाक धरलें. शेत मळूंक आशिल्ल्या एका धनगरान तें पळयलें. तो बंदूक घेवन येयलो तेन्ना वाघीण ताजेर धांवतच गेली आनी फार मारतकच थंयच मरून पडली. पील मात खंय गेलें ते कळेंना. कुनयाद, भुके मुखार केसो पाप कोत्ता ती मागीर पिला खातीर जीव घाण दवरतात."

कोपेलाकडेन पावतकच एक खुरीस दिसलो. मेवण्यान म्हळें,

"फाटी हुवारांन त्या सकल्या घरांतलो चेडो बुडून मेलो. तेच्या यादस्तेक तो खुरीस तेच्या पायन बांधला."

मांवान व्हाळांतल्यो खडपी कुल्ल्यो धरून हाडिल्ल्यो. तांचे हुमण केल्लें.

खडपी कुल्ल्यो म्हज्या घोस्ताच्यो. चिपळेच्यो आनि भाण्णाच्यो रूचीक विंगड विंगड लागताल्यो. सांची हार्वे न्हीद घेतली. म्हज्या परस तांची अर्थीक स्थिती बरी आसली. दोन तीन कदेलां, दोन खाटी, मंगळुरी नळे, दारां, वणतीक शिमीट तरी ती मुंडकार म्हणूनच आसलीं. मेवणो कुयटाक वचूंक पळतालो. सायबिण मांयक लाकडी काश बरी केली.

तिळसान जातकच हार्वे कपलदिवो बांधलो. पोकी बंदूक घेवन जोखून पळयली. सेलांची काश कमराक वाल्यान घट्ट बांधली. कपलदिवो मदी बांधल्यार पतारी येना जाली. तेन्ना दाव्या वटेन घेतलो. त्या उजवाडाच्या झोतान फातरार नेम धरून पळयलो तर सारखो येतालो. मागीर मान घुंवडायता तसो उजवाड घुंवतालो. म्हाका अजाप जालें. दिवो फिरयतकच त्या वटेन बंदूक जोखतकच पतारी म्हळयार तीर रोखडोच येतालो. जुळवन घेता सर पयलीं वेळ लागतालो तितलोच. हार्वे लायट आंगणानसून घाली आनी सगल्याक फिरयली ती मांजराचेर पडली. ताचे दोळे बरेच चकचकताले, धवेच कशे. हावे उजवाडाचो झोत कुशीन घालो तरी माजराचे दोळे म्हाका दिसताले. तांचे मदले अंतर दोन इंच दीस. मागीर हार्वे गोठयान दिवो मारलो तर बैलाचे दोळे निळशे दिसताले. तांचे मदले अंतर वेतभर आसलें. झोत पडटालो तो मीटर भर वाटकुळो कुडको कसो तकली वयर काडटा तितलो वाडत वतालो आनी म्हयान घालता तितलो ल्हान जातालो. म्हाका उमेद आयली तरी जीवाचेर आज खेळपाचें आसलें. जीव वाटावलो तर वाटावलो ना तर म्हजे मर्डेच शिमतरेन व्हरपाचे पडत हें सांगू नजो आसलें. हांव सगली जाफसालदारकी घेवंक जरी तयार आसलो तरी ऐन वेळार कारतोश दगो दित तर, म्हणून मनान धाकधूक जाताली. खुटी देवी तशेच जेजू राखण करतलो हाची खात्री आसली. मोन्या गोरवांचे, बोकडांचे जीव वाटावप हाचे सारखें म्हाका पुण्य खंय आसलें ? हांव जीव मारतां तरी थोड्यांक तरी जीवदान दिल्यार म्हाका पाप लागचें ना. आतां म्हाका पयलीं सारखो वाघाचो भंय दीस नासलो. वाघ दिसतकच काडकडो भर नासलो. वाघ दिसतकच मारूंक उमेद येताली. वाघ केन्ना येत हाचो नेम नासलो देखून च्या पिवन रानाची वाट धरली. जेवण जेवल्यार सुस्ती येवन न्हीद दोळयान भरतली आनी सगले कष्ट फुकट वतले हाचो भंय आसलो.

गोरवां गोठयांक येतना हांव कपलदिवो, बंदूक घेवन .भायर सरलों. दीस उजवाडीं गेल्ल्यान दिवो पेटय नासतना सगळें दिसतालें. उमास लागीं आसली म्हणतकच काळखी पडिल्ली. मळार पावतना बडकांचो दर्प येवंक लागलो. कुत्रे एका बडकाक खाताले, म्हाका पळोवन ते गावांन धावले. तळप कांटे पायान कूच, कूच करून मदींच लागताले. जळामळाक तळपार निवेल काणयो दिसताल्यो. तांची तांबडी ल्हान ल्हान फुलां लागसल्यान पळयल्यार दोळयांत भरतालीं. फातर फोडच्यार सात आठ हड्ड्यो फळां खाताल्यो. मनशा एदो फातर त्या ल्हानशा झोपान फोडिल्लो. तें झाड फातराक फोडून वडयता आनी आपूण वाडटा, देखून ताका फातर फोडो म्हणटा आसतले. फातरफोडो फातर फोडुनच ताचेर वाडटा इतली शक्त त्या झाडान आसता. बाकी झाडां फातर फोडचे धाडस करिनात मागीर ते जांव वड वा पिंपळ, तरी फातर फोडच्याची तुस्त कोण गायता ? केंक केंक केंक करून हड्ड्यो मदीं आवाज करताल्यो, हळदुवें, तांबशें, कंठ पैसुल्यान दिष्टी पडटाले. गीमाळी तशेच पावसाळी अश्यो दोन तरांच्यो हड्ड्यो आसतात. पांचव्योच आसतात, त्यो मनशां सारख्यो शिवाण्यो घालतात तर गीमाळी दिसूंक सोबीत तरी आवाजाक सामक्यो बाद. कोणा एकटेची नदर म्हजेर पडली जावये त्यो हुडून गेल्यो. त्या आवाजान पोंदाक फळां खातालें ते कुट्टरें भुर्र करून हुडून वयर झाडार बसलें. ताका मारल्यार वाघ येवचोना हे खबर आशिल्ल्यान हांव बडका म्हयान गेलों. म्हज्या जागीन गीद वचून सातोणाच्या रूखार बसले. चांभरान पाडच्याची कातडी काडून व्हेल्ली. त्या तांबडया मांसाकडेन पळोवन तशेच त्या पाडच्यान तळपार वडयील्ली तकली पळोवन वाघाची तिडक येताली. शींगा मात तशींच जिती आसलीं. तीं खंय मरतात? गीद एक फावट लागतकच बडकाक मांस कशेच दवरनात रोकडेंच फस्त करतात, तरी कुशिल्लें मांस तांच्या चड आवडीचें. बडक काबार जाल्या बगर ते थंयचे वचनात. पैस आमोरेच्यो घांटी जाताल्यो, तांचो आवाज कानार आपटटालो. गांवार नदर मार तर धुकट वयर वतना दिसतालो. सगळें रान न्हिदेची तयारी करतालें तर हांव जागो रावंक सोदतालों. फातराचे घोलीन वचून बसलों. कपलदिवो बांधलो आनी पेटोवन उजवाड बडकाचेर सोडलो. बंदूक जोखली. मदीं फातर येतालो ताका लवंडून वडयलो. आतां त्या जाग्यार खंय आसूं वाघाक मारूंक म्हाका सोपें आसलें. हांव

घोलीन आशिल्ल्यान तसो भंय नासलो. दोन्ही नळयानी फोंडाच्यो कारतोशी घाल्ल्यो बाकी पोतयेन दवरिल्ल्यो. बसतकच तळपार पांय कड्डूंक लागले. थोडे करड हाडून पातळायलें, आनी मोव अशें जातकच बसलों. जागरण करचें आसले देखून पयलीं दोळे धापून घेतले. बशिल्ले कडेन न्हीद येवचीना हें खबर आसलें. काळखी माणत वताली. ब ःया वेळान दोळे उघड तर नेकेत्रां म्हाका जागरण करूक सांगात दितालीं. पैस पारेकार कुर्र कुरूक कुर्र कुरूेक करून वेळ सांगतालो. परत परत हांव त्या पाड्याच्या शिंगा कडेन पळयतालों. घाण येतकच थुकून वडयतालों. वारो परतो व्हांवतकच ती घाण येना आसली तरी आरतो व्हांवल्यार ओकारी येताली. सगलें सोसपांचे पडटाले. सट् करून सोरोप खंच्याय बिळानसून येवन दंश करना मूं ? असो दुबाव मन उक्तायतालें. बरे जिवाणे त्या काळखांक दिष्टी कशें पडटले ? सोरोप दुकल्यारच दाव धरता तरी हेर जीवाणी वाटेर मनीस मेळल्यार खंय सोडटोत ? विचारान मात्सो निराश जातालो. सगले विचार झटकून वडयले. इतल्यान घांटीचो आवाज आयलो. तो आवाज बरोच पैसुल्यान येतालो. ऐखाद्रे बैल रातचो रानान चुकून उरला जायत. आतां त्या घांटीचो आवाज कमी कमी येत गेलो. हाचे वेल्यान तो बैल फोंडयेन देवन घरा चलूंक लागला आसतलो. वाघ त्या आवाजान थंय वचना मूं ? म्हजे जागरण फुकट वच्चे ना मूं ? तरी आतां हांव तयारेन बशिल्लो किर्ते जाता तें जावं रात जागोवपाचीच असो बेत हावें केल्लो. जांभयो येताल्यो. घरची याद जाताली. संसाराचो पेज जरी माथ्यार आसलो तरी हो वेळ विचार करपाचो नासलो. हें खबर आ[illegible] लेगीत विचारांक उदका सारखो बांध घालूंन आडावंक शक नासलों. वाघ अ[illegible] येतलो, आतां येतलो अशें दीस तरी दिष्टी पड नासलो. पैस झाडाचें फळ पडिल्ल्याचो आवाज आयलो. खिणभर वाघाचो भास जालो. हावें दोळे ताणून धरले, बरो वेळ जालो तरी तो येवंक ना. हावें बंदूक खिणभर खांदाक लावन सकयल का[illegible]ली. कारतोशी पोतयेन आसल्यो त्यो हातान सासपून पळयल्यो. पांय मुयेताले, तेन्ना मात्सो सोडटालों. पलतडेन घुर्र घुर्र असो आवाज आयकूंक येतालो, तेन्नाच ताका परत साद चिपळेच्या वाघान दिलो. तरी तो तीन चार किलोमीटरांचेर आसलो असो म्हजो अदमास. थंयसून बडका कडेन येवंक ताका वरभर तरी लागतलें. जांभयो परत्यो परत्यो येताल्यो. न्हीद दोळयांत

येताली. बारा जावन वतलीं तरी ताचो पत्तो नासलो. त्या वाघाचो तो आवाज जाल्यार वर भर वतलें. तेन्ना थोडी न्हीद घेवन उठचे अशें थारायलें. मात्शे पांय सोडले आनी तळपार आड न्हिदलों.

मेवण्यान हात लायतकच उठ तर सुर्य उदेल्लो. हांव काचापूल जालों. रानान न्हिदिल्लों तो ही वाघ येवचे कडेन हें लक्षान येतकच पोटान धस् जालें. कावळे, गीध सकाळचे तांचे खाण खाताले. हड्ड्यो लेगीत फातर फोड्यार हुडतना दिंसताल्यो. तरी तांच्या रडपाचो आवाज नासलो. पोट भरचे पयलीं त्यो रडनात. हांव दोळे चोळीत तळपार वचून त्या बडकाक पळय तर म्हजो म्हज्या दोळयांचेर विश्वास बसलोना. परत दोळे चोळून पळय तर वाघान बडक चार मीटर फुडे उर्देतिवटेन व्हेल्लें. गळो सगलो खाल्लो, पोट फोडिल्लें. सगल्याक घाणच पडिल्ली. त्या पाड्याची अप्रतिष्टा करून सोडिल्ली. ताची वळख लेगीत पटप कठीण जाल्लें. पैस रानकोंबो धोक्याचो इशारो दितालो. रान शिपाय माथ्यार वयर हुडत पाड्याच्या मरणाचें बेंड वाजयतालो. मनान आयले रातीन ताणे वासान म्हजेर उडी मारील्ली तर ह्या बडका सारखी म्हजी स्थिती जावपाची. वाघाक मारतना इतलो बेसावध रावप म्हळयार मुर्खपणाचेच. जाल्लें ते जावन गेल्लें, आतां फुडे पळोवपाचें असो विचार करून आमी घरां येवंक लागले.

मळावेली दोन बडकां गीधानी सामकी धवीं करून सांपळे तितलेच दवरिल्ले. कावळे एका बडकाचेर आपलो कब्जो करून आसले. हावे शेवटून फातर मारतकच ते कांव कांव करून सगले झाडार बसले तरी गीध भिये नासले. ते बडकाक सोडूंक तयार नासले. मेवणो म्हणूंक लागलो,

''कुनयाद ह्या मळार गोरवां येनात तेंका सोगलें गोमतां.''

म्हाका भूक लागिल्ली. हावें तकली हालयली. बंदूक, पोती मेवण्याकडेन दिवन हातांत एक बडी घेवन चलूंक लागलों.

दीसभर न्हिदुन रावलो आनी कालचे सारखो सांचो तळपार गेलों. वतना मांवा कडसून टांस घेतलो. तो बडकाच्या पांयाक बांधलो आनी दुसरें तोंक म्हज्या पायांक बांधले. न्हीद येवची न्हय म्हणून थोडो मिरसांगाचो पीठो करून घेतलो. मर्दी मर्दी थोडोसो जीभेर दवतरकच न्हिद येना आसली. रात चडत आसली. बारा जावन गेल्ली जावये. म्हज्या पायांक टासान ओडलो. तसो हांव शादूर आसलों.

काळशें किर्ते तरी बडकाचेर दिसतालें. हावें बंदूक खांदाक लावन जोखली. कपलदिवो बडकावटेन धरलो. चापी दोनय वयर काडल्यो आनी काशीचें बटण फुडे धुकल्लें. लक् करून उजवाड पडलो तर वाघ बडक खातालो. दिव्याक पळोवंक ताणें तकली वयर काडली आनी उजवाड परतो म्हजेर सोडलो. ताचे ते उजवाडासारखे दोळे पळोवन म्हज्या दोळ्यांन काजुले आयले. तो आतां दोन फुडले पांय बडकार तर फाटले पांय तळपार दवरून म्हाकाच पळयतालो. म्हाका तो पालसो जाल्लो जाय आसलो तरी तो हालूंक तयार नासलो. म्हाका तो आव्हान दितालो. म्हणटालो जावये, आसा कापोस्ताद तर मार फार. म्हाका भंय दिसलो तरी आव्हानाक आपणायल्या शिवाय गत्यंतर नासलें. धांवत गेलो तरी तो फाट सोडपी न्हय हें म्हाका खबर आसलें. हावें जेजुची याद केली आनी नेम तांच्या दोळया मदीं धरलो आनी फुडलो घोडो ओडलो. त्या फाराचो आवाज येवचे पयलीं ताणे घोडो ओडतना उडी मारची तयारी केल्ली जावये. तो दोन उडयो मारून तिसरी म्हजेर उडी मारूक वयर उडलो, तेन्हा पोटा पोंदच्यान काळजाकडेन नेम धरून दुसरी कारतोश मारली. हावें परत आनीक एक कारतोश नळयेन घालीं. म्हणसर वाघ हांव बशिल्ले घोली वयर पडून हांत पांय बडयतालो. हावें आनीक एक कारतोश ताच्या मस्तकार मारली. घर्र करून निमणी किळांच मारून तो तसोच पडलो. कपल दिवो मार तर आंगाक बारिक पाट आसले. शेपटी खुबच मोठी, हात भर उबारी, लांबी दोन मीटरां परस चड आसली. म्हज्या हाता पायांक कडकडो भरिल्लो. सावकार तीन फार आयकतकच मेवण्याक घेवन म्हज्या येवकाराक मळार आयलो. ताणे त्या वाघाक पळोवन एक कारतोश मेल्लेकडेन मारून आपली तिडक उक्तायली. ताणे म्हाका कपलदिवा, कारतोशी बंदूक इनाम म्हणून दिली. ताणे त्या वाघाचे चामडे रापोवन घरान दवरलें, ती त्या घडणुकेची याद म्हणून.

कपलदिवो आनी बंदूक घेवन हांव भाण्णात आयलों. चिपळे लोकांचे आशिर्वाद म्हज्या फाटल्यान आसले. दोन वाघ मारिल्ल्यान म्हजो धीर वाडिल्लो. वाघ म्हळ्यार पयलीं भंय दीस, त्या जाग्यार तो दिसल्यार मारपाक म्हाका उमेद येताली. वाघाक मारल्यारच कासादोर म्हणटाले.

तीन दिस सेगीत पावस पडटालो. चौथ्या दिसाक तरी कमी जातलो अशें





येवजून हावें वजयार गोरवांक आमुडलीं. पावस कांबळीक कसोच आयक नासलो. गोरवां झोपानी वचून पावस आंगार घेवंक सोदी नासलीं. हांव लागसल्ल्या कळकीन भीतर सरून उबो रावलो. कळकीक कांटे आसले. इतल्यान कापिटलान खंयसून तरी पिसयेक धांवडावन हाडली. ती तो फाटी लागतकच हांव उबो आशिल्ल्या कळकीन भीतर कांटयाची पर्वा करी नासतना घुसली. कापिटलाचो इलाज नासलो. तो भोकूंक लागलो. हावें बारीक साणेन पळय तर पिसय कडकडटाली. एकतर पावसान आनी दुसरे म्हळ्यार भयान. कापिटल भायर आशिल्ल्यान तीका वचूंक मार्ग नासलो. कळकिनच तिची राखण केल्ली. हावें हळू बाग घेवन जमनिवेलो फातर काडलो आनी लागसर आशिल्ल्या पिसयेचेर मारलो. ती थंयच मरून पडली. कापिटल भोकूंक लागलो. त्या आवाजान वज यावेलो गांवकार कोणाक भोकता तें पळोवंक थंय आयलो. पिसय हावें हळ्च हात घालून भायर काडिल्ली. गांवकार म्हणूक लागलो,

"अरे, हें खुटी देविचें थळ, तेन्ना हांगाच्यो वोस्तु सगल्यो खुटयेच्यो. ही पिसय लेगीत खुटयेचीच"

अशें म्हणत ताणें पिसयेचो फाटलो पांय कापून म्हाका दिलो आनी पिसय घेवन तिची तकली कापून खुटयेकडेन व्हरून वडवन उरील्ली पिसय घेवन घरा गेलो. हावें हाता फातरान पिसय देविच्या बळार मारली असो समज करून घेवन तो पांय घेवन गोरवां आमडूंक लागलो.

एक दिस हांव मामलेतदारा कडेन म्हळ्यार आलमीस्त्रादोरा कडेन वचूंन ताका दोन वाघ, एक दुकर मारलो अशें सांगून तांच्यो शेपट्यो दाखयल्यो. ताणें म्हाका कासाचो डिप्लोमा, बंदुकेक लायसन दिलें. म्हज्यानीं तीन बंदुको वापरूंक येताल्यो. म्हाका दिसलें जीर्णेन झगडत रावल्यारच्र चार चौघाक नामना मेळटा. मेल्यार लेगीत कर्मानी मनीस उरता तो असो. पयलीं पयलीं फार मारतना म्हाका त्या आवाजाचो भंय दीस, तर आतां तो आवाज करूंक उमेद येताली.

दिसभर कास केलो तरी म्हज्या शेताची कामां तशींच पडून आसतालीं म्हणून कास फावता तेन्ना करपाचो अशे थारायलें. घरान तांदूळ करतलो म्हळ्यार भात नासलें. बोरी कडेन भाताचें गुडवें घाल्लें. रिताक गुडव्या कुशीन खो यान जागो तासून दिलो, ताणे सांच्चे शेण काडलें. कळकी कोंड्याचें एक मडकूळ

करून हाडलें. पयलींचो मेडको आसलो. दुसरे दिस खळ सुकतकच मळणी घाली. रेकेल बडी घेवन बैलांक आमुडटालें तर हांव मडकुलान धान वयर काडून भात सकयल झडयतालों. बैल मर्दीच रावल्यार भितर तणानसून तोंड घालून भात खाताले, तेन्ना तांच्या फाटीर मडकूळ मारून धांवडावचे पड. रेकेलाक ते आयकनासले. ते बैला फाटल्यान चलूंक बेजारतालें. पयलीं थोडी उमेद आसली तरी मागीर ताचे पांय मोडून येताले. म्हाका तें कळटालें,

"रेकेल मांय येतकच तुका सोडतां."

अशें म्हणतकच ते खोशी जालें. येसो तिळसानचो देवाकडेन व्हडाव्हडान कातरां म्हणटालो. व्हनी तुळशी कडेन दिवो लायताली तो बरोच वेळ पेटटालो. रीत गोरवांक लाडू तळयांत सोडून आयिल्लें. रेकेल तें येतकच धावलें. आतां हांव दोनी कामां करतालो. घुस तोडांन वचत म्हणून हावें तोंडाक, नाकाक बतर बांधिल्ले, तरी आंग घाम येतकच बुडबुडटाले.

"रिता चाव हाड गो."

अशें व्हडल्या सुरान म्हळें. रीत कट्टेन निकटी चाव घेवन आयले. ती पितकच हावें रीताक मात्शे बैलांक आमडूंक सांगले. तितलोच म्हाका सुशेग मेळळो. थोडया वेळान खळ जालें. ते भात एकठांय राशीक केलें आनी परत धान फाफडून बैलांक गोठयान व्हरून बांधले. रितान हांड्यांत कडकडित उदक तापोवन दवरिल्लें. हांव न्हातकच तीं न्हालीं. सकाळीं उठून घरते बैल बांधून रेकेलाक बैल आमडूंक लायले. आठ दिसांनी भात उबोवन जालें. धनयालो खंड दिलो, ताचेकडल्यान उष्णे हाडिल्लें भात दिलें. थोडे भात विकून दारू मुळसांव हाडले. आतां हांव बेकार जाल्लों. शेतान तशेच शेता लागसर आशिल्ले रूख हावें बोडकायले आनी तांचे खांदे शेतभर पातलायले. हाका 'आतोड मारप' म्हणटात. गीमा दिसांनी तें सुकतकच पावस पडचे पयली तांका उजो लावन शेत भाजपाचे म्हणतकच पीक बरी येता. माया म्हयन्याच्या विस तारखेक सांचो पावस भरलो. तिळसान जाता म्हणसर जोगलां दिसूंक लागलीं. रोकडोच कुपांचो गडगड, पावस, तातूंत जोगलां, सैमाचो नाच सुरू जाल्लो. पयलो पावस आंगार घेतकच म्हजे घामोळे फुटलें. मातयेनसून चेराचो वास सुटलो. पावस बारीक बारीक थांबून थांबून पडटालो. हावें तिळसान जातनाच जेवन घेतलें. कपलदिवो

सारखो केलो. बंदुकेन फार भरलो. पावस कमी जातकच केलमतीक बरोबर व्हरचो अशें थारायलें. पावळयो टप् टप् गळटाल्यो. वा यान वावझड भितर येता हे खातीर कवड आड लायलें. चिमणी म्ह यान घेत विडी फुसकावंक लागलों. पयल्या पावसान पयलेच फावट रातीन कासाक वचपाची म्हाका उमळशीक लागिल्ली. जोगलांची केणां पडतकच सगल्याक दिस जातालो. हावें कपलदिवो घालून पळयल्यार तो त्या उजवाडामुखार दीस नासलो. पयलेंच वोल म्हणतकच रानात रातचो कासा गेल्यार बरी संध आसली. जोगलां एक सारखी पडटालीं. पावस इल्लो इल्लो पडलो तरी उदक जमयतालो. तरी भूंय ते उदक पियेवन वडयताली. बारा वर रात जातकच पावस थांबलो, तरी जोगलां थांबना जालीं. गडगड तर वाडत आसलो. हावें न्हीद घेवपाची अशे चितून हातुणार फार तेकयली आनी मांणाय उषाक घेतलीं. न्हीद कशी येना जाली. रीत जागेंच आसले. कवडानसून तर्शेंच फाटल्या जनेलानसून उजवाड येतकच दोळे घुंवताले. चादर माथ्या वेल्यान घेतकच ब या वर राती न्हीद लागली.

दुसरे दिस उठ तर चिकचीक जाल्लो. आंगण रातीचे पावसान वाट लागिल्लें. घरान मदीं दोन कडेन गळिल्लें. भायर थंडाय पातळील्ली. कावळो शेतांतल्या फोडकुलांन आंग बुडोवन न्हातालो. कवडे शेतान देवंक नासले. पैस माकड हुपेयताले, ते खोशनच जावये. घरा मुखार आंगणान काळ्यो काटमुयो वळीन धांवताल्यो, तरी वाळटेक पाखां फुटचीं आसलीं. बकीं नुस्त्याच्या आशेन शेतान देविल्लीं. तसोच धनयागेर गेलो. व्हनयेन शेंतार घालून तांदळाच्या भाकरेचो कुडको दिलो. हावें नाल्ली व्हरतकच तातूंत तिणें च्या ओतली. तिची भाकरी बरी जाताली. येशान म्हळें,

"अंतन रातचो कासाक वचुंना ? "

"ना जोगलां चकचकताली, आज पळोवया."

"अंतन खंय मेळ्यार सात - आठ हात किनळाची पाटी हाड, तासणे पाट लायल्यार उपकारता."

"बरें धानयां. "

म्हणत हावें नाल्ली वडयली आनी घरा आयलों. वाटेर केलमेत मेळ्ळो.

"अंतन राती गेल्लो ? "

"ना रे आज या. तिळसान जातकच रोकडोच यो."

अशें म्हणत हावें घरची वाट धरली. दीस सोपून केन्ना रात येता अशें म्हाका जाल्लें. तरी दीस सोपून सोपनासलो. रातीन जागरण करपाचे म्हणून हावें दिसभर न्हीद काडली. तरी ती तशी येना आसली. बळयां दोळे धापून घेतालों.

'घो ' असो आवाज जातकच हांव भायर आयलों. रितान सुके लाकूड हाडून आंगणात वडयिल्लें. पावस थोडो पडलो तरी सुक्या लाकडांत उदक वचना, कापटयो केल्यार त्यो पेट्टात. हांवे कुराड व्हरून कापटयो फोडूंक लागलो. सुर्य बरोच सकयल देविलों. भांगर शेत भर पातळिल्लें. तान लागतकच हावं थंड उदक पियेलों. तेन्नाच म्हजी नदर बोरीकडेन गेली तर दोन चितलां नाचतालीं. तांच्या आंगावेले ठिपके पैस सावन म्हाका दिष्टी पडले. कोरतोश घालून हांव बंदूक घेवन शेता कडावळीक गेलों. वेल्या कुणगेन रावन फार मारपाचो अशें मनान आयलें तरी त्या चितलाचें बागडप, धांवप, उडयो मारप पळोवन असलें पळोवचे खीण जल्मान येवचेना हे खातीर हावें बंदूक जमनिरच दवरली आनी बारिकसाणेन तांका पळोवंक लागलो. एक शिंगाडी आनी एक मूंड मनसोक्त बांगडटाली. हांव म्हाकाच विसरून गेलों. सिनेमा पळयतना दोळ्यांक खोस जाता तरी बाकी कूड स्थीर आसता, हालचाल करी नासतना म्हळ्यारच दोळे कुडिचेर शेख गाजयतात तशीच म्हजी अवस्था जाल्ली. इतल्यान शिंगाड्याची शींगा बोरीक आदळलीं. तो नाच सोडून फिडकी मारत धावलो आनी म्हज्या आंगणान आशिल्ल्या हांड्यांतलें उदक पिवंक लागलो. तांका पळोवन कापिटल भोकूंक लागलो. हांव हातान बंदूक घेवन आंगण लागीं करतालो. कापिटलाक पळोवन ती रानान धावलीं. मनशाक तीं मोनेळ घालूंक शकलीं तरी (कुत्र्या) प्राण्याचेर तीं मोनेळ घालूंक शकलींना. रीत मडकी घेवन आंगणान पावतकच म्हणूक लागलें,

"वाघ धरूं त्या चितलांक, उदक खदळ करोन वडयतात."

सुंदरकायेक पळोवचे दोळे रिताक नासले ताचे दोळे व्यवहारोक आसले.

सुर्य पडतकच पेज जेवन मेकळों जालों. केलमेत केन्ना येत अशें येवजून भायर बसून रावलो. केलमेतिगेर वानाचो आवाज येतालो. पोतयेन फोडां, मुळसांव, केपां, फस्क, दारू, काथो, बल्ब आसात हाची परती खात्री करून घेतली. स

सेल काशीन घाल्ले, बटण फुडे व्हरतकच दिवो पेटलो. फार कालच भरून दवरिल्लो. दिव्या कडेन बारीक किरमुसां येवन परत परत ताची ज्योत पालवयतालीं. रीत वाजेनासतना ती चिमणी पेटयतालें. रीत, रेकेल जेवलीं. रेकेल आयदना घासताले. काळखी मळबान आसली तरी पावस पडपाचीं चिन्ना दिस नासली. म्हाका जांभयो येवंक लागल्यो तरी केलमेतिचो पत्तो नासलो. रातीन एकटो वचप न्हय हें म्हाका खबर आसलें. कसलो प्रसंग येत हें सांगू नजो अश्या विचारान आसतना हांव घरान सरलों. रीत न्हिदचें आसले तरी रेकेल न्हिदिल्लें. रान्नीन तांबडे इगळे आसले. चिमणी पालवयील्ली ती पेटोवंनासली. तरी त्या इगळयांचो मात्सो उजवाड घरान पडटालो.

''अंतन न्हिदलो रे.''

ही उतरां आयकून हांव उठून रोकडोच भायर यो तर हात दिवो घेवन केलमेत तयार. फाटीर कांबळी फटें आसलें तर आंकडेक कोयती.

''या मरे.''

अशें म्हणतनाच पावस पडूंक लागलो. आमी दोघय भितर बसले तर तो चडच आयलो. जोगलां, गडगड नासलो. आंगणान पावलभर उदक जालें. केलमेत म्हणूंक लागलो,

''पावस वचपाचें चिन्ह ना.''

म्हणसर वारो सुटलो तसो पावस कमी कमी जायत गेलो. थोड्याच वेळान तो सामकोच बंद जालो.

''केलमेत आज खरें वोल जालां काल जोगलांनी वचूंक दिलें ना. आज सगले जीव वाटे लांगी येतले कित्याक तर मेकळ वाटे लांगी आसता देखून.''

हावें ताचे जोते घालें. रातचे पांया पोनाक सांभाळूंक जाय हें म्हाका खबर आसले. हावें कपलदिवो म्हज्या कपलाच्या दाव्यावटेन बांधलो हातदिव्याक दोरी घालून गळयान घालो. बंदुकेक दोरी आसली ती खांदाक लायली. मात्रेर फातराक तीर धरून जोखून पळयलें. कपलदिव्याचो झोत हालोवन परत जोख तर पतारी रोकडी येताली. पोती ताचे कडेन दिली.

'' केलमेत खांकप, उलोवप ना''

अशे म्हणत हांव लाडू तळयाची वाट चलूंक लागलो.

फोडगुसाच्या रूखाक म्होवांचो वास पैसुल्ल्यान येतालो. वाटेर चिक चिक जाल्लो. शिमेर पावतकच कोसंबाचो रूख लागलो. फुडे जळामळाक ओथांबे पडटाले. ते ल्हान झोपांच्या पानार पडतकच व्हड आवाज येतालो. पत्रो मव जाल्ल्यान ताचेर ते पडले तरी आवाज येना आसलो. हावें फुडे, तशेंच दाव्या, उजव्या वटेन कपलदिवो घुवंडायलो. जेन्ना काशीचे बटण फुडे व्हेलें तेन्ना कपलदिवो पेट्टालो. जाय तितलो वेळ दवरून परत फाटी व्हेलें कीं कपलदिवो पालवतालो. मागीर हात दिवो पेटोवन फुर्डे वचप. ज्या जाग्यार कपल दिवो घालूंक ना थंय परत घालप. अशे तरेन हांव लाडू तळयान पावलों. पानांचेर दिवो मारतकच ताचो उजवाड परत दोळ्यांर पडटालो. ओथांबे पडिल्ल्यान त्या आवाजान जीव, जनावर येता असो भास जातालो. कपलदिव्याचेर जमनिर दोन ल्हानशे तांबडे दोळे धांवतना दिसले. दिव्याचेर आंग दिसचे पयलीं जीवाचे दोळे दिसतात मागीर बारीक साणेन पळयल्यारच आंग दिष्टी पडटा. हावें खांदाची बंदूक काडून जोखली तेन्ना केलमेतीक तो 'इंदूर' म्हळें रोकडोच तो बिळान गेलो. फुडे मानशेर परत दोळे दिसले सामके बारीक, वाटेर आड सातफाळ जिवाणें पडून आसले. तो हळू हळू किर्ते तरी खाण सोदत वाटेवेल्यान शेतांत देंवतालो.

''भायर सरतनाच अपशकून मरे. '' अशें केलमेतीन म्हळें.

बंदुकेन मुळसांवाचो फार भरिल्लो तरी बल्सान पांच फोडां घेतिल्लीं. दुकर दिष्टी पडत तर ? मुळसांवा वयर फोडां घालून फार मारपाचो. केलमेतीन म्हाका राव म्हणून सांगलें. आंकडेची कोयती काडून चुन्नी काटी कापून हाडली. तीन वाटो एकठांय जाल्ल्यो थंय ती दवरली आनी एक एक फातर हाडून दिसभर मेळील्या लोकांची नांवां घेवन गाळी मारत त्या काटयेर दवरूंक लागलों. सगल्याचीं नांवा घेतकच 'मोरताल' जाली अशें म्हणूंक लागलो. कोणाची आशा आसल्यार वचूं हो हेतू. वाटेर ल्हान ल्हान फातर आशिल्ल्यान सांभाळून वच्चे पड. बंदुकेचे वजन तशें बरेच आसलें, खांद मोडून येतालो. आता हांव वजयाच्या वाटेर पाविल्लो, इतल्यान दोन मीटरांचेर मांजराच्या दोळयासारखे धवे दोन दोळे दिष्टी पडले. दोन दोळ्यां मदलें अंतर इंचभर आसलें. हावे दिवो तसोच दवरलो तर ते दोळे वयर सकयल, परते सकयल वयर येताले. पिटकुळेच्या झोपान ते

दोळे आशिल्ल्यान जीवाचें आंग दिष्टी पड नासलें. केलमेतिन म्हळें,

"पिसय मार फार."

हावें बंदूक जोखली चाप वयर काडून नेम धरून घोडो ओडलो. फट् आवाज जालो आनी केप पेटूं ना. हावें बंदूक सकयल काडली, बंदुकेन दगो दिल्लो. पावस रातचो तसो थोडया वेळापयली पडिल्ल्यान केप शेळेल्लें जायत अशें मनान येतना हावे कपलदिवो पालवयलो आनी हात दिव्यान फस्काच्या काडयेचो गंदक तशेंच एके वटेचे तांबडेशे कागद काडून तें त्या केपान घालें. केप तुंबार लायलें. चाप केपार घोड्याक मात्शें बोट लावन दवरलो. वज यावटेन काळखान सात आठ मीटर फुडे वचून बटण फुडे धुकल्लें. दाव्यान उजव्यान दिवो घालो तर फोक फोक फोक असो बोणकीन आवाज आयलो. पिसयच जावंक जाय अशें येवजून हावें पायांचें जोतें काडले, दिवो बंद केलो, वाटेन फुडे वचून बोणक लांगी केली. वाटेर कांटे आसले. कपलदिवो पेटयल्यार पिसय धांवतली देखून हांव जतनाय घेतालो. बंदूक खांदाक लावन कपलदिवो पेटयलो. म्हाका बोणकी भितर दोळे दिसले आनी नाच्च जाले. फोक फोक फोक आवाज करून ती वाटेवटेन वताली जावये. फुडे दिवो घालतर ती दोळे दाखवंक लागली. इतल्यान तेवटेन केलमेत आसा हाची याद जाली. दिव्याचो उजवाड केलमेती म्ह त्यान पडतकच ताणे शिवोणी घाली. त्या आवाजान पिसय आड धांवक लागली. वाटेर आशिल्ल्यान येतनाच धांवार हावें फार मारून सोडलो. तिका थोडे मुळसांव लागले आसतले. फार मात्सो तडवेल्लो. ती त्या पिटकुळे झोपान धडपडुंक लागली. हावें 'केलमेत' म्हळें. तो तसोच आड म्हज्या वटेन येवंक लागलो. कपलदिवो पालवन हावें ताका हात दिवो घालो. त्या अदमासार तो आयलो. आमी रोकडोच फार भरलो. आतां पिसयेचो आवाज नासलो. केलमेतीक बरोबर घेवन ती धडपडटाली थंय गेले. फुडें वाट आसली. वाटेर वचून सोदली तरी पिसयेचो पत्तो नासलो. म्हाका पिकसांव जालें.

वारो बरोच सुटिल्लो. कुडकुडो खालो तरी चलतकच कुडकुडो वतालो. व्हाळान तशें उदक नासलें तरी शेतान बरेंच आसलें. दिव्या उजवाडाक बारीक तांबडे दोळे शेतभर दिसताले. दोळे थीर आसले म्हणतकच ते बेबे हें कळूंक वेळ लागलोना. बेबे गीमान खंय लिपतात कोण जाणां ? तरी पावस पडतकच

ते सगले वयर येतात. बेबक्यो कुर्टर, कुर्टर असो परत परत ऐकेच फावट आवाज करताल्यो. बेबे मात डरांव डरांव आवाज मोठया मोठयान काडटाले. म्हणसर कडावळीक तांबडे दोन दोळे वयर सकयल हालतना दिसलें. बारीक पिसये सारखे पाट दिसले. पिसय समजून हावें दोन चार पावलां फुडे वडवन फार मारलो. कपलदिवो तसोच घालून दवरलो तर धुकट जाल्ल्यान कांयच दिसना जालें. वाऱ्यान धुकट वतकच पळय तर किर्ते तरी पडलां. म्हऱ्यान वचून दिव्या उजवाड घालतगच केलमेतीन म्हळें,

''अंतन हो जवादो''

म्हजो अदमास चुकिल्लो. केलमेत जवादो खातालो तरी हांव खाय नासलो. ताका उग्र दर्प येतालो तो ताच्या बुराचो अशे केलमेतीन सांगले. पिसय आनी जवादो हातून पळोवंक व्हडलो फरक आसना. पिसयेक काळे पाट तर जवाद्याक काळे टिपके. तरी रातीन दिव्या उजवाडाक इतलो फरक कळना. पिसय दोळे वयर सकयल करता तर जवादो थीर दवरता तरी इतलो फरक रातचो पारखूंक रावल्यार पिसय रावप कठिण, मुखेल फरक म्हळयार शेपटी. जवद्याची शेपटी हातभर तर पिसयेची इंचभर आसता तरी उजवाड घालतकच जीव आपलें तोंड उजवाडाक दिता देखून शेपटी पारखूंक बेगीन मेळना. शेपटी पळयतलो म्हणसर वेळ लागता ते मेरेन जीव उडी मारून धांवता. ताका केलमेतीन सांकान घालो परत फार भरलो. कपलदिव्याक हुंदीर राव नासले, धांवताले. वजरो हुपून कल्लेगाळीर पाव तर थंय कोले दिसले. ते शेतान कुल्ल्यो खावंक आयील्ले जावये. आमच्या जागीन ते वयर रानान धांवले आनी कुई कुई करूंक लागले. फुडें दिव्याक पळोवन एक चितल उडी मारून गेलें. म्हाका दिसलें तो वाघच म्हणून. पांय मोडून आयील्ल्यान आमी एका फातरार बसले. म्हाका पित्ताचो उपद्रव आशिल्ल्यान कायच दिष्टी पडना जालें. हात दिवो केलमतीन म्हज्या तोंडार घालून पळय तर म्हजो दावो दोळो तांबडो जाल्लो. म्हजी तकली उसळटाली. चड वेळ बसल्यार पावस येवची भिरांत आसली. कपलदिवो बांधून बंदूक जोखून आमी परत वंडगाळीच्यान वच्चे थारायलें.

वाटेर कपलदिवो पेटयत आमी वंडगाळीच्या शेतान पावले. दिवो शेतान घाल तर एका वेताच्या अंतरान दोन दोळे थीर दिसतात. दिवो हांवे मात्सो ताचे

वेलो चुकयलो, तो चलूंक लागलो. शेपटी वयर काडून तो म्हाका पळयत रावलो, परत शेतान बसून रावलो. तो म्हाका म्हणटालो जावये,

"कापोसताद आसा तर मार म्हाका, हांव जवादो न्हय वाघ."

म्हजे हात पांय कडकडूंक लागले. कारतोश मारूंक बरें आसलें. भरील्लो फार सारखो पेटत हाची खात्री नासली. पावसान केप, दारू शेळेतात. परत बटण फाटी ओडून काळोख केलो. परत दिवो पेटय तर वाघ देगेक वचून झाडाच्या आडसाक रावन दोळे दाखयतालो. मागीर तो नाच जालो. एक आरिष्ट पैसावलें. हावें उजव्या वटेन दिवो घाल तर थंय कितें तरी काळशेंशे दिसलें. मोरान पांखा फुलवचीं तशीं कांटे फुलयतकच म्हाका केलमेतीन 'साळळ' म्हळें. मनान आयलें आतां वेळ करप म्हळ्यार संध सोडप. बंदूक जोखून फार मारूंक तीणे शेताच्या सकल्या कुणगेन उडी घेतली आनी म्हाका घसटून धांवली. कांटे म्हज्या आंगाक बरगूंन गेले. साळळ गेल्ली, म्हजो फार चुकील्लो. साळळीक तकलेर मारपाचे काटयार मारल्यार ती पडना. कांटे म्हज्या पांयाक बरगल्ले. परत फार भरून आमी येवंक लागले. वजया वाटेर पावंक तांबडे दोळे दिसले, तेही जमनीक लागून थीर. हांव फुडे गेलों तरी ते तशेच आसले. म्हाका दुबाव गेलो पिसयेचे दोळे काजुल्या सारखे. ही पिसय जावचीना. इतल्यान तो दोळे वयर हुडून झाडार बसले. 'कापू' तो केलमेतीन म्हळें. फुडें दिवो मार तर पिसय. रोकडोच हावें फार सोडलो. धुकट वतकच पिसयेचे दोळे दिसले. केलमेतीन वचून पळय तर त्या जाग्याक तो वळखलो. व्हदळ मारिल्ली पिसय फोंडकुलान मरून पडिल्ली. तिकाच हावें परतो मारील्लो. मेल्ल्या पिसयेचे दोळे जीत्या पिसये सारखे चकचकतात हे म्हाका तेन्ना कळळें. ताणें ती फाटल्या दोक्यानी हातान धरली. तिचें तोंड भुयेकडेन केल्लें. आतां आमी लाडू तळ्यान पाविल्ले. वाटेर बिबटीचें फळ म्हज्या तकलेर पडलें. हावे दिवो वयर झाडार घाल तर दोन काजुल्याच्या आकाराचे दोळे तेंगशेर दिसले. दोन काजुले कशे हालताले. बिबटी रूखार म्हणतगच तो 'काट्टांदोर' जावंक जाय. म्हाका ताचें आंग दिस नासले. केलमेतिन वळखून म्हळे 'काट्टांदोर मार'. हांव काट्टांदोर खातालो. तो फळां खातालो. हावें तीर धरून बंदुकेन फार मारलो. ड्ड्ब करून काटांदोर जमनीर पडलो. मांजरा सारखो तरी बारीक, ल्हान. मागीर घरा येतकच केलमेतीन हांड्या पोंदाक

उजो पेटयलो. पिसय त्या उज्यार हुलपिली. मागीर गरम आसतना तीचेर गोबोर वडवन सुरयेन केस तासले. पिसय सामकी धवी जाली. मागीर त्या प्रमाण ताणें काट्टांदोर हुलपिलो आनी गरम गोबर लावन तासलो. जवादो आपल्या घरा व्हरून सुशेगाद सारखो करचो म्हणून दवरलो. पिसयेन खाल्ले खाण तोंडानसून भायर आयलें. हावें म्हळें केलमेत म्हाका याद जाता ती त्या कुंभारान सांगिल्ल्या त्या उतराची "जिवाचे तोंड मारतकच मळबावाटेन धरूंक जाय तें ह्याच खातीर आसतलें." पिसयेक गेथां आसतात तोंड बारीक लांबट तर जवादो मांजरा सारखो तोंडान मोठो पिसये सारखे आंग. काट्टांदोर मांजरा सारखो तरी तकली बारीक काळो किट्ट आकारान ल्हान. जवादो पिसयेचे अर्धान आसता. पिसयेची शागोती सुवादिक, मोव, काट्टांदोराचे घटट, वातड. रूच आसली तरी वास येता. जवाद्याच्या मांसाक वास खुबच येता. मांस वेगळे काडून मागीर मनकुट्यार म्हळयार लाकडा कुडक्यार हाडां बारीक केलीं.

दुसरे दिस शिक्यागेर कोष्टी(वांटो) व्हरून दिली. रिताक काटादोराचें मांस चिपळयांक व्हरून दी म्हणून सांगले. हांवे थोडे मादाळे व्हरून विकून सेल, दारू, मुळसांव हाडले. मेस्तागेर बंदूक व्हरून चाप सारखी केली.

विसेक दिसांनी मिर्गार सकाळ ते सांज मेरेन पावस पडलो. रातचो आसोर जालो. केलमेत जवाद्याच्या आशेन तिळसानचो म्हज्या घरा आयलो. रातचो भोवंडेक वचूंक आतां म्हाका भंय दीस नासलो. खंय दिवो फिरवचो, कसो पालवचो हें म्हाका खबर आसलें. बेगसार जेवन आम्ही शिक्या घरा कडसून चलूंक लागले. मळार एक सोसो दिसलो तरी तो रावलोच ना, उडकी मारून झीलीन गेलो. पायान घाल्लें जोतें उदकान निसरतालें. मुळसांवाचो फार भरील्लो तरी शिशाचो गुळो वेल्या बोल्सान घाल्लो. पत्रो बरोच भिजील्ल्यान चलतना वाटेवेल्या पत्र्याचो आवाज येना आसलो. सुपा गुडयेर वाट चलतना दाव्या वटेन पिसय दिसली तरी ती धांवली. पिसय दिव्या उजवाड पडतकच पिशी जाता. ही पिसय धांवली त्या कोतान तिणें पयलीं फार खाला आसतलो. फार मारतकच ती चडच शिटूक जाता. पयलो फार मारतना तिका जाय तशी मारपाची. चड कित्याक दिवो घालून दवरून तोण्यान लेगीत तिका मारूं येता. तरी एक फावट फार मारतकच मारूंक खुबच कठीण, कशीच लायटीक दोळे दाखयना. फुडे

शेतान वाघ खुबच पैस आसलो. ताका मारचो म्हणून हांव दिवो पेटयत ताज्या म्हज्यान वचूंक लागलो. तर तो शेपटी वयर काडून राज पावलांनी चलतालो. तो वयर आशिल्ल्या कुब्यांकडेन वचून बसलो आनी म्हाका पळोवंक लागलो. वाघ मुळसांवानी मरना हें खबर आसले. जाता तें जाव हावें फार मारचो थारायलो. उस्वास कोडूंन धरलो आनी तीर धरलो. तो म्हाका आव्हानच दितालो. म्हजो अभिमान जागो जालो. केलमेत '' नाका मारू नाका.'' अशें म्हणटालो. तरी ताचे तोंड म्हज्या वाटेन आशिल्ल्यान तें रानावटेन जाता काय पळयतालें. दिवो मात्सो तोंडावेलो चुकोवन हावें कुब्यां पानाचेर घालतर तो त्या दिव्याक पळोवंक लागलो. हावें परत दिवो घुंवडावन ताच्या छातयेकडेन घालो. धवेशें अशें दिसतालें. ताचे तोंड राना वटेन आसले. तोंड आसा त्या दिकेन तो उडी मारता तें म्हाका खबर आसलें. परतें तोंड म्हजे वटेन जावचे पयली हावें तीर धरून फार मारलो. गरड़ मारून तो राना वटेन उडी मारून नाच्च जालो. हांव संकष्टातलो वाटावल्याचें समाधान जालें.

फार भरून हांव फुडे गेलों तर एक म्हशीं एदे मेरूं शेतान चरतना दिसलें. मुळसांवाचो फार आशिल्ल्यान ताच्या चामडेक तोपत तें सांगू नजो. नळेन गुळो सोडलो तरी तीतलो नेट येवचोना. फार मारून जनावर पैस वचून अबजणेन पडचे परस खात्री आसल्यारच एकाच फारान मारपाचें. बरोचवेळ तें चरताले मागिर तें रानान धांवले. दोन कापू (पक्षी) शेतान आसले. तांचे तांबडे दोळे रोकडेच कळटालें. रान शिपायाचे तशेच घुघमाचे रातचे दोळे दिव्याचेर दिसले. हांव व्हाळान देवलो तर कुल्ल्यो भायर आयिल्ल्यो. केलमतीक दिवो घालूंक लावन हावें कोयतेन त्यो मारून साकान वडयत रावलों. पन्नाशेक कुल्ल्यो मारतकच आनी रानान वचूंक जायशें नासलें. गेल्लों कासाक तर मेळ्ळें नुस्तें.

दोन दिसानी खुबच पावस पडलो आनी शेतान हुंवार भरलो, तेन्ना व्हाळानसून पिट्टोळ भराभर वयर चडत रावले. म्हज्या घरामुखार आशिल्ल्या कुणगेत लेगीत ते भरले. पयल्याच हुंवाराक पिट्टोळ दर्यानसुन वयर उदक आसता थंय येतात. हावे खाणू बांधले. थोडया वेळान कुणग्यांतले उदक कमी जाले. हावें कोयतेन साठेक पिट्टोळ मारले. दुसरे दिस विशेक पिट्टोळ घेवन हांव पोळयान पीजांगेर गेलों. पीज पयली ल्हान आसतना भाण्णात रावतालो तेन्ना आमी

खेळटाले. मागीर ताच्या पायन ताका कुयटाक धाडलो. आतां ताणें सुवात घेवन व्हडलो बंगलो बाधील्लो. बंगल्या मुखार गाडी आसली. हांव गेटी कडेन रावलों. तो तेन्नाच सूट बूट घालून मिसाक भायर सरतालो. हांव काष्टेर आसलों तरी आगांन खोमीस घाल्लें. तो गोरोच दिसतालो. 'पींज' म्हणना फुडे तो धांवतच गेटीकडेन येवन म्हज्या खांदार हात घालो.

''अंतन तूं तसोच लकडो मुरे.''

ताणे लायिल्या चेराचो वास सगल्याक पातळिल्लो.

''पींज तुझे खातिर पिट्टोळ हाडल्यात.''

ताणे ती पोती उघडून पळोवन

''देव बरें करू.'' म्हळें,

''अंतन हांव भायर गेलों तरी तुझो उगडास जातालो. कसो आसा तूं ? संसार कसो चल्ला ?''

''पींज संसार चलता सैमा सारखो. दुडवाची घटाय नासली तरी देवाचे बेसांव म्हाका पुरो, बलायकी बरी आसा एका वेळेचे जेवण मेळळे तरी पोट भरता. मेळटा तें खावपाचें, वैता थंय न्हिदपाचें संसाराचो पेज घेना. जनावरां फाल्यांचो विचार करीनात, आम्ही कित्याक करूंक जाय ? योरे भाण्णात ''

''येतां गाडी वैता थींगा.''

''ना रस्तो जांवक ना.''

''मागीर हांव कसो येवूं ? म्हाका प्रेसावांचे आसा. रातीन न्हीद पडना. सगल्यो वोस्तु खावंक मेळनात. दोतोर म्हणता मीठ, गोडशे, शीत सोड. इनेसांवा, गुळयो चालूच आसात.''

''म्हाका दुयेंस ना आनी जावं नाका. हांव पादेशिर.''

''अंतन हो साबांव, शिगरा पाकीट, चाकलेटी, कापोत घे.'' म्हणून ताणें पोतयेन घालून दिलें.

''देव बरें करूं.'' म्हणून हांवे घरची वाट धरली.

मनान चलतना विचार येताले पींजाक लोक वळखतात मानतात, रेस्पेतार करतात म्हाका कोणच वळखना. तो ल्हान आसतना भिवकुरो, तर हांव धाडशी. तरी भिवप होच ताचो गुण आनी धाडस दुर्गूण. गिरेस्तकाय म्हळ्यार जीणेचें सार्थक

काय जीणेक झुझत रावप म्हळ्यार जीणेचे सार्थक ? म्हाका बरें खयचें तें समजनासलें, तितलें म्हाका शिकप नासलें. हांव जनावरां सारखोच रानात भोंवपी, तांच्यान आनी म्हज्यान फरक ना. शेवटाक मनिस म्हळयार तशें पळोवंक गेल्यार जनावरच न्हय? इतल्यान कोलो आडवो धावलो, म्हजे विचार खंचे खंय गेले.

पावस पडिल्ल्यान पयलीं हावें चुडटां हाडून घर शिवलें, वयर करड पातलायलें. घराच्यो पावळ्यो पडटात थंय कालगी मारून उदक वचूंक वाट करून दिली. रेकेलाक गोरवां कडेन धाडलें. गायरीच्या शेणाची पाटी रीताच्या माथ्यार भरून दिली. नांगर करून जोत बांधून शेत कोसूंक लागलों. सांचो हांव आनी रीत मेरो मारतालीं. रीत पावस येत तर कांबळ घेतालें. काम करतना कांबळ घेतल्यार म्हजें काम जायना आसलें. पावसान भिजलो तरी म्हाका थंडी जायनासली. कास केलो तरी वेळच्या वेळार शेताचें काम पयलीं करपाचें.



# बैल

उमाशेचो दिस उदेलो. उमाशेचे जरगतिक लागून पावस चड पडिल्लो आसतलो. वारो येतकच कुपां पैस गेल्लीं दिष्टी पड, तरी दर्यानसून पिक्या जांभळा कोराचीं कुपां वयर मळबान चडटाली. पावस मळबाक बुराक जाल्या सारखो थांब नासतना चड उणो ओतत आसलो. पावस दोन तीन दीस दोळे धापून पडटालो, तो कमी जावंक नासलो. रान्नीची लाकडां ओलीं जाल्ल्यान सारखीं धुकटेतालीं. भायर नदर मारता थंय धवेंच दिसतालें. सुर्य बरोच वयर पाविल्लो, तरी सकाळच कशी दीस. शेवणीं घोटेर सोडूंक तयार नासलीं. माकड वयर वेदू रूखार बसून हालनासतना पावस आंगार घेताले. कावळे कोसंबाचेर घूड घालून बशिल्ले. घुडाचे दार काडलें तरी कुकडां भायर येवंक ना. बनें तर रांदन सोडूंक तयार नासलें. कापिटलान कुरगुंटी केल्ली. रेकेल, रीत चादर पांघरून बशिल्लीं. साळो ्यो शेतान बशिल्ल्यो दिष्टी पडटाल्यो. पावस पडत आसलो तरी धनयाले घर हय न्हय अशें दीस. देवशे तळयेक नदर मार तर सगलें धवशें दिसतालें, कांयच वळखूंक येना आसलें. पावसाचो आवाज जरी शांतताय भंग करतालो तरी आपल्या आवाजाचो शेख तोच गाजोवन तोच आवाज सगल्याक आयखूंक लायतालो. थंडी खाता अशे दिसतकच हावें बानयन घालें. विडी ओडतकच थंडी पैसावली.

"अगो पस्यार वैता, किर्ते हाडूंक जाय ?"

"साकर, च्या-पालो, चिमणेल, कांदे, बिस्कूत आनी बरें तेल." हावें बोटां मोडून स नग हे लक्षांत दवरले. आमगेर पेन, कागद नासलो. कोणाकच वाचूंक

बरोवंक येना आसलें. कोणा कडसून बरोवन घेतलें तरी 'वाचूंक येना आसलें. याद ना तर सामान ना. तरी केन्नाच याद नासून सामान हाडूना अशें जालें ना. कुणग्यानीं उदक भरून तें दुसऱ्या कुणगेन पडटालें. खारजानसून उदकाचो लोंडो येतालो. बरोबर पत्रो, बडयो हाडून मेळत थंय सोडटालो. थोडोवेळ नवलायेन पळयतकच हावें घरांतली रान्नीवयर सुकत घाल्ली कांबळ हातान घेवन भायर आयलों. रीतान दोन बाटल्यो घालून पोती हातान दिली.

भायर सरचें जिवार येतालें तरी सामाना खातीर वचूंकच जाय आसलें. रीतान डब्यान आसले पन्नास रूपये दिले. ते हावें काष्टेच्या पोताक घट्ट बांधून गांठ मारली. कांबळ माथ्यार घालून चलूंक लागलों. वाटेर पावल बूड सारखें उदक तर फुडे व्हाळान कमर भर उदक जाल्लें. पोती वयर धरून हातान बडी घेवन हांवे व्हाळ पार केलो. वाटेर कोणच मेळूंक ना. पावस कांबळी भीतर येना आसलो तरी पावसान भिजील्ल्यान ती जड लागताली. धोपरा सकल पांय भिजील्ल्यान थंडी खाताली. विडी ओडटलों तरी पेटवंक कांयच नासलें. वाटेर दोन रूख मोडून पडिल्ले दिष्टी पडले. चलत रावल्यार कितलीय वाट आसूं, रोखडीच सोपता. ना तर ती चड दिसता. आतां पसरो चड पैस नासलो. पसऱ्यार नदर पडटाली. थंयच लागी व्हाळार घाल्लो साकव आसलो. थंय सात आठ जाण एकठांय जाल्ले. इतल्या उटांगराच्या पावसान हे साकवार कितें करतात? बारीक साणेन पळय तर ते हात हालोवन म्हाका आफयताले. म्हज्या चलण्यावेल्यान ते म्हाका वळखले आसतले. हांव रोकडोंच थंय गेलो. पावसान तांचे उलवणें सारखें आयकूंक येना आसलें. ते बोट दाखयता थंय पळयतर बैल भोवऱ्याक सांपडून वांटकुळो फिरतालो. भोवरों ताका आपणाक जाय तसो घुंवडायतालो. पसरकारालो धवळो बैल त्या तांबड्या उदकान तांबुडसो दिसतालो. ताचे प्राण वांचोवचे अशे तांका दिस तरी आपलो जीव धोक्यान घालूंक ते सोदी नासले. गोरूं मागीर ते कोणाचेय आसूं ताका म्हज्या कुटुंबातलें अशें हांव मानी. पैशे, पोती कांबळी पोनाक धापली, बानयन काडलें. एकट्यान बैलाक वाचोवूंक चार पांच मीटर कोंडो हाडिल्लो, तो हातान घेवन हावें उडी मारली. झोती बरोबर हांव उबतालो. कोंडो फुडे तेकोवन हांव भोंवया भायर रावलों. बोंडकीच्या पानाचे कांटे परत परत लागताले, ते सोसूंक जाय नासलें. म्हाका बैलच दिसतालो. कांटे

लागले हे कळताले तरी तांचे वेले लक्ष काडून वडयतालों. पावस बारीक जालो तरी पडत आसलो. हुंवांराचे उदक हळू हळू वाडत आसलें. सांकवा वेल्यान म्हाका हात करून पसरकार किर्ते तरी खुणेन सांगतालो. तो किर्ते सांगता तें कळ नासलें. भोवऱ्यांत सापडल्यार म्हजी दशा बैला सारखी जातली हें म्हाका खबर आसलें. कोंड्यान हांव बैलाक धुंकलूक लागलों तरी हांव झोती बरोबर हालतल्यान पेज पडना जालो. फुडे बोणक आसली तातून हावें म्हजे पांय तेकयले आनी एका हातान हुमकळ मारून दुसऱ्या हातान बैलाक धुंकलूंक लागलो तरी तो सुटूंक येतालो तरी परत भोवऱ्यांत फिरतालो. हांव म्हजो यत्न करत आसलों, कोनशाक ताका हावें धुकलून धरलो तेन्ना ताका अवसान आयलें. भायर काडिल्ली जीभ ताणें भितर घेतली. इतल्यान लाकडाचो व्हड ओंडको व्हांवत येतना म्हाका दिष्टी पडलो. तो कोनशासून वतालो ताका कोंड्यान हावें दिका दितकच तो भोवऱ्यांत आयलो. तो आनी बैल दोघय भोवऱ्यांत फिरूंक लागले. हावें बोणकीन पांय घुसोवन तोल सांभाळून ओंडको बैलाचेर धुकलून दिलो आनी फाटी येत म्हणून कोंडो तसोच धरलो. त्या ओडक्याच्या आधाराचेर बैल भोवऱ्यांतसून चुकून भायर सुटलो आनी ओंडको भोवऱ्यांत प्रदक्षिणा काडूंक लागलो. कोंडो हातान धरून हावें फुडे उडी मारली. कोंडो सोडून बैलाचो पांय हातान धरलो. म्हजे पांय जमनिर तेकील्ले. बैलाचो पांय धरून आडयावटेन धुकल्लो. तेन्ना तो आड्यार चडलो. तो सगलोच थरथरतालो. तो सामको जाम जाल्लो आनीक अर्धे वर गेल्यार तो मरता आसलो. उदकान वजन उदक पेलता, बैलाचे वजन कळना हें अणभवान सिद्ध जालें. पसरकारान म्हजें पांय धरले तेन्ना ताका म्हळें,

"ही जेजुची मीलाग्र, ताचे लांगीं उपकार माग."

हावें हुवारान उडी मारली ती मनजात मरता म्हणून, हांव बुडचोना हें खबर आसलें. मनजातिचो जीव वाचोवंक मेळ्यार मेळो होच म्हजो हेत आसलो. लाकडाचो ओंडको येना जाल्यार हांव बैलाक वाटोवंक शकचो नासलो, तो जेजुनच धाडलो. बरें म्हाका ह्या पावसान ताणेंच हाडलो. कष्ट केल्यार देव आधाराक येताच. कष्ट करना तर देवाचो आधार उपकारना.

पसरकारान हावें घेतिल्ल्या सामानाचे पैशे घेवंक ना.

आतां पावस सामकोच थांबिल्लो. सुर्याची किर्णा पडिल्लीं तरी तितली निबर नासली. कांबळ खांदार दोडून वडवन वयर पिशवी धरतकच खांद वजनान चुरचुरना जालो. हुवांराचें उदक देवतालें तरी ताचो आवाज येतालो. लोक आप आपल्या घरा वचूंक लागिल्ले. म्हज्या माथ्यावेल्यान कावळे कांव कांव करत हुडून गेले. सुर्य माथ्यार पावंक थोडो वेळ आसलो. झाडां सकयल्यान वतना झाडांवेले ओथांबे आंगार पडटाले. मोडांतले वत मोव आसलें तरी उकडिल्या सारखे जातालें. लांबची लांब शेतोड ताचेवयर भाटां तर ताचे वेल्यान वाट गेल्ल्यान घरां तशीं सारखीं दिस नासलीं. धुंवर दिष्टी पडतालो आज एका बैलाक वांचायिल्ल्यान इनाम मेळळें, हाचें समाधान जाल्लें. रिताक घरा वचून केन्ना ही गजाल सांगनशी दिसतालें. रिताक सांगलें तरी तशी ताका खोशी जावची नासली तरी पन्नास रूपया फायदो जालो हाचे ताका समाधान जातलेंच. विचार करतां करतां हांव केन्ना 'तांबड्या व्हळतेंत' पावलों तें कळळेच ना. दोंगराचें तांबड्या मातयेचे उदक येता म्हणून त्या व्हळतेक "तांबडे व्हळी" म्हणटा आसतले. वयर खण मारील्ली आसली. त्या खातिर उदक तांबडे येताले जावये. वतना म्हाका कमरभर उदक जाल्ले तरी आतां धोपरा मेरेन उदक आसलें. मळार कवडे तळपफोव म्हळ्यार ल्हानशे पाल्याचें धवे कणस खातना म्हाका दिसले. पावसान भिजयील्ली सृष्ट वत सुकयतालें. ते परत पावसान भिजोवंक काय थंडी भरत हें कळ नासलें. पावसाक ताचें पडून वचूं नासलें. तो आपलें काम करतालो. तशें पळोवंक गेल्यार माया म्हयन्यात वत सगलें करपावन वडयता, तेन्ना पावसच थंडाय हाडता. म्हज्या जागीन ते हुडून पैस वचून बसून परत चरूंक लागले.

घरा पावतां पावतां बारा जालीं. रितान शेतानवचून आटोवभर कोंगे हाडिल्ले. गोरवां गोठयाकडेनच चरतालीं. पणसाकडेन तांबशी, काळशी कुमातर आपल्या चोचीन जिवाण्याक मारताली. म्हाका पळोवन कुकुकु करत ती जिवाण्याक धरून वयर पणसा आळीचेर बसली. येशान जोत बांधील्लें. व्हनी भायर हाडून कपडे सुकत घालताली. घरान सरतकच हावें एक बुडकुलो घेतलो आनी तो माती लावन बंद केलो. थोडी खांच दवरली, अशेतरेन ताचो मिलेर केलो आनी ते पन्नास रूपया तांतून घाले. रेकेलाचो फुडार आसलो न्हय. थोडी थोडी साठवण केल्यारच काजरा वेळार दुडू मेळटले ना तर खंयचे ? पोटाक

कितलेय घाले तरी परते मेळनात. रेकेल शिकतले म्हळ्यार शाळा लागीं नासली शिवाय म्हाका शाळेन धाडची आस्पत नासली. दारा मुखार कामत करून दिल्यार तें राखतालें.

"रिता शाक भाजयेचो जो पैसो येता तो ह्या मिलेरान रेकेला खातीर घालून दवर."

अशी शिटकावणी हावें रिताक दिली. रिताक दोन भांगरा कांकणा एक मुदी आनी एक सरपळी इतल्योच भांगराच्यो वस्ती आसल्यो. म्हजो एक काजरा वेळावेलो सूट आशिल्लो तितलोच. म्हाका तीं पेंट खुळयेवयर तर कोट कमरा वयर जातालो. कोणाच्याय काजराक आफयल्यार तोच सूट मारून वतालो.

पेजे नीस सुर्र् करून ओडून वाटली रिकामी केली. रेकेलान वाटली घासून दवरली. गाराचें चामडें बांधून घुमट केलें, तें रेकेल दिसभर बडयत राविल्ल्यान माकड कामतान येना आसले. रितान पाटलोभर शाक जिनस हाडलो. तें मादाळे घेवन गेल्यार खपवन थोडे पैशे हाडटालें. पैऱ्यान शाक जिनस मेळटालो. घरान आमकां शिवराक जेवप जीवार येतालें. रीत तो खपवन नुस्तें हाडटालें मागीर जेवण बरें चलतालें. खरें म्हळ्यार पावस धुकलप म्हाका कठीण काम जावन गेल्लें. गिमान खंय कामाक गेल्यार दिसोडो सुट्टालो. पावसान
धनयांगेर थोडे दीस काम मेळटाले तितलेंच. तीन वर्सा फाटीं दुकळ येवन शेतांत काळी कीड तयार जाल्ली आनी सगलें शेतरोप मेल्लें. त्या वर्सा पावसांत हावें वरय रोयली. ताचीं कणसां वाटून गोड घालून पावसभर ताचे सत्व खालें. उपाय नासलो. वरय मात बरी जाल्ली. धनयागेर वच्चे अशें येवजून हांव भायर सरलो. गोठयाकडेन पाविल्लो, इतल्यान काब्रो फोंसकार मारून थंय पावलो. ताणे जीभ भायर काडिल्ली. भीयेल्या बगर जनावर जीभ भायर काडना हें खबर आशिल्ल्यान हांव हळूहळू गोठया फुडे पळोवंक लागलों तर मेरे खाचीन कांचे सारखे कितेंतरी सुर्य किर्णार चकचकतालें. हावें बारीक साणेन पळय तर ती दिवड नागीण. गोरवांच्या वासान ती गोठयाकडेन आयल्या हें कळूंक वेळ लागलोना. काब्रो मरणांतलो वाटवल्लो तरी ती परत कोणाकय चांबूक शकताली. मनशाक घांस मारल्यार ती ताचो प्राण घेतल्या बगर रावना. अशें मनांत येतना

तिका म्हजी सुलूस लागली आसतली. ती हळूहळू मेरे खाचीनसून काऱ्या मुळा कडेन वचूंक लागली. हांव दपत दपत ती खंय वता तें पळयतालो. ताच्या फुडे एक रोयण आसली. तातून एक फावट वचत तर मारूंक मेळचीना हें म्हाका कळटालें तरी तीची दीका म्हाका जाणून घेवची आसली. ती तशीच शेतांत देवली म्हणसर हांव रोयणी कडेन पावलों. आतां ती भियेली आनी दुसऱ्या कुणगेन देवली. हांव पैस रावन तिका तेळत आसलों. सकयल येसो बैलाचेर जोत ओडना म्हणून धेंगशे घालतालो. ती सकल वचूंक पळयनासली म्हणसर ती म्हाका सकयल्या कुडगेन दिसना जाली. हांव धांवलो तर कुणगेंक खांणवाकडेन एक बीळ आसले तातूंत अर्धी नागीण वचून हळूहळू आपले फाटलें आंग भितर व्हरतालीं. आतां वेळ काडून फायदो नासलो. तिका मारपाचें थारायले. उडी मारून थंय पावलो. म्हणसर वेतभर शेपटी भायर आसली हांवे हाताक मेळता ती शेपटी घट धरली. शेपटेक हात लागतकच ती भितर वचपाची बंद जाली. दोनी पाय मेरेक लावन नेट मारलो आनी भाजी हुमटून काडटात तशी शेपटी ओडली, तरी ती नागीण कशीच इंचभर लेगीत भायर येना जाली. बरें दुकोवन सोडल्यार ती अदीक चवताळून त्रास दितली.

''धनया यो बेगीन''

असो उलो मारलो. म्हणसर हावें बळ लावन धरील्लें. धनी जोत दवरून धावतच म्हज्या वटेन आयलो. आतां आमी दोघय बळ मारूंक लागले तरी ती दिवड नागीण भायर येना जाली. हावें म्हळें,

''धनया वचून बुराकाची नाल्ली हाड.''

तो धांवत वचून ताणे एक बुराकाची, नाल्लाच्या दोळयाकडची नाल्ली हाडली. ताका शेपटी घट्ट धरूंक लावन हावें शेपटेचें तोंक नाल्लेचे बुराकानसून काडलें आनी शेपटेक गांठ मारून सोडली. आतां नाल्ली त्या बिळाच्या तोंडापरस व्हड आशिल्ल्यान दिवड नागणीच्यान शेपटी भितर व्हरूंक जायना जाली. पयली शेपटी हातान धरून बळ मारतना सुळसुळताली. आतां नाल्ली आशिल्ल्यान सुळसुळपाचो भंय नासलो. आमी दोघी जाण नाल्ली घट धरून ओडूंक लागले. म्हाका खरस मारून हांव जाम जालों. धनी तसो बरो आसलो तरी ताका रोकडेच पुरो जातालें. जाता तें जांव म्हणून नाल्ली आमी ओडून धरली. धा मिनटा तशीच

धरली तरी दिवड नागीण भायर येना. तेन्ना सट् करून एकच फावट ती भायर उसळळी आनी दोघी जाण ओडीचेर आशिल्ल्यान परतून शेतान पडले. शेतान चिखल, उदक आशिल्लन मार लागूंक ना तरी आंगभर उदक लागलें. उठता म्हणतसर दिवण नागीण रोयणीवटेन तुरतुरीत वचूंक लागली. फाटल्यान नाल्ली ओडत गेल्यान ती खंय पावल्या ती कळटाली. लागसल्ली बडी घेवन हांव धांवलो म्हणसर ती रोयणीत वतली आनी रोयणीचो बुराक व्हड आसल्यार नाल्ली ओडून व्हरतली अशें म्हाका दिसलें. तरी ताका इलाज नासलो. म्हणसर रोयण एका मीटराचेर येवन पावली. दोन लागून झोपां आसली. ताचे मदी तिचे तोंड वचूंक सुवात आसली तितलीच. तीणे तातून तोंड घालून आपलें आंग ओडलें तरी नाल्ली व्हड जाल्यान ती दोन्ही झोपांक लागली. नागीण फुतकारूक लागली. वयर वयर तोंड काडून खांवक येवंक लागली. म्हणसर हावं ती परत फाटी सरत म्हणून हातान बडी घेवन थंय पावलों. ती फुडे वचूंक धडपडटालीं. तोंडान फोस्कार मारून जीभ भायर काडटाली. ती चवताळील्ली. धनी येता सो पळोवन म्हाका अवसान आयलें. हावें बडी व्हरून वयर काडिल्ल्या तकलेचेर मारली. नागीणेचें तोंड फुटून रक्त म्हजे आंगार उसळळें तरी शेपटी हालत आसली, ताचे बरोबर नाल्ली हालताली.

"अंतन खरो कापोसतारीचो मरे तूं. आमची भयानसून तुवें सोडणूक केली."

ही उतरां आयकून म्हाका मुठभर मांस चडिल्ल्या सारखे जालें. भाण्णात जाग्याचे तीन सोरोप आसले. केन्ना केन्नाय दिष्टी पड. वयर कोटंब्याक एक, तर बोरीकडेन एक, तर चिचे पोंदाक एक. ते हळदुवे आंगान जरी आसले तरी लांडे आसले. ते केन्नाच चाब नासले. दुखयले तरी दाव धर नासले, हाचो अणभव म्हाका एक फावट आयलो. हळदुवी सांज सोपूंक पळैताली. हांव जाम जाल्लो, तरी ती हळदुवसाण दोळ्यान साठवन दवरूंक पळयतालीं. खंच्याय गजालिचो पुर्णतायेन सुवाद घेतना विडी ओडप गरजेचे आसता, अशें चितून हावें सुकें कुड्या पान घेवन ताचेर तंबाखू घालून विडी वळली. सांवळे खातिर बोडकिल्ले शेतांचे रूख आपली तकली रानाच्या पायांक लावन नमस्कार करताले. कित्याक तर तांका केस नासले म्हणून जावये. वाऱ्याच्या वावटळी बरोबर शेतानचो पत्रो, धुल्ल उबलो आनी वयर गेलो तसो धुल्ल झाडाच्या मस्तकाचेर बसलो. शिंगम्या

देसानीं कोकणे लोक मस्तकाक कुकूम लायतात तसो झाडानी कुकूम लायील्लो जावये. बोरीकडेन वाऱ्यान कोयर, धुल्ल वयर काडून जागो निवळ केल्लो तो शिगम्या मांडा सारखो शिगमो खेळूंक आसतलो. इतल्यान केलमतीन रानानसून साद घालो, त्या सरशीं मोर विमानार बसून निवळ केल्ल्या बोरीकडल्या शिगम्या मांडार येवन उभो रावलो. सुर्यान दर्यान उडी मारतना कुपानीं ताळयो मारून ताका शाबासकी दिलीं ती आयकून मोर आपलें तरंग फुलवन दसरो करूंक लागलो. तेन्नाच हावें बारीक पळयलें तर सुकीं, पीकी, तन्नी, हळदुवीं तांबडी पांचवी बोरां दिसलीं. म्हाका दिसलें मोरान आपल्या पाखांचेर बोरा लायल्यात. बोर शेताचो अलंकार, तर मोर सैमाचो. म्हाका विडयेचो चटको लागलो पळय तर ती सोपून ओठांक उजो लागिल्लो. म्हजो सिनेमा तिणें सोपयील्लो मागीर हांव कितलेशेच दीस बोरीकडेन पळयतालों, तरी मोर म्हाका दिष्टी पडलोचना. सैमाचे सिनेमा तें दाखयतना पळवचे आसतात.

पाय शेतान काम करतालो. आमच्या घराक एक फाटलें जनेल आसलें. पाय बेकार आसतना कुड्याच्यो विडयो बांधून दवरून जाय तेन्ना त्यो ओडटालो. हांव तेन्ना पंधरा वर्साचो आसलों. पाय तोंडान विडी घेवन धुकट सोडटना पळोवन तो पुरूषार्थ करपाचो हावें थारायलें. पायचे दोन तिन विडयो चोरून हांव दवरतालो. पाय नासतना त्यो ओडतालो. म्हयन्या भऱ्यान म्हाका ताचे व्यसन लागलें. केन्ना वचून विडी ओडन कशें जातालें. शेतान नडणी चलताली.

''अंतन चल वोस घारा आनी चायेक आयदन दवर.''

सांची पांच जाल्लीं. म्हाका विडी ओडची तल्लप आयिल्ली. हांव पायन सांगना फुडे धांवलो. रोकडोच पाय साखर, च्या पालो घालूंक येवपाचो आसलो, ते मेरेन म्हाका विडी ओडपाची आसली. जनेलाच्या खुरान बरीच खांच आसली, तातून हावें दोन विडयो दवरील्यो. हावें कवड काडून पयलीं धाव मारली ती जनेला कडेन. गडबडीन हावें हात घालो आनी विडी काडूंक चिमटी भितर घाली तर थंड थंड कितेतरी हाताक लागलें. हावें हात वयर काड तर खाचीनसून तकली वयर काडून म्हाका सोरोप पळयतालो. आता कितें करचे तें कळना जाले. ताचें ते हळदुवें आंग, तोंडावेले नाम पळोवन दोळ्या मुखार काजुले आयले. तो फणो काडून थोडो वेळे हेवटेन तेवटेन पळयत रावलो. मागीर फणो बारीक करून

त्या खाचीन गेलो. विडयेची तल्लप नाच्च जाली. हाता पायान रक्त खेळटा तें कळटालें. किळांच मारची म्हळें तरी तोंड उघडना जालें. सोरोप पळयतालो आतां कितें करचें तें कळना जालें. पायक सांगत तर म्हजे बींग भायर फुट्टलें असो विचार करून सांग नासतना रावपाचें थारायले. कितें जाता तें जांव. सोरपान चाबल्यार चाबूं ना तरी पाय फाट फोडल्या बगर रावचोना असो विचार मनांत येवन गेलो. हावें आयदन दवरलें, उदक ओतलें आनी उजो पेटयलो. रातचो जेवंक ना. मागीर घट्ट चादर तोंडावेल्यान पांय मेरेन धापून म्हज्या कोतान राखण करून न्हिदलो. रातभर न्हिद पडली ना. परत परत तो सोरोप दोळ्यांमुखार येतालो. बरें आठ दिस मेरेन त्या जनेला खाचीन हावें पळोवना. णव्या दिसा दनपारचो तो म्हाका गोठयाकडेन वतना दिसलो. सामको लांडो फुटभर आसलो तरी मोठो आसलो. हावे धांवत वचून पायक तो दाखयलो, तेन्ना ताणे म्हळें,

"अरे तो जाग्याचो तो कांयच करीना. दुखयलो तरी तो सोसता. इतलेंच न्हय संकष्टातलो सोडयता."

केलमेतीन म्हळें "कसो ?"

"आयक. " हावें म्हळें,

"आमोरेचो वेळ. दनपारां रानांन गेल्ले कडेन म्हाका एक सोरोप दिसलो. हावें मारील्लो फातर चुकलो तो फोसकारून गेलो. म्हज्या एदो लांब आसलो. घरा येतकच म्हाका ताची याद उरूंक ना. हांव न्हातालो तेन्ना तो त्या आवाजाक आयकून त्या केळीकडेन रावलो. हांव आंग पुसतना सर्र् जालें. बारीक साणेन पळयत तर त्या आमोरेचेर ताचे तें हळदुवें आंग नदरेन भरतालें. तो परत परत तकली वयर काडून जीभ भायर काडटालो. हांव बडी पळोवंक घरान आयलो आनी बडी घेवन परत आंगणान यो तर तो थंय नासलो. खंय गेलो हे कळना जालें. आंगणाच्या मेरेक चार पांच बिळां आसलीं. तातून तो गेला जायत काय? बरें खंच्या बिळान गेलो हें कळूंक वाट नासली. काय तो फाटल्या झीलीन गेलो काय, एखादे पञ्यान वचून लिपून रावंक ना मूं ? अशे दुबाव मनांत येताले. कितें करचें तें समज नासलें. बरें तिळसान हळूळहू गडद जाता तशें दिसप उणे जातालें. बरें तो सोरोप दुकिल्लो ना तर तो तसो म्हज्या वासान असो येवचो नासलो. सोरोप दुकतकच डंख केल्या बगर रावना. आतां कितें करचें तें कळना

जाले. खंच्या बिळान गेला तें कळल्यार तें मातयेन बंद करूंक जातालें. बरे चार पांच बिळां मातयेन बंद केलीं तरी फुडे कामतान, केळी पोंदाक आनीक कितलीशींच बिळां आसलीं. खंची म्हणून पुरवयतलो. बरें सोदून कशीं काडतलो ? आंता तर सामकोच काळोख जावंक आयील्लो. रेकेल, रीत भिवन घरानसून भायर येवंक तयार नासलीं.. बरें दाव मोडटलों म्हळें तरी मांत्रीकाचे घर दोन वरां वाटेर आसलें. भायर सरून वचून येता म्हणसर ताणे कोणाकय डंख केल्यार ? बरें हांव गेल्यार रिताक, रेकेलाक धीर कोणाचो ? इतल्यान म्हाका याद जाली ती खुटयेची.

"पावतुं खुटये म्हाका, हया संकष्टासून सोडय."

अशें हात जोडून खुटयेक म्हळें, तुका जोगणेक एक कुडव फोंळ आनी कोमफळ (कोंबो) दितां. हांवे दोळे धापिल्ले उघडले तर कामतानसून एक सोरोप येवंक लागलो. ताचो आवाज सर्र् असो येता, ताचे वेल्यान तो म्हाका दिसलो. पयलीं म्हाका दिसलें तो दुखयील्लो सोरोप आसूंक जाय म्हणून. जेन्ना तो आंगणा म्हय्यान पावलो तेन्ना तो लांडो आसा तें पळोवन हो दुसरो, जाग्याचो हें कळळें. म्हजो खुटयेचेर विश्वास आसलो. म्हणसर तो आंगणाक लागून आशिल्ल्या बिळान हळू हळू भितर वचूंक लागलो, आनी त्या सोरपाक गिळूंक लागलो तोही शेपटे वटेन. थोडयावेळान ताका गिळून जातकच तो शेपटेनच फाटी सरून थंयच मरून पडलो. दोघय सोरोप मेल्ले. कितेंय जांव हांव संकष्टातलो वाटावलों. हावें त्या सोरपाचें तोंड बडयेन उक्ते करून पळय तर दोनय वटेन काळयो ल्हानशो विखारी पिशव्यो आसल्यो. हांव दिवडाक मारिनासलों तरी सोरपाक सोडी नासलों कित्याक तर दिवड मनशाक डंख करीनात तरी सोरोप ताचे वाटेक वचना तरी दाव ध ारतात." अशे म्हणून हांवें गजाल सोपयली.

असोच हांव वाटेन वतना म्हाका एक सोरोप दुखावलो. फोसकार मारून गेलो. हो रातीन म्हाका चाबल्या बगर रावचोना हें खबर आशिल्ल्यान कोयती घेवन हुंबरार बसलो. धा वर रात जाली तरी ताचो पत्तो ना, चान्ने पडिल्ल्यान आयल्यार तो दिसपाचो. चिमणेची वात व्हड करून पेटत दवरिल्ली. म्हाका न्हिद येवची नासली. हावे कवड लायलें आनी भितर घरान बसलों. म्हजेर करडाची काडी पडली. वारो ना तरी करडाची काडी कशी पडली म्हणून हावें वयर पळयलें तर बोटभर धवसो कुडको दिसलो. तो सोरोप जावंक जाय चिमणे

उजवाड आशिल्ल्यान तो सकल देवना आसतलो अशे येवजून हावें हात मारून चिमणी पालवयली. रिताक, रेकेलाक कायच सांगू नासले. ती थार न्हिदिल्ली. चिमणी पालयतकच हावें कोयती हातान घेवन न्हिदपाचे सोंग केले आनी बारीक दोळयान पळयत रावलो. सोरोप करडानसून रान्नीवयर कांबळ सुकत घालूंक
बांधिल्ल्या बडयेच्या दोरयेवेल्यान देवंक लागलो. हांव उठलो तो कोयतेन सोरपासयत दोरयेचे दोन कुडके केले. बडी दोरी तुटाकच मातये बुडकुल्यार पडून तो फुटलो. त्या आवाजान रीत उठले आनी सोरपाक पळोवन भिवन भायर धांवले. सगल्याक रक्त शिवरील्लें ताका व्हरून रोयणीन घालो. हात पाय धुले. रितान रक्त पडिल्ले कडेन शेण सारयले.

रात बरीच जावन गेल्ली. न्हिद दोळ्यान भरून वोतताली. फाट कांबळीचेर तेकयतकच न्हिदेन म्हाका घेरलो. तो सोरोप सपनान येवन म्हाका डंख करू पळयतालो, इतल्यान म्हज्या हाताक थंड थंडशे लागून जाग आयली तर सोरोप म्हज्या उशा कडेन आसलो.

" माय गे "

ही उतरा म्हज्या तोंडानसून भायर पडलीं, इतलेच म्हाका खबर आसा. म्हाका शुद्ध आयली तेन्ना रीत परत परत म्हज्या तोंडार उदक मारून नाकाकडेन कांदो वासाक धरतालें. चिमणी पेट्टाली त्या उजवाडाक जिवाणे मरून पडिल्लें.

" हावें मारलें त्या माळणाक."

अशें रितान म्हणतकच म्हाका सगलें ध्यानात आयलें.

" तूं सोरोप मारपी तरी माळणाचेर नदर पडतकच घुंवळ येयली मरे तुका."

" रिता हांव मनिसच सोरोप न्हय वा वाघ न्हंय तांका मारतना हांव सोरोप वा वाघ जातां तो तितलोच वेळ."

रीत ल्हानशे जिवाणे येत तर आपुणच मारताले तरी सोरपाक ते भियेताले. म्हजे मन उचाबंळ जाल्ल्यान म्हाका सोरोप समजून घुंवळ आयिल्ली.

दुसरे दिस दनपारचो ही गजाल सांगूक हांव येशागेर गेल्लो. तेन्ना तो





भायर नासलो. उलो केलो तरी जाप नासली. घरांत तकली घालून पळयत तर धवो वालो न्हेसून हात जोडून किते तरी देवस्पण करतालो. ताच्या उजव्यावटेन वाटपाचे वान आसलें. थंय एक हळदुवो सोरोप आसलो. येशान देवस्पण सोपतकच दोळे उघडले तर तो म्हज्या म्हज्यांन येतना म्हाका दिसलो. हांव फाटी धांवलो. तो सोरोप सोप्यावेल्यान देवन खुटयेकडेन वचूंक लागलो. येसो भायर सरतकच ताका हावें विचारले,

" धनया हे अशें कशें ?"

"अंतन खुटये आरवान भष्टपण जाल्यार तो आमच्या वानाकडेन येता. चूक मागून पाना विडो, जानवे व्हरून खुटयेकडेन दवरतकच तो वैता."

हावें तकली हालयत घरची वाट धरली.

हावें 'काळनाग' म्हळ्यार काळो सोरोप, 'पांढरो' म्हळ्यार धवो सोरोप तशेच हळदुवो सोरोप, दिवड नागीण, आगयो, सातफळ, कुसडो, रक्तमांवडोळ, म्हांवडळ, फिरशें, येवाळें, पाणसोरोप असलीं जीवाणीं पळयील्ली. दिवड, माळुंड, हरीयाळी असलीं उपद्रव मनशाक कर नासलीं दिष्टीं पडलीं तरी भंय दीस नासलो. रातीन कासाक वतना वाघा परस पांया कडेन जिवाण्याक चड भिवंक जाय आसलें.

एके रातीन म्हाका कुसड्यान घास मारलो. हावें सुरयेन घास मारील्ल्या कडेन आसले मांस कापून वडयलें. कुसड्यान घास मारल्यार आंग कुसत रावता. देखून ते घास मारिल्ल्या कडचे रक्त आंगान भिनचे पयलीं आवळून वाल बांदपाची. मागीर तितलो कुडको वडवपाचो. कुसड्याचो कांटो लेगीत लागल्यार कुसता, देखुनच ताचें नावं कुसडो पडला जावये. येवाळयान घास मारल्यार जेवण अळणी लागता खंय. जिवाणें मनश्याक तशें जाणा जावन घास मारना तरी मनश्याचे आखाण्या बोट अशें फुडे वतना पळोवन बेबकी समजून ते घांस मारता अशें रिताचें मत आसलें. आतां हांव जीवाण्याच्या मनान् खंय गेलां ?



# दोतोर

मादाळचो गणपत फामाद गोरवां दोतोर आसलो. चिंपळें, पैगीण, लोलयें, पेडें, भाण्ण सगल्याकच ताका आफोवन व्हरताले. एक दीस येशाचो बैल आडयावेल्यान पडून पांय मोडलो. म्हाका येशान दोतोराक आफवंक मादाळे धाडलो. वाटेन येतना तो आपले अणभव सांगतालो. बैलाक कवळ बांधूक ताणें कळकिचो पालो, तोडुच्यो साली घेतल्यो. गोड घालून ते ताणे म्हाका वानार वाटूंक लायलें. आपणे मागीर कवळ बांधले. दोन म्हयन्यानी बैलाचो पाय बरो जालो. मागीर रिताक कोणेतरी सांगले बैलाक कवळ बांधपाचे आसा म्हणून. हावें वचून तें कवळ बांधले. तो गांवान येत तर म्हजी वास्तपुस्त करून बरोबर म्हाका व्हरतालो. किवण कशें मोडप हें ताणे म्हाका सांगिल्ले. झाडांची, हाडांची, सालीची वळख तो म्हाका करून दितालो. तो म्हातारो जाल्ल्यान मादाळे साकून भायर सरप ताच्या जिवार येताले. ह्या खातीर तो म्हाकाच कितें करपाचे तें सांगतालो. मुळांची पारख तो वासा वेल्यान, रंगा वेल्यान करतालो. दोन तऱ्हेची मुळां एका सारखी आसल्यार एका मुळाक सूत बांदून वळखूंक दवरतालो.

म्हाका ताणे सांगलें,

''शिगमो मनिस मनयतात अशें ना तर रूख, झाडांय मनयतात.''

''गणपत मामा म्हाका तुमचे सांगणे कळुनां.''

''अरे शिगम्या तेपार कोसंबाचे झाड पळय कशें तांबड्या कोमऱ्यानी भरता तें, त्यो तांबड्यो कोमऱ्यो म्हळ्यार शिगम्याचो गुलाल. पंधरा दिस तरी ही तांबुडसाण तांची वचना तशेच सावरी रूख तांबडो तुरो म्हळ्यार फुलां दिवन शिगम्याक येवकारतात, तोही म्हयनोभर. बाकी झाडां उमेदी न्हंय. पांचवी कोमरीच शिगम्या दितात. सातोण मात धवश्या फुलांनी ताका येवकारतात.''

हावें ते दिसांक वचून ती झाडां पळयत तर ताच्या उलोपान सत्यताय आसली. हावें ती झाडां कितलेशेच फावट पळयली. तरी ताची इतली चातराय म्हजेकडेन नासली हेच खरे. एक मात म्हाका दिसलें, कोसबांचे पान सुकतकच लेगीत तांबडेच आसता तर बाकी पाना सुकतकच काळपट पडतात. म्हातारपणान तें आपलें नेण्टेपण विसरना हेंच खरें.

एक दिस गणपत म्हणूंक लागलो,

"अंतन सशाच्या रक्तान पायपीठें बरें जाता तर साळ्ळीचे धनकुटेन घायांनसून व्हांवपी रक्त थांबता, शोक्राचे मांस खाल्यार खोरोज कमी जाता तर गाराच्या रक्तान कातिचे रोग पैसावतात, मांजराच्या मासान भन्ने कमी जाता, तर जायच्या पानांरोस नाकपुडान घाल्यार एक शिरेचो उपद्रव कमी जाता. सैमान कितलिशीच वखदां आसतात ती कळूंक जाय. आपणे तांची खूबी जाणूक जाय, तांचेर प्रयोग करूंक जाय तर आमी कितलिशीच वखदां सोदून काडूंक पावतले. सैम लक्षावधी हातानी दिता तरी घेवंक आमकां दोनच हात आसात. जरी जाले तरी ह्या दोन हातानी आमी लक्षावधी वखदां मेळवंक शकतात. वखद घेतना प्रमाण चड गरजेचे, आता हो काऱ्या रूख पळै. हाची पानां झडून हळदुवी फळांच ताका आसात. ही काया फळां फोडून ताची बी इल्या इल्या प्रमाणान खायत तर वर्स भऱ्यान फळांतल्यो बियो पचवपाची तांक येता आनी मागीर सरपान घांस मारल्यार विख बाधना."

हातून म्हाका ताचे गिन्यान अणभव पारखुपाची तांक, तर्कशास्त्र हे गूण दिसताले.

गणपत गांवान आयलो म्हणून कळत तर थंय ताचे मदतीक हांव वतालो. म्हाका ताचो विश्वास पळोवन अजाप जाताले. गोरू चार दिसांनी बरें जातलें म्हणून सांगलें तर ते पाचव्या दिसाक चरतना दिष्टी पड. गोरवांक कडो करून बाटलेन तोंडान घालतना तो ताची जीभ भायर काडून धरून मागीर बाटली तोंडान रकयतालो. कितलोय मस्ती बैल आसूं ताका तो उपाय केल्या बगर सोडी नासलो. हातान पयलीं हळू पोरशीत ताचे कडेन दोस्ती करतालो. मागीर ताका वखद पाजप, कवळ बांदप हीं कामां करतालो. ताची फी म्हळ्यार पडभर तांदूळ, दोन नाल्ल. लोक इनाम म्हणून सुकें नुस्ते, आंबे दिताले ती गजाल वेगळी. वाघ

दिसतकच गोरवांचेर वाघरें पडता तशें गणपत दिसतकच गोरवां वाघरें पडिल्ल्या सारखीं मोव पडटालीं, सांगता तें करतालीं.

हावें मुळानी, पानांनी भरून एक पोती दवरल्या. केन्नाय कोणाक गरजेक लागल्यार हांव वखद दितां. 'गरज ही सोदाची आवय ' अशें म्हणटात ती गजाल फट न्हय. ताचे अशे जालें, आमी चार पांच राखणे तांबडे व्हळयेक एकठांय जाल्ले. काजु पोनाक आमी गड्डयानी खेळटाले. खेळटा खेळटा म्हजो गड्डो पैस पावलो. थंय एक बी आसली. बारीक साणेन पळय तर ती आडवी कातरून गर खाल्लो.

"अरे हे साळीचें काम. "

म्हणना फुडे शिक्यान म्हळें,

"ह्या दोगरांत साळळी पाड पडल्यात हींगाच आसतल्या."

"चल या पळोवंक." अशे म्हणत आम्ही साळळींचे घोल सोदूंक लागले. बारीक वेतभर वाट कशी मळळीली त्या वाटेन वच तर तळपांन भितर साळळीचें घोल आसलें. बारीक साणेन पळय तर बारीक घोला भायर साळळीचे कांटे पडिल्ले. साळळ घोलान वता हाची खात्री जाली. लांकडां हाडून उजो करून ताळे हालोवन तो धुकट भितर घालूंक लागले. वरभर धुकट भितर घालतकच साळळ जाम जावन भायर येवंक लागली, तेना तोंडार पावंक हांवे तीच्या तकलेर तोणो मारून वडयली. म्हणसर शेतान काम करतले लोक आयले. बारीक वांटे घाले. लागसर पाना नासली. ती पैस वचून हावें अनवळखी झाडाची हाडली. सगल्यानी तातून मांस गुटलावन व्हेलें. हांव घरा यो तर मांस म्हाका भायले वटेन सांधीलें दिसले. हाचे वेल्यान त्या पानान मांस एकठांय जोडपाचो गुण आसा हे म्हाका कळळें. केन्नाय कोणाक घाय जाल्यार हांव त्या पानाचो रोस काडून कवळ बांधतालो, तेन्ना तो घाय सांधतालो.



# म्होंव

कासाक रान माड्डीतना म्हजी नदर रूखार आसताली. एक दीस कारये मळार कासाक गेल्ले कडेन रूखां वेल्यान शोक्रूं धावतालें तर पोंदानसून हांव धावतालों. ते इतले नेटान रूखां वेल्यान धांवतालें फुडे नदरेक पडलेच ना. एखाद्रे खंय तरी रूखार तें दपटलां आसतलें अशें येवजून हांव बारीक साणेन पळोवंक लागलों. तर त्या वोवळी रूखार एक बडयाळें लागिल्लें दिसलें. उमाशे कडले दिस म्हणतकच बडयाळें म्होवान भरिल्ले आसतलें हे म्हाका कळळे. शिवाय मुस ताचेर गच्च बसून आसले. बडयेक म्होवा मुस ( पोळें) तल्ल करता ताका "बडयाळें" म्हणटात. तें वेतभर लांबयेक तर बिच्चीभर रूंदेक आसता. एक फावट मुसांक दुखवन सोडत तर ते तोडकायतात, म्होंव सगलें पिवन मेकळें करतात. शोक्रूं खंय वचूं तरी बडियाळें काडपाचें थारायलें.

वोंवळी पोंदाक पत्रो आसलो तो एकठांय केलो. थोडो दुसऱ्या रूखापोनचो हाडून वडयलो आनी उजो घालो. बडयाळया पोनान उजो पेटील्यान ताचो धुवंर त्या मुसांक लागना फुडे तें घुंव घुंव करून आवाज करत हुडून गेले. तल्ल म्होवान भरील्ले दिसतालें, आंकडेन कोयती आसली. रूखार चडलो. कोयतेन खांदो थोडो मारून हातान बावगयलो. तल्ल गोबरान पडचें ना हाची जतनाय घेतली. हळू खांदो कोयतेन उरील्लो कापून हातान घेतलो. कोयती सकयल वडयली आनी खांदो एका हातान घेत रूखा वेल्यान देवलों. फुडल्या रूखा वेल्यान शोक्रूं धांवलें. शोक्रूं आज ना फाल्या मेळटलें असो हावें विचार करून खांदो घेवन वंडगाळी यो तर शीको, केलमेत आसले. तल्ल पळयतकच केलमेतीन करमलांची चार पांच पानां हाडली आनी तल्ल पिळून ताणें म्होव त्या पानार घालें. शिक्यान पानार घेत तें अधाशा सारखो चाटलें. म्हज्या तोंडांत केन्नाच उदक सुट्टील्ले. केलमेतीन, हावें तें म्होव रोकडेच सोपयले. शिको म्हणूक

लागलो,

"म्हॉव बलायकेक बरें."

आमची गोरवां थंय नासलीं. शिको म्हणूंक लागलो

"अंतन तूं सातोर्डे काडटा ?"

"अरे सातोर्डें काडूंक अजाप तर, आतां बडयाळें सामकें सोपें इतलें खरें. फाल्या तुकां सारखें पळोवन सांगता."

हांव घरची चलूंक लागलो. घरा पावतकच रेकेल म्हणुंक लागलें.

"पाय तुका म्होवां वास येता".

" म्हॉव खाल्यार म्हॉवाचो वास येवचोना तर कसलो शेणाचो येतलो ? थोडेच मेळील्लें परतें मेळत तर तुका हाडतां.".

अशें म्हणून ताची समजुत घाली.

दोन दिसानी शिको मेळ्ळो.

"अंतन तळ्यावेल्या नाण्या रुखाक सातोर्डें आसा काडतलो ? तर काड. म्हाका भंय दिसता. "

केलमतीक गोरवांक पळय म्हणून सांगून हांव आनी शिको देवशे तळयेच्या तळ्याकडेन गेले. मनशा इतल्या उबारेचेर नाण्या रुखान मुस भितर वताले. इंचभर बुराकानसून मुस भितर वचून थोडे भायर येताले. शिक्यागेर वचून हावें सुको काथो हाडलो. तो पेटवन पालवतकच धुकट जालो. तो त्या बुराकानसून सोडतकच मुस भराभर भायर आयले. धा पंधरा मिनीटांनी मुस बरेच भायर वतकच परत बुराकानसून येना जाले. तेन्ना ते सगले भायर सरले हाची खात्री जाली, कुराडेन शिक्यान तो बुराक मोठो केलो. हावें हळूच वेल्यावटेन हात घालो तर सात तल्लां आसली. शिक्यान तोप हाडतकच तीं हावें एक एक करून काडून तोपान दवरलीं. शिक्यान ती हातान पिळून म्हॉव तोपान गळयलें. नाण्यारुखाक भितर एक पोकळ आसली. तातून ताणे तें म्होव केल्लें. सात तल्लां आशिल्ल्यान ताका सातोर्डें नांव पडलां आसतलें. शिक्यान म्हाका दोन म्होवान भरून बाटल्यो दिल्यो. एक मादाळे व्हरून विकली आनी एक घरांक खावंक दवरली.

दुसरे वर्साक हावें शिक्याक विचारलें,

"अरे अदुं वर्साक सातोडे नाण्यारुखाक येवंक ना ?"

“ना अंतन, येयल्यार सांगतां”. म्हाका ताचें उलोवप खरें दिसलें. एक दिस सकाळचो वांशे सोदूंक गेल्लो तेन्ना याद जातकच हांव नाण्या म्ह्यान गेलो तर पोंश्चक काथो पडिल्लो आसलो. हाचे वेल्यान शिक्यान म्होंव काडलें आसतलें हें म्हाका कळ्ळें. चौथ्या वर्साक येवन शिको म्हणूक लागलो,

“अंतन ह्या वर्सा मुस येयलेच ना मरे”.

. हावें म्हळें,

“तुवें तल्ला काडतना पोकळ भितल्ली फोडिल्ली ?”

“हयरे तल्लां तायट भितर बशिल्ल्यान येना जालीं. बरें ओडल्यार म्होंव गळूंक लागलें म्हणतकच हांवे पोकळ फोडली.”

“तुका वर्सान वर्स म्होंव मेळपाचें तें तुवें नाकरून घेतलें. बाटली भर म्होंव दिल्यार बाटलीभर खोबरेल कोणय दितालो. शिक्याक म्होवाची आस्त जाली. तो एक दिस म्हणूंक लागलो. बोगळा माथ्यार एका घोडका रूखाक चार कोनगी लागल्यात. हांव सगली तयारी करतां, तुवें काडपाचें काम करपाचें, अर्ध म्होंव म्हाका अर्ध तुका.

“शिक्या, सातोडें आसल्यार तूं म्हाका सांगना आसलो. कोनगीं म्हणतकच तुवें म्हाका सांगलें मरें.”

“अंतन तें खरें, आतां जालें तें जालें. सातोड्याचे म्होंव तुवेंच म्हाका काडूंक शिकयलें.”

“शिक्या जण एकट्याक आपलो जीव ह्या म्होवा परस गोड आसता. भिल्यार मनीस उदर्गत करूंक शकना. आपणाचेर विश्वास आसल्यार केदेंय कठीण काम कुस्कटासारखे. चल दाखय म्हाका कोनगीं खंय आसात तीं.”

‘बरें’ म्हणत तो फुडें चलूंक लागलो. वत मळबानसून उज्यासारखें वोततालें. आमी चान्यान चलिल्ल्या सारखे चलताले. कित्याक तर बेबकांक उदकान राविल्ल्यान थंडी जायना तशी आमी नेणते पण साकून वतान भोविल्यान तें बाध नासलें. आमची कात करपल्ल्यान काळी जाल्ली. शिको आनी हांव खबऱ्यो मारत वताले. देवशे तळयेनसून वेल्या दोंगरावेल्यान वाट नीट्ट गेल्ली ती बोगळान. आतां आमी शेताच्यो गजाली करत वताले, इतल्यान फुडल्यान एक मादाळ कार येतना दिष्टी पडलो.

''दोन दिस जाले, बैल गोठयान येयलोच ना खंय नदरेक पडला ?''

शिक्यान म्हळें,

''धवो, बडकेलो, लांडो बैल तुझो?''

''हय तोच तो.''

''तर तो कारये मळार चरतना काल पळयलो. तोंड ताचें स्वाम्या तळयेकडेन आसलें.''

''बरें चयतां.'' अशें म्हणत तो चलूंक लागलो.

शिको पिच्च करून थुंकलो. ताका पान खावची संवय तर म्हाका विडी ओडची. रूकांची पाना वाऱ्यान निखळून भुयेंर पडटालीं. म्हयचे रुख म्हशी सारखे पाना वडवन काळेच जाल्ले. पाना वाटेर पडिल्ल्यान चलतना व्हडलो आवाज येतालो. मुखार बिबटी रुख आंगभर काळी, जांबळी फळां धरून आसलो. ती पळोवन जांभळांची याद जाली. गोरवांक राखूंक वतना जांभळा भुकेचो उजो पालवयतालीं. बिबटी फळां कांट्टादोराची जांभळां. आमी खाल्यार तोंड फोफेल्याबगर रावना. शोक्रूं लेगीत बिबटीचीं फळां खावन पचयता हें हावें पळयिल्लें. वाटेर चुन्ना नासली तरी पैस देगळार दिष्टी पडटाली. ल्हान आसतना चुन्ना खावंक मजा येताली तर आता जाणटेपणान कष्ट करून तांका फैदासप जिवार येतालें. आतां सामकी वाटे लागी दिसल्यार तोंडान वडवन वचप. शिको पान खातालो म्हणतकच ताका फळां व्हडलीशी आवड नासलीं. शिक्याचो एक पुत मच्छीमार बोटीर गेल्ले कडेन परत आयलोचना. बरोबर मच्छीमार बोटीचो चालक आसलो तो म्हणटा,

''आपणाक कांयच खबर ना, तारी वेळेर परतो आयील्लो पळयील्लो.'' शिक्याचें एक चली आसलें तें जल्मतनाच आवय मेली, तें वाचलें. ताणे घाडयाक विचारलें, तेन्ना ताणें म्हळें,

''तुझ्या चलयेचेर नदर घालशीत तर तूं मरतलो. आवयची ताचेर नदर पडिल्ल्यान ती मेली.''

घाडयागेरच्यान तो म्हज्या घरा येवन म्हणूंक लागलो,

''अंतन म्हज्या चेडवाक खंय पैस व्हरून पावय ना तर हांव वाचचोच ना , खंय व्हरून सोटता तें म्हाका सांगू नाका.''

हांव तसोच तांगेर गेलो आनी हायें व्हड करपाचें पयलीं येवजिलें, मागीर चितलें ताची नदर पडल्यार? मागीर हांवे ताका चिपळ्यान व्हरून मावोडच्या दवरचें येवजिलें. ताका किरीस्तांव करपाचें हाचे शिवाय उपाय नासलो, तरी म्हजें मन फाटीं सरतालें. धर्म ताचो बाटोवप न्हय अशेंय म्हाका दिसलें. त्या चलयेक रिटाकडेन दिवन आमी चिपळ्यान वतना वाटेर ताची मावशी मेळळी. तिका चार जाणा भुरगीं तरी तिणे म्हळें,

"हांव पळेता."

तिच्या सुवादिन करुन हांव आयलों. तेमेरेन तें केन्नाच म्हाका दिष्टी पडू ना. ते केन्नाच भाण्णात येवंक ना. रीत म्हणटालें ताका मुंबय लग्न करुन दिला म्हणून.

शिको जिणेक उबगलो. कोणाचोच आधार नासलो. वीशेक गरवां आसली तितलीच. धनयांक खंड दिवन ताका खबर ना. ताका दिसतालें धनी उपाशी पडटलो. तो मुंबय गेल्लो. एक दिस आयील्लो. शिक्याची स्थिती पळोवन ताणें पांचशे रुपया दिवन गेलो. शिक्याक शितिमेत जालो. म्हाका तो आपली काणी सांगतालो. शिक्यान दुसरें लग्न केलें. लग्न करुंक तसो पैसो नासलो. एक दिस दोघी जाणा माळ घालून भाण्णात आयील्ली खरी. वीस वर्सानी एक दिस ताचो पूत सोद काडत भाण्णात यो तर ताका सावत्र आवय दिसली. तो त्याच पावलांनी परत गेलो तो येवंकच ना. शिक्याक तशी संसाराची आस्त खुबच आसली. येश्याचो कितल्योच वस्ती ताणें चोरील्ल्यो. येशाक ताणें भात दिता म्हणून रीण काडिल्लें. सामको फंटिग, सुवार्थी तरी मनान कुसको न्हय. हाताक चटको लागतकच हांव भानार आयलो. पळय तर विडी सोपून बोटाक लागिल्ली. ती हातांतली वडवन सपनानसून उटील्या सारखो हांव हेवटेन तेवटेन पळय तर शिको बरोच फुडे मानशेर पाविल्लो. भेक्रो उदक पिवंक तळ्याकडेन वतालो.

हावें पायांचो वेग वाडोवन शिक्याक गाठलो. खाजराचीं झाडां वयर माथोटेर दिसलीं. फुडे बोगळाची देवणशी, जळामळाक ल्हानशे बारीक पाषाणी फातर आसले. दाव्या वटेन तो भितर सरलो. हांव ताच्या फाटल्यान वतालो. काट्याची झाडां, फातर, झोंपा, कारंव हांका तोंड दित आमी घोडका म्हऱ्यान पावले. ताच्या मुळाकडेन पावतना पानाच्या आवाजान एक पिसय धांवली. हांवें

वचून पळय तर त्या मुळां भितर तिची गोठण आसली. गोठण मळिल्ली म्हणतकच पिसय थंय बरेच दिस गाठेताली जावये. शिको म्हणूंक लागलो,

"पयर हांगा येता तेन्ना बुडूक करून कितें तरी धांविल्लें. म्हजी नदर रुखार आशिल्ल्यान म्हाका जमनिवेल्यान कितें धावलें तें कळूना. ते दिसा ती हीच पिसय आसतली."

रुखाची घेराय दोनेक मिटर आसली, उंचाय तीशेक मीटर आसली. ताका पंधरा मीटर मेरेन एकय खांदो नासलो. पंधरा मिटराचेर तीन मोठे खंदे आड गेल्ले. उदेंतिवटेन खांदो बारीक आसलो, तरी ताका चार पोळी आसली, तीही तोंकार. अस्तंती वटेन तीन आसली, तीं मीटराच्या अंतरार आसली तरी काडूंक सोपी आसलीं, कित्याक तर खांदो अर्ध मिटर रुंद आसलो. सकयल मदी मदी काळीं पाशाणी खडपां आसलीं. मादाळ थंयसून दिसताली. शेतोड म्हणतकच नदर बरीच पैस पडटाली. रूखार चडप कशें हो प्रस्न आसलो. निसण हाडटलो म्हळें तरी इतली लांब निसण खंय मेळटली ? अस्तंतेवटेन आशिल्ल्या खांद्यावेल्यान इंचभर मोठी वाल सकयल पाविल्ली. किनळारुखावेल्यान चडून वालीक गोळ मारून वयर चडूंक जातलें अशें हावें येवजिलें. तींन्ही कोनगीं काडपाची हांवे चितलें. म्होंवा मुस तशे हुषार ताणी वाली खांद्याक तीन तर उदेंतीवटेन आशिल्ल्या खांद्याक चार तीही व्हडली कोनगीं केल्ली. बैलाच्या खुमटणाचो ताचो आकार तरी शेणा इतलो काळो. वेल्यान पडल्यार मात वाचपाची आस्त नासली. घोडकांची बारीक बोरां येदी फळां झडतालीं. उमाशे दिस कोनगीं काडपाचे थारावन आमी घरा आयले.

दुसरे दिस हांव बंदूक घेवन गेलो. पानार हळूच पाय दिवन आवाज जावचो ना हाची जतनाय घेतालो. चाप वयर काडून बंदूक खांदाक लायील्ली. घोडका म्हयान पावंक तेंही आवाज करी नासतना सोपें नासलें. पिसय उठून धावंक लागली तरी फार मारतलो हाची हांवे तयारी दवरिल्ली. पावल वडयता तशी गोठण लागी येताली. थोडो वेळ रावन हांव वतालो. झपाझप चलतकच उसवास नेटान घेवचो पडटा मागीर फार मारत तर आंग हालिल्ल्यान तीर चुकपाचो संभव आसता. थोडो वेळ थारतकच उसवास सारखो जावन आंग

हालचे बंद जाता. पिसयेचेर नदर आसली तरी पांयाकडेन पळोवप तितलेंच गरजेचे. पाया पोंदाक जिवाणे आसल्यार अनर्थ जावं येता. बरें पायापोंदाक पळयत रावल्यार पिसय नदर चुकोवन गेल्यार ? मुळा खाचीन ती गोठण आशिल्ल्यान म्हाका पिसय दीस नासली. सामको दोन मिटराचेर पावलो तरी मनान दुबाव येतालो ती गोठणेर आसत नासत. आनीक एक पावल घालतकच काळेशें दिसलें. हुंदीर आसचोना आसल्यार आसूं अशे मनात येतालें. तरी तिची शेपटी खंयची आनी तोंड खंयचे हे कळप गरजेचे आसलें. चड फुडे गेल्यार ती पातेवची ना हें ही खबर आसलें. हावें किर्तेंय जांव मदी तीर धरून काळशाचेर फार मारुन सोडलो. वचून पळयत तर गाठणेर पिसय पडून आसली.

ती घेवन हांव वाटेर येवन बसलो. कुड्यापान, तंबाखू काडून ताची विडी केली. फस्कान पेटवन धुकट सोंडूक लागलों. दोन बोटां ओठांक लावन ताचे मधसून थुकी पैस वडयली. पिसय मेळळी तरी कोनगीं म्हजेकडेन दोळे मोठे करून पळयतना,

''राव दोन दिस रावात उमास येवंदी तुमका नागयतां अशें हांव म्हणटालों.'' विडी सोपतकच थोटूक वडयलें. मात्शी तरतरसाण आंगान भल्ली. बसून रावल्यार बसुनच उरतलों असो विचार करून हावें उभो रावचें थारायलें.

इतल्यान उत्तर दिकेन पानाचो सरसर आयकूंक येवंक लागलो. गोरूं काय दुकर असो मनान विचार आयलो. हांव उभो रावल्यार तांका सुलूस लागतली असो विचार करून झोपा आडसाक न्हिदून रावलो. तो सरांव म्हजे वटेन येतालो. हांव बारिकसाणेन झोपानसून नदर पडटा थंय पळेतालों. इतल्यान काट्यानसून, खुट्यानसून गोरवा एदी काळी आकृती येता कशी दिसली. काळो वाघ जायत काय ? अशें मनात येता मेरेन घोडका पोंदाक वाशेल दिसलें. ताचें तें केसाळ काळें आंग, हुंदरा सारखी सोंडी, नाकपुड्यानी तें वास घेतालें. तें कित्याक आयलां काय ? वाशेलाक हावें पयली पळोवंक नासलें तरी शिक्यान एक फावट फातोडेर झरी कडेन पळयील्लें. ताचे वर्णन केलें तें तशेंच आसलें. ताचे फाटोफाट ताचे पिल आसलें. हेवटेन तेवटेन पळोवन तें त्या घोडकाचेर आपली नांकटां रोमून पटापट चडूंक लागलें. हांव अचकित तें कित्याक चडता तें पळोंवंक लागलो. शोक्रूं झाडार चडता तशें तें चडटालें. आपल्या आंगाचे वजन तें कशें

पेलता ? जण एकट्याक आपलें आंग जड लागना. हतयाक आपलें आंग खंय जड लागता ? आतां तें वयर खांद्यार पाविल्लें. तार्चें पिल सकयल बसून आसलें. तें खांद्यार आडवें न्हिदलें आनी ताणें कोनगें हुमटीलें, तें काडून मुसांसयत खांद्याच्या देळ्यान दवरलें. परत फुडें गेलें मूस चवताळून ताच्या आंगार बसताले तरी वाशेलाक ताची पर्वा नासली. कोनग्याचो एक कुडको मोडून सकयल पडलो तें पिल तो खांवक लागलें. म्हणसर ताणे दुसरें कोनगें त्या देळयान दवरलें. तें तिस्र्या कोनग्या कडेन वचून ताणे तें हातान तुटवन सकयल धुकलून दिलें तें पिला खातिर. मुस ताका सोडी नासले. ताणें ती दोनी तल्ला हातान धरून देवंक लागतना माथ्यार दवरलीं आनी तोल सावरुन तें हळूहळू देवंक लागलें. जमनीर पावतकच तें तल्लाचें म्होंव पीळून खांवक लागलें. मूस सगल्या वाटाराक जाल्ले. पिल म्होंव खातालें. वीस पंचवीस मिनटां भितर ताणी म्होंव पीवन तल्लां थंयच वडोवन तीं धांवत आयील्ल्या वाटेन गेली. मनान विचार आयलो. वाशेलाक म्होवांचो वास कितल्या पैससून आयलो काय ? रुखार चडपाक ताका कोणे शिकयलें काय? म्होवा मुस ताच्या तोंडाक चाबूंक शकनात काय ? अशे विचार  येतना हांव उठलों. जाग करी नासतना पिसय घेवन भाण्णाची वाट चलूंक लागलों. वाशेल म्होवांक सवंकल्यार म्होंव दवरचेंना अशें दिसतालें. उमाशेंक म्होंव काडपाचें हावें थारावन घरान पावल दवरलें.

उमाशे दिसा चारांक सुमार जेवन हांव शिक्यागेर गेलों. शिको आंगणात रावन म्हजी वाट पळयतालो. चिमणेल सगल्या आंगाक सारयलें, म्हणटकच मुयो त्या वासाक आंगार येनात. मागीर बतरी कांबळ पिंजून आंगभर गुटलायली, दोळे तितले उघडे दवरले. वालीन म्हाका कांबळी कुडक्यासयत शिक्यान बांधलो. लांब दोरी, पाटलो, कोयत्यो, फस्क, तोप घेवन आमी बोगळाची वाट धरली. वाशेल येवन म्होंव खांवन वचूंना मूं ? असो विचार मनात आयलो. कित्याक तर वाशेलाक शिक्यासारखी म्होवा गोडी लागील्ली. कांबळ आंगाक गुटलायील्यान गरम जातालें. आंगभर कांबळ बांधील्ल्यान चलतना त्रास जाताले. शिक्यान म्हळें,

"तुका पळयल्यार तूं दोन पायांचें वाशेल कसो दिसता."

उदकान पेंवतना एक तरेचो पोषाख घालतात, हांवेही पोषाख घाल्लो तो वयर रुखार चडूंक. मुंगूस आडवें गेलें. शिको म्हणूक लागलो,

"मुंगूस दिसप हो बरो शकुनच, आमचें काम जातलेंच."

म्हाका उमेद आयली. म्हज्या आकडेची कोयती कट् कट् आवाज करताली. माकड सकयल्या फोंडयेन हुपयेताले. माथोटेर पावतकच आड वाटेन चलतकच घोडका रुख मेळलो. कोनगीं म्हजी वाट पळयतालीं. वाली वेल्यान चडल्यार रुखार परतें वचप कठीण आसलें शिवाय वाल सुटून पडत तर ? शिक्यान दोन तर हावें एक अशो तिन कोयत्यो हाडिल्ल्यो. दिस उजवाडी वयर देळयाकडेन चडून रावप गरजेचे आसलें, रातीन तशें सारखें दिष्टी पडना. सुर्य तानेल्लो आसता केन्ना दर्याचें उदक पिवन तान भागोवची अशें ताका जावन तो ताकतिकेन उदका सरीं देवतालो.

दोरयेचो पोंत तोंडात धरलो. जमनिरसून अर्ध्या मिटराचेर कोयती चोचीन रुखाक मारली, ताच्या अर्ध्या मिटर दाव्या वटेन मारली, तिसरी हातान धरली. त्या दोन्ही कोयत्यांचेर उभो रावन हातान दोन मिटराचेर वयर कोयती मारली. उजव्या पायाच्या हुमटया बोटामदी कोयती घट्ट धरुन काडून हातान घेतली आनी मात्शी वयर मारली मागीर दाव्या पायांकडली कोयती काडून वयर मारली आनी उजव्या पायार तोल सांबाळून धरलो. अशे तरेन एका पांयाचेर तोल सांभाळून, वेल्या हाताचो आधार घेत परत पायां बोटानी कोयती काडून वयर मारत हात हात भर रुख वयर चडटालो. कोयती रूखाक मारतना नेटान मारल्यार पांया बोटांनी काडूंक कठिण. बरें हळू मारल्यार ती सुटून सकयल पडपाचो भंय. हाचे पयली हांवे ल्हान आसतना रूखार कोयत्यानी चडपाची संवय केल्ली. हांवच म्हणोन न्हय तर आमी तीघ जाण राखणे अशे तरेन वयर चडूंक शकताले. ती मजा म्हणून विद्या शिकील्ली. दोन फावट पाया पोनची कोयती सुटून हांव सकयल पडिल्लो तरी पडतां पडतां फातर चुकोवन हांव वाटावल्लो. कोयती मारतना रुख ती कितली घाट धरता हें आजमावचें पडटा. वेदू रुख कोयती घाट धरना तर म्हयचो रुख कोयती सहसा सोडना. अशेतरेन हळू हळू कोयतेवेल्यान कोयतेचो आधार घेवन हांव देळ्यान पावलो. तीन्ही कोयत्यो देळ्यान दवरल्यो. शिक्यान दोरयेक पाटलो

बांदलो. एक पोंत म्हजे कडेन आसलो. सुर्य सामको धारेक पाविल्लो. हडदुवे तांबूस वत म्हजेर पडटालें. शिको पोंदाक बसून सर्कस पळेतात तसो म्हाका तोंड आं करून पळयतालो. सकल पळय तर म्हाका भंय दिःप नासलो. आंबे काडूंक व्हड व्हडल्या रुखार चडून संवय आसली. पयलीं पयलीं म्हजे पांय थरथरताले हें खरें. मुसांचो आवाज कानार मारूंक लागिल्लो. वाशेल आयलेंच तर शीको पोनान आसलो म्हणतकच भिवपाचें कारण नासलें.

मूस भायर सरले तरी परत त्या कोनग्यार बसताले. शिक्यान सांगनासतना पाटल्यान चूड, काथो, फस्क घालें. हांवे दुसरे पोत वयर काडून राजवान बांयतलो कळसो काडटात तशें तें वयर घेतलें. गीध येवन केन्ना वेल्या खांद्यार बसलो तें कळेंच ना. होरत् होरत् म्हणून हात वावुडतकच तो हुडून गेलो. फाटोफाट रंगयाळो येवन बसलो. ताची ती हळदुवीं पाखां ते काळे ताचे वेले पट्टे, सांचे ताचेर पडिल्ले हळदुवें वत, वेलें निळे मळब, निळे पैसुले दोंगर, सकयल आशिल्ली पाचवीं काळपट झांडा झोपां, नेटान व्हांवपी वारो सगळेंच ओड लायणें. हावें जरी हाचे पयली हे अणभविलें तरी वयर रुखावेल्यान ताची खोस लुटप हातून आगळी गोडी आसली. माथ्या वेल्यान बोबो मारीत कावळे उडून गेले. बोगळाचे देवणशेक एक मोर आयणो फुलयतना दिसलो.

चार पाचमीटरांचेर कोनगीं आसलीं. निमणें सुमार धा मिटरांचेर आसलें. खांदो वेंग पावना इतलो मोठो आसलो. गीधान ताचेर हळशिक केल्ली. सैम पैसुल्यान पळोवप तसोच लागसल्यान पळोवप हातूंन फरक आसता. घोडका रुख पैसुल्यान सोबीत दिसतालो तरी ताचेर चडतकच वयर सकल, सुकिल्ल्यो साली, तांतलो कोचप पळयतकच विद्रुपता मनात भरताली. आमचे दोळे पैसुल्यान बरें तेंच दाखयतात. वायट धापतात. बोगळांच्या तळ्यांत आसली साळकां निळें उदक तरी तातूंन भितर फातर, चिखल कितलो भरिलो आसतलो ? खंयच्याय मंगल कार्याची सुरवात शेनाय वाजोवन करतात. हांगा किडीन शेनाय लायील्ली तरी तातूंत मांगल्य नासलें, ती गजाल वेगळी. एक म्हतारो रुख आपले कपडे देवोन मातये भरवण जावची वाट पळेतालो. पैस केरानसून बकीं उडत येवन ताचेर बसलीं. तेन्ना ताका धवीं पाना फुटिल्ल्याचो म्हाका भास जालो. लागसर आशिल्ली पंगाऱ्याची केशरी फुलां तांका भुरळ घालूंक शकलीना. म्हाताऱ्याचो

आधार तांका भुरग्यांपरस मोठो दिसलो आसतलो. एखाद्रे शिकारी येत तर फुलानी, वा पानांनी दिसचोना हे खातिर त्या म्हाताऱ्याची ताणी निवड केल्या आसतली. अशे विचार मनान आसतना म्हजी नदर शीक्याकडेन गेली तर तो काळखान बुडील्लो दिष्टी पडलो.

खांदो वाकडो तिकडो आसलो. बरें मदीं ताका आड फागूर नासले. फुडें फुडें तो बारीक जायत गेल्लो, तोंकार तर वेतभरच आसलो. तरी ताची मोठाय पयलीं बरी आशिल्ल्यान मोडपाचो हुस्को नासलो. कांबळ आंगाक गुटलायिल्ल्यान भितर आंग घुसघुसतालें. दोरयेचो पोंत पायांक बांदलो आनी पाटलो कोयत्यो घालून सकयल सोडलो. चूड, काथो हातान खांद्यार तोल सांभाळून जाता तितलो फुडें धुकल्लो आनी खांद्यार पोट तेकयलें. सगळ्या रानान कांबळ पांघुरिल्ली. म्हाताऱ्या रुखावेली बर्की वळखूंक येना आसली. गोगल गाय सारखो हांव पोट घासटीत हळू हळू फुडें वतालों. कांबळ गुटलायिल्ल्यान रुखाच्यो साली लाग नासल्यो. मुसांचो आवाज फुडें वता तितलो कानार मारतालो. सकयल पडल्यार जीव व्हगडावचो पडटलो हें कोणेच सांगचेली गरज नासली. तोल सांभाळप गरजेचें आसलें. शिक्याचो खांक काडिल्लो आवाज वयर आयकूंक येतालो. काळखान मूस कुडे जातात हें खबर आशिल्ल्यान कोनगीं रातीन काडची पड. कोयती हातान घेवन हात पावता तितली फुडें खांद्याक घट्ट मारून दवरली. चूड तशी मीटरभर लांब आशिल्ल्यान कोनगें फुडें आसलें तरी थोडोसो खांद्यार गेल्यार मुसांक उजो लांवक मेळटालो. फस्क हावें बलसान सांभाळून दवरिल्लें. सकयल पळय नासतना हांव खांद्यार फुडे पळोवन पोट घसटीत घसटीत इंच इंच फुडें वतालो. खांद्याक मदींच एक गुरंज म्हळ्यार फागूर मोडून खांद्याचो थोडो भाग वयर आयिल्लो आसलो तो हड्ड्याक घसटून चडच त्रास करतालो. वजन आंगार पेलूंक मेळनासलें. आता सामकोच काळोख जाल्लो. गुरंजाफुडे पावतकच हावें चूड फस्कान पेटोवन खांद्या सकयल व्हेली आनी त्या उजवाडान कोनगें खंय आसा तें दिष्टी पडूंक लागलें. चूड लायतकच मूस चोम्यांनी सकयल पडूंक लागले. तसोच हांव फुडे सरपटत गेलो आनी चूड दुसऱ्या कोनग्याक लायली. ताचेय मूस सकयल पडले. चूड भराभर पेटिल्ल्यान काबार जायत आयली. ती चूड खांद्यार चिड्डून पालवयली. दोरी हळू हळू वयर ओडून घेतली, त्या सरशीं

पाटलो वयर आयलो. दोरी खांद्याच्या दुस्रया वटेन वडयली आनी शिक्याक ओडून धर म्हणून सांगली. हातान तल्ल हुमटून काडूंक पळयतालो तरी तें वयर सामकें घट्ट दशिल्ल्यान कुडके येवंक लागले. हात म्होंवान भरून सुळसुळूंक लागले. तेन्ना हावें कोयती काडून तें तल्ल कापून पाटल्यान घालें. जड जांतकच दोरयेर पेज आयलो आनी शिक्यान दोरी हळू हळू सोडटा तसो पाटलो सकयल वचूंक लागलो. ताणे तें तल्ल एका तोपान घालून दोरी ओडली तसो पाटलो वयर आयलो. हावें फुडे सरकत दुसरें तल्ल कापलें आनी पाटल्यान घालें. ताणे तो पाटलो सकयल देंवयलो. म्होंवाचो वास सुटील्लो. हात म्होंवान भरील्लो तो चोखतलों म्हळें तरी म्हजे तोंड खंय उघडें आसलें ? "आसून खावंक मेळना." अशी म्हजी अवस्था जाल्ली.

परत पोट फुडें घसटीत हातापांयाचो आधार घेत तोल सांभाळीत मिटरभर फुडें गेलों. फस्क पेटोवन चुडीक लायलें. आतां म्हाका मुसांचो भंय दिस नासलो. थोडे म्हजेर येवन बशिल्ले तरी कांबळ गुटलायिल्ल्यान तोडकांवक पाव नासले. चूड कोनग्याक लायतकच मूस सकयल पडले. हाताक म्होंव लागिल्ल्यान चूड निसरताली. मात्सो फुडे सरकून तीसऱ्या कोनग्याक लायली. चुडीचे उजवाडान कोनग्याचेर मुस ना ते कळटाले. चूड जळून काबार जाल्ली ती सकयल वडयली. शिक्यान पाटलो दोरयेन वयर चडयलो. कोयती तशेंच तल्ल कापून तातंतऩ घालें. ताणे पाटलो सकयल देंवयलो.

रातचीं बारा जायत आयिल्ली. परत फाटी परततलो म्हळें तर तोल सांभाळप कठीण आसलें. खांदो सारखो दीस नासलो. मूस गुंवगुंवताले. दोळ्यार न्हीद आसली. बरें रातभर त्या खांद्यार कशी काडप होही प्रस्न आसलो. न्हीद लागून तोल वचत तर सोमतो सकयल. विंगड विंगड विचार मनान येताले. कितें करचें तें कळ नासलें. इतले मजगती पैस भालू रडली, तेन्नाच पाटलो शिक्यान तल्लां घाल म्हणून वयर धाडिल्लो. खांद्यार घांसून घांसून दोरी सामकी बारीक जाल्ली.

"पाव जेजु! शिक्या दोरी सांबाळून, हांव पाटल्यान बसतां."

अशें म्हणत हावें खांद्याक घट्ट मिठी मारून पांय पाटल्यान दवरले आनी हळू उकंडयो पाटल्यान बसून मिठी सोडून दोळे धापलें. शिक्यान दोरी सरऱ् करून

सोडून म्हाका खीण भितर जमनीर पांवक पाटलो तुटलो. हांवे उसवास कोंडून दवरिलो, तो पाटलो तुटतकच सोडलो. मात्सो पयलीं तुटल्यार हांव वेल्यान पडपाचो. शिक्यान चातरायेन दोरयेर पेज दिना आसतना सोडली आनी जमनीर पांवक घट्ट ओडून धरली, तेन्नाच म्हज्या वजनान ती दोरी तुटली. सगलें आंग म्होवान चिकचिकीत जाल्लें. कांबळीन सून भीतर म्होंव गेल्लें. शिक्यान म्हजे पास सोडोवन कांबळी कुडके वेगळे काडले. तल्लां दोन घालतकच पाटलो भरलो. दोन कांबळीन गुटलायलीं. पोंदाक पाषाणी फातरा सारखी मुसांची रास जाल्ली. ते गुंव गुंव आवाज करताले. फस्क पेटयल्यार ते तोडकायतले म्हणून काळखान आमी तीं पोळीं, तोप घेवन घरच्या वाटेक हळू हळू सारपीत सासपीत वचूंक लागले. बरोच वेळ काळखांनसून वतकच आमकां माजरा सारखें स्पष्ट दिष्टी पडूंक लागलें. दोन पोळीं शिक्यान तर दोन हांवे घरा हाडलीं. रातचो न्हावन मेकळो जालो. दोन कडेन मुसान म्हांका तोडकायिल्लो, वेग मारताले. रितान तांतले मुसाचे कुस काडतकच म्हाका न्हीद पडली. वाशेलाक फटवन आमी म्होंव हाडलें हाचें म्हाका समाधान जालें.

सकाळी तीं तल्लां पिळूंन म्होंव काडलें. एका तोपान घालून वताक दवरलें. बाटल्यानी भरलें. एक बाटली धनयाक, एक चिपळ्यांक, तर एक गणपताक व्हरून दिली. रेकेलाक म्होंव खुबच आवडटालें. बेकार आसतकच तें थोडे थोडे हातार घेवन चाट्टालें. रेकेलाक हावें शिटकायील्लें,

"म्होंव खातना सवकास खा, हुस्तुरें वचत तर जीव लेगीत वचूंक शकता. तें खातना हांसो उपकारना."

रिताक तें व्हडलेशें आवड नासलें. म्हाका दोन तीन फावट खातकच तें नाका जालें. त्या तल्लाचो कुडको काडून हावें सांभाळून बांधून दवरलो, ती त्या रातीचे यादस्तेक. केन्नाय तो कुडको नदरेक पडतकच म्हाका एके तरेची खोशी जाता ती सांगूक जायना, अणभवान कळपाची.

दुसरे दिस सांचो जमनीर आसली कोयती हाडूंक हांव त्या रुखा म्हज्यान वच तर ते मूस म्हाका तोडकांवक येवंक लागले. एकटो येता म्हणसर रासच म्हज्या फाटल्यान लागली. हांव झोपानसून धांवक लागलो. तांचो तो रागीट आवाज म्हज्या काळजान भंय निर्मूक लागलो. धांवन धांवन हावें देवशे तळयेंत

उडी घेतली. तसो बुडून रावलो. आतां उदकावयर ते मुस गुंवगुंवताले. उसवासा खातीर मदींच वयर येवन परत बुडटालों. काळोख जातकच मूस गेले तेन्ना हांवे तळयानसून वयर येवन सुस्कार सोडलो.



# दर्यो

"अंतन योरे" हीं उतरां कानार पडटकच हांव उठलो. विडी थोडी आसली तरी ती वडवन हांव घरान सरलों. साकान कुळर्णे, मीठ, आळेंण, चादर, फस्क घालून दवरिल्लें. तो साक खांदार मारलो. घराक तेकोवन दवरिल्ली गरणी हातान घेतली तशी केलमेती घराकडली वाट चलूंक लागलों. चार वरां जायत. वताची खरसाण नासली. आंब्याची तोरां वाऱ्यार नाच करतना दिसतालीं. दर्यार वचपाची म्हजी इत्सा कितल्या दिसांची आज पुराय जावचीं चिन्ना दिसतालीं. केलमेत केन्नाय एकटोच दर्यार वतालो. म्हाका काम आशिल्ल्यान वचप घड नासलें. शिवाय दर्यो तसो लागीं नासलो.

केलमेतिच्या कुड्यान भोकूंन म्हाका येवकारलो. तो आंगणांत गरणी घेवन तयारेन आसलो, हातान कोयती. खंय गेल्यार कोयती तो पाते नासलो. तो फुडें तर फाटल्यान हांव चलूंक लागलों. शेत हुपतकच रान लागलें. कावळे झाडार बसून रडटाले. आमकां पळतकच ते हुडून गेले. घाण येताली. वचून पळय तर गोरूं मरून पडिल्लें. गोरुं चरतना कितलें सोबित दिसता मागीर मरतकच पळंव नजो. केलमेतीन म्हळें,

"शिक्या पाडी जिवाण्यान फुकटिली."

सोरोप मनशाकच न्हय तर मनजातीक लेगीत दंश केल्याबगर सोडिनात असो विचार मनान आयलो. रानातसून वतना वत लागनासलें. वाट मळिल्ली आसली. केलमेत चलूंक आयक नासलो. म्हज्या नदरे मुखार दर्यो येतालो. हांवे पोळ्यान गेल्ले कडेन पैयसुल्ल्यान दर्या पळयिल्लो तितलोच, तरी नुस्ते मारपाचो अणभव नासलो. केलमेत आपल्यो मांय पायच्यो खबऱ्यो सांगतालो. पायक ताच्या दोळ्यानी दिस नासलें तर मांयक कानानी आयकनासलें. वखद करूंक ताचे कडेन पैसे नासले.

“अंतन म्होंवाचे दोन थेंब पायच्या दोळ्यान घालतकच आतां तेका मात्शें दिसोंक लागलां, तरी तो गाळी मारताच. जाणटेपण, कोणाक नाका तरी थोड्यांक तें चुकूंक येयलां ? हात पाय हालतना मनीस मनीस कसो जगता मागीर तो ल्हान भुरम्या सारखो, हट्टी, परसुवादीन जाता.”

म्हजे लक्ष ताचे उलोवण्या कडेन नासलें. तो आपलो बडबडत आसलो. पत्र्यावेल्यान चलतना आवाजान लागसल्ली शेवर्णी हुडून वताली.

“अंतन ह्या कवंजी रूखाचो धात्र करुंक जातालो तरी मात्शी मर्दी बाग आसा मरे.”

“आसा तरी ती तितली बादचिना, मोठाय बरी आसा तासून वडवन बाग कमी करूंक जातली.”

आता चडती आसली, उलोवणे बंद जाल्ले.

“अंतन हें भींडण.”

नदरेक सगल्याक भींडीच पडटाल्यो. तांका तांबडी गुंज भींडां पिकील्लीं.

“इतल्यो गच्चून भींडी कशो ? त्योही रानवटी न्हय तर गांवठी.”

“अंतन कोणेतरी एक भीरंड दर्यार येतना हाडिल्लें आसतलें. ताच्यो बियो पडून रोपे जाले. ते लागतकच भींडां तांच्या पोंदाक पडून परत रोपे जाले. एका भींडीक शेकड्यानी भींडा, हजारांवयर बीयो तितलेच रोपे.”

म्हाका ताचे पट्टालें. बारीक वाट मोण्ण घेत सकयल देंविल्ली. पांय निसरत म्हणून वाटेवेल्या झाडांचो आधार घेत वच्चे पड. गरणी लांब आशिल्ल्यान ती परत परत झाडांक लागताली. केमलेत पटापट देंवती देंवतालो.

आता आमी दर्या लांगीं पाविल्ले. ल्हारांचों आवाज आमच्या येवकाराक आसलो. व्हड व्हडलीं पाषाणी खडपां जळमळाक उमथीं पडिल्लीं. ताचेर आमचीं पावला दवरून सांभाळून आमी वताले. झाडां व्हडलींशी नासलीं.

“अंतन हें दाबेल.”

एक शेनरेएदें सपाट पाषाण आसलें. तीन फातरांची रांदन आनी थोडी लांकडां म्हऱ्यान आसलीं. केलमेतीन आपलें सामान थंय दवरलें. हांव साक घालून बसलों. सुर्य बुडपाक थोडो वेळ आसलो. केलमेती फाटोफाट हांव वतालो. दोन खडपां मर्दीं रुंद खांची आसल्यो, तांचेर सांभाळून पांय दवरचो पड. फुडे खडपां

सोपून रेंव आसली. दर्याची ल्हारां परत परत येतालीं आनी वतालीं.

खळा़र शेण काडटना रीत मर्दी शेणा धापो दवरुन ताचेर उदक ओतून तें खीरी सा़रखे पातळ जातकच खळभर पेंटासारखे सारयतालें. हांगा हे उदक आपसुकच देगेक पेंट काडपाचे काम करतालें. मळबार नदर मार तर तें लेव निळें आसलें. तरी उदक गडद निळें दिसतालें. मळबाचो कोर दर्याक येता हें फट जावये. उदक खूबच आशिल्ल्यान लेव निळें उदक चड गडद निळें दिसतालें जावये. दर्या रागीट गंभीर आपल्या पोटान सगलें दवरपी, कांयच सांगपी न्हय. जरी जालें तरी ताचे हार्शे देगेच्या ओठाचेर धव्या फेसान दिष्टी पडटालें. खारवट उग्र वास येतालो. "दर्या तुका नाक ना जावये, रानाक नाक आसता हे खातीर देवान सुरंगी, वोवळी, रातीन सातोण लेगीत वाशेत दवरला, फक्त रानाखातीर. पिटकुळी, कारंव, किनळ, रंजण हांची फुलां रान माळटा, तें सोबित दिसता. तूं तर रुक्ष, दादल्यासारखो. एक फूल तुझ्यान सोडच म्हऱ्यान वाशेवंक ना हाची तुका पर्वा ना काय खंत ना ?" हांव दर्याक प्रस्न करतालो. दर्या ओठारच हांसता तर रान ताळीं, मुळीं वारो येतकच रोमरोमां कणकणी बोंबलेच्या देठांनसून हांसता सामके खळखळून, कांयच मनान दवरी नासतना. चुकून साठूंन उरिल्लो हांसो व्हळतेच्या रुपान खुळखूळ करत उदकाबरोबर आवाज दीत आसता. "थू तुझी दर्या, तुझी विशालकाय बेगडी, निजाची न्हय, कुरूप." मर्दी एक व्हड खडपार तीं आपटतकच धवें उदक दोन तीन मिटर वेल्यान शिंवरतालें. दोळे दर्याची विशालकाय अजमांवक उणे पडटाले. रानाची पारख दोळे रोखडेच करतात तरी दर्याची खोलाय, लांबाय, रुंदाय हाचो अदमास लेगीत घेवचो यत्न करनात. रेवेंर आमची पावलां उदेतालीं. केलमेतीन चार पांच कुल्ल्यो धरल्यो आनी म्हजेकडेन दिल्यो. तांचे हांयस काडून हावें गरणेचे गऱ्याक लायलें आनी खडपार बसून गरवंक लागलो. केलमेत कडावळीक भोवतालो. ताणे उजो पेटवन सकयल देवन उदक घेवन गेलो. दोगरांनसून एक गोडया उदकाची झर व्हांवतालाी. निळें निळें रानदोंगर ह्या दर्यान अशे कशे ? म्हाका परत परत दिसतालें.

तिळसांन जातां जातां दर्याचो गाज वाडत आसलो. वारे तर आपणाक जाय तशें धांवतालें ताका आडोवपी कोणच नासलो. पैस एक दिवो पेट्टालो. निळे दोंगर आतां रानदोंगरां सारखे रातिन काळे काळे जाल्ले. वयर उसळपी

ल्हारां लेगीत कळनासली. इतल्यान हातान धरिल्ली गरणी हालतकच हांव भानार आयलों. म्हज्या गरणेक ओड लागिल्ली. हावें ती पायांक लावन बळ मारून वयर काड तर शेंवटो गऱ्याक फारवल्लो. जिवाच्या आंकातान तो फडफडटालो. ताका एका हातान धरून गरो काडलो आनी फातरार दवरलो. हांयस लावन परत गरणी उदकान सोड तर शेवटो उसळत फातरावेल्यान गडगडत उदकान पाविल्लो. केलमेतीक ही गजाल कळ‌ळी ताणें म्हळें,

"अंतन हें रान न्हय सामको पिसो मरे तूं, सांभाळून बस ना तर तुझोच दर्यान पडून शेंवटो जायत."

म्हाका तो दिस यादेलो. देव दिता आनी देवचार व्हरता अशी गत जाल्ली. हांव श्रावण म्हयन्यात पंचमी कडेन अळमी मेळटा काय म्हणून रानान भोंवतालो. एका रोयणीक आठच अळम्याचे कळे मेळील्ले. ते कांबळी खोळेन घालून हांव चलतालों. खांदाक बंदूक आसली. मुळसांवाचो फार भरिल्लो. बोगळाची माथोट लागची आसली म्हजी नदर पैस आशिल्ल्या रोयणीचेर पडली. धवीं धवीं अळमी पैसुल्यान दिष्टी पडटाली. हांवे बारीकसाणेन पळय तर रयण मनशा येदी उभार आसली. इतल्यान म्हाका रायणीचे ते वटेन एक काळशी शेपडी हालतना दिसली. वेतभर शेपटी म्हणतकच दुबाव गेलो. हो दुकर जावं जाय अशें चितलें आनी पोतयेन आसलो शिशा गुळो काडून हावें नळयेन सोडलो. म्हणसर दुकर अळमी खायत तेवटेंचीं सोपोवन हेवटेन पावलो. हावें अळमी खातना सोंडयेचेर तीर
धरून फार मारलो. दुकर सामको बेसावध आसलो. अकस्मात आवाज जातकच तो त्या रोयणीचेरच पडलो. हांवे ताचो पांय धरून ओडत ताका बोगळाच्या माथोटेर हाडलो. लागसल्ले ताळे मोडून ताचेर घाले आनी मादाळे वचून दोघ तिघ जाणाक हाडूंक गेलो. बाजारान दुकर कापूंक म्हणतकच चौघ जाण रोकडेच मेळळे. तांका घेवन यो तर ताळेच आसले पोंदचो दुकर नाच्च जाल्लो. बारीक साणेन पळय तर तो त्या रोयणो [illegible]टेनच गेल्लो. सगळे म्हाका फटकिरो म्हणूंक लागले तेन्ना दुकराक ओडून हाडि[illegible]लो माग दाखयतकच तांका विश्वास बसलो. रोयणीक एकय अळमें नासलें.

इतल्यान म्हज्या हाताक एक धसको लागलो. बळ लावन गरणी वयर

काडली. पळय तर शेंवटो. तो काडलो आनी केलमकतीक दिलो. परत गरणेक आनीक एक शेंवटो अशेतरेन पांच व्हडले शेंवटे हावें काडले. केलमेतीन उजो पेटवन दवरिल्लें आळेण खतखतताले. हे फडफडटाले ते ताणे उजरावन कुडके करून आळेणान वडयले. परत मात एकय शेंवटो लागू ना.

"अंतन शेवट्यांचे भिरें जर येत जर हांयस वडवपाची फुरसत रोकडे ते गिळटात. एक फावट हांयस काबार जालें तरी शेवटे सरनात. ना तर बोडार हात."

हावें रानवटी वारो घेतिल्लो तरी दर्याचो वारो वेगळो हें म्हाका कळटालें. खारो वारो कसो म्हाका लागतालो. दोळे चुरचुरताले. उसवास घेवंक खरो तर त्रास जातालो. गाळण्यान गाळील्ली च्या पिवंक बरी लागता नातर मदीं मदीं च्या पावडर सांपडटाच. झाडानसून गाळून रानान वारो पावता. बसून बसून म्हजे पांय जड जाल्ले. केलमेतीन हुमण शिजोवन दवरिल्लें आनी तो फुडल्या खडपार गेल्लो. तो ओगी आसलो. त्या खडपार तो फातरासारखो म्हाका दिस. रान्नीन उजो नासलो, तरी पैसुल्यान तांबडे इंगळे दिष्टी पडटाले. म्हाका जांबयो येवंक लागल्यो.

"केलमेत पोटाक भुक लागल्या, जेवन घेवया मरे ?"

"जाता."

अशें म्हणत तो खडपा वेल्यान देवन रान्नीकडेन गेलो. हांवें गरणी वयर काडून दवरली आनी काळखान खडपाक सासपीत सासपीत थंय पावलों. हळू उलयल्यार दर्या आवाजान आयकूंक येना आसलें. मोठयान उलवचें पड.

केलमेतीन पानानीं गुटलावन हाडिल्लें शीत दोन कडेन केलें. हुमण हुनहुनीत आसलें. रान्नीन थोडी लाकडां घालून पेटयतकच उजवाड पडलो. तांबडे भिल्ल इंगळे केलमेतीन भायर काडले आनी ताचेर ताणे धरून हाडिल्ल्यो खडपी कुल्ल्यो भाजूंक लागलो. कुल्ल्यां वासान हुमणाची रूचच गेली. कुल्ल्यो हावे पयलीं सोपयल्यो. हुनहुनीत आशिल्ल्यान जीभ भाजताली तरी दांत समाचार घेवंक फाटीं फुडें पळय नासले. कुल्ल्यो सोपल्यो, भूख तशीच आसली. त्या उजवाडाक आमी त्या हुमणाचेर ताव मारूंक लागले. पोटाक तर वाऱ्यांक चलिल्ल्यान खुबच भूक लागिल्ली. हुमण इतलें सुवादीक लागतालें सांगू, तोप केन्ना ठणठणीत जालो कळळोच ना. म्हज्यानी उठूंक जायना जालें. केलमेतीन हात दिवन उठयलो. पोट तटतटटालें. केलमेतिन म्हळें,

"पोट रान्नीवटेन दवरून शेकून घे."

हावें दर्या वटेन रावन हाताचें उशें करुन न्हिदून दोळे धापले. रान्नीच्या इंगळ्याची गरम साण सोसूंक जातली इतल्या पैस हांव न्हिदलों. चादर पायांर वडयली. वराभ-यान म्हाका न्हीद पडली आसतली.

कसल्यातरी आवाजान हांव जागो जालों. थंड वाऱ्यान शीं खातालें. पोट सामकें रितें जाल्ल्यासारखें दिसतालें. दीस जावचो आसलो. केलमेत खंय गेल्लो कोण जाणां. वाऱ्यान थंडी खुबच लागताली. दांत एकामेकार बसताले. रान्नीतलो गोबोर हळूच उस्तून पळय तर भितर इंगळे आसले. वयर बडयो दवरतकच रोकडोच उजो पेटलो. लागसलीं लांकडां घाली आनी उकंडयो बसून दर्या वटेन फाट करून शेकूंक लागलो. उज्याक शेकप म्हाका तशें आवड नासलें तरी थंडे खातिर शेकचें पडटालें.

बरोच वेळ जालो. रान्नीतलो उजो हातभर वयर सरलो, वयर धवो धुकट मळबान वतालो. वारो व्हांविल्यान तो आमी आयील्ल्या त्या रानावटेन बाग घेवन आसलो. दिको निवळताल्यो. हावें घरची याद जातकच वाटेकडेन उज्यानसून पळय तर उबार खडप आसा. काल पळयील्लें तेन्ना वा रातीन जेवतना खडप नासलो. एखाद्रे केलमेतीन हाडून दवरलो काय ? तरी इतलो उबार खडप तो कसो हाडटलो ? विचार मनान घोळतना हावें दोळे तायट करून परत त्या खडपाक पळय तर हळदुवें पट्टे कशे दिसले. कुत्र्या सारखे तोंड वयर दिस तेन्ना म्हाका दुबाव गेलो. हो खडप जावचोना. बरें, हळदुवो खडप कसो ? इतल्यान वारो नेटान व्हांवतकच उजो आड जालो तेन्ना पट्टे पळोवन थंय वाघ आसा हाची खात्री जाली. ताणें उडी मारल्यार हांव वांचना हें हावें चितलें. जीव वाटावंक जाय आसलो. हातपायांन थरथरो भरतालो. हातांन कांयच नासलें. बंदूक आसल्यार ताका माजराचो मामा करतां आसलो. तरी आज तो वाघ तर हांव बोकडो जाल्लो आनीक ताचेर नदर घाली नासतना हांव त्या उज्याच्सा आडसान फाटले फाट देवंक लागलो. हावें फाट केल्यार तो उडपाचो भंय म्हाका दिसतालो. हांव ताका दिसता काय ना तें म्हाका कशें कळटलें ? जिवाची आस्त सोडुनच फाटी फाटी सरतालों. फाटी सरता तितलें संकष्ट उणें जायत वतालें. फातराक उमकळ मारून हावें सकयलो तळ गांठलो. आता वाघ वयर आसलो हांव घोलीन भितर

लिपलों. मनान आयलें तो म्हज्या वासान सकयल देवना जाल्यार पुरो. हावें घोलीं मुखार एक फातर लावन धरलो. म्हजो जीव वाटावलो. वाघ आयलो तरी म्हाका खावंक शकचोना हाची खात्री म्हाका जाली. घोलीन म्हाका कितें तरी खडपाचेर तिकतिकतना दिसलें. जिवाणे आसतलें तरी आता हांव कितें करतलों. भायर सरल्यार वाघ तर भितर जीवाणें ह्या कात्रीन हांव सापडिल्लों. जिवाणें खडपाक चिकटून आसलें म्हणतकच तें सकयल देवन चाबचें ना, चाबल्यार एखाद्रे तें विषारी न्हय तर विष बाधचें ना. अशें येवजून हांव थंयच रावलो. चडच म्हज्यान जिवाणें येता तर ताका हात घालून खडपार आपटून मारूंक हांव फाटीं पळवचो नासलो इतली तयारी केल्ली तरी भायर वचत तर वाघ आंगार उडल्यार शाणपण चलचेंना हें म्हाका खबर आसलें. केलमेत वयर गेल्यार वाघ ताचेर उडत म्हणून भंय दिसतालो. हावें मोठ्यान

"केलमेत वाघ आसा रे रान्नीकडेन"

अशें म्हळें. म्हाका जाप नासली.

"वाघ रे वाघ आसा"

अशें हांव व्हडान म्हणूक लागलों. थोड्या वेळान आवाजाच्या दिकेन केलमेत आयलो आनी ताणें वेलो फातर काडलो. हावें विचारलें,

"वाघ आसा रान्नीकडेन ?"

"नारे कोणना, हावें चयलां नूं."

आमी दोघय रान्नीकडेन यो तर वाघ नासलो. एखाद्रे म्हाका भास जालो काय ?

"अंतन वाघ आसलेलो हींगा, हीं चय गोबरान तेचे पांय उदेल्यात."

तेन्ना म्हाका खात्री जाली. हांगा खंय तरी लागींच रावता आसतलो. लोक वतकच उरिल्ल्या उज्याक तो शेकता आसतलो. चडशे लोक सकाळीं वचून तिळसान मेरेन परततात, मागीर रातचो उरिल्ल्या उज्याक शेकपाची ताका सवंय जाल्या आसतली. आमची दोघांची जाग ना हे खातीर तो शेकूंक आयला आसतलो. बोवाळ जातकच गेलो आसतलो. असा समज हांवे करून घेतलों. केलमेतीन मोठ्यान किलांटयो मारल्यो त्यो आयकून तो लागीं आसल्यार धांवचो हो हेतू.

आतां उजवाड सगळें दाखयतालो. केलमतीन लांबारी मारिल्ली आनी फातराक गुटलायील्ली. हावें गरणेक हांयस लावन परत ती दर्यान सोडिल्ली. कुल्ल्यो पातळ जाल्ल्यो, तरी आसल्यो. केलमेत लोबांरे कडेन वचून बशिल्लो. पैस एक पनेळ हालतना दिष्टी पड. वाघाचो भंय जरी उणो जाल्लो तरी सामको वचूं नासलो. इतल्यान लांबारी उदकान वडयिल्ली ती तायट जाली. केलमेतीन कच्च करून ओडली. नुस्तें फारावलां हाची खात्री करून ताणे टांस सोडलो. हावें गरणी वयर काडून फातरार दवरली आनी ताचे सरी गेलो. लांबारेक हात घालो टांसाक ओड बरीच लागील्ली. त्या कोतान व्हडलें नुस्तें लागलां हातून दुबाव नासलो. केलमेत टांस बरोच सोडटालो आनी कच्च करून ओडटालो. गरो नुस्त्याक लागतकच ते परत देगेवटेन येतालें. उदक देगेकडेन कमी आसा अशें कळतकच तें परत दर्यान वचूंक पळयतालें, तेन्ना गरो सोडपाचो. ओडलो तरी ताचें बळ चड आशिल्ल्यान तें परत दर्यान बरेंच वचूंक शकतालें. टांस सोपूंक येतकच परत कच्च करून टांस ओडतकच ताका दुकून ते आपली दिका बदलतालें. केलमेत ताका खेळयतालो. वरभर खेळतकच नुस्तें मोव पडिलें. गऱ्यान ताणें खडपा म्हऱ्यान हाडलें.

"चल अंतन काड तेका."

अशें म्हणतकच हांव खडपाचो आधार घेत हळू हळू सकयल्या खडपार देवलों. खडपाक धारो आशिल्ल्यान लागताल्यो. नुस्तें धवशे कशें दिसतालें. दाव्या हातान हावें घट्ट खडप धरलें आनी बाग घेतली. टांस खंय आसा तो कळटालो ताचे वेल्यान तें नुस्त्याचे तोंड हे कळटालें. नुस्ते आतां उफेतालें मीटर भर तरी आसुंक जाय असो अदमास हावें केलो. नुस्त्याक हात लायल्यार तें सुळसुळतलें, तेन्ना ताच्या गालपुटान हावें हात घालो आनी वयर काडूंक बळ मारलें. उदकान ताका व्हडलें वज्नन लागना तरी वयर येतकच ताका खुबच वजन जाणवतालें. हावें तोल सांभाळून धरलो तरी तें वयर येना जालें. मागीर हावें बळ लायलें उसवास कोंडून धरलो आनी वयर काडलें. केलमेतीन टांस ओडून धरिल्ल्यान मात्सो आधार मेळळो. सकयल पडल्यार तें वतलें हें खबर आसलें. हांव ताकाच घेवन खडपार न्हिदलो. खडपार पडतकच तें उसळपाक लागलें तेन्ना हांव ताचेर न्हिदलो, आनी ताका वेंगायलें.

"गोबरो मुरे."

हावें इतलें व्हड नुस्तें पळोवंक नासलें. लागसल्लो फातर ताचेर मारतकच तें उसळपाचे थांबलें. हारा सारखें तें दिसतालें. आमी खोशी जाल्ले. तें साकान घालें तरी शेपटी भायर पडटाली. केलमतीन तें माथ्यार घेतलें. उरिल्लें सामान हावें साकान घालें. गरण्यो खांदार धरून दाबेलानची चडती चडूंक लागले. वत पडिल्लें. वाघ लागसल्या झीलीन घुरकितना आयकतालो. आमी झपाझप पावलां वडयत भिंडणां पावले. वाटेर सुरगां वास येतालो. नुस्ते केलमेतीक जड जाल्लें. थोडो वेळ बसपाचें थारायलें. म्हणसर हांवे वासावेल्यान रुख सोदून काडलो. सुरगां खुटलीं. खांद्या कणकणीं सुरगां आसलीं. थोडे कळे तर थोडी फुलिल्ली सुरगां. एका पानाचेर तीं घालून तें पान वालीन गुटलायलें म्हणसर केलमेतीक सुशेग मेळील्लो.

वतना आमी ज्या उमेदीन भायर सरिल्ले त्याच उमेदिन आमी घरा पाविल्ले. सूरगां व्हरुन व्हनयेक दिलीं. तीणे भाकरे कुडको हातार वडयलो. गोबरो थोडो विकलो आनी गरम करुन दवरुन चारदिस मेरेन खालो.






# बनखण

दनपारचें कड. गरमी कशीच सोसूं नजो आसली. बतर ओलें करून हावें माथ्यार वडयलें. वारो व्हांवलो तरी गरमीच तातुनसून येताली. धनयान कोटंब्याक वायंगण रोयील्लें. गोरवाक सकाळीं वंडगाळींत घालतकच तीं तानेन दनपारची कोटंब्याक उदक पिवंक येतालीं. उदक पितकच तांका गोठ्यान हाडून बांधची पड, नातर तीं शेतांन वतालीं. मागीर धनयालें आयकुचें पड. हांव आता कोटंब्याकडेन वचूंक लागलों. गोंरवां येवचीं आसलीं. वाटेर बसून रावलों. एक शोक्रुं रुखावेल्यान देवन झरी कडेन वचून उदक पिवंक लागलें. त्याच वेळार एक मुंगूस दोंगरावेल्यान देवतालें. त्या आवाजान शोक्रुं रुखार चडलें. मुंगूस जाग घेत उदक पिवन जातकच गेलें. म्हणसर वाटेन तकल्यो हालयत गोरवां झरीकडेन येतना दिसलीं. गोरवां वाटेन वतना धुल्ल हुबतालो. झरीचें उदक पितकच तांका हावें हाडून गोठ्यांत बांधली. सांची सोडपाचीं तरी नदर दवरची पड.

रेकेल घोठिणी पोंदाक बसून आसलें. पडिल्लें घोट तें खातालें. वारो येना फुडे तें धांवतालें. घोटां पडल्यार गोरवां खाताली ह्या खातीर तें दिसभर घोटिणे पोंदाक पारो करतालें. भुरग्यांक खावंक मेळतकच वताची पर्वा नासता. आमी वतान गड्ड्यानीं खेळटाले ताची म्हाका याद जाली. म्हजी नदर येशाच्या घरार गेली. तांब्याचो तांबयो ताणे वयर बडयेक बांधिल्लो. आज कोकण्याचें नवें वर्स. झाडांक कोमरी फुटपाचो तेप. धनयांगेर गेल्यार गोडशें ताळ्यार पडतलें असो विचार मनान येतनाच हावें वाट धरली. येसो वालो न्हेसून कसलें तरी ताचें शास्त्र करतालो. तें करतना तो उलय नासलो. हातानच खूण करून ताणे म्हाका बस म्हणून सांगलें. मागीर ब-याच वेळान येवन ताणें म्हाका दोन पुरण पोळयो दिल्यो.

हांव त्यो खावंक लागलों तेंन्ना एकटो म्हज्या गोठ्या कडसून वतना दिसलो. व्हनयेन च्या दिली ती पिवन हावें कट्टी भायर वडयली. येसो येवन बसलो आनी म्हणूक लागलो,

"अंतन सोलदाद भोंवतात सांभाळून राव तूं मादाळे वचून जेलेटिना हाडटा, आजाद गोमन्तक पार्टीन गेला हें कळत तर फुडें कितें जातलें सांगू नजो, काल लोलयां चार जाणाक धरून व्हेल्यात."

तो सांगतालो हांव आयकतालों. म्हाका पोर्तुगिजाचो भंय दिस नासलो. तसो दिसल्यार हांव आजाद गोमन्तक पार्टीत सरचो नासलो. गोंय स्वतंत्र करुंक जाय आसलें. हे खातीर हांव तांका पोर्तुगिजा आड मदत करतालों.

म्हजी नदर गोठ्या कडेन गेली तर गोठो पेटटालो. धनयाली कोयती हाताक मेळळी ती घेवन धावलों म्हणसर गोठो अर्धो पेटिल्लो. चितपाक वेळ नासलो. धव्या वतान तांबडो उजो वाऱ्यार आपलो शेख गाजयतालो. काब्रो मोठ्या मोठ्यान हांबेतालो. हावें वेळ केलोना उजो पालवंक उदक नासलें. गोठो गेलो तरी गोरवां सोडोवूंक जाय आसलीं. गायरीनसून वयर सरलों आनी कोयतेन दावीं कापूंक लागलो. बिड्डी सोडोवंक वेळ नासलो. गोरवां दावीं चर चरायतालीं. वांशांचे पास तुटून केन्ना तांचेर वा म्हजेर पडत हें सांगू नजो आसलें. म्हजेर पडल्यार लेगीत म्हाका पर्वा नासली. गोरवां म्हज्या घरचीच तांचेर संकष्ट तेच म्हजेर अशें म्हाका दिसतालें. रीत गोठ्याकडेन येवन रडटालें. येसो उदक घेवन आयील्लो. तरी त्या उज्यान घाल्यार ते घाघरभर उदक उजो पालवचे बदला चडच नेटान पेट्टा आसलो. इतल्यान करडाक लागील्लो उजो म्हजे फाटीर पडलो. तो उबो रावतकच करडासयत सकयल पडलो. मदीं आड्याकडेन रावंन हांव दावीं कापतालों. धुकटान कांयच दिस नासलें. मेळटा तें दावें हांव कापतालों. गोरवां भयान दावीं काडतकच धांवलीं. इतल्यान पयलीं जळताले ते फुडले वांशे पडले. आतां ताचे आयले पडपाचे आसले. त्या गोरवांक हुलोप बशिल्लो. इतल्यान शक्त एकठांय करून हावें त्या बैलाक गोठ्यांनसून धुकलून दिलो. आतां सगल्याकच भगभग उजो पेट्टालो. म्हाका त्या धगान घाम येवन सुकतालो. म्हजी कात चुरचुरताली थोडेकडेन उजो लागला थंय भगभगतालें. इतल्यान गोठोच पडलो. हांवें भायर गायरीन उडी मारली. तानू भीतर धडपडटालें. गायरीनसून हात

घाल तर ताची शेपटी मेळली, त्या सरशी ती ओडली तें गायरीन पडलें. थोडे भाजील्लें. भयान जीभ भायर काडिल्ली. दोळे खड्डेक व्हेले. गोरवां पैस धांवून एकठांय रावन आपलें घर जळटा तें पळयतालीं. गोंरवां वाटावलीं हाचें म्हाका समाधान जाल्लें. गोठो गेलो तरी तो सात आठ दिसानीं परत बांधूक येतलो असो हावें विचार केलो.

"रीता कित्याक रडता गोरवां बरी आसात, तूं हांस आता."

तरी तें आपली दुकां सांभाळूक शक नासलें. व्हनी दोळ्यांक पदर लावन आसली. शिको, केलमेत केन्ना आयले तें खबर नासलें. भाजील्ले कडेन खोबरेल लायलें आनी न्हालों. सांची तीन वरं जाल्लीं.

वाटलेन रितान वाडिल्ली पेज थंड जाल्ली. सुको बांगडो भाजून दवरिल्लो ताचो वास येतालो. मांजरा पैस आसलीं. इतल्यान आंगणान बुटांचो आवाज आयलो. हावें पयलीच उंडी तोंडान व्हेल्ली, परत वाटयेन दवरली. इतल्यान कापिटल भोकीलो आवाज आयकलो. म्हणसर रित भायर गेलें.

"अंतन खंय आसा ?"

अशें म्हणत दारानसून बुटांसयत सोलदाद भितर सरलो. फाटल्यान दोन सोलदाद, म्हाका दारानसून दिसले.

"तुं थेरोलिस्ट, सी आय डी पण कोरता उठ पयलीं."

म्हणत ताणें म्हाका हात धरून उठयलो.

"चल भायर सर."

म्हणत ताणे म्हाका धुकलून आंगणात वडयलो. खोट मारून फुटबोल वडयतात तसो म्हाका वडयलो. म्हजे दांत जमनीक आपटून रक्त भायर येतालें. कापिटल ताका चाबूंक आयलो तेन्ना ताणें रोतांन ताका मारलो. कापिटल पेंव पेंव करत दाव्या पायार कुटत धांवलो. तेंच रोंत म्हजेर मारलें. हांव सोसून ओगी रावलो.

"तुज्या बरोबर कोण कोण आसात तें सांग."

हावें तोंड उघडुना. ताणी म्हाका चलूंक सांगलें. हावें म्हळें,

"दोन उंडयो जेवन येता."

"तुका जीव जाय तर चल वचून झीपीन बस ना तर तुझें मडें हींगाच घालतां." हांव बोकडो मारूंक व्हरता तसो तांचे फुडे वतालो. हांव मेलो तरी येशाचें नांव सांगचोना अशें मनांत हावें थारायिल्लें.

काणकोणा पावतकच म्हाका पोस्तार व्हेलो. थंच्या सायबानी म्हाका कुडीन व्हरून बुटानी खोटायलो. एकटो खोंट मारून दुसऱ्यार वडयतालो तर दुसरो परत खोंट मारून परत दुसऱ्यार वडयतालो. बुटांचो मार सोसूं नजों जावन म्हाका घुंवळ आयली तरी,

"थेरोलिस्ट" अशें तोंडान म्हणत खोटावपाचें चालूच आसलें. हांव मेल्ल्या सारखे ढोंग करून जमनीर पडतकच एकटो येवन म्हजी नाडी पळोवंक लागलो आनी ताणीं खोटावपाचें बंद केलें. म्हजें आंग केणेवन काळें जाल्लें. हावें मेलो तरी कोणाचेंच नांव सांगचो ना अशें थारायील्लें. उज्याचो हुलोप बरो तरी हो मार न्हय. मारा मुखार हांव घरची याद विसरलों. रातिन म्हाका काणकोणा पोस्तार कुडीन घालून दवरलो. दोन पाव आनी भाजी थोडी खावंक दिली. रातभर हांवे त्या कुडीन तळमळत काडली. थोडे सुटके झुजारी दुसऱ्या कुडीन आसले. सकाळीं च्या पाव भाजी दिली. ती खातकच म्हजें नांव, गांव सगलें बरोवन दवरलें आनीक बोट मारूंक लायलें. आंग सुजून मोठें जाल्लें. एका दोळ्यान सुजिल्ल्यान दिष्टी पड नासलें. दोन दांत हालताले. म्हज्यानी चलूंक जायना आसलें. वाघाक मारपी हांव ह्या सोलदारां कडसून मार खातालों. सत्तेमुखार शाणपण चलना हेंच खरें. म्हजें डिक्लरेशन घेवन म्हाका ताणीं झीपीन घालो आनी कुसमणां (केप्यां)कादयेन व्हेलो. थंय तिशेक जाण सुटके झुझारी तशेंच हेर गुन्यांवकारी आसले. तिळसान जातकच मोंतेर सायब येवन आमचें डिक्लरेशन घेतालो आनी बुटानी मारतालो. मागीर रातचें जेवप. नुस्त्या बगर म्हाका उंडी वच नासली. हें तांका खबर आशिल्ल्यान ते म्हाका शिवराक वाडटाले. म्हाका ओंकारे येताले. वयर घाट मोठी तार आसली ताचेर एक खाप्री खांदाक बंदूक लावन आसतालो. म्हजी बोटां बुकार मारून दवरिल्लीं.

आमचे वांगडा एक भट आसलो. तो ही सुटके झुजारी, नुस्तें खायना आसलो. एका तोपान हुमण करून रानपी हाडटालो. भट शिवराक म्हणटकच हुमणावेलो रोस ताका वाडटालो तर थोड्यांक दावल पोंदाक मारून नुस्तें

वाडटालो. भट दोन दीस ओकलो तरी मागीर तो नुस्तें खावंक लागलो. करतलो किर्ते भुके मुखार कसलेंय पातक घडूं येता हेंच खरें. थंय म्हाका कैद्याचो पोषाख  दिल्लो. तो हावेंच उमळपाचो. भितर आमकां खणप, माती भरप असलें काम करूंक लायताले. घरच्यांची याद परत परत येताली. रीत म्हज्या फाटल्यान गोठो कसो उबारतलें ? रेकेलाचे आनी ताचें पोट कशें भरतलें ? कोणी येवन तांका त्रास दिवचोना मूं. ही चितना म्हका मारा परस चड सतायताली. पयले आठ दिस म्हाका न्हीद लेगीत पडली ना. आता ती पडूंक लागिल्ली. गोंय केन्ना स्वतंत्र जातलें हो एकच ध्यास म्हाका लागिल्लो. म्हाका खाल्ले जेवण आंगाक लाग नासलें. वण वण करून भोंवची सवंय आसली. पांद-यान घाल्लो  कीर अशेच कष्ट सोसता आसलो ? जीव्या प्राण्याक बंनखणीन घालप न्हयच.

तीन म्हयन्यानी आनीक सुटके झुजारी धरून हाडले. कादयेन जागो नासलो. कासमीर मोंतेरीन सांगलें,

"पयलींचे कैदी आसात तांका सोडून दियात."

सकाळचो सायब येवन आमका आमचे घालून आयील्ले कपडे दिले.

"चलात घरा तरी सी आय डी पण करशात तर आमी आसातच, परत जीवे घरा वचचे नात हें मतीन दोवोरात."

कादयेन सुन सोडतकच हांव चलूंक लागलो. केन्ना घरा पावन अशें जाल्लें. चलपाची सवंय नाशिल्ल्यान वाटेर बसत बसत वच्चें पड. रातचो पावस पडिल्ल्यान जमीन चिकचिकीत जाल्ली. म्हज्यें कुटूंब केन्ना दोळ्यानी पळयतलों अशें म्हाका जाल्लें. वाट सरून सर नासली. आमोरेचेर हांव भाण्णात पावलों. येशागेर दिवो पेट्टालो. म्हज्या घरान दिवो नासलो. म्हाका पळोवन रेकेल घरान धावलें आसतलें. काळखान कळ नासलें. हांव आंगणात वच तर घराचें कवड लायील्लें.

"रेकेल पाय मुगो."

अशें हांवे म्हणटनाच रेकेल ओळखलें. कवड काडून तें भायर आयलें. हांव भितर वच तर,

"पाय तूं न्हय."

"रेकेल पाय तुझो पिशा, खाड बोड वाडिल्ल्यान तो वेगळो दिसता."

रात्नीन उजो उजवाडा खातीर आसलो. रातचीं तीं उदक पिवनच पोट जमनीक लावन न्हिदतालीं. ती सामकीं बारीक जाल्ली. म्हज्या दोळ्यानसून दुकां व्हांवलीं तरी काळखान तीं तांका दिसलीं ना तें बरें जालें. उदक गरम करून पियेलों.

दुसरे दिस येशागेर वचून खंडीभर भात पिकेर दितां म्हणून हाडलें. रेकेलान तें भाणात घालून उकडलें आनी वताक घालें. चार दिसानीं काडूंन ताणें तांदूळ केले. ताका चिपळ्यान धाडून नाचणो हाडूंक लायलें. पावस बरोच पडटालो तेन्ना तो घरा फाटल्यान पेरलो. शेत रोयल्यार मागूस जाता आसलें. उदकाक तुट्टा आसलें. शेत रोयल्यार आनीक रिणान बुडटलों, अशें येवजून हांव जोत घेवन लोकागेर भाड्याक वतालो. किर्तें मेळटा तें खरें. भात दिकेर मेळटलें ह्या आशेर. म्हयने भरान नाचणो व्हड जालो. नाचणो तन्नो आसतना रितान तो थोडो हाडून वानार वाटून गोड घालून भाकरी केली. तोंडातली सोडची न्हय. पावस आमी नाचण्या भाकरी खावन काडलो. मदी मदीं धनी तांदूळ दितालो ताचें शीत रीत करतालें. गोठो बांधूक रिताच्यान जालें ना. गोंरवां आंब्या पोंदाक बांधताले. हावें थोडी केलमेतिगेर बांधपाची व्यवस्था केली तर थोडी आंगणान पाखें देवोन तातूंत बांधूक लागलों. पावस दीस रात गोरवांर पडत तर तांका थंडी भरता हें म्हाका खबर आसलें. गोरवां मेल्यार हांव उबंत पडपाचो शिवाय त्या पातकाचो वाटेकार.

रितान भावाक मदतीक आफयना फुडें ताणें आलबेटाक धाडलो. आलबेटाक घर दार नासलें, मांय, पाय नासली. शेताचें काम ताका खबर नासलें तरी जाता तशें करतालो. म्हाका सांगात बरो मेळ्ळो. जोत धरूंक कळ नासलें तरी मेरो तासप, त्यो लावप, शेण गायरीनसून व्हरून पाट्यांनी शेतान घालप असलीं कामा करतालो. तो आशिल्ल्यान काम वेळान जरी जालें तरी हावें दोन खणयाचें शेत रोवन काडलें. ताचे कडसून हावें ताचो फाटलो इतिहास समजून घेतलो. तो कर्नाटकातल्या 'हलनगिरी' दोंगरार रावतालो. आवयक पळयिल्ली ताका याद ना. ताचें नांव 'गुड्डप्पा' आसलें. गोयान तो आनी ताचो बापुय वानाक टाकी मारूंक आयील्ले. बापायन, गुड्डाप्पाक चिपळेच्या सावकारा आधीन करून तो गावांत

गेलो. मावांची आनी ताची वळख जाली. चर्चीन व्हरुन ताणें ताका किरीस्तांव करून आपलें 'आलबेट' नांव दवरलें. तो तांच्याच कुटुंबातलो जालो. तो नुस्तें खाय नासलो. रेकेल पयलीं व्हरून ताका जेवण वाडटालें मागीर आपूण जेवतालें.

घर गळटालें. आलबेटान आनी हावें तें शिंवलें. आलबेट दिसोड्या कामाक वचून जे कितें पैशे मेळटात ताचें सामान हाडटालो. म्हजी आर्थीक स्थिती सामकीच इबाडिल्ली. ताका थोडो आधार मेळटालो. तिळसान जातकच पावभर सोरो पिवपाची ताची संवय तशीच आसली. म्हास्तिमळार गादी आसली थंय तो तिळसानचो वचून पावभर सोरो पिवन येतालोच. पितकच बडबडनासलो. हावें दोन तिन फावट ताका सोरो सोड म्हणून सांगलें तरी ताचो उपेग जालोना. सोरो पिना तर तो रातभर न्हीद नासतना तळमळत रावतालो.

आयतारचो तो मादाळे वचून सामान हाडटालो. मिसाक चडसो वच नासलो. बेकार आसल्यार शेणें घेवन गावांत वचून 'टाकी घालतां, टाकी' असो विचीत्र हेल काडून टाकी मारून दिसोडो सोडयतालो. तरी तो चड पैस वच नासलो. झाडार चडूंक झेप नासले तरी जमनी वेली सगलीं कामा तो करी. वराचीं वरा लाकडां करतालो. कामताक वंय कर, सांवळ घाल असलीं कामां तो रेकेला बरोबर करतालो.

अशेच स म्हयने गेले. आलबेट रावलो तरी आपल्या जोडिचेच खातालो. हांगाच लागीं खोपूट काडून रावता अशें मत ताणें उक्तावन दाखयलें. केलमेतिचो चेडो आनी तो गादयेर वतना हावें पळयील्लो. णव वर रात जाली तरी तो येवंक ना तेन्ना हांव आनी रीत जेवंली. रेकेल ताची वाट पळयत आसलें. धा वर राती तो आयलो जावये. फट् फट् असो आवाज जातकच म्हाका जाग यो तर ताणें रेकेलाच्या पोल्यार थांपटां मारिल्ली. रेकेल रडटालें. रीत न्हिदीलें. रेकेल रडटा तें पळोवन म्हाका राग आयलो. हावें हाताक धरून ताका घरा भायर धुक्कल्लो आनी कवड लायलें. रेकेल रातभर रडत आसलें. आलबेट खुबच पियेल्लो. पाय पांया कडेन पड नासले. केलमेतिच्या चेड्यान ताका तर्र केल्लो हें कळूंक वेळ लागलोना. तरी रेकेलाचेर हात कसो उखल्लो हें म्हाका कळूना. सकाळीं उठून पळेत तर आलबेट नासलो. रेकेल रातचें जेवंक ना. रिता कानार सगली गजाल घालतकच तें म्हजेरच फडफडलें. रेकेलान च्या सकाळीं घेवंक ना. ताका

हाडल्याबगर उदक लेगीत घेवचें ना असो ताणें निश्चेव केल्लो. रीत रोकडेच चिपळ्यान वचून सांचे आयलें. तो थंय आसलो. रेकेल म्हाकाच दोश दितालें. आपणाक आलबेटान थापट मारूना अशें सायबिणी मुखार सांगतालें. तरी ताचे सुजिल्ले गाल तें कशें लिपोवन दवरतलें ? रीत म्हाका म्हणूक लागलें,

''तुवें तेका घरा भायर घालून दुखयलो तो परत ह्या घरान पावल दवरचो ना तेन्ना. तेकोडेन वचून चूक बक्षी म्हणून सांग.''

हांव ओगीच रावलों. म्हाका ताचो राग आयिल्लो. दोन दिस अशेच गेले रेकेलाक माराचो भंय घालो तरी ताणें उदकाचो थेंब तोंडान घेवंक ना. चलयांचे मन एक फावट बसतकच तें ताचेच एक आंग जावन वता आनी आपलें वेगळें पण ती व्हगडावन बसतात. म्हजो अभिमान घाण दवरून हांव चिपळ्यान गेलों. म्हाका पळयतनाच तो फाटल्या दारानसून खंय गेलो कोणाक खबर. ताका हावें सोप्यार पळयिल्लो तितलोच. हांव मावोड्यां चड रावपी न्हय. तरी आलबेटाक मेळोवन घेवंक जाय आसलो.

रातचो आठां भितर येवपी आज धा जालीं तरी येवंक नासलो. घरचीं कोणय जेवंक ना. साडे धांक सुमार तो लकत लकत आयलो. मनान येतालें बेबदो, गरीब, रागीट, घर दार नाशिल्लो मनीस तरी स्वाभिमानी असल्याक जावंय करून घेवंक म्हजें मन फाटी फुडें सरतालें. तरी रेकेलाचो हट्ट ताचेकडेन काजार जावचें आसलें. रेकेलान तर ताचे खातीर सगलेंच सोडिल्लें. रेकेल ताचे कडेनच काजार जावंक सोदतालें. संसार रेकेलाक करचो आसलो. म्हजे थोडेच दीस आसले. म्हजे केस थोडेच चुकून खंय काळे दिसताले. काती चिळचिळील्यो. बडी घेतल्या बगर चलूंक जायना आसलें. पैसुल्लें दोळ्यांक वळखूंक येना आसलें. बरें म्हजे कडेन तशी जोड कांयच नासली. रेकेलाचें काजार करून गिरेस्ताक दिवपाची आस्पत नासली. बरें म्हजे घर कोणे तरी चलवचें अशी इत्सा आसली. ना म्हळ्यार गोरवां, घर, शेत आसलें, तें कुटूंब पोसूंक शकतालें. तरी कष्ट केल्या बगर कांयच मेळपाचें नासलें. ह्या विचारान आसतना हांव ताच्या म्हऱ्यान वचून ताका घट धरलो म्हळें,

''म्हजी चूक जाली रेकेला खातीर तूं तें विसरून भाणणात यो.''

ताका शाबुध्दी नासली तरी हांव सांगपाचें सांगून मेकळो जालों. सकाळीं

उठतकच ताका लज जाली आनी तो म्हज्या फुडे भाण्णाची वाट चलूंक लागलो. हांव फाटल्यान चलतालों. घरा पावतकच म्हाका केलमेतिचो चेडो रेकेलाचो हात धरून ओडून व्हरतना दिसलो. तें रडटालें. आलबेटान ताचेर चार थापटां फुलोवन रेकेलाक सोडयलें. म्हणूंक लागलो,

''मादरचोदा म्हाका पियेवन आपूण रेकेलाचो हात धरुंक सोदतालो, खबरदार तेचे वाटेक येयल्यार.''

रेकेलान घरा कडेन धांव मारून आलबेटाक च्या दिवन आपूण च्या पिलें. रितान म्हळें,

''इतलो राग करून धांवप, आमकां कोण आसा ?''

आलबेट ओगीच रावन सगलें आयकतालो.

हावें मिलेर फोडलो. हजार भर रुपया मेळळे. थोडे येशा कडसून उसणे घेतले. सूट मादाळे वचून ताका शिवन हाडलो. रेकेलाक काजराचो लोब शिंवलो. कारबोभर सोरो हाडलो. चिपळेकार आनी भाण्णकारांक आफयले. रेस्पेर लोलयां इगर्जीन केलें आनी व्होर भाण्णात हाडलो. शिक्याक पावभर सोरो घालून घुमट बडवूंक लायलें. सेजी करून वाडली. अशे तरेन आलबेटाक हावें घरजावंय केलो.

आतां हांव मेकळो जाल्लों. संसाराचो पेज नासलो. जावंय तसो संसारी आसलो. रीत ताका सांगूक आसलेंच. सेंट फ्रांस्सीक्स शावियराच्या फेस्ताक वचपाची पायची कितल्या वर्सांची इत्सा ह्या वर्साक पुराय करपाची हावें येवजिलें. म्हाका तिशेक वर्सां फाटली, पायची याद जाली. असोच सांचो वेळ. गोरवांक सोडून तो मुठी कवळून घरांत येवन बसलो कांयच उलय नासलो. भिल्ल्या सारखो. आंगानसून घाम येतालो. कांयच खावंक जेवंक नाका म्हणटालो. मोनेळीक सापडला जायत अशें शिक्यान म्हणतकच घाडयाक हाडलो. ताणें बेत काटयेन ताका मारतकच मात्सो मात्सो उलोवंक लागलो.

''चेड्या पन्न्या गोयां सायबाक चयन शें जालां तूं म्हाका थींगा व्हर.''

ताच्यानी चलूंक जायना आसलें. एका फळयेर घालून ताका उखलतना तो सोपलों. ताची ती इत्सा तशीच उरली. सांत सायबाची कूड काशावान आसली हें पायन आयकल्लें.

"चेडऱ्या म्हाका सायबासारखो काशावानच घाल."

अशें एक फावट ताणें उलोवन दाखयिल्लें. काशांव व्हरूंक म्हजे कडेन पैशे खंय आसले. म्हजी नदर भील्ल माडाच्या दोणाचेर पडली. नवें दोण हावें तेन्नाच केलें तें वेल्यान फोडून वडयलें. पायक त्या लांबशा दोणान घालो. फळयेन तें वेल्यान धापलें. लोक मात परत परत,

"अरे ईगर्जीचो काशांव कित्याक हाडुना ? ह्या दोणा परस तो बरो न्हय."

तरी हांव दुखेस्त आशिल्ल्यान बोडा वेल्यान तुवालो पांघरून ओगीच रावतालो. ताचें गूट म्हाकाच खबर आसलें. तशें पळोवंक गेल्यार तो एक योगायागच म्हणचो पडटलो. पायन म्हाका सांगिल्ल्याचो उगडास येता. ताणे सायबाचें दर्शन घेवंक नासलें. पायन जरी ती पळोवना तरी त्या सायबाची पवित्र कुड पळोवची इत्सा म्हाका आसली. जिणेन कादय पळयिल्ली तरी व्हड इगर्ज पळोवंक नासली. काजरा खर्च जातकच पन्नाशेक रुपया बाकी आसले ते घेवन हांव भायर सरलों. देवाची आंगोण हातपाय भेटोवची आसली. हात पांय घट आसल्यारच मनीस उपेग ना तर तो उपकारना. पन्न्या गोंयान पावतकच हावें मेणाचे हात पांय घेवन देवाक भेटयले. शावियराच्या पवित्र कुडिचें दर्शन घेतना म्हाका दिसलें, म्हजी कूड अशीच एक ना एक दीस पडटली, मोनी, खायना, जेवी नासतना, सासणाची न्हीद तिही जमनिपोदांक. ह्या विचारान आसतना भायर येवन हांव रस्तो हुपतालो, इतल्यान एक धाकटी गाडी वेगाान येतना दिसली तातूंत बारीक साणेन पळयतर कुयटाक गेल्लो मेवणो. हांव थोडो गोंधळलों, रस्त्यार मर्दीच आसलो. ताका ब्रेक मारपाचे म्हाका पळयतकच भान उरलें नासत, गाडी त्याच वेगान म्हजेर आदळटाली.....

कुन्यात! ही उतरां कान आयकताले तितलेच...........



## आमची प्रकाशना

| नांव | प्रकार | वर्स |
|---|---|---|
| खतखतें | कवितां झेलो | १९९६ |
| आवाळें | कादंबरी | १९९८ |
| उगडास जीण | कथा झेलो | १९९९ |
| अपु | कादंबरी | २००० |
| इंगळ्यांतलो हिरो | कादंबरी | २००१ |